भौ. किरणबाय बुडकुले
-हांकां
-मायेमोगान

# अघटीत

## अशोक कामत




कामत प्रकाशन
कुडचडें गोंय
ph. 0832 2650335

**Aghatit**
A novel by
Ashok Kamat
9552551424

**अघटीत:** 2012



**प्रकाशन :**
कामत प्रकाशन
कुडचडें गोंय 403 706
फोन - (0832) 2650335

**प्रकाशन क्र.** 15

**पयली आवृत्ती:** 2012

**टायप सेटींग:**
अर्चना-अशोक
फोन - (0832) 2650335

**छापणावळ:**
बांदेकार ऑफसेट
कुडचडें-गोंय

**मुखचित्र: बांदेकार ऑफसेट**

**मोल:** Rs.250/-

म्हजी 'घणाघाय नियतीचे'
कादंबरी येतकच म्हज्या
असंख्य वाचकांनी पत्र बरोवन,
फोन करून आनी प्रत्यक्ष मेळून
प्रतिक्रिया दिल्यो
त्या ज्ञात आनी अज्ञात
वाचकांक

**- अशोक कामत**

5

# कादंबरी संबंदान....

ही म्हजी तिसरी कादंबरी. पयल्या दोन कादंबरींक जसो वाचकांचो येवकार मेळ्ळा, तसोच हिकाय मेळटलो अशी आस्त बाळगितां.

हे कादंबरीचें मुळावण घाल्लें २००२ त. प्रेरणा मेळपाक एक निमित्त घडलें. हांव २००२ त रत्नागिरीं भावागेर गेल्लों. धा बारा वर्सां पयलीं रत्नागिरीच्या लांजा तालुक्यांतल्या एका गांवांत भाऊन हापूस आंब्याची गार्फा लावपाक जमीन घेतिल्ली. ताका भुरगेपणांतल्यान ॲग्रिकल्चराची आवड. त्याच ठिकाणांत ताणें फार्म हावस बांदिल्लें. तें बांदीत पसून कांय वर्सां तो म्हाका तें पळोवपाक आपयतालो. घरचें काम आनी लेखनाच्या व्यापान थंय वचप शक्य जालेंच ना. 'घणाघाय नियतीचे' कादंबरीचें लेखन चालू आशिल्लें. ताका लागून जमलेंच ना. मागीर थारायलें, घणाघाय कादंबरीचें काम पुराय करतलों आनी मुद्दासाक म्हूण चार दीस रत्नागिरी वचून येतलों. साडेचार, पांच वर्सां लागलीं म्हाका कादंबरी पुराय करपाक. निमाणें तो दीस आयलोच. नोव्हेंबर,

डिसेंबरच्या दरम्यान एक दीस भाऊ जेन्ना म्हगेर आयिल्लो तेन्ना म्हाका ताणें लागीं लागीं उबारलोच. म्हाकाय बदल जायच आशिल्लो आनी हांव गेलों. गांव पळयलो आनी पिसो जालों त्या गांवाची रचना, त्या गांवचे लोक, त्या गांवचें वातावरण, इल्लीं इल्लीं पूण भरपूर पीक दिवपी हापूस आंब्याचीं गार्फां हें सगळें पळोवन मनांत आयलें, तीन चार म्हयने हांगां रावचें आनी सैमाक मनसोक्त पिवन घेवचें आनी जमल्यार अक्षर रुपान कागदार उतरावचें. कोंकणच्या सैमा बद्दल, थंयच्या लोकां बद्दल आयकल्लें. पूण प्रत्यक्ष अणभवपाचो योग आयलो आनी रिटायर जातकच भाऊ हांगा येवन रावलो कित्याक हो म्हाका पडिल्लो प्रश्न सुटलो.

लेखन चालूच आशिल्लें पूण त्या गांवचें वातावरण मनाच्या खंयच्या तरी कोनशाक कुंरगुटी करून बशिल्लें. देड दोन वर्सांनी बायलेक आनी भुरग्यांक घेवन परतों हांव थंय गेलों. सौ. अर्चनाकूय गांव खूब आवडलो. तेन्नाच हांवें विचार केलो, कितेंय तरी बरयतलोंच. कोंकणांतल्या गांवांत चार दीस राविल्ल्या आनी लागींच्यान घेतिल्ल्या अणभवाचेर केन्ना तरी बरोवचें अशें थारावनच हांव परतलों.

चार पांच म्हयन्यांनी भाऊच्या ठिकाणार अशी एक घडणूक घडली आनी भाऊ जो त्या गांवांत रमिल्लो, ताचें मनच उठलें. आनी चिंतलें, हें घडणुके विशीं आयकून हे घडणुकेची मध्यवर्ती कल्पना घेवन म्हाका कितें बरोवपाचें आसा तें बरोवया. ती घडणूक हांव हांगा बरयना. कादंबरी वाचतकच वाचकांक आपशींच समजतली. पूण २००४ तल्या सप्टेंबरांत म्हाका हार्टअ‍ॅटेक आयलो आनी हो संकल्प कुशीक उरलो तो उरलोच आनी हांव विसरूनच गेल्लों. फाटीं अचानक त्या वेळार केल्ल्यो नोंदी (जॉटींगस्) म्हज्या हाताक लागल्यो. तो विशय म्हजे तकलेंत परत घुंवपाक

लागलो. कोंकणा विशीं, थंयच्या लोकां विशीं बरोवपाचो म्हजो मानस सफळ जावपाचीं चिन्हां दिसूंक लागलीं. हांवें कादंबरीचें लेखन सुरू केलें. तातूंत भर म्हूण कादंबरीचें लेखन चालू आसतनाच, कादंबरीचें एक पात्र, नाना बोरकार, भाऊ म्हगेर आयिल्लो आसतना योगायोगान आमगेर आयलें. तांचे कडेन उलयतकच कादंबरीच्या पात्रांक मातशी घटसाण आयली.

कोंकणाचें आनी गोंयचें कल्चर जरी एक अशें आमी समजत आसले तरी, लोकांची सभाव भिन्नताय, थळ भिन्नताय, चाली रिती भिन्नताय वेगळी. गोंयच्या भायल्या वातावरणाची वाचकांक वळख जातली होय एक हेत आसा.

ही कादंबरी बरयतना म्हाका भाऊची खूब मदत मेळ्ळी कांय गजाली, कांय प्रसंग, म्हाका ताचेकडल्यान परत आयकुचे पडले. ताका देव बरें करूं म्हणले बगर कशें जातलें?

ही कादंबरी बरयतना डॉ. पद्मनाभ राताबोली आनी दिनेश मणेरकार हांणी कांय सुचोवण्यो करून म्हाका पालव दिलो तांकां देव बरें करूं म्हणटां.

आनी प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष जांणी जांणी आदार दिला तांकांय देव बरें करूं म्हणटां

**- अशोक कामत**

**कुडचडें-गोंय**

**मो. 9552551424**

# एक

पिरायेच्या सोंपत्या दिसांनी मनीस आपल्या कर्तुपांचो हिशेब मांडपाक लागता. बऱ्या कर्तुपांचो उगडास ताका समाधान दिता आनी वायट कर्तुपांचे चुरचुरे पडटात. पूण जिवितांत कांय घडणुको अशो घडटात जांच्या हिशेबांची नोंद तुज्या खात्यार जाता पूण तांचो तुजे कडेन कांयच सबंद आसना. त्या घडणुकांच्या वज्यान मात तूं खर्शेता.

हांव म्हज्या फाटल्या जिवितांतल्या कांय मुखेल आनी म्हत्वाच्या घडणुकांचो विचार करतां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार बऱ्योचशो बऱ्यो वायट घडणुको उब्यो रावतात.

सदांच म्हाका दिसतालें, नशीब, नशीब म्हणल्यार कितें? आपूण घडयता तशें नशीब घडटा. जिणेक दिका दिवपाचें काम आपले कडेन आसता. आपल्या मनगटाच्या बळग्यार जिणेक आपल्याक जाय तशी दिका दिवची आनी फुडें मागीर तेंच नशीब घडटा. आनी म्हजे जिणेंत कांय प्रमाणांत तशेंच घडत गेल्लें.

# 9

रिटायर जातकच आपल्याक कामांत बांदून दवरपी कितें तरी उदुदेग जाय अशें म्हाका दिसतालें. बरेच लोक रिटायर जातकच समाज कार्य करपांत मन घालतात. चड करून एकाद्रे सामाजीक संस्थेंत फुकट काम करतातय बी. कांय जाण परत्यो बारीक सारीक नोकऱ्यो करतात आपल्या दर्जाक सोबना अशो. तर कांय जाण अशें कांय करनासतना दीसभर चकाटां मारीत फिरतात. कांय लोकांचो दीस नातरांक खेळोवनच सोंपता. कांय जाण स म्हयने भारतांत तर स म्हयने भारता भायर सारतात. पूण म्हाका हातूंतलें कांयच करपाचें नाशिल्लें. म्हाका दिसतालें आपली स्वताची इल्लीशी जमीन आसची तातूंत ल्हान शें घर आसचें. ते जमनीर आंब्याचीं, पणसाचीं झाडां आसचीं., माड, माडयो, केळी आसच्यो. आनी गोठयांत एक गाय आनी पाडूक आसचें आनी दिसाची सुरवात गायचें दूद काडून जावची. हें म्हजें रिटायरमेंट नंतरच्या जिविताचें सपन आशिल्लें. घडये गोंयांत  भुरगेपणांत शेतांतल्या चिखलांत खेळ्ळां म्हूण जायत वा बापाय वांगडा शेतांत काम केल्ल्यान जायत वा घरा फाटल्यान गोठ्यांत गोरवां आशिल्लीं म्हूण जायत. म्हजें जमनी कडेन नातें जुळिल्लें आशिल्ल्यान ही ओड आयल्या आसतली.

रिटायर जावपाचे दीस जशे जशे लागीं पावताले तशें इतल्या वर्सांच्या बंधनांतल्यान मुक्त जातलों म्हूण खोस जाताली जाल्यार दुसऱ्याच खिणाक बेकार कितें करतलों म्हूण एक खंत आफडून वताली. रिटायरमेंट जितली खोस दिता तितलोच मनशाक हुस्क्यांत घालता. हांवें रिटायर जावन निराशेन गर्भगळीत जावन लागीं पाविल्ले मनीस पळयल्यात.

इत्सा आकांक्षा साकार जावप कठीण आसता. त्यो आपशीं घडून येनात. ताकाय नशीब लागता. कांय लोक आसतात. जांच्या इत्सांक आकार मेळत वता. कांय जाणांक नशिबाचें बळगें लागता तर कांय जाण तें पयशांच्या बळग्यार घडोवन हाडटात. पयल्या बळग्यान आज मेरेन म्हाका व्हडली शी साथ दिली ना आनी दुसरें बळगें टामटीम. जिवीत भरयाची पुंजी जी कितें हातांत मेळपाची आशिल्ली त्या बळग्यार हांव म्हज्या सपनांक आकार दितलों म्हूण आशिल्लों. ताशी म्हजी काम

करपाची पिराय चडशी उरूंक ना हाची जाणीव म्हाका आशिल्ली. पूण एक धाडस करून पळोवपाचें. एक फांसो उडोवपाचो. जाय तसो पडलो रे पडलो. ना जाल्यार पेन्शन एके पेन्शन. फाटल्यान हास्को ना हुस्को.

म्हजें सपन साकार जावपा सारखी गजाल हांव रिटायर जावपाक दोन वर्सां आसा म्हणल्यार घडली. म्हगेल्या मित्राले चलयेचें लग्न आशिल्लें. त्या लग्नाक आयिल्लो ताचो रत्नागिरीचो मेवणो. तो मुंबय आयल्यार केन्ना केन्नाय म्हाका मेळपाक म्हगेर येतालो.. तागेल्या उलोवण्या वयल्यान रत्नागिरींत, लांजा तालुक्यांत एक जमीन विकपाची आसा अशें कळ्ळें. तो असले वेव्हार करतालो. एक तरेचो जमनीचो दलाल कसो. ताणें सांगिल्ली ती जमीन हांवें सपनांत येवजिल्ले प्रमाण आशिल्ली. पूण ती इल्लिशी नासून बत्तीस एकरांची आशिल्ली. आनी ती म्हजे अर्थीक तांकींत बसनाशिली. मोल चड नाशिल्लें, फावो सारखें आशिल्लें. पूण एद्या व्हडल्या प्लॉटाचें मोल म्हजे अर्थीक तांकी भायर आशिल्लें.

गोंयांत सुटके उपरांत धा पंदरा वर्सांनी जमनीचें मोल भराभर वाडिल्लें आनी तेच गतीन वाडत आशिल्लें. थंय एक दोन एकर जमीन घेवप लेगीत म्हज्या आवाक्यांत ना हाचो विचार करून हांवें ही जमीन घेवपाचें थारायलें. पूण बत्तीस एकर जमीन घेवप तांकी भायलें आशिल्ल्यान हांव आनी म्हज्या तीन इश्टांनी मेळून ही जमीन घेतली. दर एकल्याच्या वांट्याक आठ एकर आयली. ह्या आठ एकरांचे पयशे लेगीत म्हाका हेवटेंतल्यान तेवटेंतल्यान जमोवन आनी कमी पडिल्ले प्रोविडंड फंडांतले काडून एकठांय करचे पडले. ही जमीन आशिल्ली रत्नागिरी जिल्ल्यांतल्या लांजा तालुक्यांत. गांवाचें नांव सानवली.

सानवली हो गांव मुचकूंद न्हंयच्या कांठार पसरला. गांव तसो मोटो. सात, आठ वाड्यांचो. पूण हे वाडे दोंगर सड्याच्या सभोवतणी वसल्यात. हो गांव पळयतनाच म्हाका म्हज्या जल्म गांवाची याद जाली. आनी तेन्नाच म्हज्या मनांत जमीन घेवपा विशीं पोजिटीव विचार येवपाक लागले. मातशे तिरसुवादपणान उलवपी पूण सादे–सुदे लोक, निवळ नितळ हवा आनी शांत वातावरण.

# 11

जमीन पडंग, जळा मळा तळपां आनी पुरूसभर वाडिल्लें करड. उत्पन्न चालू आशिल्ली जमीन घेवपाची तांक आमकां कोंणाकूच नाशिल्ली. म्हज्या पार्टनरांची अर्थीक तांक म्हजेपरस व्हडली शी बरी नाशिल्ली. तशी जमीन आमच्या बॉल्साक परवडप कठीण आशिल्लें. चिंतलें, आतां शेती–बागेंतूय क्रांती जाल्या. तळपां फोडून गार्फां लावपाची नवी तकनीक आयल्या. आंब्याचीं आनी काजूचीं कलमां आतां तीन साडेतीन वर्सां भितर फळां दिवपाक लागतात अशें म्हणटाले. देवगड तालुक्यांत अशा प्रकारचो पयलो प्रयोग जाला आनी तो फळादीक जाल्ल्यान आतां सगळे कडेन आपणायला. देवगडचो हापूस फामाद. तीन साडेतीन वर्सांनी पीक दिवपाक लागपी हीं झाडां आमी आमचे जमनींत लावपाचें थारायलें. पूण हाचे खातीर आमकां मुळा सावन सुरवात करची पडली. सामकें श्रीगणेशा पसून. पयलीं जमनीचे चार वांटे केले आनी दर एकल्यान दर वर्सा पन्नास, पन्नास गार्फां म्हणल्यार कलमां लावपाचें थारायलें.

ह्या गांवांतली मुखेल पोट पोसवण करपी कामां म्हणचे पावसाळ्यांतले चार म्हयने शेतां मड्डां करप आनी जानेवारी ते जून मेरेन आंब्याच्या गार्फांची जतनाय घेवन पीक काडप. हातूंत चवरांचेर वखदां मारपा पसून झाडां वयल्यान आंबो देवोवन तो पेटयांनी भरून मार्केटांत पाव मेरेनचीं कामां आयलीं. त्या भायर पावसाळ्यात नवीं गार्फ्रं लावप, गार्फांक सारें घालप, जंय खाशेल्या आंब्यांच्यो बागो तयार केल्यात तातूंत नडणी करप, दसऱ्या उपरांत करड कापप ह्या कामांचो आसपाव जाता. आनी वर्सभर कसले ना कसले तरेचीं कामां चालू आसतात. पणस काजूंचेंय पीक ह्या गांवांतले लोक काडटात. पूण हें खूब थोड्या प्रमाणांत आसता. काजूक हांगा जाम म्हणटात. हापूस आंबो हो थंयचें आनी अख्ख्या रत्नागिरी जिल्ल्याचें पयसो दिवपी मुखेल उत्पन्न. हाची मोठ्या प्रमाणांत निर्गत जाता.

तीन साडेतीन वर्सांचोच प्रश्न आशिल्लो अशें आमकां दिसलें.. देखून आमी आमगेले जमनींत हापूस आंब्याचीं गार्फां आनी वेंगुर्लो काजू लायल्यो. काजू हो बेगीन फळ दिवपी रूख. बेगीनूच उत्पन्न मेळटलें

ह्या हेतून काजू लायल्यो. म्हगेलो उद्देग गार्फा लावपा पसून सुरू जालो. म्हणजेच रिटायर जातां जातां हावें म्हज्या शेतकी उद्देगाची श्री गणेशा केल्ली.

चंवर बेगीन येता. गार्फाक तीन चार वर्सांत एक दोन आंबे लागतात खरे पूण प्रत्यक्ष ताचे पसून वेपारी उत्पन्न सुरू जावपाक धा बारा वर्सां वचचीं पडटात हाची अक्कल म्हाका बरीऽ मागीर आयली.

आंब्याचें गार्फ हें नाजूक आसता. ताका वयर काडपाक कश्ट आनी तकालस चड घेवची पडटा. आमकां दिशिल्लें आंब्याच्या गार्फांची चड उस्तावारी काडची पडना. तीं लायताकच अशींच वयर सरतात. आनी तीं फळां दिवंक लागतात. आमचें हें दिसप लटीक न्हय. पूण ते पोरसांत एक दोन अपुरबायेचीं गार्फां लायतात तांचे बाबतींत. पूण जेन्ना आमी वेपारी नदरेन आंब्याचीं गार्फां लावपाक सोदतात तेन्ना गार्फांची खास जतनाय घेवची पडटा. ब्लास्ट करून तळपांनी फोण मारतकच भायली माती हाडून ते फोण भरचे पडटात.. शेण सारें मातयेंत भरसून गार्फ लावचें पडटा. तीं तीन चार वर्सां शिंपचें पडटा. तातूंतलीं 25 टक्के तरी गार्फां मरतात. तरेतरेच्यो किडी गार्फांक लागतात. ते खातीर सदांच वखदांचो फवारो मारचो पडटा. ह्या सगळ्या दिव्यांतल्यान वाटावल्लें झाड मागीर मरचेंच ना अशेंय सांगू नजो. एकादऱ्या झाडाचीं पानां हडवीं पडूंक लागतात. कितलोय उपाय केलो जाल्यार लेगीत तें वांचना. कितलेंय उदक घाल आनी वखदाची कितलीय फवारणी कर, ताचो ताचेर परिणाम जायना. पानां ल्हवू ल्हवू गळूंक लागतात आनी गार्फाचें सुकें सणसणीत लाकूड जाता. हीच गत काजींचीं. हाचें कारण सोदपाक जमीन खणून पळयल्यार गार्फाक ओलें शेण घाल्ल्यान, शेणांतल्या किड्यांनी मुखेल मुळाचो घोरोपूच खाल्लो आसता. ते खातीर येदे व्हडलें झाड मरता. अशी म्हजीं धा पंदरा वर्साचीं सात आठ झाडां मेल्लीं आसात.

तशें पळोवंक गेल्यार आमच्या सारख्या भायल्यान येवन गार्फांची बाग तयार करतल्यांक हो लुकसाणीचोच वेव्हार. पूण होच वेव्हार करून पयशे जोडपी थंय शेकड्यांनी आसात. जमीन घेतल्या तेन्ना हो वेव्हार

म्हज्या घरच्या लोकांक लेगीत तितलोसो पटूंक नाशिल्लो. पूण म्हजें एक गणीत आशिल्लें. रिटायर जांतकच म्हाका कसल्या तरी कामांत घुस्पून रावपाक जाय आशिल्लें आनी दुसरें म्हणल्यार, म्हाका कोणाचेरच निंबून रावपाक नाका आशिल्लें.

तर सांगपाची गजाल म्हणल्यार, गांवच्या सड्या मदल्यान मुखेल रस्तो वता आनी रस्त्याक तेकून आमची जमीन आसा. शेजरा पाजराक एक दोन घरां सोडल्यार घरां अजिबात नात. आसात तींय घरांय अर्द्या ते एक किलोमिटर अंतराचेर. हेर सगळ्या वाठाराचेर सुकसुकाट.

ह्या सगळ्या वाठाराक थंयचे लोक धनगर वाडो म्हणटात कित्याक तर गांवच्या सड्यार पयलीं फकत चार पांच धनगरांचींच घरां आशिल्लीं. तींय एकमेकांच्या घरा पसून दोन ते पांच किलोमिटर पयस. धनगरांच्या घरांचें एक खाशेलपण आसतालें. ते जरी दोंगरार, सड्यार रावताले तरी ते तांच्या घरा मुखार शंबर एक एकरांची सपाट जमीन आसा अशें पळोवन घरां बांदताले. तांच्या घरा मुखा वयल्यान कोण येता वता तें ताकां घरा बसून दिसतालें. हाचे वयल्यान गांवच्या आवाठाची कल्पना येतली. ही जमात पयलीं भटकी आशिल्ली. बोकड्यो घेवन गांवा गांवांनी फिरताली. आतां ती स्थायीक जाल्या. पयलीं धनगर आपल्यो बोकड्यो सड्या वयल्या रानांनी चरयताले आनी ताचे वांगडा ते रावतात ती जागा ज्या धनयाची आसताली त्या धनयाचे जमनीची आपशींच राखण जाताली.

सडो तळपांचो आशिल्ल्यान इल्लेंशें मरड, कांटे कुट्यांचीं झाडां झुडपां सोडलीं जाल्यार, दुसरे कांय पीक येनाशिल्लें. जमनीचे मालक सकयल गांवांत रावताले. थंयच्यान जमनीचेर तांची नदर पाव नाशिल्ली. ते खातीर धनगरांक सड्यार रावपाक ते दिताले. धनी आनी तांचे भितर तशी कबलात आसताली. फुडें कूळ कायदो येताकच ह्यो जमनी धनगरांच्या मालकीच्यो जाल्यो. देखून सड्यार रावपी कांय धनगर पन्नास पन्नास, साठ साठ एकर तळपांचे जमनीचे मालक जाले. पूण जमीन लागवडी खाला हाडटले जाल्यार तांचे खातीर खर्च करपा इतलो तांचे कडेन पयसो नाशिल्ल्यान हो धनगर समाज आसा तसोच उरलो. आतां

काळार ताळपां फोडून गार्फा लावपाची नवी तकनीक आयिल्ल्यान ह्या ताळपांचे जमनीक आकांताचें मोल येवंक लागलां. पूण कूळ कायद्या खाला आयिल्ली जमीन सोपेपणान विकूंक मेळना.

म्हाका लागींचो शेजार म्हणचे भिग्या धनगर. हो कूळ कायद्यान मेळिल्ले 75 एकर जमनीचो मालक. भिंग्याचें घर लागीं म्हणल्यारय सुमार तीनशीं चारशीं मिटर पयस. म्हज्या घरा कडल्यान कुयो घाल्यार आयकूंक येत ना येत अशें. भिग्या धनगराचो आनी म्हजो चडसो संबंद तो आपल्यो बोकड्यो चरोवंक व्हरतालो तेन्ना येतालो. तो आपल्यो बोकड्यो हुर्र हुर्र करून चरपाक व्हरता आसतना हांव ताका पडवेर बशिल्ले कडल्यान निरखीत आसतालों. तो बारीक सो, लांब, हातांत कोंड्याची बडी, कमराक तुवालो गुटलायल्लो, तसोच आनीक एक तुवालो खांदार उडयल्लो, आंगात बंडी. हें सगळें मातयेन म्हेळें जाल्लें. कमराक कोयती, ही ताची सदांच म्हांका दिसपी काया. मदीं मदीं तो झाडां–झुडपांच्यो आंकऱ्यो कोयतेन कापून बोकडेच्या पिलांक घालतालो. हांव जेन्ना जेन्ना फार्मांत आसतालों तेन्ना तो म्हजे बागेचो आडो हुपून म्हजेसरीं खबरी मारपाक येतालो. रस्त्यान वचप पयस पडटा म्हूण तागेल्या घरचे लोक म्हजे बागेचे दोन आडे हुपून सकल गांवांत वताले. भिग्या केन्नाच म्हाका उलो मारले बगर मुखार वचनाशिल्लो. तसो हांव दोन तिनदां तागेल्या घरा पावलां. एकदां ताच्या पुताच्या लग्नाक, एकदां केन्ना तरी पुजेक, एकदां केन्ना तरी हांव ताका जाप दिवपाक गेल्लों. तागेलें घर म्हणचे मातयेच्यो वणटी आनी वयर सुलचे नळे. घराफुडें पडवी. घरांत भितर सरताकच बसपाक बांक आनी सोयरो येताकच बांकार कामळ घालप हें तांचें आदरातिथ्य. घर अस्ताव्यस्त. घराक तेंकुनूच फाटले वटेन बोकड्यो कोंबूंक एक कूड. कुडींत बोकड्यां खातीर केल्ली कोंड्या कामटांची माची. बोकड्यांच्या लेंडयो, मूत तांकां लागचें न्हय हाची जतनाय घेवपाक दोन कामटां मदीं एक आंगूळ भर अंतर. हातूंतल्यान बोकड्यांच्यो लेणयो सरळ सकल जमनीर. घरांत भितर सरना फुडें लेंडयो मुताचो वास. आनी सोयऱ्यांक आनी आमच्या सारख्या

येतल्या–वतल्यांक बोकडे दुदाचो च्या. हे धनगर लोक दिसपाक गरीब दिसले तरी हांचे कडेन शेंकड्यांनी बोकड्यो आसताल्यो पूण आतां आंब्यांच्यो बागो जाल्ल्याक तांचें बोकड्यो पोसप उणें जालां. तरी पूण सध्याच्या दरान मोलावणी केल्यार ते गिरेस्तांतूच मोडटात. म्हजो एक शेजारी नाना बोरकार भिग्याक मस्कऱ्यांनी म्हणटालो ' भिग्या धनगर तुम्ही धनाचे आगर.'

म्हगेल्या घरा पसून एक किलोमिटर सकले वटेन नाना बोरकाराचें घर आसा. सुरवेक ते सकल न्हंयचे देगेर गांवांत रावताले. अजुनीय तांचें आदलें घर गांवांत आसा. मूळ घरांत देव आनी त्या वाठारांत इल्ली शी जमीन आशिल्ल्या कारणान थंय तांचो भाव रावता. ताच्या वयल्या घराची वेगळीच काणी. पावसाळ्यांत सकयल्या वाठारांत शेतां रोयताकच लोकांक थंय गोरवां चरोवंक मेळनाशिल्लीं. ते तांकां सड्यार घेवन येताले. नाना आपलीं गोरवां वयल्या वाठारांत चरपाक हाडटालो. सकल्या वाठारांत दोंगराचें पालसण चडून वयर सड्यार दोन किलोमिटर चलत येवचें पडटा. वयर गोरवां खातीर जाय तितलो चरोव मेळटालो आनी गोरवां कोणाल्या होडणांत वा बागेंत वचपाचो प्रश्नच नाशिल्लो. शेकान शेक मळां आनी सडो. मन मारता थंय गोरवां चरतालीं आनी राखण्याकूय कसलोच हास्को हुस्को नाशिल्लो.

अशें म्हणटात, मनशा म्हऱ्यांत काळा वांगडा असंख्य संदी येतात. त्यो योग्य वेळार वळखुपाची आनी जिस्त सांपडावपाची तांक मनशांत आसूंक जाय. आनी तीच तांक नानान दाखयली. सड्याचेर एक जमनीचो कुडको विकतो घेवपाची संद ताचे कडेन आपूण जावन चलून आयली. आनी ती ताणें वगडायली ना. नाना कश्ट करपी आनी मर्यादीत साधन सामुग्रींत संवसार करपी कुटुंबाचो एक वांगडी. हांवें प्लॉट घेतला त्याच सुमाराक ताणें हो सड्या वयलो जागो घेतलो आनी हापूसाचीं कलमां लायलीं. नानान चिंतलें, गोरवां दीसपट्टीं वयर हाडचे परस ह्याच नव्या जाग्यार जर गोठो बांदलो जाल्यार गोरवांक आनी आपल्याकूय सोपें जातलें. ताणें गवळा वरी लांबसो गोठो बांदलो. थंयच तो गोरवां बांदूंक

लागलो. दीसपट्टीं गोरवां चरोवप आनी सप्ताकांतल्यान तिनदां तरी गार्फां शिंपप म्हणल्यार दादल्यांचो चडसो वेळ हांगाच वतालो. ताणें गोज्याक तेंकून विसव घेवपाक सकले वटेन एक पडवी बांदली, एक रांदन घाली आनी च्या करून पिवप, दनपारचें कितेंय करून खावप, मातसो दनपारचो आड पडून विसव घेवप आनी दीस भर हांगाच रावून तिनसांज जातकच घरा वचप. असो नानाचो नित्यक्रम चालू जालो. .

नाना सामान्य मनशा परस दोन पावलां फुडलें चिंतपी मनीस. ताका दिसलें आपणें घेतला तो जागो सारखो तिस्कार आसा. फाटीं फुडें हांगा यो वच करपी मनशाची गर्दी वाडूं येता आनी वेपार उद्‌देगाचे नदरेन ह्या ठिकाणाक म्हत्व येतालें. ते नदरेन चिंतून ताणें ल्हवूल्हवू फुडें एक पडवी काडली, मागीर दोनय कुशींनी दोन सालां काडलीं आनी अशें तरेन एक चौपाखी घर उबें केलें. गोरवां खातीर वेगळो एक गोठो बांदलो.

त्या तिस्कार बस स्टॉप आशिल्ल्यान सकल गांवांत येवपी वचपी लोक थंय देंवताले. बसीची वाट पळयताले. ह्या लोकांक येतना वतना दोन अडेच किलोमिटर वतांत चलचें पडटालें. तांकां नानाकडल्यान तानेक उदक मेळपाची वेवस्था जाली. हांगा थंयचो वळखीचो कोणूय आयलो जाल्यार ताका मातसो नानागेर विसव घेवपाक मेळटालो. खबरी मस्करी जाताल्यो. अशा वेळार नाना तांकां इल्लो च्याचो घोंट दितालो. फुडें फुडें नानाच्यो येताल्या–वताल्या भायल्या गांवांच्या लोकां कडेन वळखी वाडल्यो आनी लोकांकूय अणभव सल्लो घेवपाक नाना उपेगाक पडलो.

कसलीय गरज पडूंक लागली म्हणटकच लोक आपशींच उपाय सोदूंक लागतात. .गोठयांत गोरवां आसात म्हणटकच गोबर गॅस बांदलो. संडास बांदून ताचोय डिसचार्ज गोबर गॅसाक जोडलो. कलमां शिपूंक पंप बसोवपाक जाय म्हूण लायट हाडली. बागेंत उदक खेळोवपाक पायप लायन घाली. म्हणटकच आपशींच बांयचें उदक घरा मेरेन आयलें. ह्यो सगळ्यो सुखसोयी तांच्या मूळ घरांत नाशिल्ल्यो. गांवांत आनी हेर

कोणायच्याय घरांत नाशिल्ल्यों. आतां नाना बायल भुरग्यां सयत थंय रावूंक लागलो. आनी ताचे वांगडा ताच्या भावालीं भुरगींय रावूंक लागलीं. आतां नाना वयल्या घरांत आनी ताचो भाव भावज सकयल्या घरांत रावूंक लागलीं. वेव्हाराक लागून जरी दोन घरां आसलीं तरी तांचो संवसार, तांचें खावप, येणावळ आनी खर्च रासवळ रितीन जातालो. गांवांत एकत्र कुटूंब पद्धती प्रमाण रावपी हें एकूच कुटूंब मेळटलें.

मागीर नाना बारीक मोठे वेपार धंदे करपाक लागलो. नानाचे जिबेर साखर आशिल्ल्यान नानाच्यो येतल्या-वतल्या कडेन वळखी वाडल्यो आनी देखून नानाक पयशांचो उणाव चडसो जाणवलो ना. नानालें घर तिस्कार आशिल्ल्यान एके खाजगी कंपनीन नानाक गॅस एजन्सी दिवंक केली आनी नानान ती घेतली. ती चड दीस चलूंक पावली ना. मागीर शिमीट हाडून विकूंक लागलो, सूलचे नळे हाडून विकूंक लागलो. कमिशन बेजिसाचेरय कामां करूंक लागलो. नानाचे अशे तरेचे उपद्व्याप चालूच आशिल्ले. हाचे भायर भाजी पालो फळ फळावळ अशीं उत्पन्नां ते जमनींत काडूंक लागलो. नानाच्या कुटुंबाची आनीक एक गजाल तोखणाय करपा सारखी आशिल्ली. तांच्या कुटुंबांतले सगळेच दादले बायलो आनी भुरगीं, मानाय आनी कामेऱ्यां भशेन आपले जमनींत वावर करतालीं.

नानागेर केन्नाय वच, तो बेकार असो केन्नाच दिसनाशिल्लो. कितें ना जाल्यार कितें करीत आसतालो. ताचो दीस सकाळीं साडेपांचांक सुरू जातालो तो सांजेवेळा साडे स सातांक सोंपतालो. मागीर सांजचें न्हावन परत देव पुजा, देवाचें वाचन बी जातकच आठांक मेकळो जातालो. आठां उपरांत तो आपल्या कामाच्या निमित्तान हांगा थंय वळखीच्या लोकांक फोन लायतालो. आतां घरांत बॅटरीचो फोन आयिल्लो. ताका लागून कामा खातीर भायर यो वच उणें जाल्लें. सगळीं कामां फोनारूच जातालीं. ताणें पुतणयाक मोटरसायकल घेवन दिल्ल्यान ताका बसीची वाट पळयत ताटकळत रावचें पडनाशिल्लें. ताका दिस्त दनपारां एकाक आनी रातीच्या णवांक जेवण जाय आशिल्लें. जेवन

रातीचीं साडे णव धा जालीं कीं तो हांतुळणार पडटालो.

हें सगळें वाचतकच प्रश्न पडूं येता की हें व्यक्तिमत्व आसा तरी कशें! भारदस्त बी आसतलें काय? ना. निखालस ना. तो आशिल्लो पांच फूट दोन इंच उंचायेचो, शिडशिडीत सो, काळो सावळो मनीस. घरांत पट्ट्यांचे एके चड्डे बगर आंगांत दुसरें काय ना. गोरवांक चरोवंक व्हरता आसताना कमराक कोयती, हातांत बडी आनी खांदार ग्हेळो सो तुवालो. गांवांत भोंवताना चड्डेर हात कापें शर्ट आनी खांदार तुवालो. तुवालो हो गांवांतल्या लोकांचो 'जीवन साथी' म्हणल्यार जाता. ह्या तुवाल्याचो उपेग घाम आयल्यार घाम पुसपाक आनी चडूच वत आसल्यार माथ्याक बांदपाक, वेळ पडल्यार जमनीर पातलावन बसपाक. अशे तरेचो भेस कोंकणांतल्या गांवच्या लोकांत सर्रास मेळटलो. शारांत वचपा आसल्यार नानाचो भेस लांब पॅण्ट आनी हात दोडिल्लें लांब हाताचें बुशशर्ट. तेंय 'इन' केल्लें न्हय.

सानवली येतकच नानाल्या भावान आपूण जावन एक दीस म्हजी वळख काडली. ताका पंपा खातीर लायटीचें कनेक्शन घेवपाचें आशिल्लें. सड्यार भिम्या धनगराच्या घरा मेरेन लायटीचो पोल आयिल्लो. भिम्याचें घर आनी नानाची बाग हांचे मदीं म्हजी बाग आशिल्ली. हांवें जर म्हजे बागेंत पंपा खातीर लायट घेतली जाल्यार ताका पोलाचे पयशे कमी पडटले आशिल्ले. हांव रोखडोच तयार जालों. म्हाका गांवांत कोणाचे तरी वळखीचो आदार जाय आशिल्लो.

नानाचो म्हाका खूब आदार जालो. चांटे पावलाक ताचो सल्लो म्हाका घेवचो पडटालो. पूण हालीं हालीं नानाक वेळ सामकोच उणो मेळपाक लागलो. नानाक मेळटलो जाल्यार आनी नानाकडेन सारखें बरें उलयतलो जाल्यार म्हाका गोरवांनी वचून तो आसा थंय ताका मेळचें पडटालें वा रातीचें तागेर वचचें पडटालें. मागीर मागीर म्हजें जरी काम नासलें तरी नाना म्हाका अदीं मदीं रातचो खबरी मारपाक आपयतालो. ती रात तागेर रावले बगर नाना म्हाका सोड नाशिल्लो. तेखातीर हांव इल्लों इल्लों नानाच्या घरचोच जालों. नाना अणभवी आनी गांवची

सगळी म्हायती ताका आशिल्ली. दर एके व्यक्तीची सभाव प्रकृती ताका तोंडपाठ आशिल्ली. नाना कसलोय सल्लो दिता आसतना ताका अध्यात्माची जोड दितालो. ताचे जिबेर ज्ञानेश्वरी, तुकारामाचे अभंग, दासबोध सदांच खेळटाले. देखून तो चड बरपाक्षरी नासतना लेगीत हांव ताका एक नैतीक, वैचारीक आनी वेव्हारीक मार्गदर्शकाच्या रूपान पळयत आयलां आनी अडी अडचणी वेळार ताचो म्हाका खूब आदार जाला. तात्पर्य, नानाच्या कुटुबाचे आनी म्हजे संबंद वाडत गेले. तो म्हाका आपलोच समजता आनी हांव ताच्या कुटुंबाक आपल्याच कुटुंबाचो एक भाग समजतां. इतलेंय हांगा बरोवपाचें कारण म्हणल्यार हांव जी गजाल हागा सांगूंक सोदतां तिचेकडेन नानाचोय परत परत संबंद आयला.

सुरवेक म्हाका प्रश्न पडिल्लो, रत्नागिरी सारख्या जिल्ल्याच्या एका खेड्यांत हे गोंयचे बोरकार कशे पावले काय. बोरकारूच न्हय आनिकूय बरींच सारस्वत समाजाचीं घरां सानवलीच्या सरभोंवतणच्या गांवांनी आसात आनी थंयचो भोवजन समाज लेगीत 'बामण' ह्या नांवानूच तांकां संबोधता. तांच्या म्हणण्या प्रमाण पोर्तुगेजांची गोंयांत जेन्ना बाटाबाटी चलिल्ली तेन्ना कांय सारस्वत समाज दक्षिणेक गेलो तसोच कांय उत्तरेक गेलो. मूळ गोंयच्यान आयिल्ले बामण पयलीं राजापूर तालुक्यांतल्या भालावली गांवांत रावले आनी थंयच्यान पंचक्रोशींत पातळ्ळे.

सानवली गांवचो मुखेल समाज मराठा आनी कुणबी. ताचे भायर बारीक मोटे हेर समाजाचेय लोक हांगां रावतात. तातूंत बामणूय आयले.

मुंबय सावन इतले पयस येवन कलमां लावपाचें काम सुरू केलें खरें पूण तें सोपें नाशिल्लें. जमीन तळपांची आशिल्ल्यान ब्लास्ट करून फोण मारूंक जाय आशिल्ले. जिल्हा परिशदेंत पयशे भरल्यार ते मशीन धाडून फोण ब्लास्ट करून दितात अशें आयकल्लें. पयशे भरतकच

पावटी मारून व्हड प्रयासान फोण मारून घेतले. इतल्यान काम सोंपता? बरे मातयेन ते फोण भरपाक जाय आशिल्ले. खंय मेळटली माती? व्हडलो प्रश्न! शेवटीं नाना बोरकाराक अडचण सांगली. तो म्हाका घेवन भायर सरलो. जांचे कडेन जमीन आसा तांचेकडेन माती पळोवन, ट्रॅक्टर फैदा करून दिलो. हांवें माती नेमांनी भरून घेतली. शेतकी खात्या कडल्यान कलमां बी हाडून लायलीं आनी काजू बेगीन पीक दितात अशें म्हणटा्त म्हूण कांय कलमां काजूचींय लायलीं.

ताळपांतालीं गार्फां! तापीन जमनींतलें उदक बेगीन आटूक लागता. म्हूण उबाळ सुरू जावंचे आदींच हांवें शिपणें सुरू केलें. तीन् चार म्हयने शिपणें जालां मात, बांयचें उदकूच आटलें. म्हजो तार आवरोच उडलो. जे बांयंत आठ धा फूट उदक आशिल्लें ती बांय येन्नाच सुकली जाल्यार सबंद उबाळ कशे काडपाचे? गार्फांक उदक ना जाल्यार गार्फां करपतलीं. भायल्यान उदक हाडटलो जाल्यार लागसार उदक तरी खंय आशिल्लें? उदका विणें गार्फां करपतलीं आनी एक दीस गार्फांचेर आनी म्हज्या कश्टांचेर उदक सोडून मुंबयची वाट धरची पडटली हें चिंतून शेळो घाम सुटलो. सांगतलों तरी कोणाक? हेर तीन पार्टनर मुंबय. ते स्लिपींग पार्टनर कशे. कितेंय उलयतलों, कितें थारायतलों जाल्यार पार्टनर खंय मेळटात? तेन्ना खेड्यांत फोनूय नाशिल्ले. तांकां तें व्हडलें शें पडिल्लेंय नाशिल्लें. उठलों आनी बद्द नानागेर गेलों. नानान धीर दिलो. म्हणूंक लागलो, "रावात. झरो बारीक आसतलो. झरो कसो आसा, ताका उदक येतलें काय ना, बांयच्या लागसार उदक आसा काय ना, वा बांय खोल घालतकच उदक मेळटलें काय ना हाचो सोद घेवपी एक्सपर्ट मनीस आसातात. तांकां सोदुया. तांकां आपोवया. ओगीच काचाबूल जावं नाकात. धीर धरात. सकाळीं भायर सरूंया." नानाचीं धिराचीं उतरां आयकून तकली मातशी ल्हव जाली. दुसऱ्या दिसा आमी असल्या मनशांच्या सोदाक लागले.

खूब भोंवतकच कळळें, एक मनीस एका खास झाडाची खांदी भोवंडावन उदकाचो सोद घेता. पूण म्हाका तें पटलें ना. हांव इल्लो अती

सुधारणावादी आनी प्रॅक्टिकल. निमाणें एकल्या कडल्यान खबर कळ्ळी कीं एकलो इलेक्ट्रॉनीक डिवायस वापरून उदकाचो सोद लायता. ताका हाडलो आनी बांय दाखयली. "बांयक खंयच झरे नात. जें उदक आसा तें फकत झिरपल्लें उदक. पन्नास फूट बांय आनीक खोल घालून अर्थ ना.आनी उदकूय मेळचें ना. हे सायडीक जर गेलो सुमार बावीस फुटाचेर झरो मेळटलो. चड व्हडलो ना पूण गरजे पुरतें उदक मेळटलें अशें ताचें मत आशिल्लें.

"म्हणचे हांगा आनीक एक बांय मारपाची?"

"हेच बांयंत त्या झऱ्या मेरेन बोगदो खणलो जाल्यार थंयच्यान उदक हे बांयंत येतलें. मागीर सदां भशेन ओडात उदक.

"पन्नास फूट सकल बांयंत बोगदो!

"हय! तोय सुमार स फूट उंच आनी चार फूट रूंद तरी मारचो पडटलो. दोग तरी मानायांक सोपेपणान वावुरपाक इतलो लांब रूंद जायच पडटलो." नानान म्हणले.

"आरे म्हज्या बाबा! कोण करतलो हें काम!"

"पळोवया. सोदून काडुया. आसात अशे लोक." नानान म्हाका सांगलें.

"इतले सकल तांकां स्वास घेवपाक कठीण जालें जाल्यार? ते घुस्मटले जाल्यार?"

"ओगीच फुडलो फुडलो विचार करूं नाकात. पयलीं तें काम करपी मेळटात जाल्यार पळोवया." नानान मत मांडलें.

आनी म्हज्या नशिबान तसलें काम करपी दोग जाण मेळ्ळे. दोगूय धनगर समाजाचे. सगळी जापसालदारकी तांणी घेतली.

काम सुरू जालें आनी म्हज्या मनांतालो दुगदूग वाडलो. हवा नासून घुस्मटले जाल्यार? माती कोसळ्ळी जाल्यार? मातये पोंदा चिड्डून

मेले जाल्यार? पोलीस म्हाका भितर उडयतले. पार्टनर मात कुशीक उरतले. तरे तरेचे प्रश्न मनांत येबंक लागले. पूण तशे कांय जालें ना. बरे भशेन काम पुराय जालें. उदकूय आयलें. खूब अशें मेळ्ळें ना. गार्फी शिपपांतूय रेशनींग करचें पडलें.

पूण एक अणभव म्हाका मुजरत सांगचो सो दिसता. हांवें जरी मनशान उदकाचो माग दाखोवपाचेर अविश्वास दाखयलो तरी प्रत्यक्षांत अणभव मात वेगळोच आयलो. नानाक जेन्ना दुसरे बांयची गरज पडली ताणें ववर सांगिल्ले प्रमाण उदकाचो सोद लावपी एका मनशाक सोदून काडलो. ताणें एका खास झाडाची खांदी दोनूय हातांत घेतली आनी ल्हवू ल्हवू चलूंक लागलो. खांदी दाखयता ते दिकेन चलतां चलतां पन्नाशेक पावलां चलून जातकच तो उबो रावलो आनी थंयच अमक्या फुटांचे खोलायेंत उदक मेळटलें म्हूण सांगलें. आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार बोअर वॅल मारताकच सांगिल्या तिताल्या फुटांचेर इतलें उदक लागलें, जितलें उदक गांवांत आनीक खंयचेच बोअर वॅलींत ना..

मुंबय सावन येवन हांगची उस्तावारी पळोवप खूब कठीण जातालें. ते भायर कुदळी, फावडे, पिकास, कायली, कुराडी, पारय असलीं आवतां दवरपाक जागो जाय आशिल्लो. म्हूण चिंतलें, रावपा खातीर एक ल्हान शें घर बांदचें. नानाक सांगून गंवडे पळयले आनी घर बांदपाक घेतलें. हे गंवडे झांकून झांकून गांवकार जाल्ले. 'घर पहावें बांधून, आणि लग्न पहावें करून'' अशी मराठींत एक म्हण आसा. तातूंतल्या दुसऱ्या भागाचो जरी म्हाका अणभव नासलो तरी पयल्या भागाचो अणभव  हांगा येतकच म्हाका मेळ्ळो. अणभव खूब त्रास दिवपी आशिल्लो. तरी एक प्रकारचो आत्मीक आनंद हांवें त्या निमित्त्यान घेतलो. तो अणभव सांगपाची ही सुवात न्हय. नाय म्हणल्यार स बाय स मिटरांचो हॉल, तीन बाय पांच भितरली कूड, आनी भायल्यान दोन फूट सकल णव बाय स ची पडवी. भितरले कुडीक लागून संडास बाथरूम अशी घराची रचना आशिल्ली.

कलमां लायलींच म्हूण जायना. हांव नासतना तांची जतनाय घेवप, गोरवां, बोकड्यो हांचे पसून राखण करप, उदक सारें घालप,

असलीं कामां उरतातूच. असल्यां कामां खातीर मानाय कामेऱ्यां लागतातूच. वाड्यार वचून तीं हाडचीं पडलीं. पूण वेळार शिंपणें करपाक आनी दीस भर बागेची राखण करपाक कोण तरी मनीस जाय पडटाच. म्हूण एक मानाय आनी एक कामेरें दवरपाचो विचार केलो. एक जोडपेंच जर मेळ्ळें, जाल्यार सोपें जातलें अशें चिंतलें. आनी तें प्लॉटार राबितो करूनच आसत जाल्यार म्हाकाय मुंबय साकून प्लॉटार येता तेन्ना सांगात जातलो. म्हूण फार्म हावसांतूच भायले वटेन अर्दे पडवेर एक कूड तयार करून घेतली. आतां सोदासोद सुरू जाली. प्लॉटार रावपी जोडपें आसूंक जाय आशिल्लें. शेजार पाजार नाशिल्ल्या जाग्यार रावपा सारखें घनगर समाजाच्या जोडप्या बगर कोण मेळटलें आशिल्लें? हांवें धनगर समाजाच्या एका जोडप्याक प्लॉटार दवरलें. म्हजो उद्‌देश्य असो, बागेचे राखणे बरोबर घराचीय राखण जावची. ह्या जोडप्याचें नांव शंकर आनी गंगाबाय. म्हणपाचीं नावां शंकऱ्या आनी गंगी.

शंकराचें घर ह्याच गांवांत चार पांच किलो मिटरांचेर आशिल्लें. पयलीं तीं दोगांय सकाळीं येवन शिंपणें करून तिनसांना घरा वताली. हांवें चिंतलें, हीं जर फार्माचेरच रावपाक लागलीं तर म्हाका खूब सोपें पडटलें. हांव नासतना, म्हज्या फाटल्यान फार्माची राखण जातली. तांचेंय पांय धपटीत घरा वचून येवप चुकतलें. म्हजो विचार हांवें तांकां सांगलो तांणी तो कां कूं करीत मान्य केलो. गांवांतल्या लोकांकं म्हयन्याच्या पगाराचेर काम करपाची संवय नाशिल्ली. तशें करतकच आपूण बांदून उरतां अशें तांकां दिसतालें. हाडली पड खाली पड अशी तांची वृत्ती. तिनसांज जाली म्हणटकच हातार दिसवडो पडटा आनी दिसाचो खर्च भागता. दिसवड्यान काम करपी गांवच्या लोकांक म्हयन्याच्या पगारार रावप ही एक वेगळी आनी नवी कल्पना आशिल्ल्यान हाचेर विचार करपाक गंगी आनी शंकऱ्यान कांय दीस घेतले. घडये तांकां दिसलें आसतलें, दीसपट्टो तर पगार मेळचोच ना, म्हयन्या उपरांत तरी पगार मेळटलो? म्हयन्या पगाराची ही पद्‌दत हांवें सुरू करतकच, गांवच्या लोकांत इल्ली इल्ली रूळूंक लागली आनी आतां ती सर्रास चालू जाली.

वयर सागिल्ले भशेन म्हज्या घराचे भायले अर्दे पडवेर पत्र्यांनी होडलें आनी तांची रावपाची वेवस्था केली.

हें जोडपें म्हजे पडवेर रावूंक लागिल्ल्यान म्हाका खूब आदार आनी फायदो जालो. एक कामेरें आनी मानाय कामाक पर्मनेंट मेळळीं आनी कामाक लोक जाय तेन्ना हाडपाची वेवस्था तींच करपाक लागलीं. म्हज्या घरांतलें जें काम हांव करतालों तें काम, म्हणल्यार आयदनां घांसप, कपडे उमळप, सान्न मारप, हांतुळण घालप आनी काडप बी कामां तींच करपाक लागलीं. भिम्या धनगराच्यो बोकड्यो नदर चुकोवन आड्या भितर सरताल्यो तांकां भायर काडपाचें काम तींच करपाक लागलीं. म्हाका तें कशेंच जमचें नाशिल्लें आनी तांचो तर म्हजे बागेंत चड त्रास जातालो. बोकड्यांक भायर काडप हें सोपें काम न्हय. तांचें एकेच दिकेन वचप वा धांवप नासतालें. वाट फुट्टा ते दिकेन त्यो धांवताल्यों. म्हाका त्यो नाका शेवट करताल्यो. आतां गंगी आनी शंकऱ्या बोकड्यांक गाळी मारीत, भिम्याक गाळी मारीत तांकां भायर काडपाचें काम करतालीं. ह्यो गाळी उच्चारपाक जावच्यो ना इतल्यो बुरश्यो आसताल्यो. आनी शंकऱ्या तर गाळी मारीतूच भिम्या धनगराच्या घराकडेन वतालो. घरा कडैन पावता म्हणसर ताच्यो गाळी बंद जाताल्यो आनी भिम्या वांगडा ताचे संवाद चालू जाताले. ताचे कडल्यान तंबाकूच्या चुन्याचें बुशेत घेतालो आनी हातार चुरो घेवन चोळीत एकामेकांक भिम्या, शंकऱ्या म्हूण मोगान उलो मारून हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो खबरी जाताल्यो. पयलीं पयलीं त्यो गाळी मारप म्हाका कितेंशेंच दिसतालें. पूण तो तांचे जिणेचोच एक भाग हें म्हज्या लक्षांत येतकच म्हाका तांची मजा दिसपाक लागली.

शंकऱ्या आनी गंगी पुराय लागणुकेन काम करपी. प्रामाणीक आनी विश्वासू. दोगांचीय हांवें परिक्षा घेवन अणभव घेतला. संवसारांत शंबर टक्के प्रामाणीक मनीस मेळप कठीण. पूण तांतले तातूंत तो प्रामाणीक. प्रामाणीकपणांत गंगी परसूय तो उजवो आशिल्लो म्हणल्यार जाता.

पडंग आनी खडपाळ जमनींत लागवड करता आसतना सदांच

मनांत एक दुगदूग उरतालो. तो म्हणल्यार इतले हांव कश्ट काडटां, घाम गळयतां, पयसो उदका सारखो व्हांवयतां, ताचें चीज जातलें काय! हाचो दुभाव मनांत घर करून बशिल्लो. रिटायर जातकच जें कितें हातांत मेळटा तें फुडलें जिवीत आरामांत वा सुशेगादीन वच्चें म्हूण, पूण हांव सूप फाफडून बसलां. एकलो एकसुरो जीव जरी जालो, तरी वयर सांगिल्ले प्रमाण भावांचेर वा हेर कोणाचेर पडिल्लों म्हाका आवडचें नाशिल्लें. पूण झाडां इल्लीं इल्लीं वयर सरतात तीं पळोवन त्या प्रश्नाची खरसाण उणी जायत वताली आनी मनाक धादोसकाय दिताली. झाडांक आयिल्लो चंवर आनी मागीर दिस्टी पडटा तें फळ पळोवन म्हज्या कश्टांचें फळ हातांत येवप आतां पयस ना हाची म्हाका खातरी जाली. रिटायर जावपा वेळार दाखयल्ली दूरदृश्टी साकारिल्ली पळोवन कोणाचें मन खोशयेन उपाट भरचें ना? हातूंत गंगीचो आनी तिच्या घोवाचो, शंकऱ्याचो हातभार म्हाका उपाट आदार दिवन गेलो.

* * *

# दोन

पंदरा वर्सां भितर म्हज्या पडंग प्लॉटाचें एका रसरशीत फार्मांत रुपांतर जाल्लें. सगळ्यांची कलमांची संख्या आठशीं वयर जाल्ली. लायतलो जाल्यार आनिकूय कलमां वतालीं पूण तांची जतनाय घेवपाचें काम म्हज्या हाता भायर वचचें न्हय म्हूण इतल्यार पुरो केलें. खंयचोय नवो प्रकल्प वा आस्थापन सुरू करतना काम करपाक एक वेगळीच उमेद येता. एक प्रकारचो आंगांत अवसर आयिल्ले भशेन जाता. तसलेच तरेचो  भार म्हजेर आयिल्लो. शेंसर मारून भार काडप एका वगतार सोपें आसता पूण तो भार तिगोवन धरप म्हत्वाचें. म्हजे हेर तिगूय पार्टनर स्लिपींग पार्टनर शे वागताले. जशे जशे दीस, वर्सां सरतालीं तशे तशे ते अदिकूच स्लिपींग जाले, स्लिपींग डोस घेतिल्लेवरी. कशे, कित्याक समजूंक मार्ग नाशिल्लो. हांव पुराय मन लावन आनी चडांत चड शक्त वापरून करतां तें काम पळोवन तांणी आपल्या प्लॉटांचीय जापसालदारकी म्हजेर सोडली. ते वर्सांतल्यान एक दोनदां येताले आनी आपापल्या प्लॉटांतलीं मुखेल आनी म्हत्वाचीं कामां करून वताले. पूण हाचे भायर आनिकूय खूब कामां आसतालीं. पूण काम करूंक म्हाका जी खोस मेळपाक लागली ती आगळी वेगळीच आशिल्ली. कलमां खातीर फोण मारताकच भायली माती हाडून घालप, शेण सारें घालप, शिपणें लावप,

अख्ख्या प्लॉटावयलें करड कापप, कलमांक चंवर येतकच ताचेर फवारणी करप, हीं कामां वेळचे वेळार करचीं पडटालींच. पूण तातूंत कितले कश्ट काडचे पडटात, कितले मनस्ताप भोगचे पडटात हें प्रत्यक्ष काम केले बगर कळना. पयलीं पयलीं कामगार सहजतायेन मेळटाले. येवन विचारताले, काम केन्ना सुरू करता काय म्हूण. पूण ह्या धा पंदरा वर्सांत गांवांत जमीन घेवन बऱ्याच लोकांनी कलमांच्यो बागो तयार केल्ल्यो. जशो जशो कलमांच्यो बागो वाडपाक लागल्यो, मानाय, कामेऱ्यां मेळप कठीण जावपाक लागलें. देखून म्हाका खूब वेळां दिसपाक लागलें. झक मारलें आनी हांव हांगा आयलों. पूण नान बोरकारान म्हाका धीर दिलो. ताणें म्हणचें 'हेय दीस वतले. सुरवातेक अश्योच अडचणी येतात. इल्लें इल्लें जाग्यार पडटलें'.

भायल्यान पळोवपाक सगळें खोसदिणें, सुखदिणे, आनंददायी दिसता. आनी म्हाकाय केन्नाय कोंकणांत वतकच तशेंच दिसतालें. पूण प्रत्यक्ष अणभव मात कश्टदिणो आसलो. तरीपूण तांतूंतलो पुराय आनंद हांवें लुटला. कलमांक चंवर येवन तांकां बारीक बारीक तोरां कण पळयतकच, भुरग्याक जल्म दितना वेणींचे कश्ट भोगिल्ली आवय, भुरग्याचें मुखामळ पळयतकच जाल्ले कश्ट जशी विसरता, आनी जें वेगळेंच समाध ाान तिका जाता तें समाधान म्हाका हे बागेन दिलां.

कलमां रेनाक दिवपाची पद्दत गोंयचे परस हांगा वेगळी आसा. गोंयांत आंब्याचें फळ सुमाराचें जातकच झाडां रेनाक दितात. पूण कोंकणांत रेन दिवपाची वेग वेगळी पद्दत आसा. तळकोंकणांत म्हणजे राजापूर पासून दक्षिणेकडल्या भागांत कलमांचीं तोरां दिसूंक लागतकच तीं रेनाक दितात. रत्नागिरीं भागांत कलमांच्या व्हड व्हड रूखांचें रेन जून जुलै म्हयन्यांतूच पानांच्या रंगावयल्यान थारायतात. खंयचे रूख लागतले आनी खंयचे ना हें ते लोक अचूक हेरतात. तळपांतल्या बागांतलें रेन हें चंवर येतकच थारायतात. हातूंत चंवर करपल्यार वा दुसऱ्या खंयच्याय कारणान गळ्ळ्यार रेनकारांचें लुकसान जावं येता. रेनकार एका वांगडा, खूब बागांचें रेन करतात म्हूण तांकां खंयचेय एके बागेंत

लुकसान जालें जाल्यार सल्वसता. कांय लोक तोरां कण दिसतकच रेनाक दितात.

तळपा वयले बागांचे मालक सुमार दसरो जावन बागो रेनाक दितात. पावसांत दिल्यो जाल्यार रेनकार नुलयत कलमांक मालकाक सांगनासतना कलटार घालतात. कलटार हें एक रूखाच्या मुळांत घालपाचें वखत आसा. हाचे खातीर पीक भरपूर वाडटा आनी रेनकाराक खूब फायदो जाता. पूण मालकाक हें नाका आसता. कारण हें घाल्यार रूखाची पिराय उणी जाता.

ह्या काळांत बरेच बदल जाले. इतले मजगतीं गंगीचो घोव शंकर भायर पडलो. शंकराक नोकरेर दवरचे पयलीं ताणें आपूण केन्नाच सोरो पिना आनी आपल्या वांगडा काम करपी लोकांनीय पिल्लो आपल्याक उपकरना अशें म्हाका ऑर्रान सागिल्लें. पूण तो पयली पसून सोरो पितालो हें मागीर म्हाका कळळें. नोकरेक लागतकच आनी दोगांयचो पगार हातांत पडटकच ताचें सोरो पिवपाचें प्रमाण खूब वाडलें. तातूंतूच तो लिवर इबाडून सोंपलो. वता आसतना सोऱ्या खातीर केल्ली अडेच तीन हजारांची उदारी फाटल्यान बायले खातीर दवरून गेलो. केन्ना केन्ना ताच्या मरणाक हांव जापसालदार आसां काय असो विचार मनाक खावपाक लागतालो. हांवे जर ताका कायम पगाराची नोकरी दिवं नाशिल्ली जाल्यार ताच्या हातांत इतलो पयसो घोळचो नाशिल्लो. आनी ताचें व्यसन इतल्या थरार पावचें नाशिल्लें.

शंकर वतकच ताच्या जाग्यार दुसऱ्याक दवरपाचो विचार जालो तेन्ना गंगीन सांगलें, आपूण ही बाग एकलीच सांबाळटां. दुसऱ्याक कोणाक पगाराचेर दवरूं नाका. मानाय लागता तेन्ना हाडचो. आपूण एकलीच बागेंत रावपाक तयार आसां. धनगरीणूच ती! तिका कसली भिरांत! गंगीन पळयलें, दुसरो कोणूय मानाय पगारान दवरीत जाल्यार तिचें म्हत्व उणें जातले आशिल्लें. तिका ताच्या हाताखाला काम करचें पडटलें आशिल्लें. तिका तिची कूड सोडची पडटली आसली हें वेगळेंच. तिचो आतां सारखो रूबाब उरचो नाशिल्लो. तिचें म्हणणें आमकांय

मानवलें. तितलोच मानायाचो पगार वाटावतलो.

शंकरा फाटल्यान आतां गंगीच सगळें फार्म त्रातार करताली.. हापूस आंब्याचीं गार्फा, वयल्या वाठारांत काजूचीं झाडां, खडकाळ जाग्यावयल्यो अनशी, हीं मुखेल उत्पन्न दिवपी झाडांची देखरेख करप. आनी वावर आसलो जाल्यार मानाय कामेऱ्यां पळोवन हाडप असलीं कामां ती करताली. पावसाळ्यांत दुदनी, कुंवाळीणी, तवशिणी, चिडकी–मिडकी बी लावन बारीक सारीक पिकां काडपाचो तिका सोस. बारीक झाडां आनी वाली ती हापूस आंब्याच्या झाडा मुळांत लायताली. आपशींच झाडांक उदक मेळ्ळें आनी सारेंय मेळ्ळें.

गंगी ही पन्नास पंचावन वर्सांची बायलमनीस. तिचो दीस सकाळीं स वरांचेर उजवाडटालो. उजवाडटनाच ती च्याक दवरताली. च्या जातकच उदक तापोवन न्हाताली, तिगेले कुडींतल्या देवाची पूजा करताली. मागीर म्हगेल्या घरांत सान्न मारून आयदनां घांसताली. मागीर सकल बांयचेर वचून पंप चालू करताली. टांकी भरतकच पंप बंद करून सोमती वयर येताली. मागीर 'न्याहरी' जाताली. न्याहरीक केन्ना केन्ना भाकरी आसताली. भाकरी म्हणल्यार गंवाची वा तांदळांची दाट परोठयासारखी चपाती. मदीं केन्नाय 'खिमट.' खिमट म्हणल्यार दाट पेज. हें नाच जाल्यार रातचें उरिल्लें शीत आनी रोस. ही गांवच्या लोकांची ही सर्व सादारण न्याहरीची पद्दत. न्याहरी जातासर णव वरां जातालीं. उपरांत कामेऱ्यां येतालीं आनी गंगी बागेंत कामाक वताली. तांचे कडल्यान ती आड्डून वड्डून काम करून घेताली. सांजेवेळां पांचाक कामेऱ्यां मोडलीं म्हणटकच हांव तिका च्या करून दितालों. दीस भरयाचें काम मातयेचें आसत जाल्यार ती परत एकदां न्हाताली. सांजेवेळा तिचीं सगळीं कामां सोपतकच आमी पडवेर बसून खबरी मारतालीं.

गंगी जरी धनगरीण आशिल्ली तरी तिचें रावप निवळ आशिल्लें. तिचें घर निवळ नितळ आसतालें. तिची कुडूच न्हय तर हांवें तिचें मूळ घरूय पळयलां. जमीन शेणान सारयल्ली आसताली आनी हुंबऱ्या भायर रांगोळी घाल्ली आसताली. तिगेले निवळसाणीचें हें मत म्हजेंच अशें न्हय

तर गांवच्या खूबशा लोकां कडल्यान हांवें अशें आयकलां. भिग्या धनगर आनी गंगी अशा दोन धनगरांच्या दोन घरांचीं हीं दोन चित्रां. हांव हे विशीं तिचे कडेन एक खेप उलयलों. तिणें सांगलें, 'ते आमचे परस सकयले. आमच्यो चलयो तांगेर दिनात.' धनगरांतूय जाती आसतात हें म्हाका नव्यानूच कळ्ळें. तिगेले नातीन फुडें भिग्या धनगराल्या चल्या कडेन मोगाचें लग्न केलें ती गजाल वेगळी.

त्या दिसा सकाळ फुडें गंगी घरकाम करपाक भितर सरली. ती येतकच हांवें आमकां दोगांकूय च्याक दवरलें. सुरवेक गंगी आपुणूच च्या करताली आनी म्हाकाय हाडून दिताली. तिची च्या इतली गोड जाताली, म्हज्यान ती कशीच पिवंक जायनाशिल्ली. एक दोन खेप तिका सांगुनूय पळयलें. एक दीस, दोन दीस च्याची गोडसाण सारखी जाताली. पूण तिचो हात साखरी कुलेराचेर इतलो बशिल्लो, साखर उणी घालप तिका कशेंच जमनाशिल्लें. संवयेचो हात तोंडांत वता म्हणटात पूण गंगीचो संवयेचो हात साखरेंत वतालो.

गेल्ल्या दोन सप्ताकांनी पावसान खंय दडी मारिल्ली कोण जाणा? मळबांत एक लेगीत काळें वा काळसार पावसाळी कूप दिसनाशिल्लें. आज तरी पावस पडटलो काय असो मनांत विचार आयलो. खरें म्हणल्यार आशाढ, श्रावण हे ताचे मजा मस्ती करपाचे दीस. ह्या म्हयन्यांनी जर ताणें तशें केलें ना जाल्यार तो पावस कसलो! ताणें पुराय विसव घेतिल्लो. पिट्ट कशा चान्न्यांत धरतरी उजळ दिसताली. जाणटेले म्हणटाले आशाढ म्हयन्यांत चान्नें पडप म्हणल्यार मुखार येवपी दुकळाची ती सुलूस समजुची. दुदनी, गोसाळ्यो, तवशिणी सारख्यो वाली आनी वांयगिणी, चिटकी मिटक्यांवरी ल्हान झाडां बावपाची भिरांत म्हाका दोळ्यां मुखार दिसताली. देखून कितेंय तरी उपाय करप गरजेचें आशिल्लें. म्हणून हांवें गंगीक म्हणल्लें,

"गंगी, पावसाचीं कांय चिन्नां दिसनात. आज फाल्यां पावस

पडलोना जाल्यार हीं धाकलीं झाडां आनी वाली करपून वतल्यो. तांकां शिंपपाचो उपाय करचो पडटलो.''

''कितें करतलीं? एक पान सुकता म्हणल्यार म्हज्या जिवाक धस्स जाता. पावसाक म्हूण पिडाच मारल्या.

''दोन तीन दीस तरी शिपून पळोवया. पावस आयलो बरें जालें! ना जाल्यार उदक बंद करुंया. नाय जाल्यार कितलेंय उदक शिंपलें म्हूण पावसा बगर झाडां मरतलींच.''

गंगी बालद्यांनी उदक भरून झाडांक घालपाक लागली. उदकाची बांय सकल्या वाठारांत आशिल्ली आनी हीं बारकेलीं झाडां वयल्या वाठारांतं. बागेंत पंपाची वेवस्था आसा पूण बागेंतली लायट सदांच आपा लिपा खेळपी. केन्ना येतली आनी केन्ना वतली हाचो भरवंसो केन्नाच नासता. फाटले चार दीस तर तिचो पत्तोच नाशिल्लो.

गंगीचें शिंपून जातकच हांवें गंगीक च्या दिलो आनी हांवेंय च्या वांगडा फाती बिस्कीट खावन नास्ता केलो. मागीर भायर आयलों. अवचीत मळबाचेर नदर गेली आनी थंय काळीं कुपां दिसलीं आनी म्हजे खोशयेक शीम, मेर उरली ना.

हांवें गंगीक उलो मारलो, ''गंगी, मळबांत कुपां एकठांय जातात आमची काकुळट आयली जातली पावसाक..''

''जावं! चड नाका भूंय मातशी ओली तरी जाल्यार पुरो.''

आनी दोन वरां भितर अकस्मात पावस शिरशिरूं लागलो आनी म्हज्या जिवांत जीव आयलो. आंब्याच्या गार्फांक सारें घालून जाल्लें आनी गार्फां मुळांतली नडणी काडपाचें काम चालू आशिल्लें. तें सोंपतकच गार्फांक सावळ घालपाचें काम उरिल्लें. थोडे कवाथे आशिल्ले तांकांय आळीं काडिल्लीं. तांकांय सावळ घालपाक जाय आशिल्ली.

''आज पावसाचीं चिन्नां दिसता. खंयचें काम पयली हातांत घेवंया?''

''पयलीं नडणेचें काम पुरायं जावं दी. मागीर सावळ घालपाचें

काम उरलां तें पुराय करूया. सावळ घालतकूच ती कुसपाक पावसाची गरज आसा. आयज कामेऱ्यांक पयलीं काजूंनी आशिल्लीं रानवटीं झाडां सवकाळूंक लाय. आनी तीं काजी मुळांनी घालपाक लाय. तें काम सोंपतकच गार्फा मुळांत. ''

''बरें आसा.''

अशें म्हूण ती प्लास्टीकचें खोळ घेवन भायर गेली आनी तिच्या फाटल्यान हांव सत्री घेवन. पूण आयचो दीस बरो ना सो दिसता. गणेश पुजेकूच कुसको नाल्ल म्हणटात न्हय तशें जालें. कामेऱ्यांनी काम सुरू केलें आनी पावसान धुमशेणां कांडपाक सुरवात केली. कामेऱ्यांनी काम बंद केलें ना. खोळां माथ्यार घालून तीं झाडां मुळांनी सावळ घालूंक लागलीं. पावस तांकां काम करूंक दिनासलो आनी हीं ताका कशींच बदनासलीं. मळबाक बुराक पडून सगळ्या पावसाळ्याचो पावस आजूच ओत्ता काय जाल्लो. खाडे पडिल्ले आनी तापिल्ले दिसूय आज तो भरून काडटा शें दिसलें. तो म्हजे सत्रेक बाडगनाशिल्लो. सत्रीय म्हूण कितें, नांवाक आशिल्ली. तकलेच्या केसां पासून पांयां मेरेन हांव भिजिल्लों. मातसो सत्रेचे कोण बदल्लो जाल्यार सत्रेचें हेलिकॉप्टर जावन हवेंत उडपाक वेळ लागचो नासलो. पावस इतल्या नेटान आनी इतलो मोटो पडटालो, मनशाक मनीस दिसनासलो. पांच सात मिटरां वयलें क्रांयच दिसनासलें. सांबाळून पावल घालून फुडें वचचें पडटालें. वारो येतकच पावस वांकडो जावन आंगार आयलो जाल्यार तो आंगाक तोपतालो. दनपारचीं बारा जावपाक आयिलीं. पंदरा दीस पावसान दडी मारतकच अकस्मात मळबांत कुपां जमतात आनी दुसऱ्याच खिणाक पावस घो घो करून पडटा हें म्हाका अजापूच आसलें. हांवें गंगीक सांगलें,

''गंगी हांव घरा वतां आं, जेवण करपाक जाय.''

''बरें! कामेऱ्यां मोडपाच्या वेळार उलो मारून सांगात.'' गंगीन म्हणलें. कामेऱ्यां मोडपाचो वेळ एक ते दोन. खरें म्हणचे हाची गरज ना. वेळ जावचे आदींच ती आपल्या हाता वयली घड्याळ पळयत आसतात.

## 33

घरा पावता सर चिप्प भिजूनं गेलों. आंग पुसलें आनी कपडे बदल्ले. पावसाचे थंडायेन कुडकुडटालों. उदक तापयलें आनी न्हालों. हून उदक आंगार पडटकच जिवाक बरें दिसलें. गॅसार आदन दवरलें आनी थोडे तांदूळ ताटांत घेवन वेचूंक लागलों. नदर घड्याळीचेर गेली. एक जावपाक आयिल्लें. कामेऱ्यांक जेवणा खातीर ब्रेक दिवपाचो जाल्लो. आदनांत तांदूळ घाले आनी पडवेर येवन पळयत जाल्यार पावसाचो नेट मातसो उणो जाल्लो. सत्री उगडून दोंगुल्लेचे तेमयेर गेलों. म्हजे बागेचें एक बरें आशिल्लें. बागेच्या मदेकाक एक दोंगुल्ली आशिल्ली. अख्ख्या ठिकाणाचेर नदर मारूंक मेळटाली. थंयच्यान पळयता जाल्यार कामेऱ्यां ठिकाणाच्या दुसऱ्या पोंतार काम करतालीं तीं दिसली. दोनूय हात वयर काडून कुयो घालून तांकां कामा वयलीं मोडपाक सांगलें.

गंगील्या बागेलांतल्यान आयदनाचो आवाज येवपाक लागलो आनी ती येवन जेवपाच्या कामाक लागली म्हणपाचें समजलें. पावसाचो नेट इल्लो इल्लो परतो वाडूंक लागलो.

"पळयलें मगे गंगी, वरभर लेगीत पावसान विसव घेतलो ना. असल्यांनी कामेऱ्यां काम पूण कशीं करतलीं?"

"पावस पडलोना, तसोय आमी बोवाळ मारतात, आनी पडलो जाल्यारूय आमचो बोवाळ!"

"पडूंक जाय गे! पूण इतलो? बायलो काम करतल्यो तरी कश्यो!"

"हाजिरी भरून काडटा तो."

"म्हणल्यार?"

"इतले दीस गैरहाजीर आशिल्लो, भरून काडटा तो आतां."

कामेऱ्यां दोनाक कामार रुजू जावपाचीं. पूण पावसान देड वरा सावनूच नेट धरिल्लो. तोय बी सकाळचेच भशेन.. ताचो नेट आनी मळबाचो अदमास पळयत जाल्यार आज दीसभर आसोर जायत शें कशेंच दिसनासलें. पावसाचीं चिन्नां पळोवन हांवें गंगीक म्हणलें,

"खरें म्हणल्यार कामेऱ्यांनी आतां कामाक लागून कांयच उपेग ना. मायत्याचो पगार फुकट वत्तालो."

"आमी कशीं सांगतलीं तांकां? तांणीच समजूंक जाय तें."

"हांव वाट पळयतालों तीं 'कामाक लागना' म्हणटात काय म्हूण. पूण असल्या पावसांत लेगीत तीं कामाक वचपाची तयारी करतात."

"तांकां कितें पडून गेलां. काम जावं, ना जावं. तांचो दिसवडो भरलो म्हणटकच जालो."

"ह्या पावसांत लेगीत तीं कामाक गेलीं."

"वचूं नाकात म्हूण सांगूं?"

"वचूं नाकात म्हूण सांग म्हणपाचें धाडस जायना. फाल्यां येवपाक जाय न्हय तांणी! खडूस म्हूण म्हजेरूय छाप पडूंक जायना."

"आनी तुमी असल्या पावसांत आमचे वांगडा कामार येतले?

"म्हाका धाडस जायना. तुमी चलात. पावस उणो जालोना जाल्यार वचूं दी तांकां घरा. पगारी सुटी दिवची तांकां."

"आं! बरें आसा."

हांवें ब्लॅकेटाक पातळ चादर लायलो आनी 'करूं तीं कितें करता तें' म्हूण कुंरगुटी करून न्हिदलों. तीं घरा वचूं ना जाल्यार पावसांत भिजून काम करीत रावूं. हांवें कुंरगुटी केलीच. असल्या पावसांत कुंरगुटी करून न्हिदपांतलें सूख कोणेंय म्हाका विचारचें. तें सूख वेगळेंच आसता. त्या सुखाचो लाव घेवप सगळ्यांकूच आनी सगळ्या जाग्यांनी मेळप कठीण. मुंबय तर हें सूख साप्पूच उणें. रिटायर जाल्ल्याक हो आनंद हांवें उपाट लुटला. खरें म्हणल्यार असले थंडायेंत हुनहुनीत आनी चुरचरीत शीं कांद्याचीं भजीं खावपाक मेळपाक जाय आसलीं. भुरगेपणांत आई करून दिताली. आनीक एक तिगेलें खाशेलेंपण आशिल्लें, थंड किरांव सो पावस पडलो म्हणटकच ती पणसाचीं भिकणां उकडटाली. आमकां

दर एकल्याक कुलेरभर मिरसांगे पिठो आनी ताचेर खोबरेल तेल घालून दिताली. ताका लावन लावन आमी उकडिल्लीं भिकणां खावप. चित्तां, चित्तां केन्ना दोळो लागलो कळ्ळोच ना.

"भाऊ, भाऊ" खंडूचो आवाज म्हज्या कानार पडलो आनी हांव जागो जालों. कोंकणांत 'भाऊ' हें उतर आदर दिवपा खातीर वापरतात. नांवा फुडें भाऊ हें उतर लावन आदर दाखयतात.जशें दामूभाऊ, केशवभाऊ. गोंयांत आमी नांवा फुडें बाब हें उतर लावन आदर व्यक्त करतात. खंडू म्हणल्यार खंडोबा. हो गंगीचो पूत. कामेऱ्यां वांगडा एक मानाय आसचो म्हूण ताका कामाक लायिल्लो. देडदोन वरां न्हीद लागली आनी जिवाक बरें दिसलें. जिवाची कडामोड जाल्ली तीय गेली.

"कितें खंडू? कितें जालें?" हांवें विचारलें.

"कांय ना भाऊ. सकल्या वाठारांतल्या कलमां मुळांनी नडणी काडपाचें काम सोंपलें. कलमांक सावळूय घालून जाली. आतां कितें करपाचें?" हापूस बांब्याच्या झाड केदेंय व्हडलें वा केदेंय ल्हान आसूं थळावे लोक ताका कलम म्हणटात. तांचे नदरेन आंब्याचें झाड म्हणल्यार आमची आंब्याची फूट.

"सगळ्या कलमांक पावली ती सावळ?"

"ना भाऊ, पंचविशेक कलमां उरल्यांत. ह्या पावसांत सावळ मारूंक मेळना. फाल्यां घालची आनी मागीर सोमतीं आळीं पुरोवचीं."

"पूण आतां कितें करतलीं तुमी?"

"तेंच विचारूंक आयलां भाऊ."

"पळय खंडू. आतां पावस कमी जायत शें दिसना. म्हाका शीं खाता. आनी हे थंडायेंत पावसांत पावल घालपाचो धीर म्हाका जावंचो

ना. कामेऱ्यांय कितलीं म्हूण पावसांत भिजतलीं? मोडूंक लाय तांकां कामाचीं.''

''घरा धाडूं तांकां?''

''घरा धाडूं नाका. हांगा येवंदी तांकां. फुटी च्या करतां हांव तांचे खातीर. कुडकुड्याक उबेक बरी.''

''बरें!''

काम थांबोवन तीं आयलीं. गॅसावेयल्यान च्या सकल काडली. गंगीन ती सकल वयर केली आनी नलीन ती ग्लासांनी घाली. हें नली चाळीस पंचेचाळीस वर्सांची बायलमनीस. पयलीं एकूय दीस चुकनासतना कामार येवपी. बाकीच्या वांगडा हिका कामार आपयलें ना जाल्यार ती बागेंत येवन आमचे कडेन झगडटाली. म्हणटाली, हें नडणेचें काम मेळ्ळें ना जाल्यार आपल्याक बेगीन दुसरे कडेन दीसवडयाचें काम ना. ह्या कामकाक चार पयशे आपल्याक मेळटात. पूण तीच नली आतां आमगेले बागेंत येवपाक अनमनता. म्हणटा, तुमगेली बाग पयस पडटा. सारखें तिचें. आमची दोन किलोमिटरां वयली बाग पयस पडलीच. कित्याक तर तांच्या घरा लागसार आतां बागो जाल्यात आनी भायल्या मालकांनी तांकां येता वता आसतना खावपाक पिवपाक घालून लाडायलां. भाऊ केन्ना चालू करता तुमगेलें काम अशें म्हणपी हींच मनशां आतां तांगेर पावटी मारून लेगीत कामाक येवपाक तयार नासतात. अशा वेळार म्हाका नानाच्या अणभवाच्या बोलांची याद जाता. हांव कामेऱ्यां सांगपाक हे वाडयेचेर निंबून रावतालों तेन्ना तो म्हणटालो, 'सामंत भाऊ, कामेऱ्यां खातीर एके वाडयेचेर निंबून रावूं नाका, तीं केन्ना तुमकां अडचणींत हाडीत सांगू नजो.'' तें सारखें ताचें. तांका जाय तेन्ना कामां काडून तांकां काम दितालों. तांची सोय पळयतालों. हींच आतां पडमूर जाल्यांत. च्या पिवन जातकच नलीन म्हणलें,

''आतां मातशी तरतरी आयली जिवाक.''

''आयली मगे? म्हजें एक काम कर. सकाळीं येतना म्हाका एक

कील कांदे घेवन यो. कांदे सोंपल्यात.'' ना जाल्यार पसऱ्यार साकून कांदे हाडपाक गंगीक सकल गांवांत दोन किलो मिटर चलून वचचें पडटलें आशिल्लें.

''काम सुरू करतना नाल्ल फोडलो ना तुवें भाऊ. आज परत एक जिवाणें दिसलें काम करतना.''

''तुका कातलीच खावपाक जाय मगे? मागीर भितर आसा तातूंतलो एक नाल्ल काड आनी फोड.''

''ना भाऊ, तो तुज्या हातानूच फोडूंक जाय आनी ताच्या नांवानूच फोडूंक जाय.''

''ताच्या नांवान?''

''तो दिसता तो जाग्याचो.''

''कसलें देवसपण गे हें? पावसाळो लागला तेन्ना काम सुरू जाल्लें. आतां नाल्ल फोडपांत कितें अर्थ आसा?''

''तेन्ना हांव कामाक नाशिल्लें न्हय. हांव आसल्यार तेन्नाच सांगतलें आशिल्लें. ह्या गंगी आकान तुमकां सांगपाचें न्हय?''

''नाल्ल फोडल्यार तो परत दिसचोना अशें दिसता तुका? धा नाल्ल फोडुंया. जिवाणी येवचीं ना हाची गॅरंटी तूं दिता? तांच्या बिळांनी पावसाचें उदक भरलां. ती बिळांतल्यान भायर सरतलींच. तांच्या रानांत आमी आयल्यांत. तांणी खंय भोंवपाचें. तीं येतलींच!''

''हय भाऊ. पूण तांचो मान तांकां दिवपाकूच जाय.''

हांव ओगीच रावलों. हें सदचेंच. दर नवें काम सुरू करपा वेळार हो संवाद आसतालो. आनीक उलोवनूय अर्थ नासलो. नाल्ल फोडले बगर तांचें समाधान जावंचें नाशिल्लें. तांच्या समाधाना खातीर नाल्ल फोडचोच पडटलो. तांच्या अंधविश्वासाचेर हांवें विश्वास दवरले बगर दुसरो उपाय नाशिल्लो. ''फाल्यां फोडुंया'' म्हूण सांगून हांवें वेळ मारून व्हेलोच.

फार्म घेतालें तेन्नाच हांव थंयच रावून फार्म डेव्हलोप करतालों म्हूण एक चिऱ्यांचें फार्महावस बांदिल्लें. मोदेराच्यो कटकटी नाका म्हूण नळे घालिनासतना अख्खें घर पत्र्यांनी धांपिल्लें. पडवेरूच पत्र्यांनी होडून गंगीक एक कूड करून दिल्ली. घोग्यांनी पावस पडटकच त्या पत्र्यांच्या आवाजान न्हीद पडप कठिणूच आशिल्लें. गंगीली कूड सामकी ओली जाता. पोंदच्यान शेळ येता आनी वयल्यान गळटा. शेणान सारयल्ले जमनीचे खवळे येवपाक लागतात. ते जमनीर गंगीक हांतळूण घालपाक मेळटा? हांव कितेंय उलोवचे आदीं गंगीनच म्हणलें,

"हांव आतांच हांच्या वांगडा घरा वतां भाऊ. सकाळीं येतां."

हांव नाका कशें म्हणटलों. म्हाका तर दोळ्यांमुखार सगळें दिसता. भितरले वटेन न्हीद म्हणपूय शक्य नाशिल्लें. लोकोपवाद आसा आनी मनाकूय पटनाशिल्लें. हांवें म्हणलें,

"वच तूं. मात लापयांव मातसो पेटोवन लाय भायर."

"बाटलेंत पॅत्रोल सामकें उणें आसा."

"आसा तें लापयांवांत घाल आनी पेटय."

गंगी आनी हेर कामेऱ्यां गेलीं. साडे स वरां जाल्लीं. सदां सवंये प्रमाण पडवेर ऑल्तेर घालें आनी ट्रांजिस्टर लावन बसलों. णव वरां मेरेन पडवेर विसव घेवन रेडियो आयकुपाची सवंय म्हजी. पूण आज म्हाका दिसनाशिल्लें हांव चड वेळ बसूंक पावतलों सो. घो घो करून पावस पडटालो. पडवे भोवतणी साऱ्याच्या पोतयांचे पड्डे करून लायिल्ले आसतना सुद्दां वावझड येतालीच. वाऱ्या वांगडा आयली जाल्यार ती म्हाका भिजयतलीच. देखून अर्दवरा भितर म्हाका ऑल्तेर कवळून भितर वचचेंच पडलें. शाल पांगुरली आनी सुशेगाद खाटीर आड पडून सातांच्यो थळाव्यो बातम्यो आयकूंक लागलों.

पत्र्यांर पडपी पावसाच्या आवाजान आनी साऱ्याच्या पिशव्यांच्या पड्ड्यांच्या फडफडान रेडियो वयल्यो बातम्यो सारख्यो आयकूंक

येनाशिल्ल्यो. आडखळ येताली. आयकल्ल्या बातम्यां वेल्यान एक कळ्ळें, आख्खी मुंबय पावसान बडोवन काडल्या. मुंबयंत शाळा, इश्कोलां बेगीन सोडल्यांत आनी सरकारी कचेऱ्यो, सचिवालय बंद करून एंप्रेगाद घरा गेल्यात. रेल्वे, बशी बी सगळी येरादारी बंद पडल्या. जे लोक घरा पावले ते सुटले. जे जंय उरले ते थंयच उरले. उदक देंवतकच बुडिल्ली रेल्वे लायन, आनी रस्त्यावेली येरादारी सुरू जातली आनी मागिरूच हे लोक घरा पावतले.

सगळ्यांत आदीं म्हाका याद जाली ती म्हजे धुवडेची. अदितीची. मुंबय आसता. कॉलेजांतल्यान घरा पावलें काय तें? काय पावसाक लागून वाटेर उरलें बी? एक दीस पावस पडल्यार मुंबय बुडटा. हो तर थारनासतना रात दीस पडटालो. कितें जाल्या जातली दशा मुंबयची? मुंबय फोन लावन अदितीची खबर घेतलों म्हूण फोन उबारलो आनी नंबर लायलो. रींग वाजता. बरें दिसलें. ताच्याकूय बरें दिसलें, जेन्ना फोनाचेर अदिचो आवाज आयकलो. नांव अदिति खरें, पूण आमी ताका अदीच म्हणटात.

"हॅलो."

"हॅलो." हांवेय म्हणलें. फुडें कोणाचो आवाज ना. फोन कट जालो. जावं अदीचो आवाज आयकलो. तितलोच फोन कंपनीचो उपकार. अदीच फोनार मेळिल्ल्यान बरें जालें. पावलेंशें जालें ना घरा? आज चार दीस लायट ना. म्हजो फोन वायरलेस आशिल्ल्यान बॅटरी चार्ज जावंची पडटा. लायटूच ना. कशी जातली?

खंयचेय घडयेक लापयांवांतलें पॅत्रोल सोंपपाचें आशिल्लें. तें सोंपचे आदीं पोटाची वेवस्था जावपाक जाय हाची जाणीव जातकच गॅस पेटयलो. आनी खिचडी करपाक मुगांदाळ आनी तांदूळ शेगडेर दवरले. शीत वाळून कालोवंक आनी तोंडाक कितेंय करचे परस मुगांची खिचडी करप सोपें. बेगीनूय जाता. इतल्यान लायट आयली.'बरें जालें' म्हणलें. मेजा वयलें पुस्तक हातांत घेतलें आनी वाचूंक लागलों. बेकारपणांत

पुस्ताका वरी दुसरो सांगात आसना मनशाक. पूण कितें अजाप पळय! दुसऱ्याच खिणाक लायट गेली. पूण रोखडीच परत लायट आयली तें अजाप जाल्लें. बरेच दीस लायट आपा लिपा खेळटाली. आज इतल्या पावसांत कशी आयली? ह्या प्रश्नाची जाप म्हाका कांय दिसांनी मेळ्ळी. लायटीच्या खांब्याचेर कार्बन जाल्ल्यान म्हजी लायट येताली वताली.

मुंबय फोन करपाक जाय आशिल्लो. व्हदळ केल्लो फोन कट जाल्लो. तांकां हांवें कित्याक फोन केल्लो तें कळू नाशिल्लें. तांकां हुस्को जातलो. हांवें फोन कित्याक केल्लो तें तांकां कळपाक जाय आशिल्लें. तांकां दिसतलें, 'भाऊ कसलेय तरी अडचणींत आसा जातलो. पावसाच्या सांवारा लागून मुंबय बंद पडल्या. रत्नागिरींतूय बी पावसान सांवार केलोना मू? भाऊ एकलोच आसा.' हो विचार येवन हांव फोन डायल करपाक म्हूण फोना म्हऱ्यांत गेलों. आनी इतल्यान फोनाची रींग वाजली. फोन अदीचो आसलो.

"फोन कित्याक केल्लो काका?"

"हरशींच गो! तुजो हुस्को....." आनी फुडें उलोवपाक मेळ्ळेंच ना. फोन परत कट जालो. परत अर्दुकुटें उलोवणें. लायट परत एक खेप गेली. लायटी खांब्यार कार्बन जाला जातलो. लायट नाशिल्ली तरी रेडियो मात चालू आशिल्लो. मदीं मदीं लायट येताली तेन्ना म्हाका दिसता रेडियोची बॅटरी चार्ज जाताली. काळखांत लेगीत रेडियो म्हजे करमणुकींत खंड पडूंक दिनाशिल्लो. म्हाकाय मातशें बरें दिसलें. हे खेपे बरोच वेळ काळखांत उरलों.

रेडियो शडजांत गावंक लागलो. आतां कांय वेळ जर लायट आयली ना जाल्यार रेडियोक निमाणी घरघर लागताली. ताका आतां बॅटरी सेल्स घालचेच पडले हें चिंतून ते पेटयेंतले काडपाक म्हूण पेटयेसरीं गेलों. चावयां घोंसा खातीर हात घालो. घोंस जाग्यार नाशिल्लो. चावी खंय दवरली? हांव घरांत एकलों. सामान जंय दवरलेलें थंयच उरता. हात घालता थंय तें तें सामान मेळपाकूच जाय. दर एके वस्तूक

म्हजो एक जागो आसता. त्या त्या जाग्यार तें तें सामान दवरप आनी जाय तेन्ना थंयच्यानूच तें काडप. घराची चावी काडून घर उगडून भितर आयलों म्हणजे पयलीं चावयां घोस मेजार उडोवपाची म्हजी सवंय. मागीर आजूच कितें जालें? चावयो दवरताना चूक केली काय हांवें?

बॅटरी दिवो काडलो. पळयत जाल्यार फोकस सामको डीम. लापयांवाचे वातीन पेत्रोल पिवन सोंपयल्लें. बॅटरीच्या डीम फोकसांतूच हांवें मेजा वयलें सामान हालोवन पळयलें. भायर वारो तर नेटाचो सुटिल्लो. भायल्या बागेलाक वावझड आडावपाक म्हूण साऱ्याच्या पिशव्यांचो पड्डो लायिल्लो, तो फट फट आवाज करतालो. वयल्या पत्र्यांच्या पांख्याचेर पावसाचो आनी झाडांच्या ओथांब्यांचो आवाज सतत येतालो. केन्ना केन्ना तो भिरांतेन आंगार कांटो येवचो इतलो कर्कश येतालो. लापयांव निमाणे यात्रेक वचपाचे वाटेर, बॅटरी दिव्यान तर हाका आपूण उजवाड दिवचोंच ना म्हूण प्रतिज्ञा केल्ली. फोन डॅड. भायल्या संवसारा कडेन संपर्क तुटिल्लो, मनशाचेर अरिश्टां येवंक लागलीं जाल्यार सगळ्याच वाटांनी वांगडाच येतात.

मनांत मनांत विचार आयलो. अशे अवस्थेंत म्हाका कितेंय जालें जाल्यार? मनशाक कितेंय जावपाक वेळ नाका. लागीं कोण ना. ना मायेचो मनीस, ना शेजार ना पाजार. कोणूय धांवून येतालो जाल्यार तांकां कळपाक तरी जाय? घरां इतलीं पयस, उलो केलोय म्हूण कोणाक आयकूंक येवचें ना. ह्या दिसांनी मातशी एक गजाल बरी घडटा. आमच्या ठिकाणाचे वयले वटेन, रस्त्याचे पलतडी, दोंगुल्लेचेर एक बंगलो जाता. जाधव म्हूण कोणें तरी तो जमिनीचो प्लॉट घेतला अशें आयकलां. थंय तो बंगलो बांदता. हो बंगलो म्हज्या घरा पसून दोनशेक मिटरांचेर आसा. म्हज्या घरा पसून रस्तो पाउणशें मिटर आनी रस्त्या पासून बंगलो सुमार सव्वाशें मिटर. जाधवान प्लॉटाची राखण दवरपाक गुरखो दवरला. गुरख्याक रावपाक पडवी आशिल्ली एक कूड बांदल्या. कुडी शेजरा गुदांव. आपल्याक जाय म्हूण मालकान दुदा खातीर गाय घेवन दवरल्या. गुरख्यान प्लॉटार केळींची बाग तयार केल्या. मिरसांग

आनी भाजी पालोय लायला. ताचेर तो पयसोय करता. प्लॉट इल्लो इल्लो डेवेलोप जावपाचो आसा. लागसारूच, सरभोंवतणी कलमांच्या बागो आसात. तांचेर देखरेख करपा खातीर मालक प्लॉट घेवन हें चार चवक्यांचें घर बांदता. गुरख्या वांगडा गुरख्याची बायल भुरगीं रावतात. तीन भुरगीं आसात. येतात केन्ना केन्नाय गंगी म्हन्यांत. खेळटात. ऑल्तोरार बसून हांव पळयतां तांकां. बशिल्ले कडेन टायम पास जाता. गुरखोय येता केन्नाय नाल्ल व्हरपाक वा गंगी कडेन साखर, च्याचो पालो बी मागपाक. गुरखो शेजरा रावता म्हणटकच धीर दिसतालो. केन्नाय उलो मारल्यार येतालो म्हणपाची ती एक आशा आसा.

तसो हांव भिवपी न्हय. धिराचो मनीस. अख्खें जिवीत एकलेपणांतूच सारलां. मात तें शारांत. फ्लॅटाचे संस्कृतींत. पूण केन्ना केन्ना अशी परिस्थिती तयार जाता, अशा टॅन्शनांत मनीस सांपडटा, ताच्या मनांक नाका नाका ते आशे निराशेचे विचार चाटून वतात. नाका तीं सपनां पडटात. रातीच्या वेळार, न्हिदच्या वेळार, अर्दवट न्हिदेंत, एकांतांत अशे विचार येतातूच. असल्या विचारां प्रमाण, वा सपनांत पळयल्ले घटने प्रमाण कितेंय घडलें जाल्यार ताका सवी सेन्स म्हणटात अशे आयकलां. म्हजी सवी सेन्स म्हाका घडये कसलीय इशारत दिना मू?. म्हजे जिणेंत खूब वेळा म्हाका अणभव आयला. एकाद्रया परिस्थितींत एकाद्रो विचार येता वा सपन पडटा, केन्ना केन्नाय त्या विचारांतली घडणूक प्रत्यक्षांत अचूक घडून वता. तेन्ना कळटा, आरे! हो विचार म्हाका पयलीं चाटून गेल्लो. मनांत विचार येता तेन्ना ताचो अन्वयार्थ कळना पूण घडून वताकच तो विचार येवन गेल्ल्याचें लक्षांत येता. मनाक पटपा सारखी गजाल न्हय ही, आनी कोणाक खरी दिसपाचीय गजाल न्हय. पूण म्हजे बाबतींत अशें चडशें घडलां. देखून म्हज्या मनांत केन्नाच वायट विचार येवचो न्हय अशी म्हजी देवाकडेन प्रार्थना आसता.

चड विचार केल्यार चड खोल वता मनीस. विचार करपाचेंच सोडून दिलें आनी सुशेगाद न्हिदपाचें थारायलें. पावस चालूच आशिल्लो. न्हीद लागली तरी मदीं मदीं जाग येतालीच. जाग येताली तेन्ना तोच

बिण्ण काळोख, तोच पत्र्यांचो आवाज, तीच पड्ड्यांची फडफड. हें एका रिदमाचेर घडटालें. ताका लागून मन लावन आयकलें जाल्यार वेगळ्या वेगळ्या आवाजांक अर्थ लागतालो. केन्ना कोण कुजूबुजू करून उलयतात काय, केन्ना कोण रडटा काय, केन्ना कोण किळांच मारता काय, केन्ना कोण पद म्हणटा काय अशें दिसतालें. ज्या वातावरणांत आनी परिस्थितींत हो दीस सरलो ताचे वेल्यान मुखार येवपी संकश्टाची ही नांदी बी न्हय मू असोय एक विचार म्हज्या मनाक आफडून गेलो. तेच तंद्रींत म्हाका परत न्हीद लागली. मदीं म्हाका दोनदां जाग आयली. जाग येतकच म्हाका सवंय आशिल्ली, बॅटरीच्या उजवाडांत मनगटाचे घड्याळींत कितलीं वरां जालीं हें पळोवपाची. जाग आयली तेन्ना हांवें पळयल्लें, पयले खेपे इकरा चाळीस जाल्लीं आनी दुसरे खेपेंक दोन वीस.

* * *

# तीन

**जा**ग आयली तेन्ना हांवें दोळे उगडून पळयलें. उजवाड पळोवन दीस जालो म्हणपाचें समजलें. पावस पडटालो पूण जोर बरोच उणो जाल्लो. फांतोडेर बरी न्हीद लागिल्ल्यान जिवाक तरतरी आयिल्ली. रातीं चावयां घोंसाच्या हुस्क्यान न्हीद सारखी लागली नाशिल्ली. पूण फांतोडेर लागिल्ली झेम मात जिवाक हुशारी दिवन गेली. चावयां घोंसाचो उगडास मात जालो हांवें कच्च करून आंग काडलें. भयांकृत सपनांतल्यान जागो जाल्ले भशेन.

सकाळचीं कामां करतासतना हांव कालची एक एक घडणूक याद करपाक लागलों. खंयच्या कामा वेळार चावयो हातांत आशिल्ल्यो वा खंय दवरल्यो हाचो बारीकसाणेन उगडास करपाक लागलों. चावयो मेळप वा त्यो सोदून काडप सामकें गरजेचें आशिल्लें. फार्म हावसाची चावी, पंप हावसाची चावी, आलमारीची चावी, सगळें त्या घोंसाक आशिल्लें. घोंस मेळना जाल्यार धांदळ जाताली आशिल्ली. पयशे आलमारींत आशिल्ल्यान कामेऱ्यांक पगार घालपाक जमचें नाशिल्लें. गांवांत वेळार पगार दिवपी म्हूण म्हजी नामना जाल्ली. तिका दाग लागतालो आशिल्लो. डुप्लीकेट चावयो गंगी कडेन आशिल्ल्यो. पूण त्यो घराच्यो. आनी तेय खातीर दर खेपेक म्हाका तिचेर निंबून रावचें पडटलें आशिल्लें.

गंगी आयली. तिचे फाटल्यान आतां कामेऱ्यांय येवपाक लागलीं. गंगीक हांवें चावयांची खबर सांगली. तिणेंय सगळ्याक सोदलें. हांवेंय सगळें घर धुंदाळून पळयलें. काल हांवें कितें कितें केल्लें तें याद करून पळयलें. काल दनपारां कामेऱ्यांक काम करतात थंय सोडून घरा येवन कुलूप काडिल्लें. ताचे उपरांत दीसभर घराक चावी करुंकूच नाशिल्ली. मानाय–कामेऱ्यांक कुयो घालून ब्रेक घेयात म्हूण सांगूंक दोंगुल्लेर गेल्लों तेन्ना दार ओडून घेवन खिळी घाल्ली. तेन्ना म्हज्या हातांत चावयांचो घोंस बी आशिल्लो काय? वाटेर बी पडलो काय? एका फाटल्यान एक दुभाव काडून उडोवया म्हूण काल गेल्लों तेच वाटेन दोंगुल्लेर गेलों. वाटेर खंयच म्हाका चावयां घोंस दिसलो ना. चावयां कडेन केन्नाच घाळ रावपी न्हय हांव. परत परत मनांत एकूच विचार येतालो, अशें जावचें कशें? भुताटकी जाल्ले भशेन.

म्हाका याद जाली म्हजे गोंयचे भावजेची. तिगेलो एक देव आसा. देव म्हणचे परस एक आत्मो म्हणिल्लो बरो. 'रुपो भगत' ताचें नांव. तिगेली खंयचीय वस्त शेणली जाल्यार ती सोदपाचे सगळे प्रयत्न करता. तीच न्हय तर घरांतले सगळेच लोक ती वस्त सोदपाच्या कामाक लागतात. सगळेच प्रयत्न जशे निश्फळ जाले, निमाणे ती आपल्या 'रूपो भगताक' गाराणें घालता. आपली वस्त मेळोवन दिली जाल्यार इल्लो गोडा कुडको तुका दितां म्हूण सांगून घेता. आनी योगायोग पळयात ती वस्त खंय तरी मेळटा.

मनीस आपले प्रयत्न हाता भायर गेले म्हणटकच हाता भायर गेल्ल्यांच्या आत्म्यांचो आदार मागता. विज्ञानीक नदरेन हें जरी कुड्ड्या विस्वासाचें पील दिसलें तरी ताचो आदार घेतकच असल्या लोकांच्या मनांक थाकाय मेळटा हें न्हयकारप कठीण जाता. खीण भर म्हाकाय दिसलें म्हजे भावजेच्या ह्या भगताचो बी आदार घेवया काय? मनीस कितलोय नास्तीक आसलो तरी ताचे सगळे उपाय सोंपतकच, तो निमाणो निराधार, निसहाय जातकच ताका पारलौकीक शक्तीचो उगडास जाताच.

परत एक खेप कालच्या घडणुकांचो उगडास करूंक लागलों. दर खिणाच्या घडणुकांचें ॲक्शन रिप्ले करून पळोवंक लागलों. लागीं लागीं उजळणीच केली म्हणल्यार जाता. काल दार काडून घरांत भितर सरिल्लों. ताचे आदीं सत्री पडवेर दवरिल्ली. सत्रेचें सगळें उदक जमनीर निस्ततलें म्हूण मनांत विचार लेगीत आयिल्लो. पूण उपाय नाशिल्लो. भितर सरतना म्हज्या हातांत कितें आशिल्लें? चावी, दार उगडलें, परत दाराच्या गांचाक कुलूप लावन चावी केली आनी भितर सरलों. कमराचें कोयतूल सोडोवन हातांत घेतालें. त्या वेळार चावी मेजार दवरिल्ल्याची याद जायना. कोयतूल व्हरून भितरले कुडींत कोनशाक नाल्लां सरीं दवरलें. कोयतूल दवरतासतना बी चावी भितरले कुडींत पडलीना मू? भितर गेलों. कोयतूल पळयलें. एका कोनशाक उबें आशिल्लें. थंयच कोनशाक पंचविशेक नाल्ल आशिल्ले. एक एक नाल्ल कडेक काडून पळयलो. वणटीक तेकून नाल्लांचे खांचींत चावयां घोंस आशिल्लो. म्हाका पळोवन हांसतालो. ताका पळोवन अशी तिडक मारली! धरचो आनी जमनीर आपटुचो काय दिसलें. हातांत काडलो. ताचो बावड्याचो गुन्यांव नाशिल्लो. म्हजींच अजागळपणां म्हाका नडलीं. पूण केदो मनस्ताप जालो!

कामेऱ्यां केन्नाच कामाक लागिल्लीं. म्हाका तांच्या वांगडा कामार वचूंक मेळ्ळें ना. चावी सोदून काडटासर साडे धा जाल्लीं. भूक लागिल्ली. च्या केलो आनी दोन फाती बिस्किटी बुडोवन खाल्यो. आनीक कांय काम करिनासतना  कामेऱ्यां काम करतात थंय गेलों.

"तुजीच वाट पळयतालीं आमी भाऊ." नलीन म्हणलें.

"कित्याक गो?"

"नाल्ल फोडूं नाका?"

हाचे तकलेंतलो नाल्ल कसोच सुटना. हांव तो विसरायेर घालपाक पळयतां आनी तें इतलें चिवट कीं कशेंच विसरपाक तयार ना. जें मनाक पटना तें करपाक म्हज्या जिवार येता आनी जे परंपरेन अंधश्रद्धा हो लोक मानीत आयला ते परंपरेंतल्यो खुमो सोडपाक हो लोक कसोच

तयार ना.

"नाल्ल हाडलो ना हांवें. घेवन येतां."

"भाऊ, तुमी रावात! हांव घेवन येतां नाल्ल. बरें जालें आज अंगारिका संकश्टीय आसा." गंगीन म्हणलें.

"चावी मेळ्ळी गंगी. नाल्लांनीच मेळ्ळी. कोयतूल दवरतना पडली आसतली थंय."

नाल्ल फोडलो आनी गंगीन देवाक गाराणें घालें. खरें म्हणल्यार हें काम थंय म्हणल्यार कोंकणांत मालकच करतात. पूण म्हजो असल्या गजालींचेर विस्वास नाशिल्ल्यान हांव तें काम गंगीकूच करपाक सांगतालों. काम सुरू करचे पयलीं देवाक नाल्ल फोडप, विडो दवरप, गाराणें घालप असल्यो रुढी दर गांवांत आसतात. गोंयांत कसलें काम सुरू करचे पयलीं जल्मी वा गांवकाराच्या हातान हें काम करतात. तोच नाल्ल फोडटा आनी तोच गाराणें घालता. कोंकणांत हेंच काम मालकाच्या हातांन जाता. देखीक जमनीर कुदळ मारून वेळ करपाची आसली जाल्यार जमनीचो मालकूच नाल्ल फोडपाचें काम करता. गाराणेंय तोच घालता. गंगीन एक वळें म्हाका दिलें आनी दुसऱ्या वळ्याची कोयतुलान कातली निखळावन शिन्नी केली आनी सगळ्यांक वांटली. विचार पटनासून लेगीत तांचे स्रद्धेची म्हाका तोखणाय दिसली. कातलेचे कुडके करून इतल्याय बायलांक वांट्टासर एक एकलेच्या हातांत एक बारीकसो कुडको पडलो. तांकां शिन्नेचें मातूक नाशिल्लें, पूण चालत आयिल्ल्यो खुमो पुराय जाल्याचें समाधान तांच्या मुखामळार पळोवपा सारखें आशिल्लें. सगळ्या बायलांचें समाधान जालें. मोन्यांनी कामाक लागलीं.

काम करतना आळसाय करप हें म्हाका दिसता कामेऱ्यांच्या रगतांतूच आसता. काम थिगूळसाणीन करप नाच पूण काम करतना खबरी मारप हो तांच्या कामाचोच एक भाग आशिल्लो. एकलेन एक विशय काडल्यार पुरो, खबरी नेटार येताकच तीं केन्ना उबीं रावताली आनी तावातावान खबरी करतालीं हें तांचें तांकांच कळनाशिल्लें. तांकां

आनीक एक वायट सवंय आशिल्ली. करड कापता आसतना मदींच तांकां हरळीची सुकिल्ली वाल दिसली जाल्यार ते वालीच्या मुळांत वचून हरळीची मुडली मेळसर खणीत रावतालीं आनी त्यो मुंडल्यो सोलून खातालीं. हांवें खावन पळयल्यो. वायटश्यो लागनाशिल्ल्यो. पूण तातूंत तांचो खूब वेळ वतालो. अशा वेळार गंगी आड्डून आड्डून तांकां काम करूंक लायताली. दिसान दीस तांचो दीसवडो वाडत वतालो आनी काम उणें जातालें.

एक रावंड मारलो आनी कालच्या कामाचीय पळोवणी केली आनी फार्म हावसार परतालों.

आतां दनपारच्या जेवणाची तयारी करपाक जाय. तिनूय त्रिकाळ जेवणाची तयारी. कितेंय रावत, पोट रावना. ताजे भरीक घालपाकूच जाय. रांदून जेवपाक लागिल्ल्यान म्हाका बायलांचें म्हत्व पटपाक लागलां. फकत रांदप आनी वाडप हातुंतूच घुस्पून उरतात दीसभर. नोकरी केली वा ना केली, बायलांच्या नशिबांतलें रांदप वाडप सोंपना. कोणाक शिणटलीं? कोणा कडेन कागाळ करतलीं? घोव आपलो! भुरगीं आपलीं! झर झर झरप तांचे खातीर. आपली अशी आयडॅण्टिटी उबी करुंकूच मेळना. आतां परिस्थिती बदल्ल्या. दादल्यां वांगडा बायलोय काम करपाक लागल्यात. ल्हवू ल्हवू रेडिमेड आनी फास्ट फुडाचो जमानो समाजांत रिगूंक लागला. समाजाचे भलायकेक बरें पडटलें काय वायट हें काळूच थारायतालो. परिस्थिती दुसऱ्या तोकाक पावपाची भिरांतूच चड दिसता. आमचो भारतीय समाज कितले मेरेन पचोवन घेता तें पळोवपाचें. हो म्हजो निव्वळ हुस्कोच आसत. सदांच नवे घडटा तें सोपेपणान आपणावप कठीण जाता.

शीत केलें. दाळचो रोस केलो. आनी गॅसाचेर तवो दवरलो. ऑमलेट करतलों म्हूण एक तांतीं फोडलें आनी मिरसांगे पिठो, हळडी पिठो बी एका आयदनांत घालून तव्यार घालें मात आज अंगारिका संकश्टी म्हूण उगडास जालो. म्हाका संकश्टी बिंकश्टी कांय लागना.

तसले उपास तापास करप आनी तातूंतल्यान पुण्य मेळोवप हें म्हज्या मनाक केन्नाच पटलें ना. तशें पळोवंक गेल्यार देवस्पण, पाठ पठण, अती स्रद्धा, अनवाळपण असल्या वातावरणांतच म्हजें भुरगेपण गेलां. पूण बरें वायट समजूंक लागिल्ल्याक आनी खंयचेय गजालीचो तार्कीक विचार करूंक लागिल्ल्याक असल्या उपास तापास पसून हांव पयसूच रावलां. पूण कोणूय करता जाल्यार ताचे स्रद्धेचो हांवें आदरच केला. आज अंगारिका. गंगीक उपास आसा. तवो आयदनां तिचे कडेन घासूंक पडटलीं. ती घडये मोन्यांनी काम करतली पूण तिच्या उपासाक हांवें बादा हाडली अशें जावचें ना मू?. म्हाका पाप वा पुण्य लागतलें हाची पर्वा नाशिल्ली. पूण तिचे स्रद्धचे वाटेंत हांव आडमेळें जावन उरचो हें म्हाका नाका आशिल्लें. तांतयाचें कल्ल तिका दिसतलें. तिका कितें दिसतलें म्हजे विशीं? हावें नुलयत तवो आनी आयदन घासलें आनी तांतयाचें कल्ल ल्हवूच पयस, सट्ट करून तिची नदर पावना थंय व्हरून उडयलें.

पूण आतां प्रश्न उरलो आमलेट हांवें खावची काय ना? म्हाका दर संकश्टेक नाना बोरकार जेवपाक आपयतालो. ऑमलेट खावन थंय वचप सारखें जातलें? ऑमलेट तर घाली. भायर उडोवपाक बरें दिसना. खावं काय न खावं? खाली जाल्यार स्रद्धाळू मनशाचे नदरेन तें पाप. गंगीक दिवपाचो प्रश्नच येना. तिची  आज संकश्टी. मनाक पटलेंना तरी स्रद्धाळू मनाचो अपमान करप बरें न्हय हें हांव मानत आयलां. पूण हांवें ऑमलेट खाली जाल्यार ताचो हेरांचेर कित्याक परिणाम जातलो? कितेंय जाल्यार म्हाका जातलें. हांव तर बरें वायट मानीच ना. मनांत म्हणलें, जावं कितें जाता तें हांव ऑमलेट खातलों. पळोवया देव संकश्टीचें संकट हाडटा जाल्यार. देव बी म्हणटात ते आमच्या मनाचे खेळ अशें मनांत म्हणलें आनी ती ऑमलेट हांवें खाली.

चावयां घोंस मेळ्ळो, पावसूय बारीक जालो, काम चालू आसा, मनाक मातसो सुसेग. मातशी झेम काडली. चारांक सुमार गॅसार न्हावपाक उदक तापत दवरलें. बागेंत काम चालू आसलें जाल्यार हांव काम

सोंपताकच सांजचो न्हातां. उदक तापता सर नाखटां काडुंया म्हूण नेलकटर घेवन हुमऱ्यार बसलों.

नाखटां काडटालों खरों पूण ताकली विचार करपाचें सोडिनाशिल्ली. तिचें एक बरें, ती ओग्गी म्हूण केन्ना बसना. ती विचारांचें जाळें विणीत आसता. तातूंतल्यान एक बरें घडटा, मनशाक एकलेपणाचें दुख्ख तितलें जाणवना. बेकारसाणीच्या काळांत खाजगी विशय धरून राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय विशय ती हाताळटा. नाखटां काडटना म्हजीय तीच गत जाली. कालूच रेडियोचेर एक संवाद आशिल्लो. गांवांचें शारीकरण जावपाक लागलां म्हणपाचो तांचो एक मुद्दो आशिल्लो. ताचे परिणाम बरेय आसात, वायटूय आसात. हो सानवली सोबीत सुंदर गांव. निवळ, नितळ, शांत वातावरण, शहरीकरण जालें जाल्यार खंय पळोवपाक मेळटलें मागीर सैमीक वातावरण!........ हो गांव उपेक्षीत असो. गांवाचे उत्तरेक गुपाट रान. गांवाच्या आवाठाच्या मानान सभोवतणी विस्कळीत लोकवस्ती. पोट भरपाचीं साधनां सामकीं उणीं. लोकवस्तीच्या मानान जमनी व्हड. गांवच्या चडशा लोकांक कूळ कायद्यान मेळिल्ल्यो जमनी. जमनीचो विकास करतलो जाल्यार मनीसबळ जाय आनी तरणाटें मनीस बळ तर मुंबय वचून बसलां. अर्थीक बळगें तर सामकेंच उणें. खासा जमीन मालकांच्यो कुळ कायद्या पसून वाटावल्ल्यो जमनी शेकान शेक आसात पूण ते जमनीचो विकास करूंक वचनात. कित्याक तर, विकास करीत जाल्यार त्या उत्पन्नाचेर हक्क सांगपाक हेर वारसदार मुंबयच्यान येवन तयार जातात. हातूंत केन्ना आयकूंक नाशिल्ले आनी वळख नाशिल्ले लेगीत आसतात. वारसदार मुंबय गेल्ले आसतात आपलें भविश्य घडोवपाक. ते थंय जोडटात आनी खातात. एक पयसो लेगीत गांवांत धाडिनात. पूण गांवांत राविल्लो वारसदार, नोकरी धंदो करिनासतना बावडो काबाड कश्ट करून, पयशे खर्च करून जमनींचे उत्पन्न वाडोवन आपलें पोट भरपाक लागलो जाल्यार त्या उत्पन्नाचेर हक्क सांगपाक सदांच तयार आसतात. देखून जमनी पडंगूच उरल्यो. पडंग उरल्यो म्हणचे परस पडंग दवरल्यो म्हणल्यार बरें जातलें.

पूण गावांत .अर्थीक येणावळीचीं साधनां म्हणल्यार शेतकाम आनी हापूस आंब्याचें पीक काडप. पयलीं धनगर लोक बोकड्यो पोसताले. तांच्यो शेंकडयांनी बोकडयो आसताल्यो. पूण आतां तें कमी जालां. पयलीं सडो आशिल्लो थंय लोकांनी हापूस आंब्याच्या बागो केल्यात. तांचीं किजिलां येवंक लागलीं म्हूण धनगरांनी बोकड्यो पोसप कमी केलें. गांवांतल्यान एक न्हंय व्हांवता. उदकाचो उणाव ना तरीपूण तिचो जाय तसो उपेग केल्लो दिसना. न्हंयच्या लागसार कांय कुळागरां वसयल्यांत. उंचायेच्या वाठारांनी पारंपारीक रितीन भाटां वसयल्यांत.....

.....हालिंसाराक जमनी वसवचे परस त्यो विकपाचेर लोकांचें चड भर दिवप जालां. अकस्मात जमनीचें मोल मळबाक तेंकिल्ल्यान कश्टा विणें पयसो हातांत येता आनी जीण सुशेगाद सारूंक मेळटा अशें तांकां दिसता. पूण पयसो केन्ना येता आनी केन्ना वता हेंच कळना. निमाणें पयसोय ना आनी जमिनूय ना. आमची धर्तरी आमचें पोट भरता, देखून ती आवय समान आसता वा देवा समान आसता, तिची पुजा करपाक जाय बी कल्पना आतां फाटीं पडल्या. आतां दुडूच देव जाला.....

गांवाचें मुखामळ बदलनासतना गांवांत क्रांती हाडपाचो हावेस आशिल्ले उदरगतीची मोख दवरूंक जाय.

असल्या चिंतनांनी हांव गुल्ल जाल्लों. इतल्यांत,

'भाऊ, भाऊ,' म्हूण काचाबूल जाल्लो आवाज म्हज्या कानार पडलो आनी म्हजें विचारचक्र थंयच थांबलें. तकली वयर काडून पळयत जाल्यार 'भाऊ, भाऊ,' म्हूण आड्डत एक बायलमनीस ताकतिकेन येता ती म्हाका दिसली. पळयल्यार कामावयलें कामेरें, मालू..

"कितें गो मालू, कितें जालें?" हांवें विचारलें.

"तुका गंगीन आपयला. बेगीन यो म्हूण सांगलां."

"जालां कितें गो. सोटो हाडूं?" शंकऱ्यान म्हाका एका झाडाची लांबचे लांब एक खांदी कापून ताची साल काडून दांडको तयार करून दिल्लो. पुरूस भर लांब आशिल्लो. बत्तीस एकरचे बागेंत फिरतासतना तो दांडको आनी कमराक कोयती असो म्हजो भेस आसतालो. ते दांडक्याक कामेऱ्यां सोटो म्हणटालीं. ताचो म्हाका बांदावैल्यान उडी मारतना, फातरांवयल्यान बी चलतासताना बरो उपेग जातालो. हे सोट्यान बरींच जिवाणीं मारल्यांत. थळावे लोकूय शेतांत, रानांत वतना बडी आनी कोयती घेतले बगर भायर सरनात. तीं तांची शस्त्रां.

मालूचो आकांत पळोवन म्हाका दिसलें, जिवाणें आयलां. सतायलें ह्या जिवाण्यांनी. फिर्शी, दिवड, रक्त मांयडोळीं, केन्ना केन्नाय सोरोप आनी काणेर दिसतातूच. असल्या रानांनी आसपाचेच ते. पूण ह्या बायलांक तीं दिसलीं म्हणजे देवाचो कोप सो दिसता. थंय देवसपण केले बगर तांकां सूख लागना. आतां 'नाल्ल फोडून लेगीत हेंच मगो?' अशें मालूक विचारतलों म्हूण मनांत आयलें. पूण मालू आशिल्लें खंय! तें रकाद दिलो आनी जे ताकतिकेन आयिल्लें तेच ताकतिकेन परतलें. हांव तसोच उठलों, सोटो घेतलो, दार बंद केलें आनी घरा फाटलेवटेन जंय काम चलिल्लें त्या अदमासान गेलों. हें काम आमचो पार्टनर आरोलकाराल्या भागांत चलिल्लें. पळयत जाल्यार सगळीं कामेऱ्यां कुलकुलाट करीत घोळको करून उबीं रावल्यांत आनी सगळ्यांच्या तोंडार भंय दिसतालो. हांवें गंगीक विचारलें,

"गंगी, जालां तरी कितें गे? काम बंद कित्याक उडयलां?"

"आड्या कडेन कोण तरी पडला खंय."

"कोणूय बेबदो बी आसतलो गे. तुमी काम करात तुमचें."

"बेबदो न्हय! कोण तरी मेल्लो मनीस आसा थंय. अशें चिमणी सांगता.

चिमणी ही भिम्या धनगराची व्हडली सून. चिमणी कामाक ना म्हूण हांव जाणां. फाटीं ती आपणाक काम दी म्हूण सांगपाक आयिल्ली.

पूण म्हजें काम सुरू जातकच जेन्ना तिका आपयली, तेन्ना तिच्या शेतांत काम सुरू जाल्लें. आपल्या शेतांत काम आसा म्हूण आमच्या कामाक येवची नाशिल्ली. आतां म्हजें काम सोपतां सोपतां कित्याक आयल्या काय? आमचें काम सोंपपाक आयलें. अशें मनांत म्हणून हांवें चिमणीक विचारलें,

"मेल्लो मनीस कसो आसतलो! कित्याय कितें उलोवं नाका. दाखय खंय कोण आसा तें?" मेल्लो मनीस म्हणटकच म्हाका मातशें चर्र जाल्लें.

"हेथंय" अशें म्हणून चिमणीन बोट दाखयलें. ते दिकेन हांव मातसो फुडें गेलों. बऽरो पंदरा वीस फूट चल्लों. म्हाका तण वाडिल्लें आशिल्ल्यान कोण दिसलो ना. हांवें फाटीं वळून पळयलें, चिमणी जाग्यावयल्यान हालपाक तयार नाशिल्ली.

"म्हाका हांगां कोण दिसना मगे. थंय एक लाकडाची मुंडारी आसा. ती बी तुवें पळयली ना मू?"

"ना ना! मनीस पडिल्लो आसा थंय."

"आगे पूण म्हाका दिसना. मातशी फुडें येवन दाखय मगे." हांवें मातशे तिडकीन म्हणलें.

"हांव रस्त्यान वतालें. आड्या कडेन पावतकच सुणो एक सारको भुकता तें पळयलें. एकाच जाग्यार रावून भुकतालो तो." चिमणी मातशी फुडें आयली पूण म्हज्या फाटल्यान धा पावलां फाटीं रावत सांगलें.

"ताका दुसरें सुणें दिसलें आसतलें."

"ना. ना. तशें न्हय तें. तो भुकता कित्याक काय म्हूण हांवें चारूय वटांनी पळयलें. पळयत जाल्यार आड्या भितर प्रेत दिसलें."

"पूण आसा खंय गे तें?"

"थंय. ते सायडीक. आड्या कडेन." चिमणी कशीच फुडें येवपाक

तयार नाशिल्ली.

"थंय. ते सायडीक. आड्यां कडेन. चल्लां कितें तुजें? मातशी फुडें यो मगे,"

"म्हाका भिरांत दिसता."

"खाता तुका तें प्रेत?" हांवें नेट दाखोवन तापिल्लो आवाज काडलो खरो, पूण तो आवाज उस्णोच आशिल्लों. खरें म्हणल्यार प्रेत म्हणून आयकताकच हांव भितरल्यान खूब भिल्लों. कोणूच जाग्या वयल्यान हालनात तें पळोवन हांवें म्हणलें,

"येयात मगे."

कोणूच हालले नात. निमाणें हांवूच फुडें गेलों. चारूय वटांनी नदर घुंवडायली. कोनशाक आड्या कडेन कितें तरी दिसलें. हांव उबो आशिल्लों थंयच्यान सुमार धा फुटां वयल्यान मनशाची तकली शी म्हजे नदरेक पडली. आंग सगळें कड्ड्‌ान धापिल्लें आशिल्लें पूण तें पावसाच्या जोरार आनी वाऱ्यान मातशें विसकळीत जाल्लें. दसऱ्याच्या अदमासाक पाचवें तण सुकें करड जाता. तें कापून एकठांय दाळून दवरतात. ताका थळावे लोक पुळो म्हणटात. तो पुळो पुरूस भर लांबायेचो आसता. अशे पुळे बागेंत जळा मळा दाळून दवरिल्ले आसतात. पुळ्या भशेन प्रेताचेर करड दाळिल्लें आशिल्ल्यान तें सोपेपणान कोणाचे नदरेक पडलें ना. सुणो भुकिल्ल्यान तें नदरेक पडलें. तकली पळोवन काळजांत धडधडूंक लागलें. खिणा भितर ना ना तरेचे विचार मनांत आयले. प्रेताक पळोवन न्हय. पूण फुडें येवपी धकचपाटे आनी धांवपळी म्हजे नदरे मुखार आयल्यो आनी काळजांत कलकलूंक लागलें. ताळो सुकून गेलो. थंयचे थंय सांवरून घेतालें. आतां सगळ्यो राटावळी सुरू जातल्यो. पोलीस स्टेशनार पावटी, कोर्टांत येरादारी, पोलिसांच्यो कटकटी. जिवितांत हें केन्ना पळोवंक नाशिल्लें. सादो नाका फुडें पळोवन सरळ चलपी मनीस हांव. अणभवूंक नाशिल्लें आतां म्हातारपणांत नशिबांत आयिल्लें.

धीर करून फुडें गेलों. खऱ्यांनीच मनशाचें प्रेत आशिल्लें तें.

रस्त्याक समांतर आशिल्ल्या आड्याक आडवो आडो जंय मेळटा अशा कोनशार आड्या भितरल्यान तें प्रेत पडिल्लें आशिल्लें. पडिल्लें म्हणचे परस दवरिल्लें म्हणप चड बरें जातलें. ताचें तोंड आड्या वटेन आशिल्लें. दावो हात तकले पोंदा घेवन कुशीर न्हिदला काय दिसतालें. पोटा क्डेन दोडिल्ले पांय. कोणूय मनीस कुंरगुटी करून न्हिदला काय अशेंच दिसतालें. म्हजे वटेन ताची फाट आशिल्ली. मनीस कोण हें वळखतलो जाल्यार आड्या वटेन वचून नियाळणी करची पडटली. पूण वचपाक धीर जायना जालो. फाटल्यान पळयलें कोण धिराक येता काय म्हूण. पूण सगळीं जागच्या जाग्यार उबीं आशिल्लीं.

प्रेताचे तकलेचो भाग स्पस्ट दिसतालो आनी कमरे सकल कुल्या वयलें करड सकल पडिल्ल्यान कुल्या कडलो भाग दिसतालो. मनशाचें असलें विद्रूप जाल्लें भयांकृत रूप हांवें म्हजे जिणेंत केन्नाच पळोवंक नाशिलें. तोंड सामकें चेंचावल्लें. नाक ना, कान ना, ओंठ ना, खरें म्हणल्यार मुखामळार चामडीच नाशिल्ली. दीस रात पावस पडिल्ल्यान तकलेचे मांस धवसार जाल्लें. तकली म्हणजे मासाचो गुळो कसो. तकलेर एकपसून केंस ना. तकले वयली चामडी वचून कवटें दिसतालें. तरे तरेचे विचार येवपाक लागले मनांत.

"गंगी, तूं तरी मातशी लागीं यो गे." म्हज्या आवाजांतली भिरांत गंगी वळखली आनी ती भीत भीत लागीं आयली.

"आवय म्हजे बाये! हें आनी कितें?" गंगी.

तें मडें पळोवन गंगी आनी थंय रावली ना. हांवें रस्त्यार नदर मारली. रस्त्या पलतडी कांय राखणे गोरवां राखताले. तांचो कांय उपेग जावपाचो ना. जाधवाच्या ठिकाणांत पळयलें, थंय गंवडे, मानाय काम करताले. तांचे मदीं आशिल्ल्या जाधवाचो गुरखो रामसिंग आनी मानाय भिकूचेर म्हजी नदर गेली. शंकऱ्या आनी गंगी म्हजे बागेंत दिसवड्यार काम करतालीं ताचे पयलीं भिकू म्हजे बागेंत काम करमालो. तेन्ना तो पगारार म्हगेर काम करपाक तयार नाशिल्लो. तोच भिकू आतां

जाधवागेर पगारार काम करतालो. शंकऱ्या वताकच अडी अडचणीच्या वेळार हांव ताच्याच म्हऱ्यात गेलां. हांवें सांगताकच गंगीन तांका हातवारे करून आपोवन घेतलें. तांचे वांगडा राखणेय आयले.

"हें विद्रूप आनी भयांकृत जाल्लें मडें हांगा हाडून कोणें उडयलें?" राम सिंगान म्हणलें.

"हें सादें सुदें प्रकरण न्हय, खुनाचो प्रकार सो दिसता." भिकू उलयलो.

"ह्या मनशाच्या तोंडार कोणें ॲसीड बी उडयलें काय? ॲसीड उडयतकर मनशाचें तोंड अशेंच दिसता.' एका राखण्यान म्हणलें.

"सोरो पिवन बेसुद जावन पडिल्लो आसुंये." दुसरो.

"पडलो, वा पडून आपटलो बी जाल्यार तोंड अशें विद्रूप जावचें नाशिल्लें." पयलो.

"मागीर रानवटी जनावरांनी खावन फाफसून उडयलो आसुंये."

"बरें! सोरो पिवन पडलो, वा सोरो पिवन मेलो वा रानवटी जनावरांनी खालो जाल्यार प्रेताचेर करड कशें आयलें?" भिकून दुभाव उलोवन दाखयलो.

"प्रेत कड्डान धांपिल्ले वरी दिसता. पावसान भिजिल्लें करड आपसूक वाऱ्यान येवन पडचें ना न्हय!" गुरखो.

"मनशाचे सादे नदरेक पडचें न्हय म्हूण हें प्रेत कड्डान धांपलां जायत." भिकू

"तकले कडचें आनी कमरा कडचें आंग दिसता." एक राखणो.

कमरा सकयलें फाटलें आंग पळोवन ती बायल मनीस म्हणपाचो दुभाव मनाक चाटून गेलो. प्रेताचेर एकूय कपडो नाशिल्लो. कड्डांतल्यान दिसता त्या आंगा वयल्यान तो दादलो काय बायल हें वळखप कठीण दिसतालें. सगळ्या आंगांचेर जर करड आशिल्लें जाल्यार थंय मनशाचें

प्रेत आसा म्हूण कोणाकूच कळचें लेगीत नाशिल्लें.

"प्रेत सुण्यांचे नदरेक सोपेपणान पडपा सारकें ना. तांचें नाक तीक्ष्ण आसता. वासाक लागून सुण्याक हांगा प्रेत आसा म्हणपाचो सुगाव लागलो जातलो. नाजाल्यार तें कुसतकच कोल्यांनी वा सुण्यांनी फाफसून वा चाबडावन, खावन घाण येतकच कळपाचें." हांवें म्हणलें.

"केन्ना हाडून उडयलें काय हें हांगा? काल तर हांगा कांयच नाशिल्लें." गंगीन पयसुल्ल्यानच म्हणलें.

"प्रेताक घाण निखालूस येना.. हाचे वयल्यान तें प्रेत चड दिसांचें न्हय. कालचेंच आसूं येता." भिकू.

"प्रेत धवें पडलां. चड दिसांचें आसूं येता." रस्त्यावयलो एक मनीस.

"रातीं घोग्यांनी पडला त्या पावसान तें धवसार जालां जावंये. धवें फटफटीत पडलां न्हय तें."

"आसुंये. कळपाक मार्ग ना."

"चड दिसांचें जाल्यार चड धवें जातलें आशिल्लें. असो हांवें अदमास काडला."

"आनी काल सांजवेळां हांगां कांय नाशिल्लें न्हय."

अशे तरेन तांच्या भितर चर्चा चलताली.

"आमी आतां अदमास करीत बसताले गंगी?" हांवें म्हणलें. आतां मेरेन आमी प्रेता पसून मातशे पयस पाविल्ले.

"फुडें कितें करपाचें?" गंगीन प्रश्न केलो, पूण होच प्रश्न म्हजे तकलेंत प्रेत पळयत पसून घोळत आशिल्लो. हांवें म्हणलें,

"येवजुनूच म्हजी तकली शीण्ण जाता."

"चिंतूंक लेगीत नाशिल्लें अशें आनी कितें जायत म्हूण."

"आतां हाचे फुडें सगळ्यो कटकटी फाटल्यान लागतल्यों.."फुडलो विचार करूनच हांव मनांत आकांताचो गळसणिल्लों.

"आतां पुलीसं, कोर्ट बी सगळें लागतलें आमचे फाटल्यान. सगळ्यांत चड म्हणल्यार लोकांच्यो नदरो दुभावान पळयतल्यो आमचे कडेन." गंगीन म्हणलें.

"तूं आनी भेश्टावं नाका म्हाका. हांगाच मरूंक कित्याक आयलें हें प्रेत?" हांवें अशें म्हणलां मात, त्या गंभीर वातावरणांत लेगीत गंगी फुस्स करून हांसली.

"प्रेत आनी मरूंक कशें येतलें?"

खरेंच मनशाची जीण केन्ना कसलें मोण्ण घेत सांगूंक नजो. मेल्ल्या मनशाचे जिणे विशीं म्हणना हांव. म्हजे बद्दल! म्हजे फुडले दीस कशे वतले, कसल्या कसल्या प्रसंगांक तोंड दिवचें पडटलें हें चिंतून म्हाका म्हजीच काकूळट दिसपाक लागल्ली. एक खेप पोलिसांच्या कचाट्यांत सापडलो जाल्यार तांचे पासून धडगत ना. ओगीच दुभाव येत जाल्या ताचे हाल हाल करपाक ते फाटीं फुडें पळोवचे नात. तरीपूण गंगी कडेन जाल्ल्या उलवण्यान येन्ना मेरेन म्हाका मातसो धीर आयिल्लो. हांव गंगीक थंयच सोडून गुरखो आनी भिकू बी उलयताले थंय आयकूंक गेलों. ताचे भितर संवाद चलिल्लो.

"म्हज्यान एक अदमास करपाक जाता."

"कितें तें"

"तें प्रेत बायलमनशेचें आसतलें."

"म्हाका तशें कांय दिसना."

"म्हणजे तुका तें दादल्याचे शें दिसता?"

"तशें न्हय, दादल्याचें काय बायलेचें हें वळखप कठीण आसा."

"पळय. कड्डांतले खांचींतल्यान पळय."

"हय! कमर दिसता."

"कमराची घेराय पळय, बायलमनशेचीच दिसता."

"खरें आसा तुमचें म्हणणें आं."

"आसा न्हय?"

गंगीय थंय पावली. आमी कितें उलयतात तें आयकुचे परस आतां करप कितें हो प्रश्न तिका सतायतालो.

"आतां करप कितें?" गंगी.

"जें कितें करपाक जाय तें म्हाकाच करचें पडटलें. आयलां त्या संकटाक तोंड दिवचेंच पडटलें."

"पूण करप कितें?"

"हीं कामेन्यां कित्याक उपेग नात. दिस्त आज एकूय मानाय कामाक ना पळय."

'पूण आतां सगळ्यांत आदीं करप कितें तें सांगात." गंगी.

"पोलिसांक कळोवपाक जाय न्हय? आनी कितें करतले?"

"करपाक जाय तें बेगिनांत बेगीन करचें पडटलें. तिनसांज जायत आयल्या. काळोख पडलो जाल्यार मागीर सगळें कठीण जातलें."गंगी.

"पूण कोणूय तरी आधाराक जाय. म्हज्यांत आतां त्राण उरूंक ना. पुरो जालां. मन खचलां. कशी धांवपळ करतलों हांव आतां. विचारूच करूं नजो."

इतल्यांत म्हजी नदर पयस रस्त्याचे तेंगशेर गेली. थंयच्यान कोण तरी येता शें दिसलें. ताचे चाली वयल्यान आनी भेसा वयल्यान म्हाका तो नाना बोरकारच आसूक जाय शें दिसलें. हांवें गंगीक म्हणलें,

"हो तो येता तो नाना न्हय गे गंगी?"

"तसोच दिसता. तोच जातलो तो. बरें जालें."

लागीं येता येता तशें कळ्ळें, नानाच तो. बरें दिसलें. आतां म्हाका नानाचोच धीर. संकटा वेळार अर्जुनाक कृष्ण पावतालो तसो आज म्हाका नाना पाविल्ले भशेन दिसलो. धांवपळ करूंक शकलो ना तरी दोन धिराचीं उतरां ताचे कडल्यान मेळटलीं. ताचो गांवगिरो अणभव आनी बुद्द म्हाका वाट दाखयतलीं. गांवांत ताका मान आसा. नानाच म्हाका ह्या संकश्टांतल्यान भायर काडटलो म्हणपाची खातरी आशिल्ली. प्रसंगाच्या वेळार कोणेंय दिल्लीं चार धिराचीं उतरां लेगीत खूब काम करतात आनी नाना कडेन धीर दिवपाची कळाशी आसा. तो लागीं पावतकच हांवें ताका म्हणलें.

"तुमी देवा भशेन पावले म्हाका." हें सांगतासतना म्हजो गळो भरून आयलो. तो तसोच भितरले भितर दामून दवरून ताका प्रेत दाखयलें. ताणें तें पयसुल्ल्यानूच पळयलें. ताच्या तोंडार कसलेच भाव आयिल्ले दिसले नात, ना अजाप ना उमळशीक. ना हुस्कारो, ना चुरचुरे. स्थितप्रज्ञसो. नाना म्हजे परस धा वर्सांनी ल्हान पूण ताचो खेड्यांतल्या घडणुकांचो आनी थंयच्या मनीस सभावाचो अणभव म्हज्या शारांतल्या अणभवा परस कितलोसोच चड आशिल्लो. ताणें फकत प्रेताचेर एक नदर फिरयली आनी म्हणलें,

"येयात म्हजे वांगडा."

"खंय?"

"घरा कडेन वचुंया. पुलिसेंत फोन करुंया."

"तुमचो फोन चालू आसा? म्हजो डेड जाला. करंट ना."

"आमचो फोन चालू आसा."

"गंगी, आतां आनी काम कितें जातलें? लोकांक घरा वचूं दी." नाय जाल्यार कामेऱ्यां काम सोडून घोळक्यान कुलकुलाट करीत उबीं आशिल्लीं. म्हज्या मनांत विचार आयलो, हें सगळें रामायण घडटकच फाल्यांच्यान हीं कामाक येत काय?

हांवें गंगीक सांगलें आनी नाना वांगडा चलूंक लागलों. गंगी गेली. म्हज्या लक्षांत आयलें, न्हावपाक उदक तापत दवरिल्लें. हांवें गॅस बंद करूंक ना. उदक सळसळून सळसळून आटलां जातलें.

"गंगी, गॅस मातसो बंद कर गे." हांवें मोज्यान गंगीक सांगलें.

गंगी गेली आनी हांव नानाबरोबर चलूंक लागलों. कांय वेळ चलतकच म्हज्या लक्षांत आयलें, काम करताना घालपाचे कपडे म्हज्या आंगार तशेच आसात आनी तेय मातयेंत लोळिल्ले. बागेच्या भायर वताना घालपाचे दशेचे नाशिल्ले. ते बदलपाक जाय म्हूण हांवें नानाक म्हणलें,

"नाना, मातसो घरा वचून येतां."

"घरा आनी कित्याक वतात तुमी? गॅस पालयतलीं तीं."

"आंगार कामा वयलेच कपडे आसात. लक्षांत आयलेंच ना."

"आसूं. कांयच जायना. शारांत नात तुमी."

"आनी हो हातांतलो दांडोय तसोच हातांत आसा. इतली तकली सुन्न जाल्या."

"जाणा गा हांव. अशा वेळार अशेंच जाता."

"विचार करपाची तांकूच सरल्या म्हजी."

"सरल्या न्हय जाल्यार कितें? केदी व्हडली घडणूक ही!"

"उब्या जिवितांत असली घडणूक केन्ना पळयली ना."

"आज काल वाचूंक आनी टीवीचेर पळोवंक खूब मेळटा."

"हांगा तर प्रत्यक्ष अणभवची पडटा. कोण खंयची बायलमनीस वा दादलो! हांगा येता आनी मरता. काय कोण मारून उडयता. तेंय म्हज्याच ठिकाणांत! हांवूच बरो मेळ्ळों."

"तुमच्याच ठिकाणांत अशें न्हय. तुमचें ठिकाण लागीं मेळ्ळें, तुमच्या ठिकाणांत उडयलें."

"कोणाच्याच भानगडींत हांव ना वा कोणाच्या केस्तावांत ना. आपलोसो आपूण."

"आतां तोच विचार करीत रावं नाकात पळोवया."

"कोणें केलें काय कर्म?"

"आमी पयलीं पोलिसांक कळोवया. फुडलो विचार ते करतले."

"गांव तरी लागीं आसा? एक दोन घरां सोडलीं जाल्यार नदर पावता थंय रान आनी मळां. खंयच्यान तरी हाडलें काय प्रेत?"

"तुमी उचंबळ जावं नाकात मातशे. तकली शांत दवरात. खरें कितें तें वयर येतालेंच."

नानाचीं धिराचीं उतरां आयकून थोडी थाकाय मेळ्ळी.

**हो** गांव थंड.. सैमाच्या गोपांत रावूंक आवडटा म्हूण रिटायर जावन हांगा येवन रावलों. म्हजी ॲग्रीकल्चराची आवड नोकरेच्या धकचपाट्यांत अर्दकुटी उरिल्ली, ती भागोवपाक आनी रिटायर लायफांत बेकारसाणींत बेजार येवचो न्हय म्हूण. धा वर्सां गेलींय बरीं. मनाक जाय तसो सोबीत बंगलो बांदचो आनी अकस्मात भूंयकांप येवन तो उध्वस्त जावचो तशेंच म्हजें जालें. आतां हें विपरितूच घडलां तें पळोवन नाका तें ॲग्रीकल्चर आनी नाका तीं शेतां भाटां अशें दिसपाक लागलें! फुडें येताल्या प्रसंगांक कशें तोंड दिवचें हें येवजुनूच जीव कासावीस जातालो. सत्तरी कडेन पावतले पिरायेचेर म्हाका हें फावो नासलें.

नानाल्या घराकडेन पावलों. नानालो पुतणयो नंदू भायरूच बशिल्लो. हो नंदू सकल्या मूळ घरांत रावता त्या भावालो पूत. वय आसतलें तिसेक वर्सांचें. तो वयल्या घरांत नाना वांगडा रावता आनी नानाच्या दिसपट्टया कामांत मदत करता.

ताका नानान सगळी खबर सांगली. आनी पोलिसांक फोन लावपाक सांगलें. इतल्या म्हणसर एक बायल मनीस फोन करपाक आयली.

"नाना, एक फोन करपाक जाय आसलो."

गांवांत तिनूच वायरलेस फोन आशिल्ले. एक म्हगेर, एक नानागेर, आनी एक अनय डोर्लेकर म्हणटात तागेर. नाना लोकांक आपल्या फोनाचेर पयशे घेवन सुविधा दितालो. एक प्रकारचो सायड बिजनेसच आशिल्लो ताचो हो. आज लायट नाशिल्ल्यान नानाच्या फोनाचीय बॅटरी डावन आशिल्ली.

"आज फोन करूंक मेळचो ना. फोनाची बॅटरी डावन आसा."

"एकूच करतां नाना. एक रकाद दितां आनी बंद करतां."

"ना. आज कशेंच जावचें ना. लायट आयली जाल्यार यो नाजाल्यार फाल्यां यो." ती बायल बाबडी तोंड वांकडें करून गेली.

आज ह्या प्रसंगार फोनाफोनी खूब जातली हें वळखून नानान ते बायलेक ना म्हूण सांगलें हें म्हज्या लक्षांत आयलें. नाना कितलो विचार करता आनी नानान हे घडणुकेंत पुराय लक्ष घालपाचें थारायलां हें समजलें आनी बरें दिसलें.

नंदून फोन डायल केलो आनी म्हजेकडेन दिलो. मनांत आयलें, नंदूच उलयल्लो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. तशें ताका सांगपाक वतालों इतल्यान विचार केलो, हांवें दोळ्यांनी पळयलां. नंदून आयकलां. हांवें सांगप वेगळें आनी ताणें सांगप वेगळें. निमाणें रिसिवर हातांत घेतलो आनी उलयलों, धड उतरां सुटनाशिल्लीं. मन घट्ट केलें. त त, प प जावचें न्हय म्हूण पांच धा सेकंडस् थीर जावपाक घेतले. बरो आंवडो घोटलो. आनी उलयलों,

"हॅलो, पोलीस स्टेशन?"

"हय!" दुसरे वटेनच्यान आवाज आयलो.

"हांव रतान सामंत. सानवली गांवांतल्यान उलयतां. म्हजे कलमांचे बागेंत एक मडें पडिल्लें आसा. म्हाका कागाळ दिवपाची आसा."

अशें सांगून फुडें हांवें ताका आज घडिल्ली सगळी खबर सांगली. कामेऱ्यांक प्रेत कशें दिसलें, खंय दिसलें. प्रेत कशें चेचावलां, ताजेर करड धापलां आनी ताका लागून तें वळखूंक येना बी सगळ्यो खबरी सांगल्यो. हें सगळें थंडसायेन आयकलें आनी ताणें विचारलें,

"पोलीस पाटलाक कळयलें तुमी?"

"ना!"

"ना कशें! पयलीं तें काम करूंक जाय. पोलीस पाटलाक आतांच कळयात."

"बरें, कळयतां. तुमी पोलिसांकय धाडल्यार बरें जातलें."

"ना! पयलीं तुमी दोगूय पोलीस श्टेशनार येयात. एफ्. आय. आर. बरयात आनी मागीर फुडल्यो खबरी. ताका एक पद्धत आसता."

ताणें तुमी दोगूय येयात म्हणलें. म्हाका दिसलें हांव आनी नंदू. पूण ताका हांवें आनी पोलीस पाटलान ठाण्यार येवपाक जाय आशिल्लें हें म्हाका पोलीस ठाण्यार वतकच कळळें.

जालें! आतां परत प्रॉब्लेम. पोलीस पाटलाक सोदपाक वचचें पडलें. तो गांवांत खंय तरी रावता. तीन चार किलो मिटरांचेर. मागीर पोलीस ठाण्यार वचपाक जाय. तें आसा तालुका ठिकाणाक. लांज्याक. तीस किलो मिटरांचेर. हांगा दर खेड्यांत पोलीस ठाणें ना. बशीन वतलो जाल्यार आयची निमाणी बस चारांक गेली. आतां बद्द फाल्यां सकाळीं सात वरांचेर तालुक्याक वचपी बस. चलून वचप शक्य ना. आनी म्हजे कडेन कसलें वाहन ना. मेळ्ळ्यारूय म्हाका चलोवंक येना. आतां कोणाक तरी पांयां पडचो पडटलो. खरें म्हणल्यार हें पोलीस पाटलाचें काम. हें मडें म्हगेले बागेच्या आड्या भायर जर पडिल्लें आशिल्लें जाल्यार म्हाका कांय लागचें नाशिल्लें. घडये आमकां कांय खबर नासताय बी म्हूण आमी

ही धांवपळ करतात.

नंदूची बायक आसा. ताच्यो गांवांत वळखीय आसात. हांवें आतां नंदूकच पांयां पडपाचें थारायलें. आनी दुसरो उपाय नाशिल्लो. हांवें ताका म्हणलें,

"नंदू, म्हजे खातीर आतां तुका त्रास घेवचो पडटलो. तुजी मोटरसायकल काड. आमी मातशे पोलीस स्टेशनार वचून येवंया. तुज्या आदारा बगर म्हजें कांय काम जावपाचें ना. बाब बरो तो. प्लीज"'

"अशें कितें करतात तुमी? परकी कित्याक समजता आमकां? त्या कामाक प्लीज बी कित्याक म्हणपाक जाय? तुमी फकत सांगात ताका. तो सगळीं कामां करतलो तुमचीं." नानान म्हाका सांगलें.

"हांव तयार आसां. चला वचुंया." नंदू

पावस आतां बरोच उणो जाल्लो. बारीक बारीक झडटालो. नंदून आपलो रेनकोट काडून म्हाका दिलो,

"हो रेनकोट तुमी घालात. आतां पावस ना पूण तो खंयच्याय खिणाक उडकी घेवंक शकता."

"आनी तुका कितें तर? बायकाचेर सत्री काय उपेगाची ना."

"म्हाका कांय नाका. संवय आसा म्हाका भिजपाची."

हांव पूण कितें करतलों? म्हजेकडेन तरी कितें आशिल्लें? ताणें बायक स्टार्ट मारली आनी आमी पोलीस पाटलागेर वचपाक गेले. तिस्कार पावपाक करंदवाडचीं म्हजीं चार कामेऱ्यां कामा वयल्यान घरा वतना मेळ्ळीं. तांणी आमकां आडायलें आनी एकलेन सांगलें,

"भाऊ, फाल्यां आमी कामाक येनात."

"तसलीं शाणेपणां करूं नाकात आं तुमी. मागीर तुमचोच दुभाव घेतले पोलीस. फाल्यां येयात तुमी."

"आमचो कित्याक दुभाव घेतले? आमकां तातूंतलें कितें खबर?

आमी तर काम करतालीं."

"हयवय, तुमी काम करतालीं. पूण तुमकां प्रेत दिसलां. पोलिसांक जर तुमची जबानी घेवपाची आसत वा तुमचेकडेन चौकशी करपाची आसत जाल्यार तुमी आसचीं ना. बरें दिसता तें? आंगार आयलां ताका तोंड दिवपाक जाय. पळ काडलो म्हूण जायना. आंगार शेकतलें."

"नसत्यो भानगडी आमकां कित्याक भाऊ. ओगीच सुक्या आंगाक ओलो बिबो!"

"आतां आमी सगळीं हातूंत सांपडल्यांत. तुमचे बरोबर हांवूय सांपडलां. तुमकां कितें, म्हाका कितें? आतां सुकें उरप कठीण. कोणूच सुको उरपाचो ना. संबंद नासून लेगीत आमी हातूंत घुस्पल्यांत. पूण आमकां हाका धिरान तोंड दिवचें पडटलें."

"सगळ्यांनी येवपाक जाय?"

"हांवें आतां तुमकां येवं नाका म्हणलें आनी तुमी घरा रावलीं. तुमकां कितें दिसता? तुमी ना म्हूण पोलीस तुमकां सोडटले? पोलिसांक धाडून तुमकां फाल्यां जिपींत घालून जर वाड्या वयल्यानं हाडलीं जाल्यार वाड्यार तुमचेंच हांशें जावचें ना? ते परस तुमी फाल्यां मोन्यांनी कामाक येयात. कितें जाता तें जाता. हांव आसांच न्हय. एकलें लेगीत भिवन घरा रावलें जाल्यार पोलीस ताचो दुभाव घेतले. तांकां दिसतलें, हाच्या मनांत काळें आसा देखून हें घरा रावलां. दुभाव काडपाक जागो दवरूं नाकात. पोलिसांनी विचारलें जाल्यार खरें तें सांगात." तीं आं म्हणून चलूंक लागलीं. पूण तांकां कितलें पटलां हाचो म्हाका दुभाव आशिल्लो.

नंदून बायक स्टार्ट मारली आनी आमी पोलीस पाटला गेर वचपाक गेले. नंदून म्हणलें,

"पोलीस पाटलाक सांगुया हवालदारान तुका प्रेताची राखण करपाक सांगलां म्हूण."

"नाका रे! ओगीच नाका आशिल्लीं लफडीं आंगार कित्याक घेवप? तशें सांगूं ना हवालदारान. फट कित्याक सांगुया? घडणूक कितें जाली तें कळयलें म्हणचे आमचें काम जालें."

"प्रेताची राखण करपाक कोण तरी जायच न्हय!"

"तें आमचें काम न्हय. पोलिसांक जाय तें करूं दी."

आमी पोलीस पाटलाच्या घरा पावले. पळयल्यार तो घरा ना. जालें! हाका सोदपाक आनीक वेळ! हांवें मनांत म्हणलें. दुसऱ्याच खिणाक चिंतलें, ताकली साबूत दवरूंक जाय. पासियेंस काडपाक जाय. हें आतां अशेंच चलपाचें आसा.

"खंय गेला गे?" नंदून पोलीस पाटलाचे बायलेक विचारलें.

"शेतांत काम करता तो."

"शेत खंय आसा? चड पयस आसा?"

"ना. लागींच आसा. अशे चलात हे वाटेन. थंय मेळटले तुमकां."

त्या पावसांत लेगीत शेतांतल्यान वचून नंदून ताका सोदून काडलोच. आनी घडिल्ली घडणूक सांगून पोलिसांनी ताका प्रेत राखपाक सांगलां म्हणपाचें सांगलें. आमकां पोलिसेंत आपयल्यात. आमी थंय वतात अशेंय सांगलें. हांवें नाका म्हणटासतना नंदून पोलीस पाटलाक प्रेत राखूंक सांगलें हें म्हाका बरें दिसलें ना. पूण हांव कांय उलयलो ना म्हजो निरुपाय आशिल्लो. नंदूक दुखोवन चलनाशिल्लें. मागीर म्हाका कळ्ळें, प्रेत राखपाची जबाबदारी पोलीस पाटलाची न्हय. नंदूचें आनी ताचें कित्या वयल्यान तरी वांकडें आशिल्लें. ताका ताणें बुद्द शिकोवपाक हें केलें. पोलीस पाटील कां कूं करपाक लागलो. म्हणपाक लागलो,

"थंय लागीं खंयच घरां नात. ह्या असल्या पावसांत आनी रातीच्या वेळार हांव राखतलों कशें प्रेत?"

"मागीर कशें करुंया?"हांवें म्हणलें.

"म्हाका कोणूय तरी सांगात दियात."

"आतां आनी खंयच्यान हाडूं सांगात?" हांवें म्हणलें.

"तें तुमचें काम. तुमी पोलीस पाटील. तुमची ती जबाबदारी."

नंदू मातश्या अधिकारवाणीन उलयलो. केन्ना केन्नाय बऱ्याक पडटात अशे लोक. आमी सरळमार्गी लोक अश्या वगतार फेल वतात.

"हें पळय, रस्त्याचे पलतडी जाधवाली बाग आसा. थंय एक गुरखो रावता. तागेल्या घरांत बसून तरी प्रेताचेर नदर दवरशी?" नंदून फुडें म्हणलें.

"दोंगुल्ले वयल्यान सकल नदर दवरपाक सोपें जातलें न्हय?"हांव.

निमाणो कसो तरी तो तयार जालो. ताका आमी टिब्बल सीट बसोवन म्हगेले बागे कडेन हाडून सोडलो.

म्हाका पोलीस पाटलाची काकुळट दिसली. ब्रिटिशांच्या काळांत पोलीस पाटील हो गांवचो राजा सो आशिल्लो. सरकार आनी पोलिसांचो गांवांतलो एकलो एकसुरो प्रतिनिधी. हाचो गांवांत धेक आसतालो आनी गांव ताका वचकून आसतालो. तो गांवचीं किजिलां पोलिसे मेरेन वचूंक दिनाशिल्लो. आपल्या लॅवलाचेरूच सोडोवपाचो यत्न करतालो. गांव ताच्या उतराभायर वचनाशिल्लो. नाना बोरकारान तागेल्या जाणटेल्यांनी ताका सांगिल्ली एक गजाल म्हाका सांगिल्ली ताची याद जाली. ताचे वयल्यान त्या वेळार पोलीस पाटलाची ताकद कितली आशिल्ली तें कळटा. ताणें सांगिल्लें, गांवचे लोक एक खेप रानदुकराच्या कासाक गेल्ले. कासाक भोंवडी काडटा आसतना अकस्मात रानदुकर फुडें आयलो आनी एकल्यान ताचे कडल्या आर्मान फार पेटयलो. तो एकल्या भोंवडेकाराक लागलो आनी तो मेलो. हें पोलिस पाटलाक कळ्ळे बगर कशें रावतलें? ताणें पळयलें, चुकून जालां. हातूंत कांय दुस्मानकाय ना. शेवटीं मेल्लो आनी मारपी दोगूय गांवचेच मनीस. ताणें दोनूय पार्टीक समजायलें आनी रातयां प्रेताचो विलो लावपाक सांगलें. आयच्या जमान्यांत जाल्यार

गुन्यांव लिपयलो आनी पुरावो नश्ट केलो म्हूण आय. पी. सी. च्या कितल्याशाच कलमां खाला पोलीस पाटलाकूच भितर उडयतले आसले. त्या वेळार पोलीस पाटलाचो हुद्दो वारस हक्कान येतालो. गांवांतलो खंयचोय सरकारी सुवाळो ताचे हजेरी बगर जायनाशिल्लो. 15 ऑगश्ट 1947 तलें गांवांतलें झेंडा वंदन ताच्या हातान जाल्लें. आतां तोच पोलीस पाटील गांवांत हेर नोकरदारां पैकीं एक. ताका सरकारान फिक्स पे चेर नेमिल्लो आसता. ताचें काम म्हणजे गांवांत घडपी बऱ्या वायट घडणुकांची खबर पोलिसेंत वचून दिवप. कांय घडलें ना जाल्यार ताची मजाच. पूण आयचे घडणुके सारकी एखादी घडणूक घडल्यार ताचे हाल कुत्रो खायना. ना म्हणल्यार अशिक्षीत लोक अजूनूय ताका किजिलां सोडोवपाक मध्यस्थ म्हूण आपयतात. आतां झेंडा वंदन सरपंचाच्या हातान जाता.

पोलीस पाटलाक थंय सोडून आमी पोलीस स्टेशनाचेर वचपाक मोटार सायकलीचेर बसले. पूण इतल्यांत नंदून म्हणलें,

मातशे देवात आं! हांव रोखडोच येतां.'' अशें म्हणून नंदू बायक स्टार्ट मारून गेलो. हांवें थोडो वेळ वाट पळयली आनी चिंतलें, रस्त्यार उबो रावचे परस घरा कडेन वचून येतालों. हांव तसोच फार्म हावसार गेलों. बॉल्सांतूय कांय नाशिल्लें. थोडे पयशे आपल्या कडेन आसप बरें. भितर सरत जाल्यार गॅस पेटत आशिल्लो. उदक आटून आटून तळाक तेंकपा कडेन पाविल्लें. गॅस बंद करपाक सांगिल्लें तें गंगीन आयकलें ना शें दिसता. गॅस पेटत उरिल्लो जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें. तोप करपून करपून काळो जातलो आशिल्लो आनी गॅस सिलिंडर रिकामो. आलमार उगडून थोडे पयशे घेवन भायर सरत जाल्यार पावस परतो सुरू जाल्लो. मनांत आयलें आतां नंदू भिजतलो. ताचे कडेन रेनकोट ना. आनी थोड्या वेळान नंदू आयलो. ताणें रेनकोट घाल्लो.

''वेळ सो लागला रे?''

''मोटर सायकल पंक्चर जाल्ली. टिब्बल सीट हाडले न्हय! आनी रस्तो फातरांचो.''

"ही कोणाली तर?"

"दोस्ताली हाडली. तो शेतांतल्यान घरा वतालो. ताका घडिल्ली सगळी खबर सांगली. रेनकोटूय ताचोच हाडलो. तो बशीर गेलो."

"गरजेक पावता तो फ्रॅण्ड." हांवें म्हणलें.

"आमी आतां पयलीं पोलीस स्टेशनार या. तांकां कळोवया."

"हय. हेड कॉन्स्टेबलानूय तशें सांगलां न्हय."

पावसान आकांताचो जोर धरिल्लो. नंदूक फुडली वाट दिसनाशिल्ली. सदचो रस्तो सोडून शॉर्ट कट म्हूण नंदू दुसऱ्याच रस्त्यान वतालो. रस्तो डांबरी आशिल्लो खरो पूण खांची खळग्यांनी भरिल्लो. आनी सगळीं वॉल्तांच वॉल्तां. पावस घो घो आनी रस्तो किण्ण. जितो मूस मेळप कठीण. नंदूच्या बायकाची लायट मात उजवाड दिताली. बाकी सगळो काळोख बिण्ण. नंदू आनी हांव. पावसाच्यो दडको इतल्यो नेटान येताल्यो, तोंडाचेर तोपून भितर वता काय जाल्ल्यो. एकाद्रो सान्नी मुंडारो कोण तरी तोंडाचेर धरून दामता काय दिसतालें. तरी आसतना नंदू वाट काडून फुडें वतालो. रस्त्याक लागून एकूय घर दिसनाशिल्लें. मनांत विचार आयलो ह्या रस्त्यांत बायक बंद पडली जाल्यार..... फुडलो विचारूच करूं नजो. रात हांगाच काडची पडटली. पोलीस स्टेशनय ना आनी घरूय ना. मदल्या मदीं. मनाचेर ताण आसलो म्हणटकच असल्या वेळार गोंदळ, चुकामूक खूब जाता आनी मनीस भरकटत उरता. अशें कित्याक जालें हाची जाप मेळना जाताकच आमी म्हणटात आमकां नकलामी जाली. मागीर विचार आयलो ताण म्हज्या मनाचेर आसा. नंदूचेर ना. तेन्ना तो भंय हांगा ना.

म्हज्या वक्लाच्या हारशांचेर उदक पडटालें आनी म्हाका फुडलें कांयच दिसनाशिल्लें. वक्ल काडलें जाल्यार पावसाच्या धारो नेटान तोपताल्यो. बारीक सरयांनी कोणूय दोळो कोंचून काडटा काय जाल्लें.

एकदांचे आमी लांज्याक पावले. नंदूक मुखा वयलें कांय दिसना जावन तो पोलीस स्टेशन सोडून मुखार पावलो काय अशें म्हाका दिसलें.

''आरे, नंदू, पोलीस स्टेशन फाटीं उरलें. तूं मुखार पावलो.''

''जाणा हांव! हांगा लागींच म्हजो मामा रावता. आमी पयलीं तागेर या. तो पुलिशेंत आसता. ताका सगळी खबर सांगुया आनी ताचे कडल्यान सल्लो घेवया. जमल्यार ताकाच पोलीस स्टेशनार व्हरुंया.''

''म्हाका दिसलें पावसाक लागून तुका पोलीस स्टेशन दिसलें ना आनी तूं फुडें गेलो. पूण हातूंत सल्लो घेवपासारखें कितें आसा. पोलीस स्टेशनार वचपाचें आनी एफ. आय. आर. बरोवपाची.''

''मामा हवालदार आशिल्लो. हांगाच आशिल्लो. ह्या पोलीस स्टेशनार. आतां बदली जाल्या ताची''

. मामा कडेन पावतकच नंदून ताका म्हजी वळख करून दिली. म्हजे बागे बद्दल सांगलें आनी तांगेलें कुटूंब आनी म्हज्या लागींच्या संबधा बद्दलूय सांगलें. मागीर घडिल्ली खबर सांगून आमी कित्याक आयल्यात तेंय सांगलें.

म्हाका खबर आशिल्लें. हातूंत कोणाचो सल्लो घेवपाची गरज ना. हे घडणुकेंत म्हजो कांयच संबंध ना. जालां तेंच सांगपाचें. हातूंत लिपोवपाचेंय कांय ना. पूण तें नंदूक कशेंच पटलें ना. ताचे नदरेन पुलिसींत आशिल्लो ताचो कॉन्स्टेबल मामा म्हणचे व्हडलो. तोच आमकां संकटांतल्यान भायर काडटलो. खेडेगांवांतले लोक कॉन्स्टेबलाक हवालदार म्हणटात आनी हवालदार म्हणल्यार तांकां व्हडलें कितें दिसता. मजा अशी मामानूय म्हाका दिशिल्लें तेंच सांगलें. कितें घडलां तें सांगप. हातूंत दाखय लिपय कांय ना. कितें घडलें तें कांय लिपयनासतना पोलिसांक सांगात. आमी पोलीस स्टेशनार पावले आनी फाटोफाट नंदूचो मामाय थंय पावलो. आमी पोलिसेंत भितर सरले. एक काळो सांवळोसो पोलीस कितें तरी बरयतालो. ताचें लक्ष म्हजे कडेन ओडपाक हांवें मातशें खांकिल्ले भशेन केलें. ताणें तकली वयर काडली. हांवें म्हणलें,

"हांव रतन सामंत, सानवली साकून फोनाचेर उलयल्लों तो."

"पोलीस पाटलाक हाडंलो ना? तुमी एकलेच आयल्यात?"

"ना. तुमी आमकां दोगांकूय आपयल्ले न्हय?

"तुमी दोगूय येवन उपेग कितें? पोलीस पाटलाचें काम तें." तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, पोलीस पाटलाक कळयल्यार पुरो आशिल्लें. फुडलें काम तो करतलो आशिल्लो. पोलिसींत फोन करपाच्यो राटावळी करपाची गरज नाशिल्ली. ताणें मेजा मुखार आशिल्या कदेलांक बोट दाखोवन बसपाक सुचयलें.

"आतां म्हाका सांगात. म्हजेंच काम तें. आमचो सायब भायर गेला. "

हांवें घडिल्ली सगळी घडणूक सांगली. ही गजाल कितल्या वेळा रिपीट करची पडटली काय असो एक विचार मनांत येवन गेलो.

"प्रेत कोणाचें? दादल्याचें काय बायलेचें.?" ताणें म्हाका प्रश्न केलो.

"म्हाका खबर ना."

"खबर ना म्हणल्यार कितें? सारखें पळोवपाचें न्हय. दादलो काय बायल हें कळ्ळे बगर एफ. आय. आर. कशे बरयतले?"

"प्रेताचेर करड धांपिल्लें आसा. कशे पळयताले?" हांवें सांगलें.

"त्या जाग्याची पळोवणी करचीच पडटली. ते बगर एफ. आय. आर. बरोवपाक कशें मेळटलें?"

पोलिसांचें म्हूण विचित्र! फोनार पोलिसाक धाड म्हणलें जाल्यार हो म्हणटा एफ् आय आर बरोवपाक जाय. आनी आतां सांगता प्रेत पळयले बगर एफ. आय. आर. कशी बरयतले? पोलिसांचें हें अशेंच आसता. आपलें काम दुसऱ्याचेर कशें धुकलूंक मेळटलें हें ते पयलीं पळयतात. तांच्या अधिकारांत येवपी वाठाराचे शिमेर जाल्लो गुन्यांव

आमचे शिमेर कसो न्हय, तो दुसऱ्याचे शिमेर कसो आसा हाचेरच घोळ घालीत बसतात. कोणूय कागाळ करपाक आयलो जाल्यार ताची एफ. आय. आर. बरोवन घेनासतना कागाळ करप्याक वाटेक कसो लावप हाचेर ते पयलीं विचार करतात. एफ. आय. आर. बरयलोना म्हणचे काम करचें पडचें ना. हालिंसाराक बायलांचेर जावपी आगळीकेक लागून केल्ले कागाळेचे बाबतीतं अशीं खूब प्रकरणां उगताडाक आयल्यांत. अश्या वेळार कशें ॲक्शन घेवचें हाचे बाबतींत सरकाराक वेळावेळार गायड लायन्स घालून दिवच्यो पडल्यात. तरी लेगीत त्यों ते पाळिनात.

"ते भायर तें खुनाचें प्रकरण शें दिसता म्हाका." नंदूच्या मामान मदींच म्हणलें.

म्हज्याय मनाक हो विचार चाटून गेल्लो. पूण आमचो वाठार हो शांत आनी विस्कळ लोकवस्तीचो. वस्ती गांवा भायर आशिल्ल्यान हें कर्म कोण करतलो? असोय विचार मनांत आयिल्लो. रानटी जनावरांनी मारून फाफसून उडयलां आसतूय बी. तरीपूण प्रेताचेर करड धांपिल्लें आशिल्ल्यान दुभावाक जागो उरताच. उलयतना हें सांगचें म्हूण मनांत आयिल्लेंच. पूण दुसऱ्याच खिणाक चिंतलें, हांव जावन पोलिसांक क्लू कित्याक दिवं? येद्याचें येऽदें जावंक नाका. तांकांच करुं दी इनव्हेस्टिगेशन.

आठ वरां पासार जालीं आनी सब इन्स्पेक्टर कदम भितर सरलो. हेड कॉन्स्टेबल बुरयेन म्हजी खबर ताका सांगली. कदमान म्हाका आपल्या कॅबिनांत आपयलो. बसयलो. मेजावयले बाटलेंतले दोन घोंट तो उदक पिलो आनी म्हणलें,

"आतां सांग तुजी सगळी खबर."

हांवें सुरवात धरून हो वेळ मेरेन घडिल्ली सगळी खबर सब इन्स्पेक्टर कदमाक सांगली. तो मदीं कांयच उलयलोना. ना एक प्रश्न, ना एक स्टेटमेंट. हांवूच उचंबळ जाल्लों. पूण सवकासाय थंडसायेन उलयलों. सगळ्यो घटना एका फाटल्यान एक, प्रसंग हेवटेंतले तेवटेन करिनासतना सांगले. तरीपूण ताळो सुकून आयलो तें सब इंस्पेक्टराक

कशें कळ्ळें कोण जाणा! ताणें बाटलेंतलें उदक ग्लासांत घालून म्हज्या मुखार दवरलें. हांवें खिणांत ग्लास सोंपयलो. पांच धा खीण तोय ओगीच रावलो. आनी अकस्मात विचारलें,

"तुजें नांव कितें म्हणलें?"

"रतन सामंत."

"कलमाची बाग मुळची तुमचीच, काय नवी घेतल्या.?"

"मुळची न्हय. नवी. हांव हांगचो न्हय. हांव मुंबय आसतां. मुळचो गोंयचो. बाग नवी डॅवलॉप केल्या.

"मुंबय कितें करतालो तूं?"

"मंत्रालयांत आशिल्लों! डेप्युटी सेक्रेटरी म्हूण रिटायर जालों."

"डेप्युटी सेक्रेटरी! व्हि. आर. एस. घेतला काय कितें?"

"ना. सुपरॲन्युएशन."

"आनी ह्या खेड्यांत शे येवन रावल्यात?"

म्हजो हुद्दो आयकताकच 'तूं' चे 'तुमी' जालें. हो फरक म्हज्या लक्षांत आयले बगर रावलो ना.

"ॲग्रीकल्चरलाची आवड आशिल्ली. रिटायर जावन हांगाच जमीन घेवन रावलों". कोंकणांत पडंग जमीन विकती घेवन ताचेर हापूस आंब्यांची कलमां रोवन बागो तयार करपाचीं कामां सर्रास चलतात. तेखातीर म्हजे बागे विशी चड विचारनासतना ताणे फुडले चवकशेक सुरवात केली

"बायल भुरगीं हांगाच?"

"बायल भुरगीं कोण ना."

"खंय आसतात? गोंयांत?"

"ना. हांव लग्न जावंक ना"

"हांगाच रावतात?"

"काम आसता तेन्ना येतां हांव. नाजाल्यार मुंबय आसतां."

"रिटायर जावन कितलीं वर्सां जालीं?"

"धा – बारा वर्सां."

"खऱ्यांनीच सांगतात! दिसनात तुमी तशे."

"म्हणजे?"

"तुमी म्हणटात सुपरॲन्युएशनान रिटायर जाल्यार धा बारा वर्सां जालीं. तुमकां पळयल्यार सत्तरीचे दिसनात तुमी."

पिराय विचारपाची ह्या मनशाची पद्दत मात म्हाका आवडली. मनीस बुदवंत आसा. तकलेन फीन आसा. उलयतां उलयतां ताणें म्हजे भितरलें टॅन्शन मात खुबूच उणें केलें. म्हाका मातशें ल्हव ल्हव शें दिसलें. प्रेताची खबर आयकत पसून तकली सामकी जड जाल्ली. म्हज्यो पोलीस स्टेशना वयल्यो येरादारी आनी धकचपाटे उणे जावंचे नात हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण सब इंन्स्पेक्टरा कडेन जाल्ल्या संवादान म्हाका बरेंच ल्हव दिसपाक लागलें. सब इंन्स्पेक्टरा कडेन इतले शांततायेन भासाभास जायत अशें धरूं नासलें. अजापूच दिसलें. पिक्चरांत पळयल्ल्या आनी पेपरांनी वाचिल्ल्या पोलीस ऑफिसरां परस हो म्हाका वेगळोच दिसलो.

"आज संकश्टी. भायर जेवंक जायना. आतां डबो येतालो. जेवतां, मागीर आमी भायर सरुंया." सब इन्स्पेक्टरान सांगलें.

"हांव भायर बसतां तर."

"तुमी अशे कित्साक करिनात, म्हज्या वांगडाच कित्याक जेविनात? एका मनशा परस चड आसता म्हजो डबो." हो सब इंस्पेटर एकार एक अजापाचो धक्कोच दितालो. एका पोलीस ऑफिसरान पोलिसेंत कागाळ करूंक आयिल्ल्या मनशाक जेवणाचो डबो शॅर करपाक आमंत्रण दिवप

हें अजाप न्हय तर कितें? हो तागेलो सहज सभाव वा म्हजो पयलींचो हुद्‌दो आयकताकच ताज्यांत जाल्लो बदल आशिल्लो हें समजुपाक कोणाकूय इल्लें कठीणूच दिसतलें. पूण म्हाका तशें दिसलें ना. ताका म्हजो हुद्‌दो कळचे पयलींच ताचे सभ्यतायेचें दर्शन म्हाका जाल्लें.

"नाका, म्हजो शेजारी नाना बोरकार वाट पळयतालो म्हजी.

"बरें आसा." खीणभरान ताणें म्हणलें, "एक मिनीट आं. आमच्या सायबाक डिवाय. एस. पी.क कळयतां."

"तुमीय संकश्टी करतात सायब?"

"ना गा! पूण तुमचे घरकान्नीक उपास आसलो, जाल्यार तुमकांय घडलोच काय ना?" हांव फकत हांसलों.

खरें म्हणल्यार टायम पास करपाक आनी सब इन्स्पेक्टर कदमा कडेन लागींचो संबंद थिरावपाक हांवें हो प्रश्न केल्लो. पूण तेन्नाच एक म्हज्या लक्षांत आयलें, नाना म्हजे बागेंत आयिल्लो तो म्हाका संकश्टेक आपोवपाक. दर संकश्टेक तो म्हाका फोन करता. आजूय ताणें फोन करपाचो यत्न केलो आसतलो. पूण आज म्हजो फोन डेड आशिल्लो म्हूण तो म्हाका आपोवपाक आपुणूच आयिल्लो. बरें जालें. देवान धाडिल्ले भशेन आयलो तो त्या वेळार. म्हगेल्या थंय येताकच ताका प्रेताची खबर अचकीत कळ्ळ्या. तरी पूण धक्को लागिल्ल्याचेंय ताणें दाखयलें ना वा कसलोच परिणाम जाल्ल्याचेंय दाखयलें ना. असल्या संकश्टांक कशे तरेन तोंड दिवप हें अणभवूच शिकयता मनशाक. मनीस पिराये वांगडा अणभवानूय शाणो जाता, मॅच्युअर जाता म्हणटात तें फट न्हय.

म्हजे हुजीर सब इन्स्पेक्टर कदमान डिवाय. एस. पी.क फोन केलो आनी सगळी खबर सांगली.

हांव उठून हेड कॉन्स्टेबल बुरये म्हन्यांत गेलों. आनी थंय आशिल्ल्या बांकार बसलों. बुरयेय फोनाचेर पोलिसांची जमवा जमव करपांत गुल्ल

जाल्लो. बांकार बशिल्ले कडेन बुरये आनी हेर पोलीस हांचे मदीं फोनाचेर जाल्लो संवाद आयकून एक गजाल लक्षांत आयली. आज सगळ्याच पोलिसांचो अंगारिका संकश्टीचो उपास आसा आनी उपास सोडले बगर ते भायर सरपाक कशेच तयार नात.

सुमार साडे णव धाच्या अदमासाक पोलिसांची टीम तयार जाली. ते जिपींत बसतासतना हांव नंदूचे मोटरसायकलीचेर बसपाक गेलों.

"सामंत सायब, तुमी आमचेबरोबर जिपींत येयात." सब इंस्पेक्टर कदमान म्हाका सांगले.

"नाका. नाका. हांव मोटसायकलीर येतां. हो एकलो जातालो."

"येयात न्ही तुमी. ताचे वांगडा हांव कॉन्स्टेबलाक धाडटां."

खऱ्यांनीच एक कॉन्स्टेबल येवन नंदूच्या फाटल्या सिटार बसलो लेगीत. पूण सबइन्स्पेक्टर कदम म्हाका पोलिस व्हेनांत येवपाक इतलो आग्रो कित्याक करता म्हाका कळ्ळेंच ना. घडये आमचेर विश्वास नासत ताचो, वा म्हज्या पिकिल्ल्या केसां लागून तो म्हाका व्हडपण दिता आसत, वा रिटायर जालों तरी म्हजो एक हुद्दो आशिल्लो. त्या हुद्द्याक दिल्लो मान आसत तो. पूण आजकाल रिटायर जाल्ल्यांक कोण विचारता? कदेलार आसा तो मेरेन ताका मान दितात. मागीर कोण ताका विचार नात. हो म्हजो स्वताचो अणभव आशिल्लो. घडये हातूंतलें कांय नासतूय बी. दर एकल्याचे करणे फाटल्यान लॉजीक सोदपाचे म्हजे संवयेक लागून म्हाका तशें दिसलांय आसत. हालिंसाराक कोणाय विशीं बरें वायट मत मिडियाक लागूनय जाता. मिडियाचो सायड इफॅक्ट समाजांत बरोच बळावला. समाज पुरसाचें मन आपले वटेन वा आपल्याक जाय ते वटेन वळोवपाक मिडिया भितर आज आकांताची तांक आयल्या.

खरें म्हणल्यार पोलिसां विशीं हांवें चितिल्लें तातूंतलें खंयचेंच कारण नाशिल्लें. जिपींत बसतकच आपशींच खुलासो जालो ताचो. जिपींत बसतकच सबइंस्पेक्टर कदमान म्हणलें,

"आमची जीप आनी तुमची बायक. रस्त्यांत चुकामूक जाली जाल्यार रातभर तुमकां सोदींत आमकां भोंवचें पडटलें."

म्हाकाय कदमाचें म्हणणें पटलें. मोटारसायकलीन वताना आमी वाट चुकले आनी ते फाटीं उरले जाल्यार पुलीस खंयचे खंय पावतले.

"तुमी जिपींत आसले म्हणजे सारखेच जाग्यार पावतले. पुलिसांक रोखडेंच कामाक लागूंक मेळटलें."

"हय! सारखें तुमचें."

सब इंन्स्पेक्टर कदम आनी हेर पोलीस बरोच वेळ गजाली मारताले. बाबड्यांक रात ना दीस, हेड हेड हेडप आनी वयल्यान काम जालें ना जाल्यार लोकांच्यो गाळी खावप. पोलीस आपले भितरूच उलयताले, तांच्या संवादा वेल्यान पोलिसांची एक बरी बाजू म्हाका कळ्ळी. गाडयेंत काळोख आशिल्ल्यान कोण कितें उलयतालो कांय कळनाशिल्लें. हालिंसाराक पोलिसांक क्वालीस गाडयो दिल्ल्यान भितर विस्कळसाणूय आशिल्ली. सब इंस्पेक्टर कदमान एकल्याक विचारलें,

"आरे, काल पोलीस पाटलान रिपोर्ट दिल्लो ताचें कितें जालें रे?"

"आमी न्हंयचे देगेर वचून आयले. सगळे देगेर पळयले. प्रेत खंयच मेळ्ळें ना"

"रिपोर्ट फटीचो आशिल्लो?"

"रिपोर्ट खरोच आसतलो. पोलीस पाटील फट उलोवचो ना."

"मागीर प्रेत खंय गेलें?"

"व्हांवून गेलें जातलें."

"उदकांतूच सोडून आयलो पोलीस पाटील? ताणें तें वयर काडपाचें न्हय?"

"बरें जालें रे! सकल खंय तरी व्हावन गेलें जातलें. आमचे हद्दी

भायर गेलें तर बरेंच जालें. आमची झंझट मिटली.'' एक आवाज आयलो.

''कोण उलयलो रे? तुका कितें सोपें पडटा तें तूं पळयता. पूण तुमच्या असल्या मूठ भर स्वार्थी लोकांक लागून अख्खें पोलीस खातेंच बदनाम जाता.'' सब इन्स्पेक्टर कदमाचो आवाज म्हज्या कानार पडलो आनी पोलीस खात्यांतय आपले लागणुकेक जागपी लोक आसात हें पळोवन बरें दिसलें. ही केसूय सारव सारव करीनासतना आनी म्हाका घुसपाय नासतना इन्वेस्टीगेट जातली अशें म्हाका दिसले..

''नंदूची आनी तुमची कशी कितें वळख?''

अकस्मात सब इंन्स्पेक्टर कदमान म्हाका विचारलें. म्हजे जापेची आनी ताणें वाट पळयली ना. कांय जाणाचो सभावूच असो आसता. चड करून पोलिसींत काम करतात तांचो. तांचे तकलेंत विशयांचें आनी विचारांचें मोड आयिल्लें आसता. सदचेंच आसता तें तांचें. आपूण विचारतां त्या प्रश्नाची जाप मेळसर उसंत घेवची पडटा हें तांच्या लक्षांतूच उरना. म्हजी जाप मेळचे आदींच ताणें हवालदाराक प्रश्न केलो.

'' सानवली हेल्थ सेंटराचो डॉक्टर लांजेकाराची बदली जाल्ली. तो अजून आसा काय गेलो?''

''तो गेलो. पूण ताच्या जाग्यार कोण आयला खबर ना.''

''हेल्थ सेंटराचेर डॉक्टर आयला जाल्यार चवकशी करात नाजाल्यार तालुका हॉस्पिटलांत प्रेत व्हरचें पडटलें. हेल्थ सेंटराचेर पोस्टमोर्टेम करपाची वेवस्था जायत पसून आमच्या डिपार्टमेंटाक खूब बरें पडलां.''

खेडेगांवांत पोस्ट मॉर्टम प्रायमरी हेल्थ सेंटरार जाता हें आयकून म्हाका अजाप जालें. हांव मुंबय रावून आयिल्लों मनीस, म्हाका खबर आसा, पोस्ट मॉर्टमा खातीर वेगळे कोरोनर कोर्ट आसतात. गांवांतल्यान प्रेत शारांनी व्हरचें पडटा म्हूण प्रायमरी हेल्थ सेंटरांक हो अधिकार दिला जातलो. खेड्यांतल्या हेल्थ सेंटराचेर पोस्टमोर्टम करप हें सोपें जाता खरें पूण ताचो मिसयुजय जावंक शकता. गांव ल्हान जाल्ल्यान आनी सगळेच

एकमेकाक वळखता आशिल्ल्यान डॉक्टराचेर कोणाचेंय चेपण येवंक शकता. लोकांक कितें? कामाचो सत्त्या कडेन कितलो संबंद आसूंक जाय हाची तांकां पर्वा आसना. पोस्टमॉर्टम रिपोर्ट बेगीन आनी आपल्याक जाय तसो मेळ्ळो म्हणजे ते जिखले असो एक विचार म्हज्या मनांत येवन गेलो..

त्याच वेळार सुमार रातीच्या साडे धा वरांचेर हांवें म्हजे बागे कडेन जंय प्रेत पडिल्लें थंय पोलिसांची गाडी थारावंक सांगली. आमचे पयलीं नंदू थंय पाविल्लो. वयले वटेन गुरख्यागेर दवरिल्लो पोलीस पाटील येवचो म्हूण नंदून हॉर्न मारलो. बरोच वेळ हॉर्न वाजयलो तरी पोलीस पाटील सकयल देंवलो ना. घोग्यांनी पावस पडटालो. सभोंवतणी बिण्ण काळोख आशिल्लो. गुरख्याल्या घरा कडल्यान उजवाडाचें एकूय किरण दिसनाशिल्लें. कोण्ूय जागो आशिल्ल्याची कसलीच कुरू दिसनाशिल्ली. तो घरा गेलो आसूं येता अशें चिंतून नंदून ताचो नाद सोडून दिलो. आडो ज्या जाग्यार फोडिल्लो त्या जाग्या वयल्यान हांवें पोलिसांकं भितर व्हेले. बॅटरीचो फोकस घालून तांणी प्रेतावयलें करड काडलें. हांव चार हात पयसूच रावलों. प्रेत नियाळून जातकच कदमान म्हजे म्हऱ्यांत येवन सांगलें,

"प्रेत बायलेचें तें."

"म्हजोय अदमास तसोच आशिल्लो." हांवें म्हणलें.

"झोरे." ताणें मोठ्यान उलो मारलो आनी सांगलें, "प्रेत आशिल्लें तशें क़ड्डान धांपून दवर."

"तुमी येयात आमचे वांगडा. बोरकारागेर बसुंया. एफ. आय. आर. बरोवया. दोन कॉन्स्टेबल रावतले हांगा सांजे प्रेताची राखण करपाक." तशें ताणें कॉन्स्टेबल झोरे आनी पवाराक सांगलें.

जीप फुडें गेली आनी नंदू आनी हांव बायकान नानागेर पावले. पावस चालूच आसलो. सतत पडिल्ल्या पावसान हवेंत थंडाय आयिल्ली.

आमी सगळेच कुडकुडटाले. खरें म्हणल्यार ह्या वेळार हुनहुनीत कितेंय तरी पोटांत वचपाक जाय आशिल्लें अशें सगळ्यांकूच दिसतालें. कोण उलयतलो? पूण नाना वळखलो. ताणें बायलेक च्या करूंक सागलें.

आमी एफ. आय. आर. बरोवंक बसले. सब इन्स्पेक्टर कदम म्हजे कडल्यान म्हायती घेतालो आनी एफ. आय. आर. डिक्टेट करतालो. एक कॉन्स्टेबल डिक्टेशन घेतालो. सुरवातीक म्हजो हांगाचो आनी मुंबयचो अशे दोनूय पत्ते डिक्टेट केले. मागीर हांव म्हज्या कुटुंबा सयत मुंबय रावतां म्हूण बरोवंक सांगलें आनी सट्ट करून म्हजें ब्युरोक्रेटीक मन जागें जालें. हांव ओगी रावलों आनी फुडें केन्नाय प्रश्न उपस्थीत जालो जाल्यार हांवें फट सांगलां शें जातलें. तेन्ना हांवें मदींच आडावन ताका सांगलें,

"एक मिनीट आं! हांव अनमॅरीड. म्हजें स्वताचें कुटूंब ना. हांव मुंबय म्हगेल्या भावागेर रावतां."

"आं, तुमी लग्न करूं ना न्हय! .... बरें आसा. तशें बरय रे." ताणें सांगलें.

"बी. सी. एस. आर. (बॉम्बे सिवील सर्वीसेस रुलस्) प्रमाण कुटूंब म्हणजे घोव, बायल, आनी भुरगीं."

"हय! सारखें तुमचें. ते व्याख्येंत तुमी बसनात."

"प्रेताच्या हातांतलीं कांकणां आनी सकयल पडिल्ले केंस पळोवन हांव तें प्रेत बायलेचें म्हूण वळखलों." अशें ताणें फुडें डिक्टेट करपाक सुरवात केली. परत ताका हांवें आडायलो.

"हांवें प्रेत पयसुल्ल्यानूच पळयल्लें. देखून कांकणां आनी केस म्हाका दिश्टी पडूंक नात. म्हाका तें पळोवपाक धीर जालो ना."

"तेन्ना पळोवंक ना खरें पूण आतां आमचे वांगडा पळयलां न्हय तुमी?"सबइन्स्पेक्टराचो आवाज मातसो कडक दिसलो.

"ना. आतांय हांव मातसो पयसूच राविल्लों. म्हज्यान तें पळोवं

नजो जालें." हांवें नमळायेच्या उतरांनी सांगलें.

"आज पळोवं ना जाल्यार फाल्यां पळयात. तें पळोवपाचें धाडस करचेंच पडटलें. फाल्यां कोर्टांत तुमकां तशें सांगचें पडटलें."

हांव ओगीच रावलों. हांचे कडेन चडूय उलोवंक जायना हाची म्हाका जाणविकाय जाली. ताचे उपरांत ताणें बरोवपाक सांगलें. म्हाका प्रेत थंय आसा म्हूण कशें कळ्ळें? हांव खंय आशिल्लों? म्हाका सांगपाक कोण आयिल्लो? तेन्ना कितलीं वरां जाल्लीं? ही सगळी खबर पोलिसांक कळची म्हूण आनी फुडलो तपास करूंक तांकां सोपें जावचें म्हूण हांव एफ. आय. आर.. दर्ज करतां अशें फुडें बरयलें.

तांणी ओरिजिनल आनी कार्बन कॉपीचेर म्हजी सही घेतली. आनी ते वचपाची तयारी करपाक लागले.

"दोग जाण पोलीस प्रेताची रातभर राखण करतले. सकाळीं येतात आमी." सबइन्स्पेक्टर कदमान सांगलें.

"ते रातभर रस्त्यारूच रावतले? काळखांत?" हांवें विचारलें.

"हय! ड्युटी तांची ती."

हांव फुडें कांय उलयलों ना. ओगीच तांचो गैरसमज जालो जाल्यार हांव त्रासांत पडटलों. तांणी म्हजे पडवेर रावून राखण केल्ली जाल्यार म्हाका फार्म हावसार न्हिदपाक बरें पडटलें आशिल्लें. तांकांय सांगात जातालो आशिल्लो. एकलो न्हिदपाचें आज तरी म्हाका धाडस जावचें नाशिल्लें. पोलीस टीम मातशी फुडें पावतकच तांतलो एक पोलीस ल्हवूच फाटीं आयलो आनी नंदूक काळखांतूच ताणें मातसो कडेक व्हेलो आनी ल्हवू आवाजान सांगलें,

"आमी वतकच त्या पोलिसांक ल्हवूच घरा आपोवन हाड. रातभर पावसांत उबे रावून राखण करप! ते म्हूण मनीस न्हय." अशें सांगून तो गेलो. नंदू कांय उलयलो ना.

"कितें सांगतालो रे तो?" ते वतकच नानान नंदूक विचारलें. नंदून

पोलिसान सांगिल्ली खबर नानाक सांगली. खरें म्हणचे नंदूच्या मामानय ह्याच उतारांनी नंदूक सांगिल्लें. तो कोंस्टेबल आशिल्लो तेन्ना ताका अशा हालांतल्यान वचचें पडलां आसतलें. देखून ताका वांगडच्यांची काकुळट आयिल्ली जातली.

"भोंगूं तें! मागीर पळोवया सामंत भाऊ तुमी जेवपाक चलात. रात खूब जाली," नानान सांगलें. हांवें घड्याळीचेर पळयलें. साडे इकरा जावन गेल्लीं. पावसान आपलो जोर मातूय कमी करूंक नाशिल्लो. म्हजें न्हावप तशेंच उरिल्लें. नाना तर जेवपाक आपयता. संकश्टी आशिल्ल्यान न्हायनासतना जेवप म्हणल्यार मनाक बरें दिसलें ना. म्हाका उपास नाशिल्लो. पूण संस्कार म्हूण कितें तरी आसा न्हय. आमचेर ते ल्हानपणांतल्यान जाल्यात. ते भायर प्रेत पळोवन बी आयलां म्हणटकच नाना आनी घरांतल्या लोकांक कशें दिसतलें हो विचार मनांत येवन हांवें नानाक म्हणलें,

"ह्या सगळ्या बोवाळांत हांव न्हावपाक पावलोंच ना. हांव न्हावन येतां. मातशें रावचें पडटलें."

"नाय जाल्यार आमचें सगळ्यांचें जेवण जालां. आतां आनी अनवाळें कसलें? असल्या पावसांत आनी कितें न्हातले तुमी?"

"सामंत भाऊ, पावसाच्या उदकान इतले भिजल्यात आमी न्हावपाची गरजूच ना. न्हावप जालें आमचें" नंदून मखलाशी केली.

"जेवात तुमी. जेवण सादेंच आसा. उकडीचे मोदक करपाचे आशिल्ले. पूण हो बोवाळ जाल्ल्यान मन थाऱ्यार उरलें ना." नाना.

"अचकीत एक मोड आयिल्ले भशेन जालें." अशें म्हणून हांव जेवपाक गेलों. जेवण वता? कशोय तरी दोन उंडयो घाल्यो पोटांत आनी उठलों. जेवन जातकच नंदून पोलिसांक घरा हाडपाचो नाना कडेन प्रश्न काडलो.

"तुमी कितें म्हणटात सामंत भाऊ?" नानान म्हाकाच विचारलें.

''पूण म्हाका ताचो उरफाटो परिणाम जावंक शकता सो दिसता. तुमकां दिसना?''

''तो कसो?''

'पळयात! रातीचे ते घरा आयले, वा आमी हाडले, आनी फाटल्यान प्रेत ना जालें. वा रानवटी जनावरांनी फाफशिलें जाल्यार तें आमचेर येवचें ना?''

''येतलेंच! तांकां घरा आपोवन हाडले आनी आमीच तें प्रेत ना केलें असोय आरोप येवंक शकता.''

''तेदे वेळार एकलोय पोलीस फुडें येवचोना आपणें तांकां घरा हाड म्हूण सांगिल्लें म्हणपाक.''

''सारखें तुमचें, एक म्हणल्यार तें कॉन्स्टेबलान सांगलां. सायबान न्हय!'' नानान म्हणलें.

''फाल्यां आमी कात्रींत सांपडचे नात?'' हांवें म्हणलें.

''प्रकरण आमचेर शेकलें जाल्यार हे दोनूय पोलीस आमच्या फावराद रावतले.? सोमते हात फाफुडटले.'' नाना.

''मामानूय तशेंच सांगिल्लें. फाल्यां त्या पोलिसान तांकां कित्याक आपयले ना म्हूण विचारलें जाल्यार हांव कितें सांगू?'' नंदून म्हणलें.

''तांकां खरें तें कारण सांगचें. तातूंत कसली भिरांत?''

''नाना, पोलीस म्हज्या घराचे पडवे वयल्यान प्रेताचेर नदर दवरता आसत जाल्यार म्हज्यान घरा वचून न्हिदूंक जाता. हाचे आदीं घरांत हांव खूबदां एकलो न्हिदलां. पूण आज म्हाका धाडस जावपाचें ना.''

''कांयच गरज ना आं. तुमकां थंय न्हीद पडपाची ना. हांगाच न्हिदात तुमी. खबरी करुंया. मन माताशें तरी ल्हव जातलें. आपशीं न्हीद पडटली.'' नानान मवाळशा तापोवणेच्या सुरांत म्हणलें. नानागेर म्हाका कसलें परकेपण? हाचे आदी खूब खेपे हांव नानागेर न्हिदलां. हांव

तांगेरूच न्हिदलों.

एके वटेन पोलिसांची काकुळटशी. पावस घोग्यांनी, गुपाट काळोख, लागसार म्हज्या घरा बगर दुसरें घर ना. टायम पास करपाकय कोण ना. सांगाताक फकत एक प्रेत. तेंय बी छिन्न बिछिन्न. कल्पना केल्यारूच भंय सो दिसतालो. पोलिसांची काकुळट दिसून हांवें नानाक म्हणलें,

"ना, हांवे आनी नंदून एक पासय मारून आयल्यार कशें? पोलिसांक सांगूंक मेळटलें म्हजे पडवेर बसून राखण करा म्हूण."

"नाका! कोण वचचो ना. आमचो दुभाव घेवपाक जागो दवरचोच न्हय. पोलिसांक जर आमी तांकां व्हरपाक येतले म्हणपाचें खबर नासत जाल्यार येदे रातचे हे कित्याक आयिल्ले म्हणपाची दुभावाची पाल तांच्या मनांत चुकचुकतली. आमी जाता तितले हाचे पसून पयस रावया." नानाच्या आवाजाची पीच सकयल आशिल्ली पूण तांचो तो धोंगसो आशिल्लो हें म्हाका जाणवलें. गेल्ल्या धा बारा वर्सांत नानाक हावें केन्नाच तापिल्लो पळोवंक ना. ताचें म्हणणें आसतालें ओगीच वायटपण करपांत अर्थ ना. कोण केन्ना कामाक येत तें सांगूं नजो. तांणी फुडें सांगलें,

"अजून पोलिसांचो तपास सुरू जावंक ना. आज आमी सादेपणान आनी पोलिसांचे काकुळटेन पावलां घालतले. पूण फुडें कितें जातलें ताचो परिणाम बरो आसतलोच म्हूण सांगूं नजो. हेच पोलीस आज आमचे कडेन गोड गोड उलयतात तेच दुभावाक मातसो जागो उरलो जाल्यार आमचे पिरायेची लेगीत पर्वा करचेनात."

रातीचे एक देड मेरेन आमी जागेच आशिल्ले. नाना आनी हांव उलयत आशिल्ले. दीसभर घडिल्ल्या घडणुकांच्यो खबरी करताले. भायर पावस कोसळटालो. आनी म्हजें विचारचक्र तितल्याच नेटान घुंवतालें. नानाकूय न्हीद लागूं नाशिल्ली शी दिसता. तो कूस परतीत आशिल्लो. म्हजी जाग घेवपाक ताणें ल्हव आवाजान म्हणलें,

"न्हिदलेत गा?"

"ना. न्हीद लागना."

"न्हिदात तुमी. फाल्यां परती धांवपळ आसतलीच."

नाना म्हाका न्हीद म्हणटालो खरो पूण ताच्याय मनाची म्हजे वरीच आवतिकाय जाल्ली हें म्हाका दिसतालें. हांवेंच विशय काडलो,

"हो खून म्हजेच बागेंत केला काय भायर खंयतरी मारून तिका हांगा हाडून उडयल्या?"

"अशें कित्याक करतालो कोणूय?"

"म्हाका घुस्पावपाक."

"आड्याचे गडगे गडगडल्यात ताचे वयल्यान तें प्रेत हाडून उडयल्ले भशेन दिसता."

"हांगा हाडून उडयलां जाल्यार म्हजेच बागेंत कित्याक?"

"तुमकां घुस्पावपाचो ताचो हेत आसा काय आनी कितेंय आसा तें कळना."

"म्हजी तर कोणाकडेन दुस्मानकाय ना आनी वायटपणूय ना."

"आजूच कळपाक मार्ग ना. पयलोच दीस आसा. फाल्यांच्या दिसा भितर चित्र स्पश्ट जातलें. जावपाक जाय. न्हिदात तुमी आतां."

"येतले ते दीस बरेच कठीण आसात."

"भियेवं नाकात. धिरान तोंड दिवया."

रातभर न्हीद अशी लागलीच ना. मदीं मदीं दोळो लागता म्हणसर जाग येताली. घडिल्ल्या घडणुकांचे कांय देखावे दोळ्यांच्या पड्ड्यार स्पश्ट दिसताले.

एक गजाल हांवें मनांत थारायली. आतां येवपी दर एक खीण म्हाका सादुरतायेन सारचो पडटलो आनी दर एक पावल चिंतून घालचें पडटलें. पोलिसांच्या प्रस्नांच्या मान्याक बेजारून वा भियेवन म्हजें उतर

मात लेगीत वांकडें पडलें वा कळटां नकळटां म्हजे वागणुकेंत फरक पडलो जाल्यार हांव त्रासांत पडले बगर रावचों ना. ह्या खिणाक म्हाका दनपारच्या म्हज्या विचारांची याद जाली. संकश्टीच्या दिसा आमलेट खाल्यार कितें जाता? पळोवया कोण कितें संकश्ट हाडटा तें. अशे तरेचो तो विचार आशिल्लो. हो योगायोग आसूं येता. ह्या चिंतनांनीच दुसरो दीस सोंपलो.

* * *

# चार

दुसऱ्या दिसा सकाळीं जाग आयली तेन्ना स जाल्लीं. पावसान मात लेगीत विसव घेवंक नाशिल्लो. नानाक सांगून हांव घरा वचपाक गेलों. नानाच्या घरा पसून म्हजी बाग एका किलोमिटराचेर. वाटेंत वता आसतना नाका नाका ते विचार मनांत आयले. काल प्रेत दिसलां तेन्ना गुरखो आनी भिकू आशिल्ले आनी कांय राखणेय आशिल्ले. ते आपापल्या वाड्यार वतकच तांणी वाडेकारांक जाल्ली घटना सांगली आसतली. बामणाले बागेंत प्रेत मेळ्ळां. एकल्यान दुसऱ्याक, दुसऱ्यान तिसऱ्याक सांगून आतां मेरेन गांवभर बातमी पातळ्ळी आसतली. तातूंत आनी तें प्रेत बायलमनशेचें आसा म्हूण तांकां कळ्ळें आसत .... तशीं तांचीं उलोवणी चलिल्लींच...... तर ते नाका तो अर्थ काडपाक कमी करचे नात. छॅ..नाकाच ते विचार. हांवें मनांतले विचार फाफडून उडोवपाचो यत्न केलो. पूण विचार नकळटां परत सुरू जाले. काल सांजवेळां पावसान बेगीन काळोख जाल्लो. देखून कोण वयर येवंक पावलो ना. आज सकाळ जातकच लोकांच्यो झुंडी येवंक लागतल्यो.

हांव फार्माचे (बागेचे) गेटी कडेन पावलों. रस्त्या वयल्यान सगळे कडेन नदर मारली. पूण पोलीस खंयच दिसले नात. प्रेता वटेच्यान नदर

मारली. थंयीय कोण नाशिल्लो. जाधवाच्या ठिकाणांतल्या गुरख्याच्या घराचेर नदर मारली. खंयच पोलीस दिसले नात. रातीच्या पावसाक लागून प्रेताचे राखणेचो विचार बी सब इन्स्पेक्टरान सोडलो ना मू? आनी तांकां व्हेले ना मूं? असो विचार मनांत येवन गेलो. घरा आयलों. दार उगडलें आनी फुडल्या कामाक लागचे पयलीं म्हणलें परत एक नदर मारून पळोवया. पडवेर आयलों. साऱ्याच्या पोतयांचो पड्डो कडेक काडलो. पळयत जाल्यार,दोगूय पोलीस गेट काडून बागेंत भितर येतात ते दिसले. लागीं येतकच हांवें तांकां म्हणलें,

"म्हाका दिसलें तुमी गेले म्हूण. पावस पडटालो न्हय?"

"पावसूच न्हय पावसा वांगडा वारो येतकच कितें जाता तें चिंतात तुमी" झोरेन म्हणलें.

"असल्या पावसांत वाऱ्याकडेन झगडत प्रेताचेर नदर दवरून आशिल्ले आमी." पवारान म्हणलें..

"पोलीस स्टेशनार वता आसतना हांगा आमी पोलीस पाटलाक प्रेताचेर नदर दवरपाक दवरिल्लो. तो घरा गेलो, नाजाल्यार तुमकां ताचो सांगात जातलो आशिल्लो."

"आयकल्लें आमी तें. म्हूण ताका सोदीत गुरख्यागेर गेल्ले. तो आशिल्लो आमचे वांगडा रातभर. आतांच घरा वचून येतां म्हूण सांगून गेला" झोरेन सांगलें.

भितर सरतनाच तांची नदर पडवेचेर गेली. दोनूय वटांनी पड्डे आशिल्ल्यान आनी फार्म हावस प्रेता कडल्यान दोनेकशीं फूट पयस आशिल्ल्यान रातीच्या बिण्ण काळखांत आनी पावसांत तांकां घरूय दिसलें ना आनी पडवीय दिसली ना. आतां ती पळोवन,

"ही पडवी बरी आशिल्ली मरे!" झोरेन म्हणलें.

"हांगच्यानूच नदर दवरपाक येताली." पवारान म्हणलें.

"तुमी बॅटरीचो फोकस मारिल्लो जाल्यार हें घर तुमकां दिसतालें आशिल्लें. पोलीस पाटलानूय दाखयलें ना तुमकां?" हांव.

"ना. आमकां सांगिल्लें, तुमी आमच्या सांगाताक येतले म्हूण."

उतरांची कसरत करपाची तांची चलाखी म्हाका समजली. तांकां म्हणपाचें आशिल्लें 'तुमी आमकां व्हरपाक येतले म्हूण' पूण त्या जाग्यार व्हडा कळाशेन ताणें म्हणलें 'आमच्या सांगाताक येतले म्हूण' हांव हाचेर उलोवंक वतालों पूण मागीर चिंतलें, 'आसूं! हाचेर उलयनासताना राविल्लेंच बरें.

"तुमच्या सायबान म्हाका सांगलें, तुमी रस्त्यार रावुनूच प्रेत राखतले म्हूण. तुमी पडवेर बसून राखण करतले अशें म्हाका कळिल्लें जाल्यार हांव हांगाच न्हिदूंक येतालों आशिल्लों. म्हाका दिसलें, तुमी रस्त्यार आसतले आनी हांव घरांत एकलोंच पडटलों. हें सगळें घडटकच हांगा एकलो न्हिदपाचें धाडस म्हाका जावंचें नाशिल्लें."

तांकां जाप ना. हांवूय मेल्ले आवयचें दूद पियेवंक नाशिल्लों. तुमची ड्युटी तुमी करात. तातूंत म्हजो आदार कित्याक?

तोंड धुलें, तांकां संडास बाथरूम दाखयलो आनी हांव च्या करपाक गेलों. काल नाना कडेन उलयताकच आनी तांणी दिल्ल्या धिराक लागून आज मातशें मन हलकें जाल्लें. दूद तापयलें, च्या केलो, चिक्क पिरयेंत घालतासर ते तोंड धुवन आयले. च्या वांगडा फाती बिस्कीट दिली. ते रातभर हांगा आसात. आज ते केन्ना मेकळे जायत सांगूं नजो. तांकां पोटभर कितेंय तरी खावपाक दिवंक जाय आशिल्लें असो विचार मनांत आयलो. खावपाक कितेंय करतलों म्हूण सगळे डबे उगडून पळयले. सगळे रिकामे. फार्म हावसांत कामा पुरतो येतां हांव. सगळें सामान हाडून दवरूंक उपकरना. हांगा एक आसल्यार एक नासता. फकत एका डब्यांत इल्लोसो रवो आशिल्लो. भातशेल्लो काय कोण जाणा! रव्याचो गोड सांजो करपा बगर आनीक दुसरो उपाय नाशिल्लो. पूण हें ह्या प्रसंगाक फावो नाशिल्लें. तरी पूण म्हणलें, तांकांच

विचारुया,

"म्हजे कडेन रवो आनी साखरे बगर आनीक कांयच ना. तुमकां आज कितलो वेळ लागतलो देवाक खबर. कितेंय तरी पोटांत घालूंक जाय आशिल्लें. ह्या प्रसंगाक योग्य दिसना पूण गोड सांजो केल्यार जाता न्हय तुमकां?"

"कितेंय तरी जाय खरें. कारात तुमी शिरो." झोरेन म्हणलें.

"एक खेप कामाक लागतकच मागीर कांय खावपाक मेळचेंना." पवारान ताची री ओडली.

"दीस वयर चडपाक लागलो. प्रेता म्हऱ्यांत कावळे येवपाक लागले. पवार, तूं मातसो राव प्रेतासरीं. हांव च्या घेतां आनी येतां." कॉन्स्टेबल झोरेन पवाराक सांगलें.

"प्रेताक वास येवपाक लागलो सो दिसता. सुणीं आयलीं पळय थंय," अशें उलोवन पवार प्रेतासरीं गेलो. हांव सांजो करपाक लागलों. मनांत आयलें 'पोलिसांचें म्हूण जिवीत पळय. थारो ना. केन्ना कसलो प्रसंग येत आनी ताका तोंड दिवपाक कसले कसले कश्ट काडचे पडत सांगूं नजो. हेंच पळय न्हय! रातभर घोग्यांनी पावस पडला. पावसांत उबे रावून तांणी प्रेताची राखण केल्या. आज कितलो वेळ मेरेन तांकां तळतळचें पडटलें कोणाक खबर. तातूंत आनी दुसरी केस येत जाल्यार थंय धांवचें पडटलें. खाण ना, जेवण. मुंबय तर हांव आयकतालों, केन्ना केन्नाय पोलीस दिसांचे दीस घरा पावनात म्हूण. हेच खातीर कांय जाण मनाचेर ताण येवन आपलो जीव सोंपयतात वा हेरांचेर राग काडटात.

सांजो करून काडलो आनी काफी करपाक उदक दवरलें. हें सगळें काम हांव मातशी ताकतीक करूनच करतालों. एकदां पोलीस आयले आनी कामाक सुरवात जाली म्हणजे उदका घोंट पिवपाक लेगीत वेळ मेळचोना हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण तो सांजो तांच्या तोंडांत पडपा नाशिल्लो. च्या घेवन झोरे पवारा फाटल्यान गेलो. हांवें काफये तोप गॅसार दवरला मात त्याच वेळार पोलीस पाटील भितर सरलो,

"खंय आशिल्ले तुमीं? रातीं आमी तुमचे खातीर कितलो हॉर्न मारलो? तुमी अजिबात जाप दिली ना." हांव.

"गुरख्यागेरूच आशिल्लों. तुमी आयल्यात ते म्हाका कळ्ळें ना."

"हॉर्नूय आयकूंक आयलो ना तुमकां?"

"ना. हांव तुमी येतले ह्या हुस्क्यान दार धापून दारा कडेनच राविल्लों. कसो आयकूंक आयलो ना तर म्हाका हॉर्न? पावसान आयकूंक आयलें ना दिसता! पावस म्हूण रातीं एक धपटला तो!"

तो उलयता तें सामकें फट म्हूण कळटालें. प्रेत पडलां थंयच्यान रस्त्याचे वयले वटेन देडशीं दोनशीं फुटांचेर गुरख्याचें घर आशिल्लें. तें उंचायेचेर आशिल्ल्यान रस्त्यावयल्यान कोण येता वता तें सहजतायेन दिसता. तो जर दारा फाटल्यान बसून आशिल्लो जाल्यार रस्त्यार पंचवीस तीस मिनटां चलिल्लो बोवाळ आनी नंदूचे बायकाचो हॉर्न आयकूंक येतलोच आशिल्लो. हांकां सकल येवपाचेंच नाशिल्लें हें खरें. हांव आनीक वाद घालूंक बसलों ना.

"पोलीस केन्ना मेळ्ळे तर तुका?"

"पोलीस गुरख्याच्या घराकडे येतकच म्हाका कळ्ळें पोलीस आयिल्ले म्हूण."

काफी आनी सांजो तयार आशिल्लो. पोलीस पाटलाक हांवें काफी घेवपाक पोलिसांक आपोवंक सांगलें. तो गेलो पूण पोलिसांची टीम येवन कामाक लागल्या तें पळोवन रोखडोच परतलो.

पडवेर येवन पळयल्यार प्रेतासरीं पोलीस आशिल्ले. आड्या भायर रस्त्यार पोलिसांच्यो दोन जिपी आशिल्ल्यो. थंय इल्लो इल्लो लोक जमूंक लागिल्लो म्हाका अजाप जालें. हे आठांकूच कशे आयले. सब इंस्पेक्टर कदमान रातीं म्हाका सांगिल्लें, फाल्यां सकाळीं णवांच्या अदमासाक आमी येतले म्हूण. पोलीस ते! तांचे इतलो बिजी डिपार्टमेण्ट दुसरो मेळप कठीण. णवांक येतात म्हणलें म्हणजे तांकां धा तरी जातलीं असो म्हजो

अदमास. ते आयले म्हणटकच आतां म्हाकाय थंय वचचें पडलें म्हूण हांवें गॅस ऑफ केलो, हांवेंय कांय खायनासतना सांजो धांपून दवरलो आनी भायर सरलों.

हांव थंय पावलों तेन्ना पोलिसांनी काम सुरू केल्लें. फोटोग्राफर विंगड विंगड ॲंगलान फोटो काडीत आशिल्ले. एक बायल आनी एक दादलो तोंडाक मास्क लावन, प्रेताचे सरभोवतणी भोंवून, प्रेताच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगांची पळोवणी करताले. तीं अशे तरेन प्रेताची पळोवणी करतालीं, पळयतल्याक दिसचें हीं दोगांय दोतोर आनी नर्स आसतलीं. पूण हीं दोगांय साद्या ड्रेसांतलीं पोलीस कोंस्टेबल आशिल्लीं. हांव मातसो प्रेता वटेच्यान फुडें वचून कितें चल्लां तें पळोवपाक लागलों. थंय सब इन्स्पेक्टर कदम आनी आनीक एक पोलीस ऑफिसर आशिल्लो. तो म्हज्या शेजराच उबो आशिल्लो. ताची उबो रावपाची स्टायल आनी चौकस नदर पळयल्यार तो वयल्या पोस्टावयलो ऑफिसर आसूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. हांवें ताच्या बिल्ल्याचेर नदर मारली. तो डिवाय. एस्. पी डहाणूकर आशिल्लो. थंय पोलिसां सरीं सिव्हील मनीस म्हजे बगर दुसरो कोण लागीं नाशिल्लो. हांव थंय धिटायेन आनी कांयशा अधिकारान भोंवतां तें पळोवन डहाणूकरान म्हाका विचारलें,

"तुमी कोण?"

"ह्या ठिकाणाचो मालक, हें म्हजें फार्म हावस. हांव मुंबय आसतां. काम आसता तेन्ना हांगा येतां."

"तुमकां कोणायचो दुभाव बी?"

"ना. हांव चडसो कोणाक वळखना. लागसार व्हडलींशीं घरांय नात."

"जमनीच्यो भानगडी बी आशिल्ल्यो?"

"ना, कांय ना."

"टायटल क्लियर आशिल्लो?"

"हय!"

"टॅनण्ट बी आशिल्ले?"

"ना. एकूय ना."

"को ऑनर बी आशिल्लो?"

"ना. सगलें पळोवनूच तर घेतल्या जमीन."

"रिकॉर्डाचेर नासलेय जाल्यार मागीर कोणूय ना जाल्यार कोणूय हक्क सांगपाक येतातच."

"तशें कांय घडलें ना. ह्या पंधरा वर्सांत कोणूच फिरकलो ना."

"तुमी कितें करतात?"

"सध्या हेंच. ॲग्रीकल्चर. हॉर्ल्टीकल्चर म्हणल्यार जाता."

"हाचे आदीं कितें करताले?"

"मुंबय मंत्रालयांत आशिल्लो डेप्युटी सेकेटरी म्हूण रिटायर जालों."

"पेन्शन कितलें मेळटा?" हांवें ताच्या प्रश्नांच्यो पटापट जापो दिल्यो खऱ्यो. पूण उलयतां उलयतां म्हज्या लक्षांत आयलें, सबइन्स्पेक्टर कदमान विचारिल्ले प्रश्न आनी हाचे प्रश्न लागीं लागीं सारखेच आसात. ही पोलिसांची चौकशेची रीत बी न्हय मू? काय म्हाकाच हाचो दुभाव येता? अशेंय आसूं येता दोन सरकारी नोकर मेळटकच पगार, प्रोमोशन, ट्रांसफर ह्या खबऱ्यां बगर आनी कसल्यो खबरी जातल्यो. हांवें ताका म्हजें पेन्शन सांगलें.

"फिफ्त पे कमिशनाचो बेनेफीट मेळ्ळो तुमकां.?" तेन्ना फिफ्त पे कमिशनाचें इम्प्लिमेंटेशन निकतोंच जाल्लें.

"ना! हांव स म्हयने पयलीं रिटायर जाल्लों. ग्रॅचुइटी मेळ्ळो पूण पे फिक्सेशनांत ना."

"मंत्रालयांत नोकरी कशी मेळ्ळी तुमकां?"

"पब्लीक सर्वीस कमिशनच्या थ्रू."

"त्या वेळार म्हूण जालें तें. आतां तातूंत सुद्धां भ्रश्टाचार आयकूंक येता."

आमची चर्चा भलतेच दिशेन वताली. खरें म्हणल्यार म्हाका दिशिल्लें, हांगां चर्चा जातली ती थंय पडिल्ल्या प्रेताची. तें सैमीक मरण काय खून, मेल्या ती बायलमनीस कोण? सैमीक मरण जाल्यार ती हांगा येवन कित्याक मेली? खून जाल्यार भायर खंयतरी मारून तिका हांगा हाडून उडयल्या, काय हांगांच म्हजे प्रोपर्टींत तिचो खून जाला? हांगा उडयल्या जाल्यार हांगाच कित्याक? आनी जागो नाशिल्लो? हांगाच खून जाला जाल्यार ती हांगा कित्याक आयिल्ली? काय तिका फुसलावन हाडिल्ली? हांगाच कित्याक हो सगळ्यांत म्हत्वाचो प्रश्न. जाची जाप मेळप गरजेचें. पूण हो प्रस्न सोडून चर्चा चलिल्ली म्हज्या पर्सनल लायफाचेर. पूण पोलिसांक तें व्हडलें न्हय. तांचे कारकिर्दीत अशे असंख्य प्रसंग येतात. सदचेंच जालां तें तांकां. म्हजे खातीर हो पयलोच अणभव. म्हज्या मनाची धडधड, मनाचेर चेपण, भिरांत पयलेच पावट अणभवतां हांव. म्हजे खातीर हें सगळें कल्पने भायर अशेंच आशिल्लें. हांवें गाडी ट्रेकाचेर हाडची म्हूण विचारले.

"हे प्रेत हांगा पडलां जाल्यार दोन दिसां वयर जाले आसूंक जाय. खरें म्हणल्यार तें आतांसर कुसून ताका घाण येवंक जाय आशिल्ली. तसं कित्याक जालेना?"

"तुमी पळयलां, गेल्ले तीन दिस उटांगराचो पावस पडटा. वातावरणात थंडी आसा. तुमीय कुडकुडताताशे म्हाका दिसतात. अशा परिंस्थीतीत कुसपाची प्रकिया अजून चालू जावूं ना. नाजाल्यार आतां मरेन ताका घाण मारतली आसली. कुत्रे, रानवटी जनावरां जमूंक लागतली

आसली आनी ताका फाफसून खातली आसली.

वाऱ्याच्या नेटान आनी पावसाचे वावझडीन हांव सामको चिप्प भिजून गेल्लों. सब इंस्पेक्टर कदम आनी हेर पोलीस ओल्या कपड्यांचेर काम करताले. हांवें डहाणूकाराक म्हणलें,

''आमी घराचे पडवेर वचून बसुंया. थंयच्यानूच तुमकां पळोवंक मेळटलें.'' सुरवेक ताणें नाकाच म्हणलें. पूण अवचीत मनांत कितें आयलें कोण जाणा, ताणें म्हणलें,

''या, तुमगेल्या घरा या.''

''चलात.'' वाटेर ताणें म्हजें नांव विचारलें. अजून मेरेन ताका म्हजें नांव खबर नाशिल्लें. ताणें विचारलें ना म्हणटकच म्हाकाय नांव सांगपाची गरज दिसली ना. हांवें म्हजें नांव सांगलें.

''ह्या गांवचे तुमी?''

''मूळ गांव गोंयांत आसा. पूण म्हजें आख्खें जिवीत मुंबय गेलां. भुरगेपणांतूच गेल्लों मुंबय.''

इतल्यान आमी पडवेर पावले. पडवेर आशिल्ल्या कदेलाचेर ताका बसात म्हणलें आनी हांवूय बसूंक लागलों.

''हांगाच? भायर?''

''भितर जाल्यार भितर बसुंया.''

खरें म्हणल्यार भितर सगळें अस्ताव्यस्त पडिल्लें. सगळ्याक कचकच जाल्लो. आज सकाळीं सान्न लेगीत मारूंक नाशिल्ली. देखून हांवें ताका पडवेर बसुंया म्हणिल्लें. पूण तागेली पोलिसी नदर ती. खिणा खिणाक, उतरा उतराक दुभावान पळोवपाची. देखूनच घर पळोवपाची इत्सा उक्तायली आसतली ताणें. हांवेंय वेळ केलो ना. सोमतो उठलों आनी सांगलें,

''चला, भितर या.''

"नाका नाका, हांगाच बसुंया." ताणें म्हणलें.

पूण ताणें हांगाच बसुंया म्हणलें तरी ताची नदर भायर भितर भिरभिरताली. कितेंय तरी सोदिल्ले वरी. कितें सोदता काय तो असो प्रश्न हांवें म्हजे म्हाकाच केलो. आनी सट्ट करून लक्षांत आयलें. पडवेर येवन बसुंया म्हणल्यार तयार नाशिल्लो मनीस अवचीत तयार जाता ताचें कारण घरांत येवन घरांतलें वातावरण, घरांतल्यो वस्तू, म्हणजे खुनाच्या संबंदान कितेंय दिसता काय म्हूण तो घरा आयिल्लो. हे लोक दर एके वस्तूंत कसलोय तरी क्ल्यू मेळटा काय म्हूण पळयतात. मात दुभाव आयलो म्हणटकच ते सुतावयल्यान सर्गार वतात. तातूंताच खुनाचे धागेदोरे सोदतात.

म्हणल्यारूच म्हजो दुभाव सारखो आशिल्लो. हें जेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें तेन्ना टटांयच करून हांवें म्हणलें,

"येयात भितर,. घर पळयात. ल्हानशें आनी सादेंच बांदलां."

"सादें खरें पूण वेवस्थशीर आसा." ताणें भितर सरतां सरतां म्हणलें.

"म्हणटात न्हय, बोअश, बुनीतश, बार्रातश."

"कितें म्हणलें तुमी?" तो म्हज्या तोंडा कडेन पळयतूच रावलो.

"म्हणजेच सोबीत, सुंदर आनी सवाय." हांवें सांगलें.

"खंयची भाशा ती?"

"पोर्तुगेज"

"तुमी पोर्तुगेज शिकल्यात?"

"तेन्ना तीन चार पुस्तकां कम्पलसरीली शिकचींच पडटालीं. तातूंतलीं कांय उतरां लक्षांत उरल्यांत."

तो म्हजे कडेन उलयतालो खरो. पूण नदर दर वस्तूचेर भिरभिरताली.

मागीर भितरले कुडींत गेलो. थंय पुस्ताकां अस्ताव्यस्त पडिल्लीं. ताणें कांय पुस्ताकां चाळून पळयलीं. कांयचीं टायटल्स् पळयलीं. आनी इताल्यान ताणें म्हाका विचारलें,

"वाचनाची आवड दिसता तुमकां."

"हय! खूबच. एकलेपणांतलो सांगाती तो म्हजो. एक खेप पुस्ताकांत घुसलों, मागीर हांव भोंवतणच्या संवसाराक विसरतां."

"पुस्ताकां मागपाक बी कोण येतात काय ना?"

"म्हणल्यार? समजलों ना."

"जांकां वाचनाची आवड आसा ते तुमचे कडल्यान पुस्ताकां मागून बी व्हरतात काय म्हूण विचारलें."

"हांगां कोण येतले पुस्ताकां मागपाक? तशी वाचनाची आवड आशिल्लो मनीस हांगा मेळप कठीण. .हांगा लागीं लोकवस्ती ना. आनी चडशीं पुस्ताकां इंग्लिशींत."

"पुस्ताकांचें अशें आसता, वाचपाक म्हूण मागून व्हरतात आनी हाडून दिवपाक विसरतात. पूण पुस्ताकांच्या निमित्तान वळखी वाडटात न्ही?"

"तुमच्या उलवण्याचो रोख कळ्ळो म्हाका. पूण म्हजे ते दीस खूब फाटीं पडले."

"शिक्षण तुमचें मुंबय जाल्लें काय नोकरेकूच म्हूण गेल्ले?" ताणें विशय बदल्लो.

"बापोलयो मुंबय आसतालो. ताणें म्हाका मुंबय व्हेलो. ग्रॅज्युएशन जालें आनी मंत्रालयांत नोकरेक लागलों. चडत चडत डेप्युटी सेक्रेटरीच्या पोस्टार पावलों."

"लायफ स्मूथ गेलें."

"स्मूथ? दिसता तुमकां तें. संघर्शा विणें लायफ आसा मुंबयंत? तातूंत आनी मध्यमवर्गी मनशाचें? शक्यूच ना."

"संघर्श हो करचोच पडटा न्हय? मुंबय सारखिल्या शारांतल्यान ह्या खेडवळ गांवांत कशे पावले तुमी?"

"आवड. ॲग्रीकल्चराची आवड. भुरगेपणांतल्यान आवड. रिटायर जातकच हांगा येवन झाडांच्या सांगातान जिवीत सारपाचें हांवें केऽन्ना थारायल्लें. कोणाची कटकट ना. आपल्या कर्माचो आपूण राजा. कोण विचारतलो ना, पाचारतलो ना. फायदो जाल्यार म्हजो लुकसान जालें जाल्यारूय म्हजें."

"सगळी मेळून कितली जमीन आसा तुमची?"

"सगळी बत्तीस एकर. आमी चौग जाणांनी मेळून ही बत्तीस एकर जमीन घेतल्या."

"आलायतो पयसो आसतकच अशे तरेचो इन्व्हेस्टमेण्ट करप इल्लें सोपें जाता."

म्हाका हांसूंक आयलें. बरोच खळखळून हांसलों. म्हाका दिसता कालच्यान मेकळ्या मनान हांसपाची ही म्हजी पयलीच खेप.

"हांसले शे? विनोद केलो हांवें?" ताणें विचारलें.

"ना. जें सांगलें तें सामकें सादेपणान आनी भोळेपणान. पूण तातूंतलो खोचक हेतू म्हज्या लक्षांत आयलो. हांवें जर करप्शन केल्लें, तुमच्याच उतरांनी सांगप म्हणल्यार आलायतो पयसो केल्लो जाल्यार हांव ह्या खेड्यांत येवन रावचों नाशिल्लों. आज हांव मान वयर काडून भोंवतां तातुंतूच म्हाका समाधान आसा. रातीची हुस्क्या विरयत न्हीद लागता ती उब्या जिवितांतली म्हजी जोड. व्हड जोड. काम जाता जाल्यार केलें नाजाल्यार ना म्हूण सांगलें. पयशे घेनासतना काम केल्ल्याचे आशिर्वाद मेळ्ळे ती म्हजी संपत्ती. जांचें काम कायद्यांत बसलें ना तांच्यो

गाळी खाल्यात. ताचें म्हाका केन्ना दुख्ख जालें ना. वायट मार्गान वचून पयसो केलो ना म्हूण खंत जाली ना. जो वायट मार्गान पयसो करता ताका तो पयशे वाडोवपाचें व्यसन लागता. मागीर खंयच्या मार्गान पयशे जोडप हाचो धर बंध तो पाळिना. ताका फकत पयसो दिसता. म्हाका तशें दिशिल्लें जाल्यार हे मातयेंत पयसो कुसोवचों नाशिल्लों. हे म्हजे घामाचे पयशे.

"तुमकां वायट दिसलें शें दिसता. पूण त्या अर्थान हांवें विचारूं नासलें आं. आलायतो पयसो हें उतर सहज म्हज्या तोंडांतल्यान आयलें.

"रिटायर जावचे पयलीं प्रोव्हिडंट फंडांतल्यान पयशे काडून ही जमीन घेतिल्ली. रिटायर जातकच जें कितें मेळिल्लें तें सगळें हांगा घालां, हे मातयेंत. म्हजें पेन्शन चडशें हेच मातयेंत वता. तुमकां तें पिशेपण दिसतलें. पूण होबीक मोल आसना. जे जिणेंत आपले आवडीचें करपाक मेळटा ते जिणेक तुळा आसना."

ह्या जाणटेपणांत असो पयसो खर्च करप? तुमचे भुरगे येवन हांगा रावतलेशे दिसता तुमकां? फुडें खातालो कोण हें? म्हाका लागना आं. पूण विशय आयलो म्हूण विचारलें." डहाणूकारान विशय बदलपाचो यत्न केलो. हांव चड उलयलों काय?

"म्हाका बायल भुरगीं कोण ना. हांव अनमॅरीड. म्हजी जीण कोणाचेर अवलंबून उरची न्हय, भाव भावजांक हांव जड जावचों न्हय, ॲग्रिकल्चराची आवड आसाच. जीव आसासर भलायकी धड धाकट उरची म्हूण ॲग्रिकल्चरा वरी दुसरें काम ना. हांव आसासर करतलों. म्हजे फाटल्यान तांकां जाय जाल्यार करूं नाजाल्यार विकून उडोवं. पयशेय बरे मेळटले. हाचे सारखें आयडियल रिटायर्ड लायफ दुसरें मेळचेंना तुमकां."

"तुमकां म्हूण जमलें तें. दीसभर ऑफिसांत बसून काम करपी आनी कोणाक हें जमचें नाशिल्लें."

"पूण हे आयचे घडणुकेन म्हजें मन विरूस जालां. ह्या जाग्यार हांव मना पसून प्रेम करतालों, एक प्रकारचो आपुलकेचो संबंद निर्माण जाल्लो, एक लागींचें नातें निर्माण जाल्लें. समरस जाल्लों हे जमनी कडेन, ह्या गांवा कडेन, गांवच्या लोकां कडेन. गांवच्या जिविता कडेन. हांगा येवन एक वेगळीच नदर मेळिल्ली म्हाका. पूण काल कितें घडलें तें पळयत जाल्यार नाका दिसता हें सगळें. सोडून वचचें शें दिसता सगळें." हांव आपसूक विशयाचेर आयलों.

"तसलीं पिशेपणां करूं नाकात. कोणें तरी दुसरे कडेन रेप केल्या आसतली आनी हांगा हाडून उडयल्या.. कोणें तें सोदून काडपाचें आमचें काम. असल्यो घडणुको घडत उरतात. तांकां भियोवंक जायना. तांचो आपल्या लायफाचेर परिणाम करून घेवंक जायना. तिरायताचे नदरेन पळयात."

"ह्या गांवांत आनी अशें घडत शें सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. ह्या गांवचे लोक सामके भावार्थी."

"येदें व्हडलें ॲग्रिकल्चरल फार्म उबें केलां तें हे इल्लेशे घडणुकेक लागून तुमी उबंत उडोवन वतले?"

"असलीं टेन्शनां सोंसपाची तांक उरूंक ना आतां. तुमकां ही सवंय जाल्या. खून मारामारी पळोवन पळोवन मन मेलां तुमचें."

"मनाक लावन घेतल्यार बेगीन लागीं येताले तुमी. म्हाका तुमचो स्वाभिमान आवडलो. कीप इट अप. अशे लोक मेळप कठीण. चडशे लोक रिटायर जाताकच थत्तर विथर जातात आनी बेगीन लागीं येतात. लोकांक आदर्श म्हूण उदाहरण दिवपा सारखी जीण तुमची आनी जिद्धूय बी."

"बरें दिसलें तुमचे कडेन उलोवन. तकली बरीच ल्हव जाली. प्रेत पळयत पसून जिवाकूय उबगल्लों आनी ह्या भाटा बेंसाकूय."

"तें तकलेंतल्यान काडून उडयात आतां."

"खबरी खूब जाल्यो. मुख्य विशय कडेकूच उरलो."

"तितलेंच तुमचें मन मेकळें जालें न्हय. या आमी पळोवया तांचें काम खंय पावलां तें. तांची चौकशी सोंपली दिसता."

पावसान नेट धरिल्लो. अक्षरशः कोसळटालो. असल्या पावसांत लेगीत पोलीस टीम आपलें काम करीत आशिल्ली. वाटेर गेटी भायर जाधवालो गुरखो रामसिंग आनी भिग्या धनगर उलयत आशिल्ले. डिवाय. एस. पी. डहाणूकर आपले जिपसी कडेन उबो आशिल्लो. हांव तांचेसरीं गेलों. थंय पावताकच हांवें राम सिंगाक म्हणलें,

"रामसिंग, तुजे सारखो गुरखो आसतना हें अशें जावप मरे?"

"शाब, यह ठीक नहीं हुआ. औरत कौन थी शाब? कुछ पता लगा?"

"नहीं, अभीतक नहीं. पता कैसे चलेगा? तुमने कुछ सुना था क्या उस रातको?"

"नहीं शाब. हम सब सोये थे."

"भाऊ, दोन दीस जाले. आपल्या घरांतली बायल ना जाल्या म्हूण गांवांत कोणाकूच कळ्ळें ना?" भिग्यान म्हाका विचारलें.

"ती गांवांतली काय भायली म्हूण कोण जाणा." हांवें म्हणलें.

"भायली जाल्यार हांगां कित्याक येतली मरपाक?" भिम्या.

"रातको हम सोये नहीं शाब."

"कित्याक रे? तुका कित्याक जालें जागरण? आनी तुजी ड्युटी न्हय जागरण करपाची?" भिग्यान गुरख्याक थोमणो मारलो.

"गोडावन में शिर्फ शिमीट है शाब. उसके लिए जागरण क्यों करना शाब?"

"मागीर न्हिदलो ना कित्याक तूं?"

"पुलीश मेरे घर में बैठी थी."

"तुज्या घरांत? ते रस्त्यार पावसांत उबे आशिल्ले मरे!"

"ना शाब. पुलीश पाटील को देखने दो पुलीश आये थे. मेरे ही घर में बैठकर बातें कर रहे थे."

पोलीस सांगतात, ते रात भर पावसांत उबे रावून प्रेताची राखण करताले म्हूण. गुरखो सांगता ताचे घराकडेन बसून तांणी नदर दवरली म्हूण. म्हाका फट कित्याक मारली तर तांणी? पोलिसांक अशें फट कित्याक उलोवंक जाय आशिल्लें? फट उलोवन तांचो कितें फायदो जावपा आशिल्लो? फकत आपल्याक व्हडपण घेवपाक? काय म्हजे कडल्यान थोडीसी सिंपाथी मेळोवपाक? आपली इमेज दुसऱ्या मुखार व्हड करपाचोय हो एक प्रयत्न आसूं येता. पोलिसांकच म्हूण न्हय, आजकाल लोकांक सवंय जाल्या, इल्ल्याशा कारणाक लागून फट मारप. कारणा बगरय फट मारपाक लागला मनीस आतां. आपलो फायदो जातलो वा आपलें व्हडपण दाखोवपाक म्हूण फट मारपाक जाय अशांतली गजाल न्हय. उलयतां उलयतां सहज फट मारून वता मनीस. फटींगपणां मनशाच्या रगतांतूच रिगल्यांत. वायट दिसता इतलेंच, फट उलोवन लेगीत हांच्या मनाक कांय दिसना हाचें. कुस्कूट भर लेगीत हांकां पश्चाताप जायना हाचें.

हांव आनीक कांय उलयनासतना डिवाय. एस. पी. डहाणूकरा म्हऱ्यांत गेलों. ताका सब इन्स्पेक्टर कदम लागसार खंय दिसनाशिल्लो. आनी प्रेत हालोवपाचीय कांय हालचाल दिसनाशिल्ली. दोग तीग जाण पोलीस थंय आशिल्ले. तांचे कडेन ताणें चवकशी केली.

"आरे, कदमसायब खंय रे? दिसना सो?"

"तो नाना बोरकारागेर गेला. थंय स्टेटमेण्ट रिकोर्ड करून घेवपाचें काम सुरू जालां" एका पोलिसान ताका सांगलें.

"ये हो तो, प्रेताचो पंचनामो अजून सुरू जावंक ना रे." डहाणूकारान दुसऱ्या एका कॉन्स्टेबलाक विचारलें,

"ना सायब, तो सुरू करपाक पंचांची गरज आसा न्हय?" एका हवालदारान सांगलें.

"हांगा कितलेशेच लोक आसात मरे, हातूंतल्या दोगांक घेवंक जायना?"

पंच म्हूण सही करची पडटली हें चिंतून एकलो–एकलो थंयच्यान कडसरपाक लागलो. चार पांच मिनटां भितर थंयची गर्दी पातळ जाली. खिणा भितर मेकळें मेकळें दिसपाक लागलें. तें पळोवन डहाणूकरान म्हाका म्हणलें,

"तुमकां दिसना, हांगा 144 कलम लागलां शें आनी लोकानी खिणा भितर ताका पाळो दिलो."

"तांचीय चूक दिसना म्हाका. एक खेप सही केली म्हणजे मागीर आयिल्ल्या दिसा पोलिसांच्यो कटकटी आनी कोर्टांत पावटी."

"हातूंत पोलिसांचो कसलो गुन्याव? पोलिसांकूय केस उबी करपाक जाय न्हय?"

"पोलिसांचो गुन्यांव करना हांव. लोकांचो सभाव सांगलो."

"लोकांनी सहकार्य दिलें ना जाल्यार पोलिसांचेंय पासियेंस पिड्डेर जाता. साखळकार खंय रे?" उलयतां उलयतां ताणें थंय आशिल्ल्या कॉन्स्टेबलाक प्रश्न केलो.

"येवंक ना अजून सायब."

"येवचो ना आज?"

"येतलो सायब. वाटेर आसा."

"येवंक ना, वाटेर आसा. हीं निमित्तां तुमचीं सदांचींच जाल्यांत. आमकां कितें खबर ना? सोडात तीं आतां. नव्यो नव्यो टॅकटीकस् सोदून

काडात."

"वायरलेसा वयल्यान कळयल्लें ताणें. रस्त्यार गाडी ब्रेक डावन जाल्या म्हूण."

"आतां गाडी ब्रेक डावन जाल्या, मागीर टायर पंक्चर जातलो, ना जाल्यार ट्रॅफीक जाम जातली. हार तुरे घेवन रावात ताचें स्वागत करपा खातीर. आमी सकाळ फुडें आठ वरांचेर हजर जातात हांगा. आनी तुमचो पत्तोच आसना. आमच्यानी निमित्तां सांगपाक जायनात?"

"हे पळयात, आयले साखळकार, सायब."

एक साद्या भेसांतलो मनीस डहाणूकरा म्हऱ्यांत येवन उबो रावलो. गूड मोर्नींग म्हूण सॅलूट केलो. डीवाय एस पीन आपले जापेंत तेंच म्हणलें. ताचो भेस जरी सादो आसलो तरी ताच्या केसां वयल्यान आनी हालचाली वयल्यान तो पोलीस सर्विसेंत आसा म्हणपाचें हांवें ताडलें. डहाणूकारान ताका मातशा चेपिल्ल्या शा आवाजान तापयल्ले भशेन केलें आनी विचारलें,

"तुका केस कळ्ळ्या मरे?"

"हय सर. म्हाका कदम सरान सगळें सांगलां."

"चल तर, लाग कामाक."

कामाक लाग म्हूण ऑर्डर मेळूनय तो फकत लोकां भितर भोंवत आशिल्लो. ओगीच हेडून खबरी मारूंक लागलो. म्हाका अजाप जालें. मनांत म्हणलें, होय हवालदार कामचोर पोलीस काय! डिवाय एस पी सारख्या ऑफिसराचे ऑर्डरीची अवज्ञा करप म्हणल्यार एक तर तो ऑफिसर हाता खालच्यांक त्रास दिवपी आसूंक जाय वा डिपार्टमेंटांत निखालूस शिस्तीचो अभाव आसूंक जाय.

हवालदार इंगळे दुसऱ्या वाड्यार वचून एक जोडपें घेवन आयलो. सोनू बंडबे आनी ताची बायल विनिता बंडबे. म्हाका मागीर कळ्ळें हवालदार इंगळेन तांकां पंच म्हूण हाडल्यांत. हवालदार इंगळे तांचे

वळखीचो आसलो. घडये दर एका गांवांत पोलिसांच्या हयक हय म्हणपी पंच आसू येता. हवालदार इंगळेन तांकां आड्या भायर उबो रावून प्रेत दाखयलें. तेन्नाच हांवें चिंतलें, हें सारखें न्हय. ताणें तांकां आड्या भितर आपोवन, प्रेता वयलें करड काडून प्रेत सारखें दाखोवंक जाय आशिल्लें. पयसुल्ल्यान दाखोवन प्रेता वयल्यो खाणाखुणो दिसच्यो नात. पूण हवालदारान एक भोगावळ करूंक जाय म्हूण केली. पयसुल्ल्यान प्रेत दाखयलें. हांव पोलिसांक कितें सांगतालों. तांकां सुचोवणी करपाक जाता? आनी कोणाकूय 'अशें न्हय रे, तशें' म्हूण सांगपाक बरें. हांव ओगीच रावलों. काम काय म्हजें न्हय. पोलिसांचें. तांची ड्युटी तांणी कशी करपाचें तें तांणी थारावचें. पूण डिवाय. एस. पी. डहाणूकरान आमी उबे आशिल्ले थंयच्यानूच आड्डून सांगलें,

"आरे, तांकां भितर व्हर आनी सारखें दाखय. तांकां सही करपाची आसा मरे पंचनाम्याचेर?"

"म्हाका दिशिल्लेंच हवालदार करता तें सारखें न्हय म्हूण." हांवें डहाणूकराक मातशा सकयल्या आवाजान म्हणलें.

"हांचे असले करणेनूच पोलिसांचें नांव बदनाम जाता हें हांकां समजना. कशेंय जाल्यार काम जावपाक जाय. काम जालें तांची ड्युटी काबार. पंचनामो म्हणल्यार फकांणां कामां न्हय. ताका म्हणटातूच इंक्वेस्ट पंचनामो. लिगल इंक्वायरी बिफोर ज्युरी. दोन रिस्पेक्टेबल सिटिजना मुखार करपाचो पंचनामो तो. आतां जालां कितें, जो कोण मेळटा ताका रिस्पेक्टेबल म्हणपाची पाळी येता आमचेर."

हवालदार इंगळेन डहाणूकरान सांगिल्लें काना मनार घेतलेंच ना. ताणें आयकलें ना आयकल्ल्या भशेन केलें. तो आड्या कडल्यान परतालो. ताचे वांगडा बंडबे जोडपेंय रस्त्यार पावलें. एका हवालदारान डिवाय. एस. पी. सारख्या अधिकाऱ्याचे ऑर्डरीची पर्वा करप ना हें म्हाका विचित्र दिसलें.

साडे इकरा जाल्लीं. पावस उणो जावपाचें नांव काडिनासलो.

आमचे कडेन नांवाक सत्र्यो आशिल्ल्यो. आमी तकलेच्या केसां पसून पांयांच्या नाकटा मेरेन सगळेच भिजिल्ले. मजा पळोवपाक जमिल्ले भशेन प्रेत पळोवपाक आनी पोलिसांचें काम पळोवपाक लोक जमिल्ले. पोलिसांनी पंचनाम्याचों विशय काडना फुडें हेच लोक भटो भटो आपले वाटो जाल्ले. पोलिसांचे संभाशण आयकताले, तांच्या संभाशणांत वांटो घेवन तांचे कडेन उलयताले. पूण पोलिसांनी तांकां प्रश्न केल्यार मात ल्हवूच फाटल्या पांयांनी परतताले. रस्त्यान येवपी वचपी ल्हवूच प्रेताचेर नदर मारून वतालो. हांगा म्हाका एक दिसून आयलें, जे अडाणी आनी अर्द शिक्षीत आशिल्ले तें रावताले, मुद्‌दाम प्रेत पळयताले आनी थंयच घुटमळटाले. पूण जे शिक्षीत आनी वळखीचे आशिल्ले ते रस्त्यान वतासताना मातशे रावताले, पळयताले. म्हजे कडेन दोन उतरां उलोवन थंयच्यान कडसरताले.

इतल्यान गांवची सरपंचीणबाई आयली. तिका आपोवणें धाडिल्ले दिसता. गांवांत इतली भयांकृत घडणूक घडल्या ती तिका खबर आसपाक जाय आनी फुडलें सगळें काम तिचे सामकार जावपाक जाय म्हूण तिका आपयल्ली अशें म्हाका मागीर कळ्ळें. गांवांत सध्या सरपंच बायलमनीस आसा म्हणपाचें म्हाका खबर नाशिल्लें. तिका प्रत्यक्ष पळोवपाचो प्रसंग आज आयलो. तिच्या वांगडा ग्राम पंचायतीचे दोन वांगडी आयिल्ले. तातूंतलो एकलो रग्या चौगुले आशिल्लो. हाचें नांव रघुनाथ. पूण अख्खो गांव ताका रग्या म्हूण वळखता. हाका हांव खूब पयलीं पसून वळखतालों. म्हाका कळिल्लें हो पयलीं मुंबय आसतालो. पूण थंय कितें तरी भानगडी करून पोलिसांच्या भयान थंयच्यान पळून आयिल्लो आनी तेन्ना पसून तो हांगांच आसा. "कशें कितें? बरे आसात मू?"हाचे भायर म्हजो ताचे कडेन कांच संबंद नाशिल्लो. ना म्हणल्यार एक खेप तो म्हजे बागेंतल्यान पन्नाशेक कड्डा भरे नाना कडेन पयशे दिल्यात म्हूण सांगून गंगी कडल्यान घेवन गेल्लो. तितले भितर म्हाका साडे सशीं रुपयांचो भुर्दण्ड पडिल्लो. येना फुडें सरपंचीणबाई आनी तिच्या वांगड्यांनी प्रेत बी पळयलें आनी कुशीक वचून उबी रावली. रग्यान इतले भितर एक

भोवताण मारली. तो गांवच्या लोकां कडेन उलयलो, पोलिसांक आपूण ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हूण वळख करून दिली. हवालदार झोरे म्हन्यांत गेलो. ताचे कडेन कितें तरी उलयलो आनी झोरेक घेवन तो डिवाय. एस. पी म्हन्यांत गेलो. आनी ताका सांगलें आपूण झोरेक घेवन वयल्या जाधवाच्या ठिकाणांत वतां आनी गुरख्याक आनी थंय काम करपी भुरग्याक विचारून येतां. हे असले मनीस बरे आसतात. अशे ऽ ऽ म्हूण येतात आनी भाव खावन वतात.

रग्यालें वागप पळोवन ताची खरी वळख म्हाका आतां पटली. ताका पळोवन म्हाका एके इंग्लीश फ्रेजीची याद जाली. ती म्हणल्यार To steal the show .ही फ्रेज हाका सारखी लागू पडटाली. थोड्यांक कारण नासताना सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेवपाची संवय. अशे हे लोक केन्ना सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतात हें तांकांच कळना, आनी तीं केन्ना आपणें दिलीं हें दिवप्याकूय कळना.

कांय वेळान ताणें येवन सांगलें,

"कोणाक कांय खबर ना. रातीं इतलो घोग्यांनी पावस पडटालो, खंयींय कितेंय खट्ट जाल्यार लेगीत आयकूंक येवप भोव कठीण आशिल्लें. गुरखो म्हणटा, उटंगाराच्या पावसांत कोणेंय तरी आपलें काम सादोवन घेतलां जातलें."

इतल्यांत रग्या सरीं सरपंचीण बाई आनी पंचायतीचो दुसरो वांगडी आयले. तांच्या वांगडा रग्यान डिवाय. एस. पीक विचारलें,

साहेब, ही हांगची सरपंचीण. तिका कित्याके आपयल्लें?

"हांवें आपोवं ना. कदम सायबान आपयलां जातलें. गांवांत मडे मेळ्ळां म्हणचे गांवची सरपंचीण ह्या नात्यान तुमकां खबर आसूंक जाय म्हूण तुमकां ताणें आपयलां जातलें. ते भायर, सगळें जातकच प्रेत हांगाच पुरचें पडटलें. तेन्ना फोंड मारपाची वेवस्था करची पडटली तुमकां."

"हांगा कित्याक?"

"बेवारशी प्रेत ज्या गांवांत मेळटा त्याच गांवांत पुरपाचें आसता."

"ताशें जाल्यार आमकां ग्रामपंचायतीची मिटींग घेवची पडटली." रग्यान सांगलें. हो सरपंचीण बाईचो ॲडवायजर आसतालो.

"बेगीन घेयात."

वांगडा आशिल्ल्या पंचायतीच्या वांगड्याक रग्या चौगुले घेवन कुशीक सरलो आनी ते पयस उबे रावून कितें तरी खलबतां करपाक लागले.

पंचनाम्याचो प्रस्न सुटलो आनी गर्दी इल्ली इल्ली वाडूंक लागली. थारावीक वेळार बशी येताल्यो वेताल्यो पूण तांकां वाट काडपाक बशी स्लो करच्यो पडटाल्यो. रस्त्यार जाल्ली गर्दी, पोलिसांच्यो गाडयो आनी पोलिसांक पळोवन भितरले पॅसेंजर तकल्यो भायर काडून कितें जालां काय म्हूण अजापान पळयताले. प्रेत आड्याक भितरल्यान तेंकून आशिल्ल्यान तें तांकां दिसनाशिल्लें. इतले भितर गांवांतूच न्हय, तर सरभोंवतणच्या गांवांनी पसून ही गजाल फामाद जाली. पावस अजून कोसळटालो. सगळे चिप्प भिजिल्ले. म्हाका तर माताशें शीं खावंक लागिल्लें. पूण कितें करतलों? म्हज्या ठिकाणांत प्रेत आशिल्ल्यान सगळे सोपस्कार जाय म्हणसर हांवें थंय हजर रावप गरजेचें आशिल्लें. इताल्यान हवालदार साखळकार म्हज्या म्हन्यांत आयलो. व्हदळ डहाणूकारा कडेन उलयता आसतना हो मनीस साखळकार हें म्हाका कळिल्लें. ताचें काम गर्देंत घुसून खबर काडपाचें. तो आंगलटान घट आनी काळो सांवळो आशिल्लो. येतनाच साखळकारान म्हाका प्रश्न केलो.

"तुमकां कितें दिसता?"

"कित्याबद्दल?"

"ह्या प्रेताबद्दल."

"प्रेत बायलमनशेचें." हांव जाणां, हें ताकाय खबर आसूंक जाय. पूण ताच्या प्रश्नाचो रोख कळनासून हांवें पिशें पांगुरलें.

"पूण हें तुमच्याच ठिकाणांत हाडून कित्याक उडयलां जायत?"

"तेंच समजना म्हाका. हीच सुवात कित्याक मेळ्ळी ताका?"

"हें कोणाचें कर्म आसत?"

"तें म्हाका खबर आशिल्लें जाल्यार हांव पोलिसांक तें सांगचों नाशिल्लों?"

"भायल्यान हाडून उडयल्या काय हांगाच मारली आसतली तिका?"

"तेंय म्हाका खबर ना. पूण एक अदमास काडूंक येता. चड करून तें प्रेत हाडून उडयलां जातलें."

"अशें कित्या वयल्यान म्हणटात तुमी?" हो मनीस इल्लो इल्लो खोल वतालो.

"तें पळयात. थंय आडो मोडला. तो पयलीं मोडूंक नाशिल्लो."

"थंयच्यानूच हाडलें जातलें प्रेत. न्हय?"

"अशें म्हाका तरी दिसता."

"हाका दुसरी वट्टूय आसूं येता."

"कसली ती?"

"भितरूच मारून उडोवन, भायल्यान हाडलां अशें दाखोवपाक आड्या वयले गडगे कोसळायल्यात जावं नजो?"

"ना. तशें म्हाका दिसना. ह्या फार्म हावसांत हांव आनी म्हजी हे बागेची उस्तावारी करपी गंगी अशीं आमी दोगांच आसतात. हांव तर असलें कर्म करपीच न्हय. आनी ती अशें करीत शें म्हाका निखालूस दिसना."

"तुमकां मेळपाक गांवचे लोक बी येताले?"

आतां मात म्हाका हाच्या चवकसपणाची इल्ली इल्ली तिडक मारपाक लागली. चिंतालें पोलिसांचो मनीस आसा तेन्ना वगीच तांच्या

दुभावाक निमित्त नाका. म्हूण हांवें थंडसायेन जाप दिली.

"वळखीचो कोणूय केन्नाय येतालो."

"तातूंत बायलो बी?"

"गांवांतल्या ज्या लोकां कडेन म्हजी वळख आसा. तातूंत बायलमनीस कोण ना."

"गांवांतल्या कोणा कडेन झगडीं बी जाल्लीं?"

"ना.

"कामेऱ्यां कडेन बी झगडीं?"

"ना. केन्नाच ना."

"पगारा वयल्यान बी?"

"पगार आडोवन केन्ना कोणालो दवरलोच ना. वयल्यान म्हजेवरी वेळच्या वेळार पगार दिवपी गांवांत दुसरो कोण ना अशें कामेऱ्यां सदांच म्हणटात. "

हाची उलोवपाची मोख खंयचे वटेन आसा हें म्हजे नदरेंतल्यान सुटलें ना. ताचे चवकशीचो रोख अप्रत्यक्ष रितीन सगळो म्हज्या कॅरेक्टराचेर आशिल्लो हें म्हजे नदरेक आयलें. म्हजें बायलांकडेन कशें वागणें आसा, चड करून कामऱ्यां कडेन, हें ताका जाणा जावंक जाय आशिल्लें. आतां मात हांव नर्वस जालों. भितरल्यान मातसो हाल्लों. पोलिसांनी जर ही केस म्हजेर घुंवडायली जाल्यार कितें जातलें? हे केसींत हांव खोल खोल घुस्पना मू? कारण नासतना बदनामी बी जायना मू? हांव बॅचलर. देखून खासा आपल्या संवसारीक उपद्व्यापां पसून पयस उरलों. तरी भोंवतणच्यांल्या संवसारांतल्या होमखणांतलो हुलोप म्हाका लागला. पूण म्हजें ब्रम्हचर्य म्हज्या चारित्र्याक खतावणी लावन दुभावांच्या जाळ्यांत म्हाका घुस्पावपाक कारण जावं येता हें चिंतून म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो. नोकरेच्या काळांत आनी खाजगी जिणेंत निवळ निताळ सांबाळिल्ल्या

चारित्र्याक कांयच कारण नासतना नकळटां खत लागलें जाल्यार मनाक कितले त्रास जातात हाची कल्पना लेगीत करूंक कोण धजचो ना.

साखळकार जितले ताकतिकेन आयिल्लो तितलेच ताकतिकेन परतलो आनी गर्देंत नाच जालो.

अजून हांगा सरल्यान प्रेत हालोवपाची वेवस्था जायनाशिल्ली. हांव डिवाय. एस. पी. डहाणूकारा म्हन्यांत गेलों. तो तर सामको उचंबळ जाल्लो.

"केन्ना मेकळे जायत आमी हातूंतल्यान?"

"म्हाकाय ताकीद आसा. म्हजी घरकान्न आज मुंबयच्यान येवपाची आसा. तिका रिसीव करपाक म्हाका रत्नागिरी स्टेशनार वचपाक जाय आशिल्लें."

"मुंबय गेल्ली?"

"आयलीच ना जाल्यार वतली कशी?"

"आयलीच ना म्हणचे?"

"हालींच म्हजी मुंबयच्यान ट्रांस्फर जाल्या. आनी म्हजें बिराड आज मुंबयच्यान येवपाचें आसा."

"अशें अशें! आतां समजलें! तिका रिसीव करपाक तुमकां रत्नागिरी स्टेशनार वचपाक जाय आशिल्लें. पूण हांगा हें सगलें लांबत वता."

"हय! पूण ताचे आदीं प्रेत ह्या जाग्या वयल्यान हालोवपाचें आशिल्लें. मोरे, खंय पावलो रे कदम? प्रेत उबारूंक जाय मरे तें. पोस्ट मार्टमाक व्हरूंक जाय. ताकीत करा मरे." ताणें एका हवालदाराक उलो मारून विचारलें."

"कशें व्हरतले?"

"कशें म्हणल्यार? गाडयेंत घालून."

"पूण कदम सायब म्हणटाले, पोस्ट मार्टम प्रेत आसा ते सुवातेचेर केल्यार बरें जातलें."

"वेळ कितलो लागतलो जाणात तुमी! दोतोराक हाडपाचे सोपस्कार करता म्हणसर सांज जातली हांगा. पोस्ट मार्टम करता म्हणसर दीस सरतलो. आमकां सगळ्यांक हांगा हुमकळत रावचें पडटलें. ह्यो इतल्यो भानगडी करपाची गरजूच ना. प्रेत प्लास्टिकांत बांदून हेल्थ सॅण्टराक व्हेलें आनी पोस्ट मॉर्टम केलो म्हणल्यार काम सोंपलें." डहाणूकार.

"सब इन्स्पेक्टराचो पोस्ट मार्टम हांगांच जावपाक जाय म्हूण हट्ट कित्याक?" डहाणूकाराक हांवें विचारलें. म्हाकाय बी ह्या कटकटींतल्यान बेगीन मेकळो जावपाक जाय आशिल्लें. पूण हागां पोस्ट मार्टम करपाचें जालें जाल्यार आनी दोन तीन वरां हांगाच घुस्पून उरतलों. म्हजें इल्लें इल्लें पासियेंस उणें जायत वतालें.

"कदमाचेंय म्हणणें लटीक न्हय. प्रेताचे मानेर घाय घाला आनी ती हुमकळटा. प्रेत हालयतना तकली तुटूं शकता. कितेंय क्ल्यू आसल्यार ना जावंक शकता."

"पूण तशें प्रोविजन आसा?"

"कसलें तें?"

"सुवातेरूच पोस्ट मार्टम करपाचें?"

"प्रेत उबारपाचे स्थितींत नासलें जाल्यार सुवातेर पोस्ट मार्टम करपाक जाता. मोरे, कदम सायब कितें करता थंय? कदमाले स्टेटमेंटस् घेवन जाले नात अजून?"

हाका मोरेलो जवाब मेळ्ळोना. कसो मेळटलो? सबइंस्पेक्टर कदम नानागेर स्टेटमेंटस् घेतालो. हांगा रावून ते स्टेटमेंटस् पुराय जाले काय ना तें मोरे कितें सांगतलो? म्हाक एक कळनाशिल्लें, म्हगेले स्टेटमेंटस् घेवन रातीं जाल्ले. आतां तो थंय कोणाले स्टेटमेंटस् घेता? जांचे स्टेटमेंटस् घेवपाक जाय ते तर सगळे हांगाच दिसतात. घडये कदम

खंय तरी कामाक गेला पूण डिवाय. एस्पीक स्टेटमेंटस् घेता म्हूण सांगलां अशेंय आसूं येता. हांव सर्विसेंत आसतनाची म्हाका याद जाली. हांव बिजी आसतना म्हाका जर कोणाक मेळपाचें नासतालें, वा टेलिफोनचेर उलोवपा आसतालें, हांव म्हजे पी.ए.क सांगून दवरतालों, 'साहेब मिटींग मध्यें आहेत. म्हणून सांग'. ही चालाखी सगळेच कडेन चलता शी दिसता. डहाणूकारान परतें विचारलें,

"तुमचें काम खंय पावलां रे?"

"जालें सर. पूण सुवातेचो पंचनामो उरला." हवालदार मिसाळान सांगलें.

"सुवातेचोय पंचनामो करचो पडटा?"

"हयतार! प्रेत खंय आशिल्लें? प्रेताच्या सभोवतणीच्या जाग्याचें वर्णन, प्रेताच्या कितल्या अंतराचेर कितें आसा? आनी ताका संबंदीत अशें खंय कितें पडलां. हें सगळें बरोवचें पडटा."

पावस आज अक्षरशः ओततालो. मळब फुटलां आनी अख्ख्या पावसाळ्याचो पावस आजूच पडटा काय अशेंच दिसतालें. डहाणूकारान म्हणलें,

"चला, आमी गाडयेंत वचून बसुंया. कितलो वेळ उबे रावतले?"

"हांव अख्खो भिजलां. सगळें उदक गाडयेंत देंवतलें."

"भिजूं दी. गाडी भिजल्यार भिजूं. तिका थंडी जावंची ना. तुमीय येयात गे, गाडयेंत बसात."

डहाणूकारान सरपंचीणबाई आनी विनिता बंडबेक सांगलें. आमी सगळीं गाडयेंत बसलीं, इतल्यान सब इन्स्पेक्टर कदम आनी दोग तीग जाण पोलीस नाना बोरकाराल्या घरा कडल्यान परत आयले. तांगेलें स्टेटमेंटस् रिकॉर्ड करपाचें काम पुराय जाल्लें(?). सबइन्स्पेक्टर कदम पयस उबो आशिल्ल्या हवालदार इंगळे कडेन कांय वेळ उलयलो आनी

तो गाडयेंत बशिल्ल्या डिवाय. एस. पी म्हऱ्यांत आयलो.

"स्टेटमेण्टस् घेवन जाले तुजे कदम?"

"हय सर!"

"प्रेत कित्याक हालयना तूं? कितलो वेळ काडटलो? प्रेत हालयतकच हांगासल्लो बोवाळ काबार जातलो."

"प्रेत हालोवया?"

"प्रोसिजर असोच आसा."

"हांगा सरल्यान प्रेत व्हर. प्रेत कोणाचें तें आजून कळूंक नाशिल्ल्यान पोस्ट मॉर्टम करतकच तें परत हाड आनी पंचायतीचे सुवादीन कर. ह्यो सगळ्यो राटावळी घेवन बसच्यो पडटल्यो. प्रेताची मानूय तुटपाक आयल्या. दोतोराक लेटर दिलां, ताची वाट पळोवची अशें म्हाका दिसता."

तांकां चड वेळ वाट पळोवची पडली ना. कोणें तरी येवन सांगलें दोतोर हांगा येवपाक तयार ना म्हूण. म्हणटकच चड भासाभास करिनासताना आतां प्रेत हालोवचेंच पडलें. कदमान एका पुलिसाक प्रेत बांदपाक एक प्लॅस्टीक पळोवंक सांगलें. हांवें म्हणलें,

"म्हजे कडेन प्लास्टीकाचो कागद आसा. हांव हाडून दितां."

खरें म्हणल्यार म्हाका प्रेत हांगासरल्यान बेगीन हालयल्लें जाय आशिल्लें. दुकानार वचून प्लॅस्टीक हाडटा आनी बांदता म्हणल्यार वेळ वतलो अशिल्लो. ते परस हांवेंच हाडून दिल्लें बरें.. हांव गाडयेंतल्यान देंवलों आनी बागेंत कामेऱ्यां जंय काम करतालीं थंय वचून गंगीक सांगलें,

"गंगी, पंप हावसांत वच आनी थंय प्लॅस्टीक गुठलावन दवरलां तें घेवन यो."

"आतां प्लॅस्टीक आनी कित्याकं?"

"आगे, प्रेत गुटलावपाक प्लॅस्टीक जाय तें.

"प्लॅस्टीकूय पोलिसांच्यान हाडपाक जायना?" गंगी फडफडली. गंगी म्हणजे बागेंत काम करपी मानायावरी आशिल्ली. ती बागेंतली सर्वे सर्वा आशिल्ली. वेळ पडल्यार म्हजेर लेगीत तापून उलयताली. ह्या तिच्या सभावाक लागून म्हजे बागेक सामंत भाऊली बाग म्हणनासतना सगळे लोग गंगीची बाग म्हणटाले.

"हांवें तुका घेवन येवपाक सांगलें तें काम बेगीन जावचें म्हूण. पोलीस दुकानार वचून हाडपाक सोदताले. दुकान काय लागीं ना. हाडटा म्हणसर वेळ जावंचो नाशिल्लो?"

"बरें बरें, येतां घेवन."

"सगळीं कामेऱ्यां आयलीं न्हय कामाक?"

"सगळीं येवंक नात."

"मागीर?"

"करंदवाडचीं आयल्यांत. चिंचवडचीं आयलीं नात."

करंदवाडच्या कामेऱ्यांक हांवें सांगिल्लें पटलें शें दिसता. चिंचवडचीं कामेऱ्यां वता आसतना म्हाका मेळ्ळीं नात. म्हाका खबर आशिल्लें काम कांयच जावचेंना. फकत खबरी जाताल्यो आशिल्ल्यो ह्या प्रकरणाचेर. पूण कितें करतलों, पोलिसांक गरज लागली जाल्यार ती लागीं जाय आशिल्लीं.

गंगीन हाडून दिल्लें प्लॅस्टीक घेवन हांव रस्तयार आयलों. त्याच वेळार रस्त्यान वचपी एक ट्रक सब इंस्पेक्टर कदमान आडायलो. ट्रकांत घालून प्रेत व्हरपाचो ताचो विचार आशिल्लो. पूण इतल्यान रत्नागिरी जिल्ह्याचो एडिशनल एस. पी. आपले गाडयेंतल्यान सकयल देंवलो. हो येवपाचो आसा हें म्हाका खबर आशिल्लें. हांव डिवाय. एस. पी. चे गाडयेंत आशिल्लों तेन्ना थंय वायरलेस आयिल्ली. ह्या स्पोटार खंयच्यान आनी कशें पावपाचें काय म्हूण चौकशी केल्ली हें तांच्या उलोवण्या

वयल्यान म्हाका कळिल्लें. अर्द्या वाटे वयल्यानूच ताणें वायरलेस केल्ली. एडिशनल एस. पी. एक तरणाटो, तोंडार गांभीर्य आशिल्लो असो एक रुबाबदार आनी जबाबदार अधिकारी दिसलो. तो गाडयेंतल्यान देंवल्या बरोबर कदमान ताका प्रेता म्हऱ्यांत व्हेलो. ताणें प्रेत नियाळ्ळें आनी ताणें थंयचे थंय कदमाक फटाफट ऑर्डर्स दिल्यो.

''पोस्ट मार्टम जातकच प्रेत पुरात, लासूं नाकात.''

''एस् सर.''

''प्रेताचे केंस, कातीचो कुडको, नाखटां सांबाळून दवरात. डि. एन्. ए. टेस्ट करची पडली जाल्यार तांची गरज लागतली.''

''एस् सर.''

''हे घडणुकेक खूब प्रसिद्धी दियात. गांवांतूय खूब चर्चा जावं दी. दर एकल्याच्या तोंडांत होच विशय घोळूं दी. खंय तरी क्लू मेळटलो.''

''सर.''

गर्देंत ताची नदर म्हजेर गेली. हांव ताच्या लागसारूच आशिल्लों. ताणें म्हाका विचारलें,

''तुमकां कितें दिसता? हो खून कोणें केला आसतलो?'' म्हज्या पिकिल्ल्या केसां कडेन पळोवन ताका हांव गांवचो प्रतिश्ठीत मनीस दिसला आसतलो. ना जाल्यार म्हाकाच ताणें कित्याक विचारचें. आतां मेरेन हो प्रस्न म्हाका कितल्याशाच जाणांनी विचारिल्लो. आनी कितल्या जाणांक म्हाका जाप दिवची पडटली काय? हांवें चिंतलें हांच्या कचाट्यांत सांपडलां तर खरो. तोंड दिवचेंच पडटलें. तितल्यांत सब इन्स्पेक्टर कदमान सांगलें,

''सर, हे बागेचे मालक. सामंत.''

''हय? जमीन केन्ना घेतली तुमी?''

''पंदरा वर्सां जालीं.''

"जमनीत कितें भानगड बी?"

"कांय ना."

"कोणाकडेन दुस्मानकाय?"

"ना"

"खंय रावतात तुमी?"

"मुंबय."

"कितें करतात?"

"पेन्शनर!"

"खंय काम करताले?"

"आय वॉज इन मंत्रालय."

"केन्ना रिटायर जाले?"

"धा वर्सां जालीं."

"वय कितलें तुमचें?"

"सिक्स्टी एट रनींग."

खरें म्हणल्यार रिटायर जाल्यार धा वर्सां जाल्लीं. गवर्नमेण्ट ऑफिसरांक रिटायरमॅण्टाचें वय खबर आसता. देखून ताणें म्हाका वय विचारपाची गरज नाशिल्ली. पूण कितें? पोलिसी खाक्या! दुभावी सभाव! खरें सांगता काय फट हें काडून घेवपाचो यत्न. एक हांवें पळयलें, काल रातीं पासून आतां मेरेन तीग पोलीस ऑफिसर आनी एक हवालदार हांचे कडेन म्हजीं उलोवणीं जालीं आनी तांणीं म्हजी चौकशी केली. प्रश्न विचारपाची पद्दत मात तिगांयची सारखीच. चवकशीच्या पढीत तंत्राच्या भायर वचून चवकशी कशी करची हें केन्ना शिकतले पोलीस ऑफिसर?

वयलीं प्रश्नोत्तरां जालीं आनी एडिशनल एस. पी. आपले गाडये

कडेन वचपाक गेलो. कदम आनी डिवाय. एस. पी.य ताचे वांगडा गाडये मेरेन ताका पावंक गेले. वतां वतां तो कदमाक सुचोवण्यो करतालो. तो आयलो, प्रेत पळयलें आनी गेलो. हे गजालीक अशीं तशीं पंदरा मिनटां लागलीं आसूं येता. पूण ह्या पंदरा मिनटांत सगळ्यो म्हत्वाच्यो बाबी ताणें कवर केल्यो. पूण तितले भितर ताणें हाता सकल्यांक स्पश्ट आनी मुद्देसूद आदेश दिले. गरजे परस एकूय उतर चड ना, आनी एकूय उतर उणें ना. ना हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो गजाली करप, ना मेथ्रावप. म्हाका तो शिस्ताबद्द, गंभीर आनी जापसालदारकेची जाणविकाय आशिल्लो पोलीस अधिकारी दिसलो.

अखील भारतीय सेवेंतल्यान सिलेक्ट जावन आयिल्ल्या अधिकाऱ्यांत आनी सकयल्यान प्रोमोशनान वयर आयिल्ल्या अधिकाऱ्यांत हो फरक दिसता. ह्याच एका खात्यांत अशें न्हय. सगळ्याच सरकारी खात्यांनी हो फरक जाणवता. हाच्या उरफाटो म्हाका डि.वाय. एस. पी डहाणूकाराचो सभाव दिसलो. एक उत्तर ध्रूव जाल्यार दुसरो दक्षीण ध्रूव. बरोबर, तो प्रमोशनान डी.वाय.एसपी. जाल्लो.

तो गेलो. म्हाका खूब पुरो जाल्लें. सामकों भिजिल्लों. सत्री आसुनूय सगळो भिजिल्लों. आनीक आनी उबो रावपाची तांक नाशिल्ली. डिवाय. एस. पीक सांगून हांव घरा आयलों. येता आसताना थंय उबी आशिल्ली सरपंचीणबाई आनी विनिता बंडबे हांकां स्त्री दाक्षिण्य म्हूण सांगलें,

"वगीच भिजूं नाकात. म्हगेल्या घरांत येवन बसात तुमी."

"नाका. आसूं." सरपंचीण बाईन म्हणलें.

"अनमनपाची कांय गरज ना. घरांत बायलमनीस आसा. गंगी."

"ते खातीर न्हय. जालें न्हय आतां वचपाचें."

"तरी पूण थोडो वेळ वतलोच न्हय?"

"पळयतां. वेळ लागलो जाल्यार येतां".

"म्हजे पांय वळटात. हांत वतां."

म्हाका घरा वचून केन्ना काय फाट कॉटीर तेकयल्यार पुरो अशें जाल्लें..

हांव घरा वचून कदेलार बसलों. मागीर उठलों आनी भितर वचून डायनींग टेबला वयलें सगळें सामान काडून कुशीक दवरलें आनी डायनींग टेबल पुसून दवरलें. हांव जाणा आशिल्लों प्रेत व्हरताकच स्टेटमेंटस बरोवपाक, पंचनामो बी करपाक पोलीस हांगा येतले तेन्ना तांकां बसपाक आनी बरोवपाक मेज, कदेल जाय पडटलें. तितलें केलें आनी हांव भायर ऑल्तोरार येवन बसलो. इतल्यात गंगी आनी कामेऱ्यांय कामावयल्यान मोडलीं आनी तींय पावलीं. थोड्या वेळान रग्या चौगुले सरपंचीण बाई आनी पंचायतीच्या वांगड्यांक घेवन आयलो. तांच्या फाटोफाट सोनू बंडबे आनी ताची बायल विनिता बंडबे आयलीं. थोड्या वेळान नंदू आयलो. नंदू आयिल्लो पळोवन म्हाका अजाप जालें. तो म्हणजे तांची फामील असले भानगडी पसून सदां पयस रावपी लोकां मदीं एक आशिल्ली. नंदून म्हाका सकाळींच सांगिल्लें आपूण हांगा येवचोंना म्हूण. गरज पडल्यारूच आपल्याक आपय. हांवें ताका कित्याक आयला काय म्हूण विचारले लेगीत. ताणें हरशींच म्हणलें. मागीर म्हाका कळळें सोनू बंडबेन म्हजें नांव सांगून ताका आपयल्लो. सगळे पडवेर जंय जागो मेळटा थंय बसले. कपड्यां वयलें उदक फाफडीत रग्यान म्हणलें,

"येद्या वेळार इल्लो च्याचो घोट मेळ्ळ्यार जाय आशिल्लो. न्हय रे सोनू?"

"म्हाकाय तशेंच दिसता. हुनहुनीत कितेंय पोटांत गेल्यार बरें दिसतालें" सोनू.

हांवें म्हणलें. "गंगी, भितर डब्यांत साखर आनी च्याचो पालो

आसा. मातसो तुगेले रांदनींत उजो घाल आनी च्याक दवर. मातशी चडशी दवर.''

''भाऊ, दुदा पावडर सोंपल्या. च्या मात फुटी घेवची पडटली.''

''चलता गे. फुटी जाल्यार फुटी. पोटांत ऊब मेळ्ळी शें कारण.''

गांवांत दूद विकतें मेळनाशिल्लें. ताचें कारण गांवचे लोक आपल्याक जाय तितल्याच दुधाक गाय वा म्हस दवरताले. दुदाचो धंदो हे नदरेन गोरवां कोणें पोसलीं ना. मदीं सरकारी येवजणे खाला सब्सीडीन म्हशी घेवन दूद एकठांय करून सरकारी डेअरी घालपाची येवजण तयार जावन ते प्रमाण कांय लोकांनी म्हशी लेगीत घेतिल्ल्यो. पूण दूद एकठांय करपी सरकारी मनशा कडेन हांची झगडीं जालीं. सरकारी मनीस दूद एकठांय करता आसतना ताका लॅक्टोमिटर लावन ताची ग्रेड थारायतलो. तें हांकां पसंत पडलें ना. तांणी दूद दिवपाचेंच बंद केलें. परिणामी येवजण फसली.

पयलीं लोक शेतां रोयताले तेन्ना तांचेकडेन गोरवांय खूब आसतालीं. तांकां चरवपाक मळांचीं मळां मेकळीं आसतालीं. आतां शेतांय कमी जालीं आनी मळांनी आडे घालून बागो तयार जाल्यों. देखून गोरवां पोसपाचें प्रमाण उणें जालें. जांचे कडेन शेतां आसात तांचेच कडेन एकाद्री बैलांची जोडी आसता. आनी आपल्या पुरती दुदाची गरज भागोवपाक गाय वा म्हस पोसतात. तांच्यांत एक खाशेलेंपण आसा. पोशिल्ली गाय वा म्हस आटली जाल्यार ती विकतात आनी दूदकी गाय वा म्हस घेतात.

पयलीं नाना म्हाका तांगेल्यांतलें इल्लें दूद दितालो. पूण तें हाडपाक एक किलोमिटर वचचें पडटालें. मागीर म्हाका वाज येवचो. वचपाचें बंद केलें आनी पावडरचें दूद वापरूंक लागलों. पूण पावडरच्या दुदाची च्या बरी लागना म्हूण तेंय सोडून दिलें. आनी चडशी फुटीच च्या घेवपाक लागलों.

इतलेय हे विचार म्हज्या मनांत येवन गेले आनी म्हाका म्हजीच

मजा दिसली. गंगीन पावडरचें दूद सोपलें म्हणलें आनी दुसऱ्याच खिणाक हे विचार मनांत आयलें. मनाक कोणाच्यान दावें घालपाक नजो म्हणटात तेंच खरें.

गंगीन च्या हाडलो. च्या पिताकच मातशी ऊब गेळ्ळी.

रांदनीर आमचे पुरतें च्याक आदन दवरलें खरें, पूण तें आदन सांजवेळ मेरेन रांदनीरूच उरलें. कोण ना जाल्यार कोण येतूच रावलो पोलीस लेगीत एका फाटल्यान एक येवपाक लागले. गंगीन त्याच आदनांत उदक घालप, साखर च्याचो पालो घालप. दीसभर आयिल्ल्या गेल्ल्याक गंगीन फुटो च्या करू करून दिवप. गंगीचो हो फुटो च्या इतलो फामाद जालो, जण एकलो च्याची याद काडटालो. सब इंस्पेक्टर कदम तर फुडल्या दोन तीन दिसांत आयिल्ले खेपे गंगीक कोमार काडून फुटे च्याची फर्माइश करतालो.

गंगीन दिल्लो च्या पितां पितां रग्यान म्हणलें,

"भाऊ, तुमी कपडे बदलात न्ही. सगळे कपडे चिप्प जाल्यात."

"आसूं रे.! ह्या उब्या आडव्या पावसांत सगळेच भिजल्यात. एकलोय सुको उरूंक ना. तातूंत हांव. सगळेच भिजिल्ले आसताना हांवें भितर वचून कपडे बदलप म्हाका बरें दिसना. दुसरें म्हणल्यार उठपाकूय वाज आयला. सकाळच्यान उबो आशिल्लों. आंग दुखता पांय फोडटात."

"सामंत भाऊ, दोळेय ओडिल्ले भशेन दिसतात तुमचे. आळसायेन जायत वा टॅन्शनान जायत तुमचें तोंड सामकें बाविल्ले भशेन दिसता." नंदून म्हाका सांगलें.

"भाऊ, इतले टॅन्शनांत कित्याक तुमी? लायटली घेवपाचें. असले प्रसंग येत आसतात. जातलें सगळें वेवस्थीत!" रग्या.

"पूण हांगांच कित्याक? म्हज्याच शेजरा बरो जागो मेळ्ळो तांका प्रेत उडोवपाक?"

"आकांतान केल्लीं कामां तीं. थंय मागीर अमक्यालोच जागो, तमक्यालेंच ठिकाण म्हूण विचार करपाचें पासियेंस कोणाक आसा.?" रग्यान म्हणलें.

"परत परत म्हाका एकूच प्रश्न सतायता. तो म्हणल्यार हांगाच कित्याक? म्हगेल्याच ठिकाणार कित्याक?"

"पळोवंक गेल्यार तेंय खरें भाऊ. हांगाच कित्याक? कसलोय राग काडपाक बी न्हय मू! तुमकां ह्या प्रकरणांत मुद्दाम घुस्पावपाक बी न्हय मू! असो दुभाव मारता खरो." रग्या चौगुले उलयलो.

"पूण पोलिसूय तुमकां दुभावान पळयतात आं." सरपंचीण बाईन म्हाका म्हणलें.

"म्हाकाच म्हूण न्हय. आतां हे घडणुके कडेन जाचो जाचो म्हूण संबंद आयला तांकां सगळ्यांक पोलीस दुभावान पळयताले."

"पूण तुका कशें कळ्ळें गे?" नंदून तिका विचारलें.

"सामंत भऊ, तुमी घरांत आयिल्ले न्हय तेन्ना आमी डिवाय. एस. पी. चे गाडयेंत परत वचून बशिल्लीं.. तेन्ना एक वायरलेस आयिल्ली."

"कोणाची?"

"कोणाची तरी वयल्या ऑफिसराची आसताली. रत्नागिरीच्यान आयल्या आसूं येता."

"येवूं खंयच्यानूय."

"हांवें तांच्या उलोवण्याचेर बारीकसाणेन लक्ष दिलें. तुमच्या घराची तपासणी करपाक लायल्याशी दिसता."

"करूं तपासणी! म्हाका कसलो भंय आसा? जाय जाल्यार झडटी लेगीत घेवं." हांव.

"कित्या वयल्यान म्हणटा तूं घराची तपासणी करपाक सांगलां म्हूण?" नंदू.

"डिवाय. एस्. पी. म्हणटालो, घरांत पळोवपाची गरज ना. तो बरो मनीस. मुंबय मंत्रालयांत नोकरी करतालो. सज्जन मनीस तो. पूण तो ऑफिसर मानपाक तयार ना सो दिसता." आतां म्हज्या लक्षांत आयलें, हो चड करून ॲडिशनल एस्. पी. आसतलो. ताणें वतां वतांच आपले गाडये वयल्यान वायरलस केल्ली. ताच्या शिटूकपणाची म्हाका तोखणाय दिसली.

"तांकां जाय तशें घर पळोवं दी. म्हजी कांयच हरकत ना." "केन्ना काय एकदांचें प्रेत उबारल्यार पुरो जालां म्हाका." हांवें म्हणलें.

"पूण प्रेत हांगाच पुरतले म्हणटात ताचें कितें?" रग्यान म्हणलें.

"खंयची कोण, कोण जाणा? खंयच्या धर्माची, खबर ना. अशें आसतना प्रेत पुरतले कशे?" सरपंचीण बाई.

"सरपंचीण बाई, तुका एक सांगतां, कितेंय जरी जालें जाल्यार प्रेत गांवांत पुरूंक दिवपाचें ना." रग्या वांगडा आयिल्लो पंच उलयलो.

"हांव कितें सांगूं? तुमीच सांगात कितें करपाचें तें. म्हाका हातूंतलें कांय कळना." सरपंचीण बाईन म्हणलें.

"आमी पोलिसांक तशें सांगुया." पंचान आपलें मत उक्तायलें.

"तांणी आयकलें ना जाल्यार?"

"पंचायतीची मिटींग घेवची पडटली." रग्यान उपाय सुचयलो.

खरें म्हणल्यार हांवूय मनांतल्यान भिल्लों. तांणी ज्या जाग्यार प्रेत मेळ्ळां त्याच जाग्यार पुरुया म्हणलें जाल्यार हांव कितें करतलों? म्हजे बागेंत खून जाल्ले बायलेचें प्रेत पुरिल्लें आसा म्हणणाची कल्पनाच सहन जायनाशिल्ली. हांवें तांकां सांगलें,

"तुमच्यांतलो एकलो कोणूय तरी हांगा रावात. तुमच्या गांवच्यो पद्धती, रिती रिवाज म्हाका कांय खबर ना. तुमी कोणूय आसले जाल्यार हक्कान तांकां सागूंक शकतले."

फुडें तो विशय तसोच उरलो. मुखा वयल्यान हवालदार मिसाळ, हाचें नांव म्हाका मागीर कळ्ळें. आनी ताच्या वांगडा एक बायलमनीस आयली.

'हांव हवादार मिसाळ आनी ही आमची हवालदार श्रीमती शेळके.'' हवालदार मिसाळान आपल्या वांगडा आशिल्ले बायलमनशेची वळख करून दिली. कॉस्टेबलाक हांगा सगळेच हवालदार म्हणटाले. मिसाळान फुडें म्हणलें,

''तुमी सकाळीं पळयलां जातलें आमकां.''

''ना. आतांच तुमकां पळयतां.''

''आमी दोगांय प्रेताची तपासणी करतालीं.''

''व्हदळ प्रेत तपासतालीं तीं तुमी?''

''हय! हांव आनी मिसाळ आशिल्ले.''

''तेन्ना दोगांयच्या तोंडाक कपड्याचें मास्क आशिल्लें. म्हूण हांव वळखलों ना. तेन्ना हांव तुमकां दोतोर आनी नर्स समजल्लों.''

हांवें तांकां हें सांगलें तेन्ना तीं हांसूंक लागलीं.

''हीं असलीं कामां आमकांच करचीं पडटात. दोतोर आनी नर्सीचें काम पोस्ट मार्टमच्या वेळार. आमकां आतां कळूंक लागलां, खंयचे नदरेन कितें कितें करपाचें तें.'' मिसाळान सांगलें.

''आमकां स्टेटमेण्ट बरोवपाक जाय. खंय बसुया? बरो सुको सो जागो जाय.'' श्रीमती शेळकेन सांगलें.

''हें पळय. भितर डायनींग टेबल आसा. निवळ करून दवरलां हांवें''

"आमचें काम बरेंच सोपें केलें तुमी."

"म्हाका आदींच कल्पना आशिल्ली तुमकां स्टेटमेण्टस बरोवचे आसात आनी ते खातीर टेबल जाय पडटलें."

"घर भितरल्यान बरेंच प्रशस्त आसा न्हय? भायल्यान खोंप शी दिसता. इतलें टापटीप आसतालें शें निखालूस दिसूंक नाशिल्लें." हवालदार मिसाळान घरांत भितर सरतांच म्हणलें. घरा भायल्यान जनेलांतल्यान वावझड येवची न्हय म्हूण ह्या कोनशा पासून त्या कोनशा मेरेन कड्डाचें पाखें बांदलां. तें सकल मेरेन आसा. ते खातीर भायल्यान पळयतल्याक हें घर म्हणचे खोप दिसता.

"बाथरूम आसतालोच न्हय?" श्रीमती शेळकेन विचारलें.

"ताची गरज तर पयलीं. अशी हे वटेन चलात."

ती भितर गेली. घर पळोवपाच्या निमित्त्यान संडास बाथरूम पळोवप म्हणल्यार अख्ख्या घराचेर सहज नदर मारून जाता. वा खूब वेळ पावसांत उबी आशिल्ल्यान तिका खरेलेंच सैमीक आपोवणें आयलां जायतूय बी. हेवटेन हवालदार मिसाळ घर पळोवपाच्या निमित्त्यान दर एके वस्तूचेर नदर मारतालो. मदीं मदीं हें कितें तें कितें अशे सहज प्रश्न करतालो. पळयतल्याक दिसचें, हो घर पळयता. पूण तो प्रत्येक वस्त पळोवन घेतालो. सहज अशी ताची नदर पूण दुभावान भरिल्ली. हें चिंतुनूच हांवूय बी ताचे कडेन दुभावान पळयतालों. म्हाका सरपंचीण बाईन सांगिल्ले गजालीची याद जाली. म्हज्या घराचीय तपासणी कर म्हूण वयल्यां कडल्यान आयिल्ली ऑर्डर ते पाळटाले हातूंत दुभाव ना. आनी तातूंत म्हाका वायट अशें कांय दिसलें ना. तशें केले बगर तांकां खरो गुन्यांवकार मेळपाचो ना. जो मेरेन गुन्यांवकार मेळना तो मेरेन सगळ्यांक दुभावान पळोवप ही तांची लागणूक आसता. ताशी तांची मोख आसूंक जाय.

मागीर हवालदार मिसाळ आनी हवालदार श्रीमती शेळके स्टेटमेण्टस्

बरोवपाक बसलीं. पयलो स्टेटमेण्ट जनरल स्वरुपाचो आशिल्लो. देख दिवपाचीच जाली जाल्यार, प्रेत मेळिल्ली सुवात, प्रेताच्या सरभोंवतणचें वातावरण, प्रेताची अवस्था, प्रेतालागीं मेळिल्ल्यो वस्तू, तांचें वर्णन बी. हांवूंय टेबला म्हऱ्यांत कदेल घालून बसलों. श्रीमती शेळके सांगताली आनी हवालदार मिसाळ बरयतालो. तीं दोगांय चर्चा करून जें बरयतात तें म्हाका स्पश्ट कळटालें. प्रेतावयल्यो खुणो बरयतासतना प्रेताचे बोमलेसकल आंगळ्या बोटाच्या नाखटायेदी खूण आसा अशें हवालदार श्रीमतीन शेळकेन सांगलें आनी त्याप्रमाण हवालदार मिसाळ बरोवंक लागलो. तेन्ना हांवें मदींच विचारलें,

"तुमी बऱ्योच धिटायेच्यो दिसतात. प्रेत आडवें तिडवें करून बरीं तपासतालीं. म्हाका लागीं वचूंक धाडस जालें ना."

"पयलीं पयलीं म्हाकाय भंय दिसतालो. पूण हवालदार मिसाळान म्हाका तयार केली."

"आमची ड्युटी म्हणल्यार 'आलिया भोगासी'. नशिबांत आयलां म्हणटकच करचेंच पडलेना?"हवालदार मिसाळ. म्हाका रातीं दोग जाण हवालदार प्रेताची राखण करताले ती याद जाली आनी हांवें मान हालयली.

"ती बायलमनीस दोन भुरग्यांची आवय आसूंक जाय." श्रीमती शेळके.

"कित्या वयल्यान?" हांव.

"बोमले सकयली खूण नसीकरणाच्या ऑपरेशनाची. सादारण दोन भुरगीं जातकच हें ऑपरेशन करतात. हांवें तें ऑपरेशन करून घेतलां, देखून म्हाका खबर आसा तें."

हवालदार मिसाळ बरयतासतना गंगी दोन कप च्या घेवन आयली. मिसाळान श्रीमती शेळकेक सांगलें,

"शेळके, पयलीं हुनहुनीत च्या घेवया."

च्या घेवन जातकच मिसाळ स्टेटमेंट बरोवपाक बसलो. पयलीं तो प्रेत आशिल्ल्या जाग्याचें वर्णन करपी पंचनामो बरोवंक लागलो. इतल्यान हवालदार साखळकार भितर सरलो. घरांत येतनाच 'हें घर तुमचें?' म्हणून घर बारीकसाणेन नियाळूंक लागलो. ताची नदर सहज दिसताली तरी तातूंतलो चवकसपणा म्हजे नदरेंतल्यान सुटलो ना. एका मिनटांत ताणें अख्खें घर नदरेंत आसपावन घेतलें. मागीर साखळकार मिसाळा सरीं येवन बसलो. ताणें मिसाळाक विचारलें,

"खंय पावलां?"

"निकतेंच सुरू केलां. प्रेता लागीं मेळिल्ल्या वस्तूंची नांवां बरोवन जाग्याचो हो पंचनामो सोपयतां." मिसाळान सांगलें.

"कितें कितें मेळ्ळां प्रेता म्हऱ्यांत?" ताणें विचारलें.

"बायलेच्या केसांचो गुटलो, दोन पितूळचीं कांकणां, हीं कांकणां त्या प्रेताच्या हातांतूच आशिल्लीं. हीं कांकणां खुन्यान काडपाचो खूब प्रयत्न केलो जातालो. पूण ताका तें जमलें ना शें दिसता." हवालदार मिसाळान स्पश्ट केलें.

"आनी थंयच तो फसलो. बरे तरेन गुटलायात तीं. टिश्यू पुसून वचत ताचे वयले. हें हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना म्हणा."

"सामंत सायब, खून करतल्यान कितलींय जतनाय घेतलीं तरी तो एक तरी चूक करताच. आनी तीच आमकां पोलिसांक बरी पडटा. तातूंतलीच ही चूक." मिसाळान म्हाका म्हणलें.

"बरें! आनी किते मेळ्ळें?" साखळकारान विचारलें.

"आनी कांय ना."

"केंस ताणें कापल्यात. कातर बी मेळ्ळी ना?"

"ना. कातरीन कापूंक ना ते. चामडेसयत सोलून काडल्यात. हाचे

भायर हाडाचो एक बारीकसो त्रिकोणी कुडको मेळ्ळा.'' मिसाळान उगडास करून सांगलें.

''हो कसलो कुडको?'' हांवें अजापान विचारलें.

''हो खड्डेचे फाटले वटेंतले कवटेचो कुडको.''

''तो त्रिकोणी सो कसो आयलो?'' हांवें परत कुतुहलान विचारलें.

''खड्डेचे फाटले वटेंतल्या जाग्यार जंय घाय घाला थंयचो हो कपचो निखळून आयलो'' आपले तकलेक फाटल्यान बोट दाखोवन साखळकारान सांगलें.

''पूण असो त्रिकोनी सो कसो आयलो तो?''

''तेंच तर आमी सोदतात न्हय. हाचे वयल्यान खुन्यान वापरिल्लें शस्त्र खंयचें तें समजुपाक आदार जातलो.'' साखळकरान सांगलें.

''म्हाका दिसता तें तीक्ष्ण तोंकाचें शस्त्र आसूंक जाय.'' हवालदार मिसाळान आपलें मत मांडलें.

''पूण तें शेवटाक वांकडें आसूंक जाय.'' साखळकार.

''कित्या वयल्यान?'' हांव.

''हो खड्डेचो कपचो पळयात. हो खंयच्या तरी वांकड्या शस्त्राक फारावला. आनी भायर सरला.'' साखळकार.

''तशें जाल्यार ती कोयती आसूंक जाय.'' म्हजे तकलेंत लख्ख प्रकाश पडिल्ले भशेन हांव सट्ट करून उलयलों.''

''तुमच्या ठिकाणांत कित्याक हाडून उडयलां जायत तें प्रेत? तुमकां कितें दिसता?'' अचकीत साखळकारान म्हाका विचारलें.

मनीस बेसावध आसतना अचकीत प्रश्न विचारपाचें ट्रेनींग बी दितात काय पोलिसांक? काय म्हज्या तोंडांतल्यान कोयतेचो उल्लेख आयलो आनी हाका म्हजोच दुभाव मारलो? विचारिल्लोच प्रश्न हो परत

विचारता हें तो विसरून गेलो काय.

"ज्या प्रश्नाची जाप हांव कालच्यान सोदतां, ज्या प्रश्नाची जाप म्हाकाच मेळना, त्याच प्रश्नाची जाप तुमी म्हाकाच विचारतात. कितले खेपो म्हाका तुमी हो प्रश्न विचारतले? म्हाका कशें खबर आसतलें? तें सोदून काडपाचें काम तुमचें." हांवें ताकली जाता तितली थंड दवरून जाप दिली.

"सरपंचीणबाई कडेन बी झगडें जाल्लें.?"

"तिका तर हांव आयज पयलेच खेपे पळयतां."

ताच्या प्रश्नाचो रोख कळ्ळो म्हाका. सरपंचीण बायलमनीस आनी हांव दादलो. नाका ते संबंद जोडपाचो प्रयत्न. पूण ताका इतली बुद्द ना, ती पंचविशींतली. आनी हांव सत्तरी कडेन पाविल्लों. दोगांकूय कशें आसतालें आकर्शण?"

"मिसाळ, प्रेता पोंदचे मातयेचें सॅम्पल घेवचें पडटलें आनी ताची नोंद स्टेटमेण्टांत करची पडटली."

जितलो अचकीत ताणें विशय बदलिल्लो तितलोच अचानक तो मूळ विशयाचेर आयलो.

"तळप तें सगळें. थंय माती खंय मेळटली?"

"तळप मातशें खरवडून काडचें."

"पूण त्या तळपाची माती खरवडून काडून कितें मेळटलें?" म्हजो चिकित्सक सभाव म्हाका ओगी बसपाक दिनाशिल्लो.

"तिका हांगाच मारिल्ली आसत जाल्यार त्रिकोनी कुडको पडिल्लो थंय रगताचे थेंब पडल्याच आसतले. ताची डी एन् ए आनी ह्या कुडक्याच्या रगताची डी एन् ए मॅच जाली जाल्यार फुडें तें कोर्टांत येविडन्साक बरें पडटलें."

"हांव कोणाक तरी धाडटां माती खरवडून काडूंक." मिसाळान

सांगलें.

"तुमी म्हणटात ते भशेन तें शस्त्र कोयती आसूं येता." साखळकार.

"विळोय आसूं येता." हवालदार श्रीमती शेळके मदींच उलयली.

"विळ्यांत इतली, खड्डेक तोपपा सारखी स्ट्रेंग्थ आसना." मिसाळान स्पश्ट केलें.

"विळो आनी कोयती हाच्या भायर आनीक एक ल्हान आवत आसा. गोंयांत हाका पाळ म्हणटात. ताका देड दोन फूट दांडोय आसता. तो बरो घटमूट आसता." हांव.

"ना जाल्यार परशू सारखें एकाद्रें हत्यार आसूं येता. ती बायल मनीस धांवता आसतना फाटल्यान धावून देड दोन फुटांचेर आसतना ताचो धपको घाला जातलो."

अशें सांगून हवालदार साखळकार भायर सरून गेलो. हेवटेन हवालदार मिसाळान एक स्टेटमेण्ट सोंपयलो आनी दुसरो बरोवपाक सुरवात केली.

इतल्यान येदो वेळ भायर पडवेर बशिल्लो नंदू भितर आयलो. भायर आतां सरपंचीणबाई, रग्या, आनी पंचायत वांगडी इतलेच आशिल्ले. सोनू आनी विनिता बंडबे घरा गेल्लीं. तांचें काम सोंपिल्लें. नंदू भितर आयिल्लो पळोवन मिसाळान ताका म्हणलें,

"बरें जालें तूं आयलो तें. मातसो राव आं. स्टेटमेण्ट सोपयतां. मातशी सही कर."

"बरें बरें, आमी आसाच न्हय." नंदून सांगलें.

नंदूचो मामा हेच पोलिसेंत आशिल्ल्यान ताची आनी पोलिसांची बरी वळख आशिल्ली. ताणें कोणाक तरी उलो करीत पडवेर गेल्ले भशेन केलें. पडवेर मातसो घुटमळ्ळो आनी थोड्या वेळान नंदून कूस मारली.

मिसाळ दुसरो स्टेटमेण्ट बरयतना घराचें मुख्य दार खंयचे दिकेक आसा? घराक कुडी कितल्यो आसात? खंयचे दिकेन खंयची कूड आसा? फुडलें दार सोडून घरांतल्यान भायर सरपाक फाटले वटेन दार आसा काय ना? संडास बाथरुमाचें पोजिशन कशें आसा? हें सगळें तो म्हजे कडल्यान विचारून बरयतालो. मदींच हांवें ताका विचारलें,

"हें तुमी कित्या खातीर बरयतात?"

"हो तुमच्या घराचो पंचनामो."

"पंचनामो!"

"हय!"

"जाय जाल्यार तुमी म्हज्या घराची झडटी लेगीत घेतल्यार जाता आं. म्हजी कांयच हरकत ना."

"सामंत सायब, हें रुटीन काम आमचें. प्रोसिजर म्हूण हें आमकां करचेंच पडटा."

"हांव समजूंक शकतां. रुलाप्रमाण सगळें करात तुमी. म्हजें तुमकां पुराय सहकार्य आसतलें."

"वायट दिसपाचें कांय ना हातूंत. आदींच सादूर आशिल्लें बरें न्हय. फाल्यां तुमचे कडेन कोणें बोट दाखेवपाक नाका."

"बरोबर. देखून म्हणलें, मेकळेपणान तुमचें काम तुमी करात. म्हजी कसलीच आडकाठी आसची ना."

"फाल्यां समजा डिफेंसाचो कोणूय कोर्टांत उबो रावलो आनी तुमच्या घराची झडटी कित्याक घेतली ना अशें विचारलें जाल्यार?"

"देखून सांगतां, कसलोच लूप होल दवरूंक उपकरना!"

इतल्यांत एक पोलीस कोन्स्टेबल भितर सरलो.

"प्रेता कडलें ताळप खरवडून काडपाक पिकास नाजाल्यार कुदळ

कितेंय तरी जाय आशिल्लें.''

''राव आं. हांव दितां.'' हांवें म्हणलें आनी कुडींत वचून पिकास हाडून ताका दिलो.

''पिकास नाका. ताणें खरवडूंक येवचें ना. हांव पळयतां.'' अशें म्हणून मिसाळ आपूण उठून कुडींत गेलो.

कुडींत कुदळी, फावडे, पिकास आनी हेर जमीन खणपाचीं, कसपाचीं आवतां एका कोनशाक दवरिल्लीं. दुसऱ्या कोनशाक हांवें लागनाशिल्लें सामान दवरिल्लें. तातूंतच एक फवारणी करपाचो पंप आशिल्लो. तो एक्स्ट्रा आशिल्ल्यान सदांच लागनाशिल्लो. केन्नाय वर्साक एक वा दोन फावटी जाय पडटालो. देखून तोय त्या कचपटांत आशिल्लो. ताचेर साऱ्याची रिकामी पिशवी गुटलायल्ली आशिल्ली. मिसाळ कुडींत वताकच पयल्या कोनशा कडेन जंय सद्दां लागपी आवतां दवरिल्लीं थंय वचनासतना दुसऱ्या कोनशा कडेन एक्स्ट्रा पंपावरी आडखळीचें सामान आशिल्लें थंय गेलो. आनी साऱ्याचे पिशवेंत गुटलायल्ल्या पंपा फाटल्यांतल्यान एक कुदळ काडली.

आयल्या कोनशाक कितलिंशींच आवतां आशिल्लीं. तातूंतली कुदळ काडून दिवपाक जाताली. खरें म्हणल्यार म्हाका लेगीत याद नाशिल्ली थंय कुदळ आसा म्हूण. म्हाका अजाप जालें. व्हदळ मिसाळ फकत एक सरसरी नदर मारून गेल्लो. तेन्ना ती कचपटांतली कुदळ ताचे नदरेंतल्यान सुटिल्ली नाशिल्ली आसुंये. तेन्ना म्हाका ताणें पंपार धापिल्ले साऱ्याचे पिशवेक हात लावन 'हें कितें' म्हूण विचारिल्लें तेन्ना हांवें ताका एक्स्ट्रा पंप म्हूण सांगिल्लें. तेन्ना हे कुदळीचेर म्हजी नदर वचूं नाशिल्ली. कावळ्याची नदर भोपशाचेर म्हणटात न्हय तशांतली गजाल जाली. ती कुदळ सामान्य नदरेक सहज दिसनासली. पूण सगळीं आवतां दवरपाची सुवात एकेकडेन आनी हीच एक कुदळ कचपटांत, कोणाक दिसना अशी कित्याक असो प्रश्न ताच्या मनांत आयला जातलो. आनी हांगाच ताच्या मनांत किंतु निर्माण जालो जातलो. हेंच खुनाचें हत्यार बी न्हय मू? असो

विचार ताच्या मनांत आयलो जातलो. त्या कोनशाक वचून ताणें ती कुदळ काडली. ते कुदळीचें पातें ताणें बारीकसाणेन पळयलें. रगताचे दाग बी सोदता जावंये.

तोखणाय दिसली म्हाका ताची. एखाद्रे रहस्यकथेंतल्या डिटेक्टिवा वरी ताची वागणूक दिसली म्हाका. खुनाचो तपास लावपाचो आसलो जाल्यार सगळ्याच दृश्टिकोणांतल्यान विचार जावपाक जाय. जो दोळ्यां मुखार दिसता तो गुन्यांवकारी अशें धरून चलपाक जाय. आपूण गुन्यांवकारी न्हय हें मागीर तुमी सिद्ध करात. म्हाका ताचें वायट दिसलें ना. मनांतल्या मनांत हांसूंक मात आयलें. हे लोक वयले वयल्यान इश्टागतीन वा सहजतायेन म्हजे कडेन उलयतात पूण हांचो म्हजे वयलो दुभाव मात लेगीत उणो नाशिल्लो. दुभावीत खुनी म्हूण म्हजेरूय तांची नदर आशिल्लीच.

"ही व्हर, मागीर हाडून दवर आं जाग्यार." मिसाळान थंय आयिल्ल्या कॉस्टेबलाक सांगलें.

मिसाळान ताका सांगलें आनी तो परत येवन स्टेटमेण्ट बरोवंक लागलो. कांय वेळान घराच्या पंचनाम्याचे स्टेटमेण्ट बरोवपाचें मिसाळाचें काम सोंपत आयिल्लें. जे बायलेक सगळ्यांत पयलीं प्रेत दिसलें ते बायलेक ताणें आपोवंक सांगलें. ही बायल म्हणल्यार भिग्या धनगराची सून चिमणी. स्टेटमेण्ट बरोवपाचें काम बरो वेळ चलिल्लें आनी एक खेप फुटे च्याचो रावंड जावचो म्हूण हांव उठलों आनी गंगीक सांगपाक पडवेर वचपाक गेलों.

म्हज्या साला पसून भायली पडवी तीन चार सोपणां सकयल आसा. अर्दे पडवेर गंगीक रावपा खातीर शिमिटा पत्र्यांनी होडून कूड काडून दिल्ली आसा. उरिल्ली अर्दी पडवी मेकळी आसा. ताका वणटी नात. गंगीचे कुडीचें दार पडवेरच आशिल्ल्यान म्हाका आनी तिकाय हे पडवेचो उपेग करूंक मेळटा. हे पडवेर बसून म्हाका रस्त्यावयले येते वते लोक आनी वाहनां दिसतात. बागेंतलें काम सोंपताकच सांजवेळा हांगाच ट्रांजिस्टर लावन बसतां. गंगी आपलें जेवण करपाचें काम जाताकच

आपले कुडीच्या दारांत येवन बसता. थंयच आमच्या बागेंतल्या जाल्ल्या आनी उरिल्ल्या कामां विशीं खबरी चलतात. हांगाच बशिल्ले कडेन गंगीन म्हाका गांवच्यो, गांवांतल्या मनशां विशींच्यो खबरी सांगल्यात. आपल्या मजेशीर लग्नाच्योय खबरी सांगल्यात.

दाराच्या वयल्या सोपणा वयल्यानूच भायर नदर मारली जाल्यार रस्त्यार कोण नाशिल्लो. प्रेत तेन्नाच उबारिल्लें आसतालें. सगळ्याक सामसूम आशिल्लें. जशें काय हांगा कांयच घडलें ना अशेंच दिसतालें. हांगां थंय मेथ्रावपी लोक आपापल्या कामाक गेले आसताले. डिवाय. एस. पी. आपले बायलेक रिसीव करपाक रेल्वे स्टेशनार गेलो आसतालो. सब इन्स्पेक्टर कदम प्रेता वांगडा गेला आसतालो.

गंगीचे कुडी कडेन नदर मारल्यार कुडीच्या दारांत उबो रावन एक हवालदार गंगीचो आनी हेर कामेऱ्यांचो स्टेटमेण्ट बरोवन घेतालो. च्या कर म्हूण सांगपाक सोपणां देवून गंगीचे कुडी सरीं वचूंक लागलों जाल्यार हवालदारान 'शू' ऽ ऽ असो आवाज काडून आनी हातान कुरू करून म्हाका थंय येवंक नाका अशें सांगलें. आशिल्लों थंयच्यानूच गंगीक च्या करूंक सांगलें. गंगीचो आनी कामेऱ्यांचो स्टेटमेण्ट घेवपाची ही हवालदाराची रीत म्हाका बरोबर दिसली ना. स्टेटमेण्ट घेताना गंगी आनी कामेऱ्यां एकठांय आशिल्लीं. म्हणटकर कोण कितें स्टेटमेण्ट दिता हें बाकिच्यांक कळटालें. ते खातीर सगळ्यांचे स्टेटमेण्टस एका सारखे जावंक शकताले. खरें म्हणल्यार स्टेटमेंट वेगवेगळो घेवपाक जाय आशिल्लो. हें सादें तत्व हवालदाराक खबर ना हाचें म्हाका अजाप दिसलें.

हांव भितर वचपाक परतालों. इतल्यान म्हजी नदर घरा भायर माडा कडेन उबो आशिल्ल्या हवालदार साखळकाराचेर पडली. तो थंय उबो रावन घराचो परिसर नियाळटालो. हाचे विशीं म्हजें मत तितलें शें बरें नाशिल्लें. तरी आसताना या म्हणलें ताचे सरीं. लागीं गेलों आनी विचारलें,

"कितें चल्लां? तुमी भायर शे?"

"मातसो विसव घेतां. पुरो जालां!"

"खरें म्हणल्यार तुमकां पुरो जावपाचें कारण ना. तुमचें काम फकत हेवटेन तेवटेन फिरून लोकां कडेन खबरी मारपाचें"

"म्हजें कामूच तें. लोकांकडेन उलोवन तांचे नकळत म्हायती काडपाचें."

"दीसभर धांवपळ खूब जाली." हांव.

"पस्तीस--चाळीस वर्सांची आसुंये." ताचे संवये प्रमाण ताणें अवचीत ट्रॅक बदललो.

"कोण ती?"

"मेल्या ती बायलमनीस."

"आसुयेता, हांवें तिका लागिंच्यान पळोवंना."

"पळयत जाल्यार पिरायेन तरणाटी दिसताली."

"कित्या वयल्यान म्हणटात तुमी हें?"

"आंगान घसघशीत, गोरी गोमटी." ताणें पोलिसी नदरेन प्रेत बरें नियाळून पळयल्लें शें दिसता.

"फेस दिसना न्हय!"

"सुंदर आसूंक जाय."

"आसत!"

"सॅक्सुयल अेट्रेक्शनाक पिरायेचो हुमरो बादना."

"समजलों ना हांव."

ह्या मनशाचे बुद्‌दीक कितें कीड लागल्या. हो इनडायरेक्टली म्हजेर आरोप करता. हाची म्हजे कडेन उलोवपाची पद्‌धत कदम आनी डहाणूकार हांचे परस वेगळी आसा. घडये हांव कोण हें हाका खबर

नाशिल्ल्यान जायत. हो एक सादो हवालदार. हाका कसले प्रश्न विचारचे आनी कसले विचारचे न्हय, आनी कशी नुलयत खबर काडची हाची कुस्कुटाची अक्कल ना. परत परत तेच ते प्रश्न विचारता. अशें हें पोलीस खातें चलता.

खरें म्हणल्यार, पोलीस खात्याक इन्वेस्टिगेशन कशें करचें, खबर कशी काडची, स्टेटमेंट कशे घेवचे हाचें इन सर्वीस ट्रेनींग दिवपाची खूब गरज आसा. हाचे कडेन पळयत जाल्यार कोणा तरी एका पोलिसाक गर्दैत फिरून खबर काडपाचें दिवंक जाय म्हूण हाका काम दिलां. तें दिता आसतना ताच्या बुद्दीची कुवत पळोवंक ना. हाका लागून हाच्या तोंडांतल्यान तेच तेच निरर्थक प्रश्न परत परत येतात.

दुसरें म्हणल्यार, पोलिसांतल्या सब इंस्पेक्टर पसून वय़ल्या ऑफिसरांक कायद्याचें गिन्यान गरजेचें करूंक जाय. ना जाल्यार, केसींत भलतींच सॅक्शनां लावपाचें काम घडूंक शकता. ते खातीर पोलिसां कडल्यान आरोपीच्या पांजऱ्यांतल्या मनशाक न्याय दिवपाचें काम जातलेंच अशें न्हय. एकाद्र्या खऱ्या खुन्याक नाका आशिल्लीं सॅक्शनां लावन चुकीचो आनी दुभावी पुरावो उबो करून मेकळो सोडपाचें काम हांच्या हातांतल्यान जावंक शकता.

साखळकारान म्हाका स्पश्टीकरण दिवचे पयलींच सब इंस्पेक्टर कदम थंय पावलो हें पळोवन हवालदार साखळकारान ल्हवूच थंयच्यान कूस मारली. पडवेर स्टेमेंटस् बरोवन घेवपाचें काम चल्लां तेंपळोवन कदमान विचारलें,

"कितें चल्लां रे हांगा?"

"स्टेटमेण्टस् घेतात गंगी आनी हेर कामेऱ्यांचे."

"तांच्या स्टेटमेण्टसची गरज ना. तांकां कांय खबर ना. तांणी फकत प्रेत पळयलां."

हांवूय कदमा फाटल्यान भितर गेलों.

सब इंस्पेक्टर कदम भितार आयलो आनी सूऽऽ करून कदेलार बसलो. हांवें घड्याळांत पळयलें. अडेच जाल्लीं. पावसानूय विसव घेतिल्लो.

"वेळ कसो गेलो कळ्ळोच ना. अडेच जालीं."हांवें म्हणलें.

"भूक लागली. परत पोलिसेंत केन्ना पावत सांगूं नजो."

"म्हजे कडेनूय हांगां कांय ना. ना जाल्यार कितेंय करतालों आशिल्लों. हांगां कामा पुरतो येता आशिल्ल्यान घरांत चडशें सामान कांय नासता. सकाळीं तुमच्या मनशां खातीर शिरो केल्लो. ते तो खावंक पावूंक नात. तुमकां दिवं तो?"

"नाका नाका, हांवें बागवेक गाडी घेवन लांज्याक धाडला. उसळ, भाजी पाव, कितें मेळटा तें घेवन यो म्हूण सांगलां. येवपाचो जालोच तो. तुमीय खायात आमच्या वांगडा उसळ पाव."

"म्हाका भूक ना." हांवें म्हणलें.

"चिंता करूं नाकात. ही केस सोल्व जाल्ल्यांत जमा."

"कितें सांगता तुमी! इतली फास्ट?"

"पोलीस डिपार्टमेण्ट म्हणल्यार कितें समजल्यात तुमी!"

"पूण तुमचो तो हवालदार साखळकार. इनडायरेक्टली तो म्हजेरूच एलिगेशन करपाक लागलो."

"ताचें कामूच तें."

"म्हणल्यार?"

"फकत लोकां भितर मिसळप आनी गजाली करून करून सत्य भायर काडप. जो मेरेन केस सोल्व जायना तो मेरेन दुभाव सगळ्यांचोच घेवचो पडटा आमकां!"

"पूण म्हज्या सारख्या म्हाताऱ्याचो दुभाव घेवप?"

"हय. ताचें कामूच तें. सगळेच म्हातारे सेक्शुअली म्हातारे नासतात. कांय लोक पिरायेन जरी म्हातारे जाले तरी तांची कामूकता तरणाट्यां सारखी शाबूत आसता. खऱ्या म्हाताऱ्यांक हाचो त्रास जाता. पूण ताका उपाय ना. सुक्या बरोबर ओलें जळटाच न्हय!"

"शी! कसलो नर्वस जालों जाणां हांव!"

"पूण सुरवाती पसून म्हजो दुभाव तुमचेर नाशिल्लोच."

"कोणें केलें हें कुकर्म? गांवचोच? वळखीचोच?"

"हांगा सरल्यान एक चार पांच किलो मिटरांचेर गांव आसा. ताळ्यागांव."

"खबर आसा. भाजी पालो आनी सदच्या उपेगाचें सामान हाडपाक आमकां थंयच वचचें पडटा."

"थंय एक सामंत म्हूण तुमच्याच नांवाचो पसरकार आसा."

"हय. वळखतां हांव ताका."

"ताच्या दुकानार दोन तीन दिसां पयलीं पंचवीस तिशींतालो एक वंडारी तरणाटो एक मंगळसुत्र घेवन आयिल्लो खंय."

वंडारी हें उतर थळावें. सगळ्यांकूच ताचो अर्थ कळप कठीण. हांगा चिऱ्यांच्यो खणी खूब मोठया प्रमाणांत चलतात. ते चिरे काडपी चड करून कर्नाटकांतल्या विजापूर सायडीचे बी लोक आसतात. गांवांत हांगेल्यो स्वताच्यो जमनी बी आसतात. पूण पावसाळो जातकच तांकां काम धंदो काय नासता. ते आपले बायल भुरग्यां सयत हेवटेन येतात आनी चडशे चिरो काडपाचें काम करतात. चिरे काडपाच्या ठिकाणारूच प्लॅस्टिकाच्यो खोंपी करून रावतात. मे म्हयनो आयलो म्हणजे ते घरा वतात. पावसाळो सोंपतकच परत येतात. हे भोवतेक जातीन लिंगायत आसतात. शुद्ध शिवराक. हांकां थळावे लोक वंडारी म्हणटात. घाटावयल्यान

येवपी लोकांक गोंयकार जशे घांटी म्हणपाक लागले तशे हांगचे लोक कन्नड कामगार लोकांक वंडारी म्हणपाक लागले.

हालिंसाराक नेपाळी गुरखे आनी यु. पी. बिहारच्यान भैया लोकूय बी हया गांवांत दिसूंक लागल्यात. गुरख्यांचें काम चडशें बागो राखपाचें आसा. भैया लोक गांवा गांवांनी फिरून किरकोळांत काजूबियो विकत्यो घेतात आनी जिल्ल्याच्या वा तालुक्याच्या ठिकाणार वचून होल सेलवाल्याक विकतात.

हांव रावतां तो भाग म्हणल्यार सानवली गांवाच्या माथ्या वयलें पठार. हें पठार लांब–रूंद शेकान शेक नदर पावना अशें पातळ्ळां. ही सराद पडंगूच आशिल्ली. सरकारान फळांचीं झाडां लायताल्यांक सब्सिडी दिवपाची येवजण केल्या पसून लोक आपले बागेंत, ना जाल्यार विकते जमनींत आंब्याचीं गार्फां मोठया प्रमाणांत रोवपाक लागल्यात. तळपां फोडून गार्फां लावपाची टॅक्नीक येत पासून हांगा जे जमनीक केन्ना कोण विचार नाशिल्लो ते तळपांतले जमनीक दर येवंक लागला.

लोकांनी सर्रास प्लॉट घेतल्यात आनी वसयल्यात. काम वाडलें आनी मनीसबळ जाय पडलें. गांवचें मनीसबळ पावना म्हूण आनी सवाय पडटा म्हूण बागेचे राखणे खातीर गुरखे लोक येवंक लागले. कामाच्या निमित्त्यान गांवां–गांवानी भटकत येवपी लोक एक चिंतेचोच विशय. तांतूंत वायट कांय नासलें तरी तांच्या वांगडा तांच्यांतल्यो आशिल्ल्यो–नाशिल्ल्यो बऱ्यो वायट प्रवृत्ती आयात जातात तें वायट आशिल्लें.

"तें मंगळसुत्र हे मेल्ले बायलेचें आशिल्लें तर?"

"आसुं येता. कारण सामंत पसरकाराची बायल प्रायमरी हेल्थ सॅण्टरांत आयिल्ली खंय. ती सांगताली खंय ती बायल ह्याच आंगलोटाची आशिल्ली. हेर वंडाऱ्यांकडेन चवकशी करून ताच्या घराकडेन पुलिसांक धाडिल्ले."

"धरलो ताका?"

"तो नाशिल्लो घरा कडेन. पूण घरांत ताचो एक फोटो मेळ्ळो. तो फोटो पसरकाराक दाखयलो. पसरकार वळखलो. तरणाटो तोच हें थारलें. सकाळ मेरेन ताका आमी ताब्यांत घेतात."

म्हाका खूब बरें दिसलें. म्हाका हे केसीचो बेगीन निकाल लागिल्लो जाय आशिल्लो. इतले लागीं ही घडणूक घडप म्हणल्यार लागसार आशिल्ले आमी सगळेच दुभावी. कोणाचेर म्हूण विश्वास दवरतलो? दुभावी खुनी लागसार खंयूय आसूं येता. जाचे कडेन उलयतां तो बी खूनी न्हय मू असो विचार म्हज्या मनांत आयले बगर राव नाशिल्लो. म्हजी भिरांत वाडत वताली. घडये म्हजे कडेन उलयतात ते लोक म्हजे कडेन पळयता आसतना तेच नदरेन विचार करतात आसुंये. म्हाका मात असुरक्षीत दिसपाक लागलें. जेन्ना नवो नवो हांगा आयिल्लों आनी लागसाराक अजिबात घरां नाशिल्लीं तेन्ना लेगीत म्हाका इतलें असुरक्षीत दिसूं नाशिल्लें. रातीचो एकलो रावपाक लेगीत कांय दिसनाशिल्लें. पूण आतां? रस्त्या पलतडच्या जाधवाच्या घरांत गुरख्यालें कुटूंब रावता आसून लेगीत मनांतली भिरांत वचनाशिल्ली. तरे तरेचे विचार म्हज्या मनांत धुमशणां कांडटाले. प्रयत्न करून लेगीत तकलेंतल्यान कशेच वचनाशिल्ले.

इतल्यांत सरपंचीण बाई, रग्या चौगुले आनी तो पंचायतीचो वांगडी, जे आसोर जाल्ल्यान भायर खंय तरी बोवाळटाले, ते आतां भितर आयले. सब इन्स्पेक्टर कदमा मुखार येवन उबे रावले

आनी तांणी प्रेत पुरपाचो विशय काडलो. रग्यान म्हणलें,

"प्रेत पुरपा विशीं उलोवंक आयिल्ले."

म्हज्या काळजांत धस्स जालें.

"गांवांतूच पुरचें पडटलें तें." सब इन्स्पेक्टर कदमान म्हणलें.

"गांवांत आमी केन्ना प्रेत पुरनात." सरपंचीण बाई.

"पूण हें पुरचें पडटलें."

"अनवळखी बायल, जिची जात पात कांय खबर ना आमी कशें पुरताले? आनी खंय पुरताले?"सरपंचीणबाई.

"हें पळय, नेमा प्रमाण बेवारशी प्रेत ज्या गांवांत मेळटा त्याच गांवांत तें पुरपाचें आसता."

"ह्या गांवांत दर एके जातीची मसंड वेगळी आसा. मेल्या ती बायल कोण, खंयचे जातीची तें कोणाकूच खबर ना, मागीर खंयचे मसंडींत पुरताले प्रेत? गांवाक एक परंपरा, रिती रिवाज म्हूण आसता काय ना?"

"नियमूच तसो आसा. बेवारशी प्रेत ज्या गांवांत मेळटा त्याच गांवांत तें पुरपाचें आसता. तुमकां खबर ना जाल्यार तुमी दुसरे खंयचेय पंचायतींत फोन करून विचारात."

सरपंचीण बाईच्या मुखामळार समाधान जाल्ल्याचीं कांयच चिन्नां दिसलीं नात. वयल्यान तिणें म्हणलें,

"ग्रामपंचायतीची बसका घेवन थारावचें पडटलें."

"बरें आसा! तुमी कितें करपा आसा तें बेगीन करात. पंचायतीन मान्यताय दिली ना जाल्यार कायद्या प्रमाण आमी प्रेत पंचायतीचे सुवादीन करताले आनी वांगडा चीट दिताले. पंचायतीन ते भशेन केलें ना जाल्यार सरकारी आदेशा प्रमाण तुमी वागले ना म्हूण तुमचेर कायदेशीर कारवाय करपाक आमी मेकळे."

हाचेर सरपंचीण बाई कांय उलयली ना. 'आमी पंचायतीची बसका घेतात' अशें ओंठांतल्या ओंठांत पुटपुटत ती आनी तिचे वांगडी थंयच्यान गेले. सब इंस्पेक्टर कदमान हें इतले थंडसायेन सांगिल्लें की आयकतल्याक अजाप जावपाचें. सब इंस्पेक्टर कदम पोलीस अधिकारी म्हूण उलयतालो काय एक सादी व्यक्ती म्हूण उलयतालो असो दुभाव पडपाचो. निमाणे कायदेशीर कारवायेचो हुकमाचो एको काडटना लेगीत सामक्या मवाळ

उतरांनी ताणें काडलो. कदम साद्या युनिफॉर्मांत आशिल्ल्यान तो एक सादो मनीस उलयता काय दिसतालो. इतले सगळे भानगडींत म्हजेच बागेंत प्रेत पुरीत म्हणपाची म्हजी भिरांत मात अजून उणी जावंक नाशिल्ली. म्हाका सूख लागनाशिल्लें. मनांत परत परत तोच प्रस्न येतालो. पुरलें म्हूण म्हाका व्हडलें शें नाशिल्लें ताचें. पूण गांवांत हाचेर चर्चा जातली. गांवच्या लोकांची समजुतूच वेगळी. परंपरा, रुढींचेर विस्वास दवरपी. कामेऱ्यां कामाक येवंक अनमनतलीं. अनमनतलींच कित्याक? बागेंत पांय दवरपाचें धाडस लेगीत करचीं नात. गंगी लेगीत काम सोडून वचपाची भिरांत. हांवें हवालदार मिसाळाक ल्हवूच विचारलें,

"प्रेत खंय पुरपाचें आसता? मसंडींत?"

"गांवांत खंयींय. सरकारी जाग्यांत."

म्हाका मातशें सूऽ जालें. म्हजे बागेंत तरी पुरपाचे नात म्हणपाची खात्री जाली. पूण दुसऱ्याच खिणाक विचार आयलो, सरकारी प्रोपर्टी हांगा लागसार आसा खंय? म्हजे म्हायती प्रमाण लागींचे सरादीचीं सगळीं ठिकाणां खाजगी मालकीचीं आसात. सारखें स्पश्ट जावं दी म्हूण हांवें मिसाळाक परतो प्रश्न केलो,

"ह्या वाठारांत सरकारी जागे खंय आसात? सगळे खाजगी."

"नाच जाल्यार, इलेक्ट्रीसिटी पोल्सां वयल्या वायरी सकयलो जागो सरकारी मानतात."

परत हांव खूश जालों. पूण हीय खोस खीणभरच उरली. दुसऱ्याच खिणाक उगडास जालो, आमचेय बागेंतल्या पोल्सां वयल्यान इलेक्ट्रीक वायरी गेल्यात. हाचोच अर्थ, म्हजे बागेंत इलेक्ट्रीक वायरी सकयल खंयूय प्रेत पुरलें जाल्यार हांव नाका म्हणूंक शकचोंना. निमाणें कितें घडटा तें घडूं म्हूण ताचेर विचार करपाचें सोडून दिलें.

इतल्यान भिम्या धनगराची सून चिमणी आयली. सगळ्यां आदीं हिणें तें प्रेत पळयल्लें. तिचो स्टेटमेण्ट घेवपा आशिल्लो. देखून तिका

आपोवंक धाडिल्लें. तिका पळयली जाल्यार आनी ती उलयता तें आयकलें जाल्यार ती भिल्या म्हणपाचें स्पश्ट दिसतालें. तें पळोवन हांवें म्हणलें,

"हें पळय चिमणे, आमकां भिवपाचें कारण ना. जें कितें तुवें पळयलां, तें खरें खरें सांग. आमी कांयच करूंक ना जाल्यार आमकां भिरांत कसली."

हांव हें उलयलों खरों. पूण रोखडोच विचार आयलो मनांत, हांव तिका अप्रत्यक्ष सुचोवणी करतां अशें पोलिसांक दिसलें जाल्यार? केन्ना केन्नाय आमी सादे भावार्थान उलोवन वतात पूण तेंच आंगलट येवपाक शकता हाचो विचार केन्ना मनांत येना. कोणेय उलयल्ल्या वाक्याचो संदर्भ विरयत अर्थ लायिल्लो आनी ताका लागून अनर्थ घडिल्लो हांवें जायते फावटी पळयला. हाचे फुडें आनी कांय उलोवचों ना अशे मनांत थारायलें. थंयच्यान उठलों, बाथरुमांत गेल्ल्या भशेन केलें आनी परत ल्हवूच पडवेर येवन बसलों. पडवेर बशिल्ले कडेन चिमणी स्टेटमेण्ट दिता तें स्पश्टपणान म्हज्या कानांर पडटालें. तिणें सांगलें,

"हांव गोरवां घेवन आड्या भायल्यान वतालीं. तेन्ना एक काळो सुणो भुकत म्हजे वटेन धांवून आयलो. तो आड्या भितरल्यान धांवत आयिल्लो. तेन्ना हांवें आड्या भितर पळयलें. थंय एक प्रेत आशिल्लें आनी प्रेता कडल्यानच सुणो धांवून आयिल्लो. घरा फाटल्यान कामेऱ्यां काम करतालीं. थंय वचून तांकां सांगलें."

म्हाका तिगेलो स्टेटमेण्ट फॅब्रिकेटेड दिसलो. आड्या भितर पंचवीस तीस फूट तरी भितरले वटेच्यान प्रेत आशिल्लें. आड्या भायल्यान तें सहज दिसपा सारखें आशिल्लें. ताच्या म्हऱ्यांतल्यान कोणूय गेले बगर सुणो कोणाच्याय आंगार धांवून वच्चो ना. गांवावेलीं सुणीं खूब मनशाळिल्लीं आसतात. कारणा बगर तीं कोणाचे वाटेक वचचीं नात. हें जंय म्हाका कळ्ळें थंय पोलिसांक कित्याक कळ्ळें ना? हांवूय कांय उलयलो ना. ते भायर तिणें ज्या काळ्या सुण्याचो उल्लेख केल्लो तो खुबूच मनशाळिल्लो सुणो आनी तो सदांच लोकांच्या घरा वचपी. तो सुणो चिमणेचेर भोंकतलो

अशें दिसना. स्टेटमेण्ट बरोवन जातकच चिमणी पोलिसांक सांगून वचपाक गेली.

लांज्याक गेल्लो तो पोलीस भाजी, पाव, उसळ कितें मेळटा तें घेवन आयलो. हांवें तांका बश्श्यो, ग्लास बी दिले आनी पिवपाक उदकय दिलें. म्हजे कडेन गोड शिरो आशिल्लो. सकाळ फुडें हवालदार झोरे आनी पवारा खातीर केल्लो. तोय तांकां दिवपाचो विचार केलो. पूण तो गोड आशिल्ल्यान कोणेंच घेतालो ना. हे सगळे खातात थंय हांव आनी उबों कित्याक अशें चिंतून हांव भायर सरून पडवेर देंवतात त्या सोंपणार उबो रावलों. इतल्यान थंय पोलीस पाटील आयलो. तो बावडो सकाळच्यान पोलिसां वांगडा आशिल्लो. ते सांगतात थंय धांवतालो, ते सांगतात तें काम करतालो. ताणें सांगलें,

"हांव वयर गुरख्यागेर वचून बसतां. कितेंय काम आसलें जाल्यार म्हाका थंय रकाद धाडात"

"बरें आसा." हांवें म्हणलें.

म्हाका पोलिसांचें वागणेंबरें दिसलें ना.. तांचो वर्कींग लंच चालू आशिल्लो. पोलीस पाटील थंय आयिल्लो. ताकाय लंचाक आपोवपाचो न्हय ताणी? ताचो समज कितें जातलों? हांवें पोलिसांक वर्कींग लंच दिला आनी आपल्याक आपयलो ना, अशें ताका दिसपाक फावता.

इतलें म्हणल्यार पोलिसांचें काम सोंपिल्लें. आतां प्रेताचें पोस्ट मॉर्टम जातकच तांकां काम आशिल्लें. प्रेताचो विलो लावप. पावस थांबून आसोर जाल्लो. मळबांत इल्लो इल्लो उजवाड फांकत वतालो. आपली साटली पोटली कवळून पोलिसूय आपले वाटेक लागिल्ले.

म्हाकाय मातशें सूऽ जाल्लें. घर सामकें रिकामें रिकामें दिसतालें. घराचेर अवकळा पातळिल्ल्या भशेन दिसतालें. कोणाकय मसंडींत पावोवन

निमणे संस्कार करून येतकच जशें बेचैन दिसता तशें म्हाका आज दिसतालें. भितर हांव आनी पडवेर गंगी अशीं दोगांच उरलीं. फुडल्या कामाक लागचे पयलीं मातसो सुसेग घेतालों म्हूण हांव पडवेर येवन बसलों. गंगी थंयच बशिल्ली.

"चल, सू ऽ ऽ जालें! कालच्यान जीव सामको सकयल वयर जातालो. आतां मातशें मेकळें शें दिसता." गंगीन म्हणलें.

"हय! पूण म्हज्या मुखावयलो प्रश्न मात अजून सुटूंक ना. प्रेत पुरपाचो प्रश्न म्हज्या मतान अजून सुटूंक ना."

"खंयूय पुरूं! आमकां कितें ताचें." गंगी

"म्हजे बागेंत पुरनात जाल्यार पुरो इतलेंच हांव मागतां."

"हांगां पुरता म्हणटाले तो? " गंगीच्या आवाजा वेल्यान ती बरीच भिल्या म्हणपाचें म्हाका जाणवलें.

"तांचो कितें भरवंसो? हांगाच प्रेत आसा हांगाच पुरुया म्हणपाक कमी करपा ना ते."

"हांगा पुरपाक दिवप ना आं. घराचे इतले लागीं!" गंगी

"प्रेत बादतलें बी म्हणपाची भिरांत म्हाका ना."

"पूण कामगारांचोय प्रश्न आसा. प्रेत मेळ्ळां तेन्नाच्यान तांची कुजबूज चालू आसा. एकलें तर म्हणटालें फायच्यान आपूण कामाक येवचेंच ना म्हूण."

"एकल्याचे तकलेंत कीड हुळहुळ्यार पुरो. काम करपी मानाय कामेऱ्यां मेळप कठीण जातलें."

"ते बायलेचो जीव खंय गेला काय, बागेंत मारल्या काय तिका मारून हाडून उडयल्या. बागेंत जीव गेला जाल्यार ती आपल्याक बादतली म्हणपाचो भंय तांचे मदी घोळटा." गंगीन सांगलें,

इतल्यान लागींच काम करपी दोन कामेऱ्यां आयलीं.

"आतां काम कितें करूं?" तीं विचारपाक लागलीं.

"कितलीं कामेऱ्यां आसात?"

"आज चारूच कामेऱ्यां आयिल्लीं. तातूंतल्या दोगांक रग्या चौगुलेन आनी सरपंचीण बाईन आज ग्रामपंचायतीची मिटींग आसा म्हूण बाकीच्या वांगड्यांक आपोवपाक धाडलीं."

"ग्रामपंचायतीच्या वांगड्यांक सांगपाक म्हजीं कामेऱ्यां? तींय म्हाका सांगनासतना?"

काम ग्रामपंचायतीचें आनी तें करपाक मनशां म्हजीं. दोन कामेऱ्यां कामार ना म्हणचे एक दिसवडो गेलो. नाय जाल्यार आज काम कितें करतलीं आसली. म्हजें कामाचेर लक्ष नाशिल्लें. हांव आनी गंगी पोलिसांच्या फाटले फुडल्यान धांवपळ करपाक उरलीं. आमचें लक्ष नाशिल्ल्यान काम कासवाचे गतीनच चालू आशिल्लें. कामेऱ्यांचें चडशें लक्ष आमचे कडेनच आशिल्लें. हांगां कितें कितें चल्लां हाचीच उत्सुकताय तांकां चड आशिल्ली.

खरें म्हणल्यार काम कितलें जालां हें तांकां विचारप म्हणल्यार म्हजें पिशेपण. कामेऱ्यां आसलींय जाल्यार आज काम कांयच जावचेंना हें म्हाका खबर आशिल्लें. तीं येवंक नाशिल्लीं जाल्यार कांयच लुकसाण जावचें नाशिल्लें. जीं आयलीं तांचे पोलिसांनी स्टेटमेण्टस घेतले पूण चिंचवडींतली कामेऱ्यां येवंकूच नाशिल्लीं. तांचे बाबतींत पोलिसांनी विचारूंक लेगीत नाशिल्लें.

पंचांक रकाद दिवपाक गांवांत गेल्लीं कामेऱ्यां परतून आयलीं. कामाचीं सुटपाक अर्दवरूच उरिल्लें. आतां तांकां कामाक लावन दवरपांत कांयच फायदो नाशिल्लो. काम कांयच जावचें नाशिल्लें. तांकां हांवें घरा वचपाक सांगलें.

"आमी फाल्यांच्यान चार दीस कामाक येवचीं ना भाऊ."

"बरें आसा. हें आदींच थारिल्लें न्हय?"

तांकां घरचीं कामां करपाचीं आशिल्लीं. हांवें तांकां वचपाची परवानगी दिली तरी तीं थंयचे थंयच घुटमळूंक लागलीं. म्हाका अजाप दिसलें ना. आज दीस भरयांत घडिल्ल्यो घडणुको आनी पोलिसांक ताणी दिल्ल्या स्टेटमेण्टसांचेर चर्चा जावंची, आमी उलोवचें अशें तांकां दिसतालें. गंगीनूच सुरवात केली. आपणें अशें सांगलें तशें सांगलें म्हणूंक लागली. मागीर एक कामेरें उलयलें,

"तुमी केन्नाच्यान कामाक आसात अशें पोलिसान म्हाका विचारलें. हांवें सांगलें, चार दीस जाले."

हें आयकून म्हाका तिडक मारली. तीं आमचे बागेंत आठ दीस जाले काम करतात. फट कित्याक उलोवपाक जाय आशिल्लें तांकां? हेर कामेऱ्यांनी तिचीच री ओडिल्ली. हांवें म्हणलें,

"हांवें तुमकां सांगिल्लें न्हय जें घडलां तें खरें खरें सांगात म्हूण. फट उलोवपाची गरज कितें आशिल्ली? हांवें काल पोलिसांक सांगिल्लें आठ दीस जाले तुमी कामाक आसात म्हूण. म्हज्या स्टेटमेण्टांतूय हांवें तशेंच दिलां. आतां चार दिसांचोच पगार दितलों हांव तुमकां. आठ दिसांचो न्हय. तुमी फट उलयल्यांत हें पोलिसांक कळ्ळें जायत जाल्यार तुमीच त्रासांत पडटलीं."

हवालदारान घेतिल्या स्टेटमेण्टांत बरोच दोश आशिल्लो. ताणें विंगड विंगड कामेऱ्यांचो विंगड विंगड स्टेटमेण्ट घेतालो हें खरें, पूण तो सगळ्यां सामकार घेवंक जायनाशिल्लो. तातूंत सारखेपणा येता. खरें म्हणल्यार पोलीस म्हणटकर ताच्या लक्षांत हें येवंक जाय आशिल्लें. संबंध दिसाच्या घडणुको आनी पोलिसांची वागणूक पळयल्यार तातूंत इण्टेलेक्चुअल लेवल उणोच दिसलो. दिसलोच ना म्हणल्यार जाता. स्टेटमेण्ट घेवपाक जाय म्हूण घेताल्यात. कितें तरी विचारपाक जाय म्हूण विचारलां. पोलिसान आपल्याक कितें कितें विचारलें तें गंगीन फुडें सांगलें, कितलीं वर्सां तूं हांगा काम करता? ही बाग कोणाची? मालकाचीं जमनी वयल्यान कोणाकडेन झगडीं बी जाल्लीं? मालकाचे गांवच्या

लोकां कडेन संबंद कशे आसात? ताचे उपरांत ताणें म्हजे संबंदीची चवकशी केली. ती मातशी वेगळ्या स्वरुपाची आशिल्ली. देखीक, हांव सभावान कसों? हांव केन्ना येतां? केन्ना वतां? हांगा म्हाका मेळपाक कोण कोण येतात? हांव केन्नाय बायलांक घेवन येतां? म्हाका कोणूय बायल मनीस मेळपाक येता? अशे तरेचे आनी खाजगी जिणे कडेन संबंदीत शे प्रश्न ताणें गंगीक केले. म्हाका ताचें कांय अजाप दिसलें ना. तरी पूण म्हजे पिराये कडेन पळोवन तरी असले प्रश्न गंगीक विचारपाक फाव नासले अशें मनांत दिसले बगर रावलें ना.

आतां कामेऱ्यां मदली चर्चा सोंपत आयिल्ली. सकाळ पसून कोणाक कितें विचारलें, कोणें कितें सांगलें हें सगळें उलोवन जातकच तांच्या मनाचो ओग उणो जालो आनी आतां उलोवपा सारखें कांय ना अशें जातकच तीं वचपाक गेलीं. तीं वतकच गुरख्यागेर बसपाक गेल्लो पोलीस पाटील सकयल देंवलो. ताणें म्हाका विचारलें,

''खंय पावलां पोलिसांचें काम?''

''काम सोंपोवन पोलीस व्हदळ गेले. तुका खबर ना?''

''हांगा हांव सकाळ पसून खायनासतना, जेविनासतना मरतां. ताची कोणाक पर्वा ना.' अशें तो बडबडत रावलो.

म्हजे कडेन सकाळीं केल्लो गोड शिरो तसोच आशिल्लो. जांचे खातीर केल्लो ते खावंक पावलेना, आनी म्हाकाय खावपाक आतां मेरेन वेळ मेळ्ळो ना. तातूंतलो ताका थोडो खावपाक दिवचो ह्या हेतून हांवें ताका म्हणलें.

''म्हजे कडेन गोड शिरो आसा. सकाळीं पोलिसां खातीर केल्लो. ते खावंक पावले ना. इल्लो खावन चल. हाडूं?''

''नाका.''

''नाका कित्याक? इल्लो खावन चल मरे. पोटाक थाकाय मेळटली.'' गंगीनूय ताका खूब आग्रो केलो.

"आमीय कोणें कांयच खावंक ना. खावपाची याद तरी कोणाक जाता. सकाळच्यान उपाशींच 'आसात."हांवें सांगलें.

पूण तो कसोच तयार जालो ना. आनी ताचें बडबडपूय उणें जालें ना. 'आपली कोणाक पर्वा ना' हें ताचें पालूपद चालूच आशिल्लें. खरें म्हणल्यार गुरख्याच्या घरा कडल्यान ताका सगळें दिसपाक जाय आशिल्लें. तें घर उंचायेचेर आसा. तो थंयच आशिल्लो काय आनी खंय गेल्लो काय असो मनांत दुभाव आयले बगर रावलो ना. तो आपलें तेंच बडबडत गेलो.

म्हाका न्हावपाक जाय आशिल्लें. दोन दिसांचे हे धांवपळींत धड न्हावपाक मेळ्ळें ना धड कपडे बदलपाक मेळ्ळे नात. काल सकाळच्यान आंगार तेच कपडे घेवन भोंवतां हांव. सकाळ फुडें कामाक वताना पोन्ने कपडे घालुनूच वतां. दीसभर काम केलें, सांजवेळचो येवन न्हालों आनी कपडे बदल्ले. पूण काल सकाळच्यान ह्या नित्यक्रमांत खाडो पडलो. काल सकाळीं णवांक घाल्ले कपडे बदलुंकूच मेळ्ळे नात. त्याच कपड्यांनी हांव लांजा पोलीस स्टेशनार गेल्लों. त्याच कपड्यांनी रातीं बोरकारागेर न्हिदिल्लों आनी दीसभर त्याच कपड्यांनी भोंविल्लों. बरेंऽऽ उदक तापयलें, न्हालों आनी पडवेर येवन बसलों.

म्हजे बागेंत प्रेत मेळ्ळा पसून आनी चड करून कालचे रातीं जे परिस्थितींत नानागेर हांवें तळमळून रात काडली तें पळयत जाल्यार फार्म हावसांत एकलो न्हिदपाचो धीर म्हाका जावंचो नाशिल्लो.. गंगी तर बागेंत न्हिदपाक तयारूच नाशिल्ली. ती घरा वचपाची आशिल्ली. हांव नानागेर वचपाचो विचार करपाक लागलों.

दीस भराच्या कामाच्या भरांत पोटाचो उगडासूच जालो ना. पूण आतां म्हाका भूक लागल्या म्हूण कळ्ळी.. तीच स्थिती गंगीचीय आसतली. धड जेवण ना. धड खाण! आपलो कोणूय गेल्यार काकुळट येवन शेजारी

पाजारी च्या पाणी हाडून ताळ्यार घालतले आशिल्ले! घेतलें ना जाल्यार फोर्सान खावपाक लायतले आसले. तें लेगीत आमच्या नशिबांत ना.

"सकाळ पसून आमी कांयच खावंक ना. भितर सांजो आसा तोच खावया." हांवें गंगीक म्हणलें.

हांव ऑल्तोरावयलो उठलों आनी भितर वचपाक लागलों. वतां वतां सहज म्हूण पड्डो कडेक काडून भायर रस्त्यार नदर मारली. पळयल्यार नाना येता तो दिसलो. तो घरा लागीं पावताकच हांवें विचारलें,

"कितें नाना, कितें म्हणटात?"

"कांय ना. तुमकांच आपोवपाक आयिल्लों हांव. सांजे न्हिदपाक आमगेर येयात तुमी. हांगा एकले रावूं नाकात तुमी."

"हय नाना, तशेंच करचें पडटलें. हांगा न्हिदपाचें धाडस कशेंच जावचें ना म्हाका."

"आनी न्हिदपूय बरोबर न्हय. वेळ काळ सांगून येता?"

हांव भितर गेलों. तीन कोपां च्या केलो. सांजो मातसो हून केलो. तीन बश्शयांनी घालो आनी गंगी, नाना, आनी हांवें खालो. च्या घेवन जातकच नाना घरा वचपाक गेलो.

लांज्या साकून येवपी बस येवन फुडें गेली. स वरां जायत आयिल्लीं. गंगी आनी हांव कांय वेळ उलयत बसलीं. खबरी आशिल्ल्यो फकत आयच्यो घडणुकांच्यो. सकाळ पसून कितें कितें घडलें आनी कोणें कितें म्हणलें ह्योच खबरी. पांच धा मिनटां बसताकच आमी उठलीं. दाराक कुलूप लायलें. ती आपल्या घरा आनी हांव नानागेर वचपाक चलूंक लागलों. गंगीची बडबड चालूच आशिल्ली. आज सकाळच्यान घडिल्ल्या घडणुकांचेर ती उलयत आशिल्ली.

नानागेर पावताकरूय खबरी त्योच. दीसभर घडिल्ल्या घडणुकांचें एके तरेन रिकॅपीचुलेशन जालें. जनूभाऊ, नानाचो व्हडलो भाव मुद्दाम

म्हाका मेळपाक म्हूण वयर आयिल्लो. नानाचें मूळ घर सकयल आसा. वयल्या घरा पसून दोन अडेच किलोमिटर अंतराचेर म्हंयचे देगेर दोंगराच्या मुळसांत. आनी वयलें घर वयर सड्यार. ताका कोणें तरी सांगलें, म्हजे बागेंत प्रेत मेळ्ळां, आनी थंय पोलीस आयल्यात.

नानाच्या कुटुंबाचें एक बरें आशिल्लें. नाना सगल्यो अर्थीक बाजू सांबाळटालो आनी ताचो व्हडलो भाव जनूभाऊ तालुक्यांतल्यो, जिल्ल्यांतल्यो बी कसल्योय राटावळी आसल्यार सांबाळटालो. तो मदीं ग्रामपंचायतीचो पंच आशिल्लो. सरपंच जावपाची संद ताचे कडेन आपशीं चलून आयिल्ली. हाचे पयलीं सरपंच आशिल्लो ताका अविश्वासाचो थाराव हाडून वांगड्यानी काडलो आनी ताच्या जाग्यार सरपंच पदाची माळ आपशींच जनूभाऊच्या गळ्यांत पडली. हाका जो कितें पिरयेड मेळ्ळो त्या वेळार हाणें बरें काम करून दाखयलें. ताचे भायर, सरकारच्या विकर सेक्शना बद्दलच्या येवजण्यांचो अभ्यास करून तातूंत सगल्या विकर सेक्शन जमातींचो सारखो आसपाव केलो. हाचे पयलीं अशें जावंक नाशिल्लें.

कुटुंबाच्या व्हडल्याक वा मुखेल्याक फाव तो आदर दिवपाचें एकत्र कुटुंबाचें मुखेल तत्व नाना बरे तरेन पाळीत आयला. तांची मूळ प्रोपर्टी सामकीच उणी. पूण उपरांत जी प्रोपर्टी केल्या ती नानान केल्या. पूण नानान ती घेतना कुटुंबाच्या मुखेल्याच्या नांवार म्हणल्यार जनुभाऊच्या नांवार घेतल्या. ताच्या सभावाचें तें एक खाशेलपण. म्हाका पळोवन जनूभाऊन म्हणलें.

"सगळी गजाल तुमचे कडल्यान आयकुची म्हूण हांव आयलां." हांवें ताका सगळी गजाल सांगली आनी उलयतां उलयतां हांवें ताका म्हणलें,

"तुर्ताक म्हाका हुस्को आसा तो प्रेत पुरपाचो. म्हजेच बागेंत पुरलें जाल्यार फाल्यां कामेऱ्यां कामाक येवपाक कटकटी करतालीं. प्रेत पुरून जातकचूच हांव सुटलों."

"तुमी चिंता करूं नाकात भाऊ ताची. तोय प्रश्न चड करून

सुट्टलो. ग्राम पंचायतीची बसका जाली. तातूंत हाचे विशीं बरीच भासाभास जाली. गांवचे जमनींत प्रेत पुरूंक ना दिवपाचो विशय परत परत येवंक लागलो तेन्ना एका वांगड्यान सांगलें, गांवचे जमनींत प्रेत पुरपाचो प्रश्न येवचो ना. कारण देवाची राय म्हणटात ती जमीन ग्राम पंचायतीची नासून सरकारची आसा. थंय प्रेत पुरपाक जाता. तशें ते पुलिसांक सुचयतले.' जनूभाऊलीं हीं उतरां आयकून म्हाका बरें दिसलें. हावें म्हणलें,

"तशें जायत जाल्यार खूब बरें जातलें." म्हज्या मना वयलो ताण बरोच कमी जालो.

सादारण सात साडेसातच्या अदमासाक पोलिसांची गाडी नानाच्या घरा कडल्यान उरफाटे दिकेन गेली. चड करून ती ह्या शॉर्ट कट मार्गान लांज्याक गेली आसतली. हांव आनी नंदू ज्या रस्त्यान लांज्याक पोलीस स्टेशनार गेल्ले ती ही दिका. नानाचें घर हें रस्त्याच्या तिस्कार आसा. घराक समांतर असो गांवचो मुखेल रस्तो वता. आनी ताचे गेटीच्या मुखार सरळ दिकेन एक रस्तो दुसऱ्या गांवांत वता. ताका लागून नानालें घर तिस्कार जालां. तांच्या घरांत चवकेर बसल्यार कोण खंयच्यान वता, आनी खंयचें वाहन खंयचे दिकेन वता हें बशिल्लेकडेन दिसतालें.

चड करून दनपरां सब इंस्पेक्टर कदमान सांगिल्ले प्रमाण खुनी सापडलो जातलो आनी प्रेताची वळख पटली आसतली. म्हाका मातशें बरें दिसलें.

"पूण एक सांगतां सामंतभाऊ, खून तुमच्या ठिकाणार वा ठिकाणा भायर लागसार खंय जावंक ना." जनूभाऊन सांगलें.

"प्रेत भायल्यान हाडून उडयलां अशें म्हणपाचें आसा तुमकां?"

"म्हाका तशेंच दिसता."

"कित्या वयल्यान म्हणटात तुमी?"

"तुमचे सरादीक आसात तीन चार घरां. तींय बी पांचशीं ते सातशीं फुटांचेर एक अशीं. सगळीं वळखीचीं आनी आमच्या तोंडावयलीं मनशां. शिवाय तुमच्या घरा वयले वटेन गुरखो रावता. ताका मातूय कळचें नाशिल्लें खट खूट जाल्लें?" जनूभाऊ

"म्हाका दिसता एकल्याचें काम न्हय हें. पयस खंयतरी खून केला आनी प्रेत हाडून तुमचे बागेंत उडयलां. एकल्याच्यान उबारूंक जावपा सारखी बायल न्हय ती." नानान मदींच म्हणलें.

नंदून नानाच्या म्हणण्याक पूरक अशी खबर सांगली.

"असले तरेच्यो घटना पयलीं घडल्यात सामंत भाऊ. फाटल्या दिसांनी कांय मनशांनी एका मनशाक फूस लावन जितो मारपा खातीर सानवली गांवचे न्हंयेचेर किण्ण अशा जाग्यार हाडलो. ज्या मनशाक हाडिल्लो त्या मनशान हांकां पयशे दिवपाचे आशिल्ले खंय, ते मेळपाची आशा सोपताकच तांणी हो भिरांकूळ उपाय सोदून काडिल्लो. त्या मनशाक रिक्शांतल्यान भायर काडून ताका तांणी मारपाक सुरवात केली. हांच्या हातांतल्यान आपूण आतां जितो उरचों ना म्हूण आकांतान ताणें खोल न्हंयेंत उडकी मारली. जंय उडी मारली थंय न्हंयेच्या उदकाचो लोट घसघशीत आशिल्लो. थंयच्यान तो व्हांवत सकले वटेन बरोच पयस पावताकच ताका एक ताळप मेळ्ळें आनी ताका घट्ट धरून तो वग्गी रावलो. जांणीं ताका हाडिल्लो तांणी रातभर ताचो सोद घेतलो पूण तो तांकां मेळ्ळो ना. तो बुडून मेलो आसतलो अशें समजून ते परत गेले. फांतोड जातकच तो मनीस ल्हवू ल्हवू पेंवत न्हंयेचे देगेर आयलो. त्या गांवच्या लोकांक ताणें जाल्ली गजाल सांगली. तांणी ताका ताच्या घरा पावयलो. अशा प्रकारचेंच हें प्रकरण आसूं येता.

"नाना, एक काम पोलिसांक बरेंच कठीण वतालें आं." हांव.

"कसलें तें?"

"पावसाच्या उदकान तिच्या आंगावयले रगताचे दाग धुवन वताले.

बोटांचे ठशे मेळचे नात. वासार कांय गजाली सिद्ध जातात. पूण पावसाच्या उदका नेटार सगळें आंग धुवन गेल्ल्यान त्योय सिद्ध जावच्यो नात. पावसाचो केदो आदार जातलो खुन्याक?"

"कोण आसतली बायल ती?"

"देवाऽ ऽ क खबर."

"तुमगेलीं सगळीं कामेऱ्यां कामाक येतात?"

"कामेऱ्यांतली कोण न्हय ती."

"पाड पडूं तिचें."

"तिचें न्हय, तिका मारतल्याचें."

जेवन आमी न्हिदले. मनांत विचारांचें धुमशण चलिल्ल्यान जेवणाचेर लक्ष वता? पोटाक कितेंय जाय म्हूण जेवले.

* * *

# पांच

आज बिरेस्तार आशिल्लो. सकाळीं साडे स वरांचेर नानाच्या घरा कडल्यान हांव म्हज्या घरा आयलों. सकाळच्यो विधी सगळ्यो करून मेकळो जाताकच थोडो वेळ हांगा थंय गणयलें. एके तरेची मरगळ आयिल्ली. आळसायेन कितेंच काम करचें शें दिसनाशिल्लें. ताशें पळोवंक गेल्यार कामूय कांय नाशिल्लें. एकाद्र्या घरांतालो मनीस मरताकच जी मनाक जडसाण येता ताशेंच आज म्हजें जाल्लें. कामेऱ्यां चार दीस येवचीं नाशिल्लीं. गॅसाचेर हांवें च्या दवरलो आनी इतल्यान गंगी आयली. आनी एक कप उदक घालें.

म्हजो शेजार पाजार सगळो गंगीच आशिल्ली. चार गजाली उलोवप करप तिचेच कडेन आशिल्लें. घरांतलीं सगळीं कामां जातकच हांवें सांजे वेळां पडवेर ऑल्तोरार बसप आनी तिणें तिचे कुडीच्या दारांत. तिचो घोव आसताना तोय आसतालो. बागेंतल्या कामा विशीं तर आमच्यो खबरी जाताल्योच, उरिल्ल्या वेळांत गांवच्यो आनी गांवा भायल्यो. केन्ना केन्नाय आमी आमच्या परसनल लायफा विशीं लेगीत उलयताले. अशेंच एक खेपे उलयतां उलयतां तिणें आपलें लग्न कशे जालें तें सांगिल्लें. तिचें लग्न सदला बदलींत जाल्लें. लग्ना पयलीं तिगेल्या घोवाचें घर

पळोवन तिगेल्या घरचे लोक परत आयले तेन्ना तिचे आवयन न्हवऱ्याच्या घरच्यां विशीं चवकशी केली आनी विचारलें,

"घरचे पीक पिकावळी विशीं चवकशी बी केल्ली मरे?"

"हय तर! पिकावळी विशीं विचारलें, तेन्ना तांणी सांगलें.

"हे दिवाळे सावन ते दिवाळे मरेन पाव सारखें उत्पन्न आसा"

गंगीचें लग्न जातकच तिका तिगेल्या घरची परिस्थिती कळ्ळी. हे दिवाळी सावन ते दिवाळे मेरेन म्हणचे धाकले दिवाळे सावन देव दिवाळे मेरेन. हें तिगेलें आयकून हांव हांस हांस हांशिल्लों. देव दिवाळी ही धाकले दिवाळे उपरांत सारखी एका म्हयन्यान येता. थंय धाकले दिवाळे परस देव दिवाळेक चड म्हत्व आसता. गोरवां सजोवन तांची पुजा करतात. त्या दिसा खास पोळी आसता पातोळ्यो. पूण त्यो चून नाशिल्ल्यो पाताळ्यो.

आनीक एक गजाल तिणें सांगिल्ली, लग्न सदला बदली आशिल्ल्यान दोनूय लग्नां एकाच गांवांत जाल्लीं. माटव एकूच आशिल्लो. तिच्या लग्ना पयलीं एक मोटवो सो  पावणे पांच, पांच  फुटांचो मनीस माटवांत वावुरतालो तें तिणें पळयलें. ताणें पट्टयांचे पिजामाची हाफ चड्डी आनी आंगांत पिनकरें बानयन घाल्लें. हेरां परस वेगळ्या अधिकारान बोवाळटा तें पळोवन तिणें भावजेक विचारलें,

"तो माटवांत बोवाळटा तो मनीस कोण गे?"

"तो तुजोच तर घोव." भावजयेन सांगलें

गंगी आशिल्ली चवदा पंदरा वर्सांची. पूण लांब रूंद घसघशीत आशिल्ली. तिणें आपल्या घोवाक पयलीं पळोवंक नाशिल्लो. लग्नाक उबो रावता आसताना तिचो घोव दुसऱ्यालें शर्ट घालून उबो राविल्लो. सकल पट्ट्यांची चडडी आनी वयर शर्ट.

म्हाका तिची काकुळट दिशिल्ली आनी हांसूंकूय आयिल्लें.. पूण तांका तातूंत वेगळें कांय नाशिल्लें. तांचें तें सदांचेंच. हें सगळें सांगपाचें

कारण म्हणल्ल्यार सामक्यो घरगुती वातावरणांत आमच्यो खबरी चलताल्यो.

आमी दोगांयनी च्या घेतालो. कांय वेळ उलयत बसलीं. विशय आनी कितें आसतालो. विशय तोच. प्रेताचो. हांवें म्हणलें,

"खंयची कोण ही बायल! ना नातें! ना संबंध! आमचे बागेंत रे कित्याक हाडून उडयली तिका.."

"दोन दीस जाले, आमी काडटात धांव धपटी."गंगी.

इतल्यान खंडू आयलो. ज्या दिसा प्रेत दिसलां ताच्या आदल्या दिसा तो पगार घेवन, फाल्यां येवचोंना म्हूण सांगून गेल्लो तो आज उजवाडलो. घडये पोलिसांचो त्रास नाका म्हूण आयलो ना जातालो काय? हांवें खंडूक म्हणलें,

"खंडू, बरें जालें आं काल तूं आयलो ना तो. प्रेत मेळ्ळें त्या दिसा तूं नाशिल्लो आनी आदल्या दिसा पयशे घेवन फाल्यां आपूण येवचोंना म्हूण सांगिल्लें हाचे वयल्यानूच पोलीस तुजेर दुभाव घेतले आशिल्ले."

तो कांय उलयलो ना. पूण म्हजे म्हाकाच कशें शें दिसलें. म्हाकाच म्हजी लज दिसली. खरें म्हणल्यार हांवें मस्करी केल्ली. मातसो विचार केले उपरांत तो आसुरी विनोद सो दिसलो म्हाका. केन्ना केन्नाय मनीस उलोवन वता. मनांत येता तें उलोवन वता पूण ताचो परिणाम दुसऱ्याचेर कितें जातलो हाचो विचार तो करिना. वा साद्या उलोवपाचो एक वेगळोच अर्थ जाता म्हणपाचें ताच्या सट्ट करून लक्षांत येना. लक्षांत येताकच उतरां तोंडांतल्यान गेल्लीं आसतात. तीं परतीं घेवप आपल्या हातांत आसना.

"रागार जावं नाका आं खंडू. हांवें मस्करी केल्ली."

"राग कसलो तातूंत? कोणाचें कर्म तें कळ्ळें?" खंडून विचारलें.

"कोणूय आसूं तो, आज ना फाल्यां मेळटलोच. खुनी आपले फाटल्यान कुसकूट भर तरी पुरावो सोडटाच." हांवें म्हणलें.

"पूण हाची गजाल वेगळी आसा. हाणें वळख पटपाक जायना, पुरावो उरपाक जायना म्हूण जतनाय घेतल्या." गंगीन म्हणलें.

"ताणें आपले परीन कितलीय जतनाय घेवं. कसलोय तरी एक दुवो असो मेळटलो जाचे वयल्यान पोलीस सुता वयल्यान सर्गार वतले. आतां हेंच प्रकरण घे. त्या मनशान प्रेताची वळख पटपाक जायना म्हूण कितें कितें करूंक ना? तिचो तोंडावळो विद्रूप करून उडयलो. आंगा वयले सगळे कपडे काडून तिका विवस्त्र केली. तकले वयले केस चामडे सकट तासून उडयले. हाताचेर कोंरांतिल्लें तिचें नांव तासून उडयलें. पूण एक चूक ताच्या हातांतल्यान घडल्या वा तो घाळ रावलो जातलो. ताणें तिच्या हातांतलीं पितूळचीं कांकणां तशींच दवरल्यांत. घडये तीं हातांतल्या भायर सरलीं ना जातलीं."

"सुटलीं ना जातलीं तीं."गंगी.

"पोलीस शाणे आसत जाल्यार तितलेंच पुरो जातलें तांकां."

कांय वेळ आमी खबरी केल्यो. प्रेताच्या खबऱ्यां बगर हेर खबरी व्हडल्योशो जाल्योच नात. तो वचपा खातीर उठलो तेन्ना हांवें ताका म्हणलें,

"मातसो बस मरे खंडू, मागीर वच."

खरें म्हणल्यार असल्या प्रसंगार म्हऱ्यांत कोणूय असल्यार बरें आसता. मेकळेसाणीन उलयतकच मन हलकें जाता.

"ना, पावसेक वचूंक जाय. काम आसा."

"वचपाचो आसा जाल्यार वच बाबा. बस येवपाची जाली. पावस वचून येता सर दनपार जातली." बशीचो स्टॉप आमचे बागे शेजराच आसा म्हूण बस ये म्हणसर वेळ काडपा खातीर खंडू येवन बशिल्लो.

पावस हो सानवलीच्यान सुमार पंदरा सोळा किलो मिटराचेर आशिल्लो एक म्हत्वाचो गांव. स्वामी स्वरुपानंदांची समाधी थंय आसा.

गांवचे आनी सरभोंवताणचे लोक दर्शन घेवपाक येतात. भक्तिभावान समाधीचें दर्शन घेतात. सैमाच्या पाचवेचार आंगणांत हें शांत थळ आसा. अजून तें गजबजिल्लें टुरिश्ट थळ जावंक ना. आनी म्हाका दिसता जाय नाशिल्लें बरें. शांतताय इबाडून वतली. ह्या शांत वातावरणांत सैमा वांगडा सहजतायेन संवाद सादूंक मेळटा. हांगा मंदिरांतल्या तळ घरांत आशिल्ले स्वामीचे समाधी म्हन्यांत एक पंदरा मिनटां लेगीत बसलों जाल्यार म्हज्या सारखिल्या नास्तिकाचें मन सुद्धां थीर जाता. शांत जाता. आनी नवो उत्साह मेळटा. खीण भर दिसलें, खंडू वांगडा वचून थोडो वेळ ते सुवातेर सारचो काय म्हूण. पूण आंगार आयिल्ली आळसाय फाफडून उडोवप कठीण जालें. विचार बदल्लो. तो गेलो. गंगी सान्न मारून घर निवळ करपाक लागली. निवळ करून जाताकच तिणें म्हणलें,

"देवळाकडेन वचून खोकेवाल्या कडल्यान खावचीं पानां घेवन येतां?"

"तूं देवळा कडेन वता? बरें जालें. म्हाकाय बेजार आयला. आतां आनी रांदपाक कोण बसतालो? म्हाकाय दनपारां खावपा खातीर कितेंय घेवन यो. खोकेवाल्या कडल्यान वडा पाव हाडल्यार जाता."

हांगा एक प्रश्न उपरासूं येता. खोक्यार वचून पान सुपारी हाडप एक वेळ समजूं येता. पूण थंयच्यान वडा पाव हाडप हें कशें. हांगा खोको म्हणचे पसरो. पसरकारान इल्ल्याशा जाग्यार फळयो मारून ताचेर भुसारी दवरून आपल्या पसऱ्याक सुरवात केल्ली. पसरो आलमारी सारखो दिसतालो म्हणल्यारच खोक्या सारखो दिसतालो. म्हणून ताका गांवचे लोक खोको म्हणटाले. आनी ताच्या मालकाक खोकेवालो. ह्या खोके वाल्याची उदरगत जावन ताणें चिऱ्यांचें व्हडलें घर बांदून तातूंत बरो व्हडलो भुसारी पसरो केलो आनी एके कुडींत हॉटेलय सुरू केलें. इतलेंय आसून गांवचे लोक तागेल्या पसऱ्याचो उल्लेख खोको म्हूणूनच करतात. गजा अशी, तागेल्या पसऱ्या उपरांत त्या वाठारांत आनीक पसरे जाले. त्या सगल्या पसऱ्यांक पसरो म्हणटात पूण हागेलो पसरो आवाठान व्हडलो आसूनय ताका खोको म्हणापाचें सोडिनात.

ती गेली तरी बरोच वेळ हांव पडवेर बसून रावलों. मनीस चार चवगांत आसतकच जितलो उलयना तितलो तो एकलो आसताकच चड खबरी करूंक लागता. हांव मनांतल्या मनांत म्हजेच कडेन खबरी करतालों अशें न्हय, तर गेल्ले दोन तीन दीस जितले लोक म्हज्या संपर्कांत आयले तांचे कडेन लेगीत हांव खबरी करूंक लागलों. अशा वेळार वेळ कसो वता कळच ना. गेटी कडेन नदर गेली जाल्यार गंगी ताकतिकेन परत येता ती दिसली. ही इतले बेगीन आयली? काय गेलीच ना? हांवें मनगटा वयली घड्याळ पळयली. अकरा जावन गेल्लीं. ती देवळा कडेन वचून आयिल्ली. तिची चर्या पळयल्यार बरीच उचंबळ जाल्या शी दिसताली. भितर सरतां सरतां तिणें सांगलें,

"भाऊ, भाऊ, प्रेत पुरपाक गांवांत हाडटात. हांव खोक्यार पाविल्लीं तेन्ना थंय पोलिसांची गाडी आयिल्ली आनी तातूंतल्यान दोग जाण पिकास, खोरें घेवन भायर सरिल्ले."

"तुका कशें कळ्ळें प्रेत गांवांत हाडटात म्हूण?"

"खोकेवाली सांगताली प्रेत पुरपा खातीर गांवांत हाडटात आनी तें देवराईंत पुरतले. व्हॅन पळोवन हांव थंय चड वेळ रावली ना. नीट हांगा आयली."

हाचोच अर्थ, प्रेताची वळख अजून पटूंक नाशिल्ली. पटिल्ली जाल्यार प्रेत गांवांत हाडून पुरपाची तयारी करचे नासले. तें तिच्या लागींच्या लोकांचे सुवादीन करतले आसले. प्रेत देवराईंत पुरतले म्हूण आयकून बरें दिसलें. गांवचे मानाय मेळत ना मेळत म्हूण ते भायल्यान घेवन आयल्यात शे दिसता.

पोलीस प्रेत हाडटात हें आयकताकच हांवें रस्त्यार नदर मारली. पडवेक पड्डे लायिल्ले आशिल्ल्यान आमच्या घरांतली हालचाल भायल्यान पळयतल्याक कोणाक दिसून येनाशिल्ली. पावळी आनी पड्डो हांचे मदीं आशिल्ले खांचींतल्यान हांव पळोवपाक लागलों. प्रेत मेळिल्ल्या दुसऱ्या दिसा पसून अशे तरेची आमची स्पायगिरी चालूच आशिल्ली. आमचे

नदरेच्या आवाठांत सुमार चारशीं ते पांचशी मिटरचो रस्तो आनी वयले वटेंतली जाधवाची बाग सहजतायेन येताली. कांय वेळान सादारण साडेइकराच्या अदमासाक पी. डब्लू. डी. चो एक ट्रॅक्टर रस्त्या वयल्यान वतना दिसलो. ट्रॅक्टरांतल्यान प्रेत व्हरताात जाताले असो अदमास आमी केलो. आनी तें खरें आसूंक जाय, कारण सुमार एका वरान तो ट्रॅक्टर परत आयलो. दीस भर आमची चर्चा ताजेरूच जाताली. पोलीस व्हॅन हेवटेन तेवटेन येताली वताली. एक खेप तर सुमार तिनाच्या अदमासाक पोलीस व्हॅन आमच्या घरा मुखार येताकच स्लो जाली मिनीट, अर्द मिनटा भितर स्पीड घेवन फुडें गेली.

हांव भितर वचून आड पडलों. आनी थोडो वेळ विसव घेवन गंगी आनी म्हजेखातीर च्याक आदन दवरलें. च्या पिवन जातकच हांव परत एकदां पडवेर आयलों. म्हजी नदर रस्त्यार गेली आनी गुरखो आपल्या घरांतल्यान भायर सरून सकल रस्त्या वटेन देंवता तो दिसलो. रस्तो क्रॉस करून तो आमचे गेटींतल्यान भितर येवपाक लागलो.

"गंगी, गुरखो आमगेर येता सो दिसता गे. कितेंय तरी नवी बातमी आसतली."

"नवी बातमी बी कांय नासतली. येता जातलो साखर ना जाल्यार च्याचो पालो मागपाक."

"ह्या बोवाळांत लोक तागेरूय येतात वतात. दिवची पडल्या जातली च्या बी तांकां. सोपली जातली साखर."

"हे आमच्या गांवांत येतात ते आमचेर उपकार करपाक येनात. गांवाची वाट लावपाक येतात."

"आगे, बरो मनीस तो. असलो मनीस शेजरा आसप म्हणल्यार आमकां केन्ना ना जाल्यार केन्ना उपेगा पडटलो."

"गरज ना ताची आमकां."

"गरजेच्यो वस्ती कितेंय मागून व्हेल्यो म्हूण तो वायट जायना.

बायल आसा, भुरगीं आसात. मागचें पडटा शेजाऱ्यागेर. गरजेक पावता तो शेजारी. गुरख्या विशीं इतलो राग कित्याक तुका?'' आनिकूय कितें सांगपाक वतालों हांव तिका. पूण तितल्यांत गुरखो लागीं पावलो.

''आव रामसिंग.. कैसा हैं?''

''सलाम शाब.''

''तुम गुरखा हैं या गोरखा है? या नेपाळी?''

आमचोय टायम पास जावपाक जाय आशिल्लो आनी तकलेक थाकाय दिवपाक कितेंय तरी लायट विशय जाय आशिल्लो. नेपाळी आयतोच मेळ्ळो. आपले विशीं कोणय उलयलो म्हूण ताकाय बरें दिसलें. ताणें खोशी जावन म्हणलें,

''हम नेपाळी है शाब, गोरखा भी है. और गुरखा भी हैं.''

''अरे व्वा! तीन तीन नाम!''

''हमको नेपाळी इसलिए बुलाते हैं शाब...''

''क्योंकि तुम नेपाळ से आये हो इसलिए...''

''करेक्ट शाब.''

''पर तुमको गुरखा भी कहते हैं और गोरखा भी.''

''नाम शे ही मालूम होता शाब.''

''गो मतलब गाय, मतलब गायें पालनेवाला.''

''जी शाब. नेपाळ में एक जिल्हा भी है, गोरखा नाम का. उस एरिया में रहनेवाले हैं हम. इसलिए भी गोरखा.

''बैठो.''

''थोडी शक्कर मिलेगी मॉजी?''

''गंगी, हाका इल्ली साखर दी.''

"कामा पुरते मामा हे." गंगीन वाजेत म्हणटा ताशी भितर वचून साखर हाडून दिली. गुरखो साखर घेवन वचूंक लागलो. हांवें म्हणलें,

"बैठो ना रामसिंग. बातें करेंगे."

"नहीं शाब. जाता हूँ. खाना पकाना है. बच्चों को खिलाना है."

"बिबी नहीं?"

"है शाब, पर गुस्सा है."

"क्यों? तुमने पीटा?"

"आदत है उसकी शाब. कुछ देर बाद ठण्डा पडेगा गुस्सा शाब. जाता हूँ शाब."

"वच वच आमकांय काम आसा." गंगीन मातशें रागानच म्हणलें.

"पर शाब, वो मिल गया?"

"कौन? वो कौन?"

"वो खूनी शाब?"

"नहीं. कैसे मिलेगा? उसने अब तक गॉव छोडा होगा. देखेंगे पुलीस क्या करती है."

"यह अच्छा नहीं हुआ, शाब. कैसा कैसा मारा उस बाई को."

"वच, वच. साखर मेळ्ळी न्हय. दी च्या करून बायलेक."गंगी

"अच्छा शाब. मैं जाता हूँ."

गुरखो वतकच गंगी घरा वचपाक गेली आनी नंदूचो फोन आयलो. ताणें सांगलें, मुंबयच्यान गंगीच्या चल्याचो फोन आयिल्लो. तो विचारतालो, कितें जालें काय म्हूण. गंगीचो आपल्याक हुस्को जाला म्हणटालो. नंदून फुडें सांगलें, आपुणूय ताका कांय सांगूं शकलों ना. त्या वेळार आपल्यागेर पुलीस बशिल्ले.

रातीचो नाना बोरकारागेर न्हिदपाक गेलों. रातीच्यो उसरां मेरेन खबरी जाल्यो, पूण नवें कांय कळ्ळेंना आनी आमी कसल्याच निश्कर्शाचेर पावलेना. पूण खुनी कोण आनी ती बायल कोण कसलोच पत्तो लागलो ना. म्हाका दिशिल्लें दोन तीन दिसां भितर सगळें सस्पेन्स उगतें जातलें. पूण जालें ना. फाल्यांची वाट पळयले बगर दुसरो मार्ग नाशिल्लो.

न्हीद कशीच लागनाशिल्ली. फाटल्या चार पांच दिसांत तिणें म्हजे कडेन फाट फिरयल्ली. शरिराक सुसेग जाय आनी ह्या वेळार दुसरें कांयच काम करप शक्य ना म्हूण हांतुळणार पडून रावपाचें. मनांत तरे तरेच्या विचारांवें तांडव चलिल्लें. थारायलें तें ताशेंच चलूंक दिवंचें. तातूंतल्यानूच न्हिदेन कृपा केली जाल्यार केली.

जो मेरेन खुनी सांपडना तो मेरेन हांव संशयाच्या जाळ्यांत घुस्पत उरतलों हाची म्हाका जाणीव जाली. सांपडलां तर खरो. हातूंतल्यान भायर सरतलो तो खीण खरो. म्हगेले बाकीचे पार्टनर हांगा नाशिल्ल्यान तांकां हास्को ना हुस्को. प्रेत मेळ्ळां तो म्हजो जागो न्हयच. तो म्हज्या पार्टनराचो. चार भागांच्यो सिमो जरी निश्चित जाल्ल्यो तरी कायदेशीर पद्धतीन सेपरेशन जावंक नाशिल्लें. तशें जाल्लें जाल्यार म्हाका इतलें लागचें नाशिल्लें. अजून हांवें तांकां कळोवंक ना. म्हजो फोन बंद आसा. चालू जातकच करचो पडलो.

* * *

# स

सकाळीं नानागेरच्यान घरा आयलों आनी कांय वेळान गंगी आयली. तिका हांवें सांगलें,

"रातीं मुंबयच्यान तुज्या पुताचो फोन आयिल्लो. घडिल्ले घडणुकेची खबर विचारतालो. इतले बेगीन मुंबय कशें कितें कळ्ळें? फोन सारखो नाशिल्ल्यान आमी तर कोणाक कांय कळोवं ना. अजाप शें."

"काल खंडू पावसेक गेल्लो. थंयच्यान ताणें भावाक फोन केलो जातलो. म्हगेलें काम सोंपताकच खोक्यार वचून ताका फोन करतां."

"खोकेवाल्या कडेन मोबायल फोन आसा. मोबायला वयल्यान केल्यार पयशे चड पडटले. आनी तुका पयसूय. ते परस नानागेर वचून कर." हांव.

"नानागेर गर्दी आसता. खोकेवाल्यागेर वचूनच करतां. तेंच बरें जातलें" तिचेंय म्हणणें सारखें आसा. मोबायल फोनाचेर कुशीक वचून मेकळेसाणीन उलोवंक मेळटलें. नानागेर तें जावंचेंना.

हांव वगीच रावलों. आमी च्या घेतालो. तिणें घरांत सान्न मारली आनी ती फोन करपाक गेली.

काम कांय नाशिल्लें. आशिल्लेंय जाल्यार कितें करचें तें सुचनाशिल्लें.

एक प्रकारची मरगळ आयिल्ली जिवाक. अशे तरेचें टॅन्शन, अशेतरेची भयांकृत घडणूक. हे घडणुकेचे विचार सोडले जाल्यार बाकी सगळ्या विचारांक कळम लागिल्लेवरी जाल्ली. त्याच वांगडा मनांत पोकळी निर्माण जाल्ले वरी दिसताली, हाचे आदीं अख्खे जिणेंत हांवें अशें केन्नाच अणभवूंक नाशिल्लें.

दोळे धांपले आनी पडवे वयल्या ओल्तेरार बसून रावलों. मनांत कसलेच विचार हाडचोंना म्हूण चिंतलें. जाता तितली तकली ब्लँक दवरतलों म्हूण चिंतलें. कांय वेळान मुंबय फोन करून गंगी आयली.

"केलो फोन. पूत नाशिल्लो. सुने कडेन रकाद दवरलो. कांय हुस्को करूं नाकात. सगळीं बरीं आसात म्हूण सांगलें."

"बरें जालें. ना जाल्यार बेठींच हुस्को करीत रावतलीं आसलीं."

हांवें म्हणलें आनी मातसो खाटीर आड पडटलों म्हूण भितर गेलों. आड पडल्यार तरी सूख लागता? निमाणें चिंतलें, पडवेर बसून गंगी कडेन चार खबरी केल्यार तरी चित्त जाग्यार येता जाल्यार पळोवया. आनी भायर आयलों.

म्हाका दिशिल्लें, गंगी आपले कुडींत बसून आसतली. हांव भायर आयिल्लों तिचे कडेन खबरी करपाक म्हूण. पूण तिच्यान बेकार बसूंक जाता? घरा फुडें वाडिल्लें तण ती बेणपाक लागली. थळावे भाशेंत नडप वा आलायतें तण हुमटावन उडोवप म्हणल्यार बेणप. आनी कोणूय आशिल्लो जाल्यार अशे परिस्थितींत तण बेणपाचो वावर करचो नाशिल्लो. हांवें काय तिका बेणूंक सांगूं नाशिल्लें. कामेऱ्यां कामार नासतना तिणें काम करपाची गरज नाशिल्ली. आनी काम करतां अशें म्हाका दाखोवपाचीय तिका गरज नाशिल्ली. ती कशें काम करता हें हांव जाणां आशिल्लों आनी तीय तें जाणून आशिल्ली. तें तणूय काय व्हडलें शें वाडूंक नाशिल्लें. काम करीत रावप हो कांय लोकांचो सभावूच आसता. तांच्यांनी बेकार बसपाक जायना. अश्या लोकांचें तें एक व्यसनच आसता. अशा लोकां पैकीं ही एक गंगी.

म्हजी नदर ताण हुमटावपी गंगीचेर गेली तेन्ना म्हाका दिसलें, गंगीचे हात चलतात पूण तिचें लक्ष कामां ना. काम करतां अशें दाखोवपाक ती काम करताली. पूण ती परत परत रस्त्या वटेन पळयताली. हांवें बरीकसाणेन पळयतकच म्हाका दिसलें ती जाधवाचे बागेंतल्या गुरख्याच्या घराकडेन पळयताली. सुरवातीक हातूंत म्हाका व्हडलें कांय दिसलें ना पूण कित्याक खबर ना, परत परत ती वयर पळोंवक लागतकच म्हाका दुभाव मारलो. ह्या तिच्या वागपांत कितेंय तरी गुपीत लिपलां अशें म्हाका दिसलें. मनांत कसलें तरी वादळ आयलां आनी तें ती लिपोवंक सोदता. हांवें तिका कांयच विचारलें ना. वा चड इंटरेस्टय घेतलो ना. तिका हटकिली ना. मनांत म्हणलें, विचारांत बादा हाडटकच ती गोंदळांत पडून फट उलोवपाक लागताली. ते परस मनांतलें मंथन पुराय जातकच ती आपूण जावन त्या वादळाक वाट करून दिताली. तुर्ताक जें जें घडटा तें तें पळयत रावपाचें मनांत थारायलें. सहज प्रक्रियेंत बाधा नाका.

दनपारचें एक जाल्लें. जेवण करपाचें आशिल्लें. कितेंय तरी करपाक जाय म्हूण उठलों. गंगीकूय सांगलें,

"जेवणाचो वेळ जाला. चल तूं." तरी ती उठली ना. आज गंगीचो मूड बरो दिसनाशिल्लो. कारण समजलें ना. हांव भितर गेलों आनी शीत करतलों म्हूण गॅसार आदन दवरलें. थोडया वेळान गंगीचो आवाज आयकूंक आयलो.

"कितें गे? कित्या उलो करता?"

"नेपाळ्यागेर कोण तरी दोग जाण आयल्यात." गंगी गुरखो केन्नाच म्हणनाशिल्ली.

तिणें म्हाका सांगलें. हांवे वयर पळयलें. तांबडें शर्ट घाल्ले दोग जाण कोण तरी नेपाळ्याच्या घरा कडेन वतात ते दिसले. ते कोण, खंयचे हें जाणून घेवप म्हाका म्हत्वाचें दिसलें ना. पूण गंगी मात तांकां बारीकसाणेन नियाळटाली. हांवें तिका म्हणलें,

"आयल्या आसतले कोणूय सोयरे बी."

हांव भितर गेलों आनी म्हज्या फाटल्यान गंगीय उठली आनी भितर गेली. पोटा पुरतें तरी जेवपाक जाय म्हूण शीत आनी कालोवपाक केलें आनी पापड तोंडाक लावन जेवलों. दर दिसा वडा पाव खावन थोडेंच रावूं येता. मनाक सुसेग मेळप कठीणूच पूण शरिराक सुसेग मेळपाक जाय म्हूण आड पडलों. थोड्या वेळान भायर आयलों. ओगीच म्हूण वयर नदर मारली जाल्यार दोगूय मनीस गुरख्याच्या घरा लागीं कितें तरी सोदतात अशें दिसलें. सोदीत भोंवपाची तांची तरा पळयली जाल्यार ते दोगूय पोलिसांचेच लोक आसपाक जाय असो विचार म्हज्या मनांत आयले बगर रावलो ना. थंयच्या कोणाचो तरी दुभाव आयला आसूंक जाय वा लागसार पुरावो कितेंय मेळटा काय म्हूण सोदता आसतले. म्हजे पयलींच गंगी भायर आयिल्ली आशील्ली. हांवें गंगी कडेन पळयलें. ती तण बेणपांत गुल्ल जाल्ली. निदान आपूण काम करतां म्हूण दाखयता आसतली. खूब वेळ हांव तिका नियाळटालों. आयची तिची वागणूक दुभावी आशिल्ली अशें म्हाका दिसतालें. काय म्हजी नदर दुभावीत जाल्ली? खोकेवाल्या कडल्यान येत पासून गंगीचें वागप दुभावी शें दिसतालें.

हांव घराच्या लागसारूच गणयत रावलों. मदीं मदीं म्हजी नदर रस्त्या पलतडीं जाधवाच्या ठिकाणार वतालीच. थंय कितें चल्लां हें पळोवपाची उमळशीक!

इतल्यान गांवांतल्यान पोलीस व्हॅन आयली आनी जाधवाचे गेटी कडल्यान तळ्या गांवचे दिकेन वचपाक लागली. बरीच फुडें पावताकच उबी रावली. गाडयेंतल्यान साद्या ड्रेसांतले कांय पोलीस देंवले आनी गुरख्याच्या घरा कडेन वचपाक लागले. घरा सभोंवतणीं सगळेच पोलिस कितें तरी सोदपाक लागले. आज ह्या लोकांचें लक्ष पुरावो सोदपाचेर केंद्रीत जालां हें समजुपाक म्हाका वेळ लागलो ना

खुनाच्या दुभावाचो धागो म्हजें ठिकाण आनी जाधवाचें ठिकाण

हांचे भितरच खंय तरी घुस्पला आसूंक जाय अशें हांकां दिसता काय? हांव मातसो पयस आशिल्ल्यान थंय कितें चल्लां तें म्हाका समजूंक शकना जालें. कांय वेळान पोलीस व्हॅन परतली आनी सरळ जाधवाचे बागेंत, गुरख्याच्या घरा कडेन वचून रावली. तातूंतल्यान आनीक कांय पोलिस देंवले आनी तेय सोदासोद करपाक लागले. हें सोदप बरोच वेळ चलिल्लें. जाधवाच्या ठिकाणांत दोंगुल्लेच्या माथ्यार गुरख्याचें घर आशिल्ल्यान आनी आमच्या घरा कडल्यान मातशें पयस आशिल्ल्यान थंय कितें चल्लां कांयच कळनाशिल्लें. मनशाची हालचाल स्पश्ट कळनाशिल्ली. मळबाच्या फाटभुयेंचेर फकत आकृत्यो भोंवतात शो दिसताल्यो. तांतूंत गुरखोय आसा काय ना हें कळनाशिल्लें. जाणटेपणांत नदर फ्राक जाल्या आसतली. थोड्या वेळान कांय पोलीस गाडयेंत बसले आनी व्हॅन सकयल देंवपाक लागली, रस्त्यार पावली आनी खिणांभितर म्हजे बागेची गेट उगडून भितर आयली आनी स्लो जाली. दोग पोलीस तांतूंतल्यान देंवले आनी ज्या जाग्यार प्रेत आशिल्लें ताचे सभोंवतणीं वाडिल्ल्या तणांत बारीकसाणेन कसली तरी सोदासोद करूं लाले.

हे लोक आनीक कितें पुरावो मेळटा काय तें पळोवपा खातीर बारीक सारीकं हांगा थंय पडिल्लें कितेंय आसल्यार तें हाताक लागत काय ह्या हेतान हांगा आयल्यात जायत हो विचार म्हज्या मनांत येवन गेलो. आनी त्याच खिणाक जीप म्हज्या घराकडेन येवंव रावली. आतां आनी कितें बगलांट येता काय? पोलीस आमची परत तपासणी करतात काय परत स्टेटमेण्ट घेतात?

सब इन्स्पेक्टर कदम, गाडयेंतल्यान देंवलो. हांवें पळयलें, सब इन्स्पेक्टर कदम आज युनिफॉर्मांत आशिल्लो. प्रेत मेळत पासून आज मेरेन ताका हांवें युनिफॉर्मांत केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. मागीर आजूच सो हो युनिफॉर्मांत कित्याक काय. हांव घरा भायरूच, पूण घरा पसून मातशो पयस, उदका टांकेये कडेन उबो आशिल्लों. कदम गाडयेंतल्यान देवून ताड ताड पावलां घालीत म्हजे सरीं आयलो आनी मातशें वयल्या आवाजान म्हणलें,

"सामंत सायब, ही तुमची गंगी आमचे पसून कितें तरी लिपयता. ती खरें उलयना."

"कितें जालें?" हांव भिलों.

ही आनी कसलीय नवी भानगड बी न्हय मू!' म्हज्या मनांत विचार आयलो.

"तिका सांगात, आमकां बरेभशेन खरें कितें तें सांग. नाजाल्यार आमी तिका भितर उडयतले. थंय केदोय फटकिरो खरें उलोवंक लागता.

"अशें कितें केलें तिणें?"

"प्रेताची वळख पटली."

"कोण ती कळ्ळें? जावं. एक तरी प्रश्न सुटलो. फुडलें काम मातशें सोपें जातलें."

"तें प्रेत लालीचें. लाली कालकर तिचें नांव." आयकून म्हाका कच्च जालें.

"कितें? लाली?"

"हय लाली! तुमी वळखतात तिका?"

"हय!"

"तुमकांच खबर ना. गंगी धरून तुमचेकडेन काम करपी सगळे लोक ती लाली म्हूण वळखल्यात."

"कितें सांगतात तुमी?" कदम म्हाका एकार एक अजापाचे धपके दितालो.

"पूण भंयान कोणूच उलोवपाक तयार नात. गंगी तिका तुमचे बागेंत केन्ना केन्नाय कामाक हाडटाली. गंगीगेर ती केन्ना केन्नाय न्हिदपाक लेगीत आसताली."

"म्हाका हातूंतालें कांयच खबर ना!

लाली ही एक बायलमनीस. पन्नास पंचावन वर्सांची. ती शेजारच्या गांवांतली. तिका घोवान सोडिल्ली आनी ती गांवांत रावून मेळटा तें काम करताली. ती कामेरें म्हूण येताली पूण मानाया भशेन काम करताली. ती गोरी गोमटी आनी घसघशीत आंगलोटाची आशिल्ली. एकदां हांवें कसलें तरी काम काडिल्लें पूण काम करपाक कामेरें मेळ्ळें ना. तेन्ना गंगीन तिका कामाक हाडिल्ली. तेन्ना हांवें तिची काम करपाची तांक पळयल्ली. आनी हांवें तिची शंकऱ्या कडेन तोखणायूय केल्ली. शंकऱ्या आसतना ती एक दोनदां गंगीगेर न्हिदूंकय आशिल्ली. पूण जेन्ना म्हाका तिचे विशीं, घोवान सोडिल्ली बायल म्हूण कळ्ळें तेन्ना हांवें शंकऱ्याक आनी गंगीक सक्त ताकीत दिल्ली. हाचे फुडें हिका आमगेले बागेंत काम करपाक केन्नाच हाडचीं नात. कितेंय जाल्यार नसती भानगड नाका.

"लडो पडले बगर कोण तोंड उगडचेनात. तुमकां खबर आसा, खुना आदीं गंगीन तिका गुरख्यागेर पळयल्ली आनी हें गंगीनच तुमगेर काम करपी कामेऱ्यांक सांगलां.. तुमी तिका सरळ कितें तें सांगपाक सांगात. तुमचें आयकताली ती. नाजाल्यार आमी उबारतात तिका. फाट फोडून काडटकच सगळीं तोंड उगडटात." ताचे पयरचे आनी आयचे उलोवपाचे पद्धतींत आकांताचो फरक आशिल्लो.

"ही जर ह्या प्रकरणांत घुस्पल्ली आसत जाल्यार तिका कामा वयल्यान काडून उडयतलों. हाचे फुडें हांव तिका कामार दवरचों ना."

हांवें तिका आवाज वाडोवनच उलो मारलो.

"कदम सायब, फाटल्यान आनी नाका. कितें जाता तें तुमच्या समक्षूच जावं दी" ती लागीं येतकच विचारलें,

"तुका खबर आसा कोण ती?"

"हय, लाली!"

"कोणा बद्दल उलयता तूं?"

"खून जाल्ले बायले बद्दल."

"तुका कशें कळ्ळें हांव तिचे बद्दल उलयतां म्हूण?"

"तिच्योच खबरी चलताल्यो न्हय तुमच्यो."

"तुका कशें कळ्ळें?"

"तुमी उलयतासतना आयकल्लें हांवें."

ही फट उलयता तें म्हाका कळ्ळें. आमी उलयताले त्या जाग्या वयल्यान तिका आमचें उलोवणें आयकूंक येवप कठीण आशिल्ले.

"हांव नासतना ती तुगेर न्हिदपाक येताली?"

"म्हजो हात दुखतालो. देखून तिजो आगोठांत आदार घेतिल्लो हांवें" तिणें भीत भीत सांगलें. पावसाळयाक थळावे लोक आगोठ म्हणटात.

"तुगेर न्हिदपाक कित्याक दवरली तिका?"

"ती जंय काम करता थंयच ती न्हिदता न्हय.. म्हगेर कामाक आशिल्ली म्हूण म्हगेरूच न्हिदताली. म्हाका खूब आदार जातालो तिचो. मेली बावडी. तिका कोणें मारल्या ताचें केन्नाच बरें जावचें ना. मरूं तो." गंगीन दोळ्यांतल्यान दुकां काडलीं.

"हें तुवें म्हाका केन्नाच सांगलें ना गंगी. हांवें तुमका सांगिल्लें न्हय तुमी केन्नाच तिका कामाक हाडचीं नात म्हूण. शंकऱ्या आसतनाची गजाल ही."

"खून जाला त्या दिसा तुवें लाली गुरख्यागेर न्हिदल्या तें पळयल्लें?" सब इन्स्पेक्टर कदमान विचारलें.

"हय!"

"हें तुवें आमकां सांगनासतना दत्तारामाचे बायलेक सांगलें."

"केन्ना?"

"कामार आसतना."

"दत्तारामाची बायल आमगेर कामाक नाशिल्ली. ताच्या भावाची बायल आशिल्ली." हांवें कदमाक सांगलें.

"तीच ती. तिणेंच सांगलें म्हाका."

"हांवें लालीक आयतारा सांजची गुरख्यागेर न्हिदिल्ली पळयल्ली. हें हांव सोमारा सकाळीं काम करताना जनी कडेन उलयल्लीं."गंगी. जनी ही दत्तारामाची भावजय.

हांवें कॅलकुलेशन करून पळयलें आनी कदमाक सांगलें,

"गंगी सांगता तें सारखें आसुंये. शेनवारा सांजवेळां पसऱ्यार वताना गंगीन गुरख्यान' मिरसांगो हाडून दिल्यो जाल्यार घेवन दवर म्हूण म्हाका सांगिल्लें."

"शेनवारा सकाळीं पयशे दिल्ले हांवे ताचे कडेन." गंगीन सांगलें.

"म्हाका उगडास आसा. शेनवारा गुरख्यान मिरसांगो हाडल्यो ना. देखून आयतारा सांजवेळां गंगी तागेर गेल्ली." हांवें सांगलें.

"सायब, तुमी मातशे तिका विचारात. तुमकां सारखें सांगतली ती. आमी मातशे दत्तारामागेर वचून येतात."

तो जिपींत बसून गेलो. ताचे वांगडा अख्खी पोलीस टीम गेली. म्हाका गंगीची तिडक मारिल्ली.

"तूं आनी अशें करीता शें दिसूंक नाशिल्लें म्हाका. असल्यांनी तूं त्रासांत पडटली आनी म्हाकाय त्रासांत उडयतली. कितें घडलें तें खरें खरें सांग म्हाका. तूं फट उलयता अशें दिसत जाल्यार तुका कामा वयल्यान काडून उडयतलों हांव. पयलींच सांगतां."

"हांव खरें उलयतां भाऊ. आयतारा हांव मिरसांगो हाडपाक गुरख्यागेर गेल्ली तेन्ना थंय लाली माथ्या वयल्यान बुरनूस पांगरूंक घेवन न्हिदिल्ली आशिल्ली."

"तें जालें. मागीर. फुडें? राव राव, माथ्या वयल्यान बुरनूस पांघरूंक

घेतिल्लो जाल्यार तुका कशें कळ्ळें ती लाली म्हूण?"

"तिच्या म्हन्यांत तिची पाचवे मुठीची सत्री आनी खावची पानां बोटवो आशिल्लो. हांव तिची सत्री आनी बोटवो बरे भशेन वळखतां. तिच्या लागींच गुरख्यालो धाकलो चलो न्हिदिल्लो आशिल्लो."

"ती लालीच आशिल्ली? गुरख्याली बायल आसूं येना?"

"ती लालीच हें हांव जाणां आशिल्ली. गुरख्याली बायल घरांत आशिल्ली. लालीन अशें परक्याच्या घरांत न्हिदप हें म्हाका बरें दिसलें ना. म्हूण हांवें गुरख्याचे बायलेक 'कोण न्हिदल्या' काय विचारलें. तिणें सांगलें, 'लालीताई' म्हूण."

"पूण जागेर ती काम करता तागेरच ती न्हिदता न्हय?" हांव

"तरी पूण भायल्या गांवांतल्यान आयिल्ल्यागेर न्हिदप बरें न्हय. त्या दिसा गुरख्यागेर कशी न्हिदली देवाक खबर."

"तुजे फाटल्यान कांय वेळान भिम्याची बायल हांगा आयिल्ली. तूं आनी ती भितर बसून कितें तरी फुतफुतालीं. हांव हांगा पडवेर आशिल्लों. लाली विशींच उलयतालीं न्हय तुमी?"

"हय. तिणेंय पळयल्लें तिका. तिकाय तें बरें दिसलें ना. म्हणपाक लागली, आपूणशी जाल्यार अशें केन्नाच करची नाशिल्ली."

"पूण हें जनीक कशें कळ्ळें?"

"दुसऱ्या दिसा आमी जोडयेन काम करतालीं तेन्ना ती म्हजे जोडयेक पडिल्ली. तेन्ना उलयतां उलयतां तिका सांगलें."

कलमां मुळां सभोंवतणी तण वाडटा. तें तण जर तशेंच वाडूंक दिलें तर कलमांक घाल्लें सारें तें तण खाता आनी गरगरीत वाडटा. देखून तें तण हुमटावन उडोवचें पडटा. ह्या कामाकूय थंय बेणणी म्हणटात. दर एक कलमाच्या मुळांत दोन दोन कामेऱ्यां बसून हें बेणणेचें काम करतात. त्या दिसा जनी आनी गंगी हांची जोडी आशिल्ली.

"प्रेत मेळ्ळें तेन्ना तुमी तिका वळखूंक नाशिल्लीं?"

"ना."

"ना कशें म्हणटा तूं? आयतारा तुवें तिका गुरख्यागेर पळयल्या. प्रेत गोऱ्या आनी घसघशीत बायलेचें आशिल्ल्यान तुका दुभाव येवपाकूच जाय."

"म्हाका उगडास जायना'.'

"उगडास जायना म्हणल्यार कितें? तुका तें खबर आसुंकूच जाय. हें पळय गंगी, तुवें जर कितें तें सांगलें ना जाल्यार हाचे फुडें तुका कामार दवरप म्हाका कठीण जातलें." हांवें तिका परत भंय घालो.

ती बरोच वेळ ओगीच रावली. तिका पळयल्यार म्हज्या उलोवपाचो थोडो तरी तिचेर परिणाम जाता शें म्हाका दिसलें. बऱ्या वायटाचो विचार करूं दी आनी निर्णय घेवं दी म्हूण हांवूय कांय उलयलों ना. अखेर कांय वेळान तिणेंच तोंड उगडलें.

"मातशी मातशी याद जाता म्हाका. त्या दिसा ती लाली बी न्हय मूं अशें हांव हेर कामेऱ्यांकडेन उलयल्लीं. तें आयकून तांणी म्हाका सांगलें, ओगीच कायचे काय बडबडूं नाका आं. आमकां त्रासांत घालतली तूं. देखून हांव कांयच उलयलीं ना."

"पूण म्हाका कित्याक सांगलें ना तुवें हें?"

"कोणाकूच सांगूं नाका म्हूण त्या बायलांनीच म्हाका सांगिल्लें. आनी भिरांतिनूय सांगलें ना हांवें."

गंगी गुरख्याचेर कित्याक रागार आाशिल्ली, आनी आज परत परत गुरख्याच्या घराकडेन कित्याक पळयताली तें कुवाडें आतां सुटलें, तरी पूण तिकाच विचारुया म्हणलें,

"व्हदळ काम करता आसतना तूं परत परत गुरख्याच्या घराकडेन कित्याक पळयताली?"

"प्रेताच्या हातांतलीं कांकणां पोलिसांनी बायोक दाखयलीं आनी तीं कांकणां लालीचीं म्हूण बायो वळखली हें म्हाका कळिल्लें. आनी आयतारा सांजवेळां लाली गुरख्यागेर न्हिदिल्ली हें हांवें पळयल्लें. ते खातीर म्हजी नदर गुरख्याच्या घराचेर वताली."

सुमार देड किलो मिटर अंताराचेर रावपी बायो ही धनगर समाजाची बायल. अर्धांग वायून ती अपंगूळ जाल्ली आनी तिका सारखें चलपाक येनाशिल्लें. ती घरा बसुनूच गांवठी सोरो विकपाचो धंदो करताली.

"पूण तुका ती मेळ्ळी कशी? ती काय भायर सरना आनी तूं घरा वतना काय तिचें घर लागना."

"तें म्हाका खंडून सांगलें. तो काल बयोगेर गेल्लो."

"हें सगळें तुवें म्हाका पयलीं कित्याक सांगलें ना? हें सगळें तुवें म्हाका आदीं सांगिल्लें जाल्यार पोलीस तुजे बद्दल वायट ग्रह करून घेवचे नाशिल्ले. आतां मेरेन तुजे बद्दल तांचें मत बरें आशिल्लें. उरफाटें आतांच पोलिसांचो भंय आसा. प्रेत मेळ्ळां त्याच दिसा तुका ती लाली म्हणपाचो दुभाव आशिल्लो वा ताच्या आदल्या दिसा ती गुरख्यागेर न्हिदपाक आशिल्ली म्हूण मात लेगीत दुभाव तुवें म्हजे कडेन वा पोलिसां कडेन उलोवन दाखयल्लो जाल्यार हें प्रकरण त्याच दिसा सुट्टलें आशिल्लें. ह्यो सगळ्यो गजाली तुवें तांकां सांगनासतना तिरायता कडल्यान पोलिसांक कळ्ळ्यो म्हूण तुजे बद्दल तांचें मत वायट जालें."

"हें सगळें त्या कामेऱ्यां खातीर जालें."

"ती हांगा न्हिदताली जाल्यार तिचें कांय सामान बी उरूंक ना मगे तुगेले कुडींत? आतांच सांग. मागीर घराची झडती बी घेतली जाल्यार परत तूं त्रासांत पडटली."

"आसा. एकूच साडी उरल्या तिची म्हजे कडेन."

"पोलिसांक सांग तें रोखडेंच."

एका फाटल्यान एक अशो दोन पोलिसांच्यो गाडयो रस्त्या वयल्यान

गुरख्याच्या घरा कडेन गेल्यो. आनी मागीर कांय वेळान गांवाचे दिकेन गेल्यो.

सब इन्स्पेक्टरान दत्तारामागेर वचून येतां म्हूण सांगिल्लें पूण सांज जायत आयली तरी ताचो पत्तो नाशिल्लो. ताची वाट पळयत रावले बगर दुसरो उपाय नाशिल्लो. पूण गंगीक घरा वचपाचें आशिल्लें. फार्म हावसार न्हिदपाचो धीरच जावचो नाशिल्लो. तिकाय आनी म्हाकाय. तिचें घर चार पांच किलोमिटर पयस एका निर्जन प्रदेशांत आशिल्लें. दीस पडिल्लो. काळखाचें राज्य सुरू जावपाक लागिल्लें. बरो वेळ वाट पळोवन आमी रस्त्यार आयलीं. गंगी घरा वचपाक आनी हांव नानागेर वचपाक. फार्म हावसा कडल्यान नानाचें घर सुमार एक किलोमिटर अंतराचेर आशिल्लें आनी त्याच रस्त्यान गंगीक तीन चार किलोमिटर मुखार वचपाक जाय आसलें. गुरख्याच्या घरा कांय लोक यो वच करताले. ते साद्या ड्रेसांतले पोलीस आशिल्ले. तांच्यांतल्याच एकल्याक हांवें सांगलें,

"हांव नाना बोरकारागेर गेलां म्हूण कदम सायबाक सांग." ताणें बरें म्हणलें आनी चलूंक लागलो.

म्हाका गुरख्याची याद जाली. मनांत थारायलें, फाल्यां गुरख्या कडेन खबरी करच्यो पडल्यो. कांय प्रश्न मनांत घोळटात. स्पश्टिकरण ताचेच कडल्यान मेळटलें. लाली तागेर शी न्हिदली? केन्ना उठली आनी केन्ना गेली? गेली काय तागेरूच रावली? उठून एकलीच गेली काय कोण व्हरपाक आयिल्लो? अशे खूबशे प्रश्न मनांत येताले.

हांवें मातशें थंयच गणयलें. सब इंस्पेक्टर कदम येता काय म्हूण थोडो वेळ वाट पळयली. ताणें दत्तारामागेर वचून येतां म्हणिल्लें म्हणून. ना जाल्यार वाट पळोवपाची गरज नाशिल्ली. तो आयलो आनी हांव ताका मेळ्ळों ना जाल्यार ओगीच दुभाव आनी नाका. रस्त्यार उबो रावून धायेक मिनटां जायत ना जायत एक मोटार सायकल येता ती दिसली. म्हजे कडल्यान पासार जावन ती फुडें पावली आनी उबी रावली. हो

आनी कोण काय? मनांत म्हणलें. हेल्मॅट घाल्ल्यान वळखप कठीण जाता. तसोच टर्न घेवन ती बायक म्हजे सरीं येवन उबी रावली. पळयत जाल्यार तो रग्या चौगुले आशिल्लो.

"भाऊ, तुमी रस्त्यार शे? नानागेर वतात? बसात. हांव सोडटां तुमकां."

"ना रे. सबइन्स्पेक्टर कदमाची वाट पळयतालों. ताणें येता म्हूण सांगिल्लें."

"आतां सो? इतल्या उसरां?"

"वदळ आयिल्लो. करंदवाडीत वचून येतां म्हूण सांगून गेला.

"मेळ्ळो कितेंय सुराग?"

"हय सो दिसता. इन्स्पेक्टर कदमाच्या उलोवण्या वयल्यान म्हाका दिसलें. तो गंभीर सो आशिल्लो.."

"म्हाकाय मातसो अदमास आयला. पूण आतांच सांगना हांव तुमकां."

"अदमास कसलो? खुन्याचो काय खून जाल्ले बायलेचो?"

"ती बायल कोण म्हणपाचो पोलिसांक दुभाव आयला. आनी खुन्याची वळख पटूंक लागल्या. मातसो थार धरात."

प्रेत आमचे बागेंत मेळ्ळां. टॅन्शनांत हांव आसां. खून जाल्ली बायल कोण म्हणपाचें म्हाका आतांच कदमा कडल्यान कळटा थंयच आसा. पूण सगळ्या गांवाक ती बायलमनीस कोण आसची हाचो अदमास पयलींच आयला. हाका कितें म्हणचें!

"बरें तर भाऊ, हांव वतां."

"बरें तर."

तो गेलो. बरें जालें. कदम येतकच आमकां उलोवपाक मेकळेसाण

मेळटली. बरो वेळ जालो. तिन्सांज जातली. काळोख जावपाक सुरवात जाली. पूण अजून कदमाचो पत्तो नाशिल्लो. तो खरोच येवपा आसा मू? काय सदां सारखें जनरीत म्हणून वचून येतां म्हूण सांगलें. पूण पोलीस तो. नेमकेंच उलोवपी. काळोख जालो तरी अजून तो आयलो ना. देखून हांव आनी गंगी आमोरेच्या वेळार नानाच्या घरा कडेन वचपाक लागलीं.

दर दिसा नाना बोरकारागेर वचप मनाक पटनाशिल्लें. एकलो कोणूय अजगयचो आसप म्हणल्यार थोडो सो ताण पडटाच. नानाल्या घरचीं हांव आयलां म्हूण स्पेशल कांय करिनाशिल्लीं वा म्हाका परक्या भशेन वागय नाशिल्लीं. पूण उपाय नाशिल्लो.

नाना बोरकाराचें घर सरळ रस्त्यार आशिल्लें खरें पूण तें सकले वटेन आशिल्ल्या कारणान म्हज्या घरा कडल्यान दिसनाशिल्लें. रस्त्याच्या माथ्यार पावतकच नानाल्या घरा मुखार दोन पोलीस गाडयो, कांय पोलीस आनी खूब शे लोक दिसले. कितें चल्लां काय हांगा? खुना कडेन संबंद आशिल्ले कोण मेळ्ळ्यात काय? कोणाक धरून बी हाडल्यात काय? खुनाचे धागे दोरे हांगाच मेळ्ळ्यात काय? खुनाचें आख्खें नाट्य हांगाच उलगडटा शें दिसता. अशे तरेचे विचार मनांत आयले. म्हज्या मुखार गंगी चलताली. तिका उलो मारून हांवें सांगलें,

"वताना पोलिसांक सांगून वच आं." ते प्रमाण ती कॉन्स्टेबल झोरेक सांगून गेली.

ती फुडें वताकच नानाचे घराचे गेटी मुखार रस्त्यारूच म्हाका सब इन्स्पेक्टर कदम दिसलो. थंय तिस्कार लोकांची बरीच गर्दी आशिल्ली. कदमा सरी वचून ताका हांवें सांगलें,

"तुमी सांगिल्ले प्रमाण हांवें गंगी कडेन चवकशी केली. ती म्हणटा

तें बरोबर आसा. तिणें लालीक आयताराच पळयल्ली. ताच्या भायर तिका आनी कांयच खबर ना. लालीची एक साडी गंगी कडेन आसा अशें ती म्हणटा. म्हाका दिसता, ती म्हणटा तें 99 टक्के बरोबर आसूंक जाय. एक टक्को हांव दुभावाक जागो दवरतां."

सब इन्स्पेक्टर कदमान म्हजें म्हणणें आयकून घेतलें. तो कितें उलोवपाक वता म्हणल्यार नानाच्या घरांतल्यान सिवील ड्रेसांतलो डिवाय. एस. पी. थंय आयलो. हो डिवाय. एस. पी. पयरचो नाशिल्लो. मागीर कळ्ळें डिवाय. एस पी. डहाणूकरा कडेन हाचो चार्ज आशिल्लो. कदमान ताचेकडेन म्हजी वळख करून दिली.

"साहेब, हें सामंत साहेब. रिटायर जावचे आदीं मंत्रालयांत डेप्युटी सेक्रेटरी म्हूण तांणी काम पळयलां."

"ताणें म्हाका हात दिलो. म्हजी थोडे भितर चवकशी केली आनी म्हणलें,

"बरें जालें! ही केस बेगीन सोल्व जाली."

"जाली सोल्व?" हांव

"हय! पूण तो अजून कबूल जायना."

"कोण कबूल जायना? खूनी सापडलो?"

"खून गुरख्यान केला. पूण तो कबूल जायना. ती पळय, घरांत चवकशी चालू आसा. ह्या कामांत गांवच्या एक दोन भुरग्यांचो आनी अनयाचो बरोच आदार जालो आमकां." कदमान म्हाका सांगलें.

"डिवाय. एस. पी. म्हजे वांगडा उलयतां उलयतां गाडयेंत बसून गेलो."

कदम नानाल्या घरांत वचपाक गेलो. रस्त्यारूच गर्दैत अनय डोर्लेकार म्हाका दिसलो. कदमान आपल्याक अनयाचो खूब आदार जालो म्हूण सांगिल्ले. हांवें अनयाक विचारलें,

"कसो कितें मेळ्ळो रे?"

"काल दीसभर हांव पोलिसांचे व्हॅनांतूनच भोंवलां." अनयान अशें म्हणटकच काल पोलिसांची गाडी म्हज्या गेटी मुखार स्लो जाल्ली हाची म्हाका याद जाली. हांवें ताका विचारलें,

"काल पोलिसांची व्हॅन म्हज्या घरा सामकारच्या रस्त्यार स्लो जावन रावता काय जाल्ली पूण दुसऱ्याच खिणाक स्पीड घेवन फुडें गेल्ली."

"हय, आमीच आशिल्ले तांतूंत. सब इन्स्पेक्टर कदमान गाडी स्लो करून, तुमच्या घरा कडेन बोट दाखोवन म्हाका विचारिल्लें, हो मनीस कसो काय म्हूण?"

"तुवें कितें सांगलें?"

"हांवें सांगलें, 'जंटलमॅन.' हांवें अशें म्हणटकच ताणें गाडी स्पिडीन घेतली. आमी बद्द बायोगेर गेले."

बायोच्या घरा शेजरा अनयाची बाग आसा. बागेंत पोल्ट्री आसा. बरी तीन शेडींची. अनय आपले बागेंतल्या घरांतच रावता आशिल्ल्यान बायोची आनी ताची बरी वळख आसा. बायोचें तागेर येवप वचप आशिल्लेंच. लाली तर ताचेय बागेंत कामाक येवपी. लाली कामाक हुशार आशिल्ली. बायलमनीस आसून लेगीत मानाया भशेन काम करपी हें म्हाका ताणें सांगिल्लें. आतां म्हज्या लक्षांत आयलें, पोलिसांनी ताचेच कडेन कित्याक मदत मागली. अनय हो पोलिसांचे बरो वळखीचो आशिल्लो. त्या दिसा लांजा पोलीस स्टेशना वयल्यान रातचे पोलिसांचे व्हेनांतल्यान सानवलींत येता आसतना सब इंस्पेक्टर कदमान तो खंय आसा म्हूण एका हवालदारा कडेन चवकशी केल्ली. थोडे भितर सांगपाचें म्हणजे, तो पोलिसांचो खबऱ्या आसुंये. ताका स्वताक आपल्या जिवाक भंय आसा अशें दिसतालें जावंये देखून ताणें पिस्तूल सांबाळपाचें लायसन्स काडिल्लें आसुंये. हें ताणें म्हाका ही खबर जावन वताकच कांय दिसांनी सांगलें.

"बायोचो कितें संबंद?" हांवें कांय खबर नाशिल्लेवरी ताका विचारलें.

"लालीच्या हातांतलीं कांकणां लालीक बायोन दिल्लीं म्हूण कळ्ळें. लाली गुरख्यागेर न्हिदिल्ली म्हूण कळ्ळें. पोलिसांक तीच सुलूस पुरो जाली."

अनयाक सगळें डिटेलांत सांगपाचें ना हें म्हाका ताच्या उलोवण्या वयल्यान समजलें.. घडये गुरखो अजून कबूल जावंक ना म्हूण आपूण कितेंय उलयल्यार चवकशेंत बादा बी येत काय अशें ताका दिसलें आसत. वेळ येतकच सगळें कळटलेंच म्हूण हांवेंय ते विशीं आनीक ताका खोदून खोदून विचारलें ना. हांवें म्हणलें,

"पूण म्हाका अजून समजना, गुरखो लालीचो खून कित्याक करतलो. कांय चुकना मरे पोलिसांचें?"

"घडये अनैतीक संबंदांतल्यान हें घडूं येता."

"कितें सांगता तूं? गुरखो आनी लालीचे अनैतीक संबंद? बायल भुरगेकार तो! बायल भुरगीं ताचे वांगडाच ताच्या घरांत रावतात."

"कांयच सांगूं नजो आं सामंत भाऊ, बायल भुरगेकार असल्या संबदांनी घुस्पल्ले पळयनात आमी? वाचनात? आज दीसपट्टें टी. वी. चेर कितें पळयतात आमी?"

"जालेंय जाल्यार हें कितें? लाली पन्नास पंच्चावन वर्सांची बायल मनीस आनी गुरखो तिशिंतलो तरनाटो."

"जागेर ती काम करताली तागेर रातची न्हिदूंक रावपी बायल ती. खंयतरी असले संबंद उप्रासले बगर रावतात?"

हांव ओगीच रावलों. आनी कितें उलयतलों? दोळ्यांनी पळोवन खात्री जाले बगर हांव विश्वास दवरपी न्हय. लोकांक कितें? कुसळ पळयलें जाल्यार मुसळ पळयलें म्हणपाची संवय. मेल्ले बायलेची बदनामी आयकुचे परस ओगीच राविल्लें बरें न्हय. हांव ओगीच राविल्लों पळोवन

ताणें विचारलें,

"सारखें न्हय, सामंत भाऊ?

आतां सारखें कशें म्हणूं हांव? ओगी रावलों हाचो अर्थ म्हाका योग्य दिसलें असो जायना. हो वेळ वाद घालपाचो न्हय. हांव उलयलों, तो उलयलो, वाद वाडत रावतालो. बायल मनीस ती! तो उलयतना तिच्या शिलाची विदर्णा करीत रावतालो. म्हाका तें आयकून घेवचें पडटलें. ना जाल्यार वाद चालू दवरचो पडटलो. म्हूण ओग्गी रावले बगर दुसरो उपाय ना.

"वगी शे सामंत भाऊ?"

"ना रे! तूं म्हणटा ताचेर विचार करतालों. हें म्हाका सहजपणान पचप कठीण जाता."

इतल्यांत गुरख्या वांगडा काम करपी आपलो भाव अजून घरा कित्याक पावलो ना म्हूण ताची चवकशी करूंक भिकू थंय पावलो. गुरख्याची चवकशी करतात ही खबर गांवांत पातळिल्ली. आपल्या भावाकूय बी पोलीस कांय त्रास दिवचे नात मू ह्या भंयान भिकू आयिल्लो.. आपल्या भावा कडेन पोलिस गुरख्या विशीं चवकशी करतात अशें अनयान ताका सांगिल्लें. भिकूचो भाव कुशीक वताकच अनयान म्हाका ल्हवूच सांगलें,

"भिकू धनगराकडेन पोलिसांनी चवकशी केली. तेन्ना ताणें सांगिल्लें, जाधवाचे बागेंत काम करतासताना ताणें खंय गुरख्याचें उगडें आंग सल्पल्लें पळयल्लें. तेन्ना ताणें ताचे बायले वेल्यान फकाणां लेगीत मारिल्लीं खंय. पूण तो प्रसंग खंयच्या दिसाचो, सोमारचो काय मंगळारचो हाचो ताका उगडास जायना."

इतले भितर थंय जाधवाचे बागे कडल्यान पोलिसांची गाडी आयली. तेन्नाच स. इं. कदम घरांतल्यान रस्त्यार आयिल्लो. गाडयेंतल्यान एक पोलीस देंवलो आनी जे कोयतेन खून केल्लो ती कोयती मेळ्ळी

अशें सांगलें आनी कोयती काडून कदमाक दाखयली. कदमान ती हातांत घेवन नियाळ्ळी आनी ताचेवयले रगताचे दाग पळयले. कोयती ताणें सांबाळून दवरपाक सांगलें.

''कदम सायब, म्हजें आतां कांय काम ना. आतां हांव घरा वतां.'' अशें म्हणून कदमाचें परमिशन घेवन अनय घरा वचपाक गेलो. कदमय गुरख्याची चवकशी जंय चालू आशिल्ली थंय गेलो. हांवें थोडो वळ थंयच गणयलें. नानाच्या घरांत चवकशी चालू आसा म्हणटकच भितर वचपाक म्हजें मन घेनाशिल्लें. आतां मेरेन रस्त्यावयले लोक घरा गेल्ले. हांव गेटीसरीं काळखांतूच उबो आशिल्लों. निमाणें बेजारून नानागेर वचपाक गेट उगडून भितर गेलों. नानाचें घर गेटी कडल्यान मातशें पयस आसा. घरा लागीं पावताकच हांवें पळयलें, नानाल्या भायल्या सालांत एके कुशीक पोलीस गुरख्याची चवकशी करतात. भायले वटेंतल्या खळांत नाना पासयो मारतालो. खळ म्हणल्यार घरा भायली उगती जमीन. ती जमीन पेटून, सारोवन बी ताचेर माटव घालतात. म्हाका पळोवन नानान उलो मारलो.

''येयात सामंत भाऊ, आज दनपारच्यान हांगाच गुरख्याची चवकशी चालू आसा. आमकां भायर भितर करपाक लेगीत मेकळेसाण ना.'' नानान ल्हवूच सांगलें. हाचो अर्थ गुरख्याक दनपारांच उबारिल्लो. जाधवाचे बागेंत सोदासोद चालू आशिल्ली तेन्ना तो थंय नाशिल्लो.

''गुरखो कितें म्हणटा?''

''तो कसोच कबूल जायना. तो म्हणटा, आपूण संवसारी मनीस. बायल भुरगीं घरांत आसात. आपूण अशीं कर्मां कशीं करतोलों? म्हजेकडेन बोट दाखोवन तो म्हणटा' जाय जाल्यार हांकां विचारात हांव कसो मनीस तो. हे वळखतात म्हाका.''

''वा! म्हणजे तुमकां साक्षीदार केले. ताचे हुजीर तुमी वायट सांगतले?''

''हांव खंय वळखतां ताका. तो म्हगेर केन्नाय फोन करूंक येतालो.

तितलीच वळख. तरीपूण हांवें ताका सांगलें. खरें कितें तें सांग. पोलीस तुका त्रास करचे नात. पोलिसांनी ताका बरे भशेन, लाडी गोडीन विचारलें. त्या दिसा लाली तुगेर आशिल्ली. मागीर ती खंय गेली? ''

''पूण हां ना आनी हूं ना. आमच्या घरांत भुरगीं आसात, बायलो आसात म्हूण पोलिसांनी आपलो चड सो पोलिसी उपाय दाखयलो ना तरी पूण मुस्कटार चार थापटां ओडलींच. येयात. भितर वचुया आमी. भायर चलुंदी तांची चवकशी.''

नाना फुडें आनी हांव फाटीं अशें आमी घरांत वचपाक भितर सरले. सालांत पांय दवरला मात, गुरख्यान नानाक पळयलो आनी रडपाचो आवाज वाडयलो. म्हणूंक लागलो,

''नाना शाब, हमको बचाव. हमको बचाव. हमने कुछ नहीं किया. हमारे मालिक होते तो हमको बचाते.''

''मालिक को फोन केला आहे. आयेगा मालिक.'' नानान म्हणलें.

जाधवाक कळयलां हांवें. येतां म्हूण सांगलां ताणें.'' नानान म्हजे कडेन पळोवन म्हणलें.

गुरख्याची नदर म्हजेर पडल्या मात. लागलो आड्डुपाक.

''उश दिन रात को इनके घर गयी थी लाली.''

इतलें मात तो उलयला. हवालदार झोरेन इतले फास्ट गतीन ताचेर दोन फुलयलीं. दिसलीं नात, फकत आयकूंक आयलीं. ''आनी फट उलयशी आनी मारतालों. दिसता ताचें नांव घेता? बेकार आसात रे आमी हांगा?'' झोरेन आनी एक उबरिल्लें. सब इंस्पेक्टर कदमान ताका हात दाखोवन कुरू केली. आनी म्हणलें,

''ताका पोलीस श्टेशनांत व्हरुया. हांगा आनी नाका.''

पोलिसांनी गुरख्याक जिपींत बसयलो आनी घेवन गेले.

एक बरें आसतालें. गांवांत कितेंय जावं, खंयचेय चवकशेक पोलीस

येवं, ते नानाल्या घराक भेट दिल्या बगर वचनाशिल्ले. कोणाचोय स्टेटमेंट घेवपाचो आसत, तो नानाच्या घरांत. कोणाकूय धरून हाडला आसत तरी ताका पयलो घेवन येवप नानागेर. आनी थंयच्यान फुडें वचप. नानागेर आयिल्ल्या गेल्ल्याक च्या घेतले बगर वचूंक मेळनाशिल्लें. घर तिस्कार आशिल्ल्याचो हो परिणाम. पोलीस वतकच हांवें नानाक विचारलें,

"हें कर्म गुरख्यानूच केलां अशें दिसता तुमकां?"

"म्हाका दिसता, तो आसूंक जाय तातूंत.

"आसूंक जाय तातूंत म्हणल्यार?"

"म्हाका तें ताचें एकल्याचें काम दिसना. आनिकूय मनीस आसपाक जाय तातूंत. ते बायलेची आवतिकाय, देह, त्या प्रेताची दशा पळयल्यार तें एकल्याचें काम दिसना. तशें दिसपाक आनीक एक कारण आसा, गुरखो रावता तें घर वा धरुया त्या घराच्या लागसार जर गुरख्यान खून केला जाल्यार त्या जाग्या पसून जंय प्रेत मेळ्ळें तो जागो हांच्या भितर सुमार देडशीं–दोनशीं फुटांचें अंतर आसा. थंयच्यान उबारून हाडपाचें काम गुरखो एकलोच करीत शें दिसता तुमकां?"

"अशे कितेलेशेच प्रश्न मनांत येतात. मनांतल्या मनांत तर्क वितार्क करतां पूण समाधान जायना." हांव.

"आनी न्हिदिल्ले भशेन तिका दवरल्या. प्रेताचेर करड घालां. चित्त शांत दवरून सगळीं कामां केल्यांत. हें एकल्याचें काम शें दिसता तुमकां?"

"पूण खुनाचें कारण कितें आसूंक येता?"

"लाली खूब लोकांगेर कामाक वताली. पयशांची भानगड आसूं येता. कोणें पयशे दिलेना, कोणाले चड घेतिल्ले पावलेना, वा कोणाय कडल्यान रीण घेतलां आसूं येता. कितेंय तरी घडलां जातलें."

नानाचें हें मत सारखें आसूं येता. पैशांची भानगड वा आनी कितेंय

आसूं येता. पूण अनैतीक संबंद? ना! म्हज्यान विचारूच करूं नजो. खंय लाली आनी खंय रामसिंग गुरखो! एकली साठीच्या दारांत आनी दुसरो ऐन उमेदीचो तरणाटो. घरांत बायल आसा, भुरगीं आसात. बायल दिसपाक वायट ना. अनय म्हणटा ताशें कितेंय आसुंकूच शकना.

* * *

# सात

सकाळीं नानाल्या थंयच्यान आयलों. येतना विचार चालूच आशिल्ले. पोलिसांचे नदरेन खून कोणें केला हो प्रश्न उरूंक नाशिल्लो. तो खून गुरख्यान केला अशी तांची खातरी जाल्ली. गुरखो मार खातालो पूण कबूल जायनाशिल्लो. ताणें जर खून केल्लो तर ताच्या तोंडांतल्यान एक तरी अशें उतर येतलें आशिल्लें तातूंतल्यान फुडली कारवाय करपाक सोपें जातलें आशिल्लें. खुना वरी भयांकृत करतूप जो करपाक तयार जाता ताका तशेंच कारण आसूंक जाय. हांगा म्हाका कसलेंच कारण दिसनाशिल्लें. गुरखो भायल्यान हालीं–हालीं आयिल्लो मनीस. बरें! केलो धरुया गुरख्यान खून जाल्यार ताच्या फाटलो उद्‌देश्य कितें? लाली पयशेकान्न आशिल्ली? निखालूस ना. ती हाता वयल्या पोटाची बायल. जितलें जोडलें तितलें खालें. पन्नाशी हुपिल्ली, घोवान सोडिल्ली बायल. ना घर ना दार. जंय काम करता थंयच ती त्या रातीचो राबितो करता.

एक दुभाव म्हज्या मनाक चाटून गेलो. लालीक मारपाक कोणेंय गुरख्याक सुपारी बी दिवंक नाशिल्ली मू? पयशां खातीर बी गुरख्यान हें काम केलें ना मू? तशें कोण कित्याक करतलो? जंय दोन वेळा जेवण मेळपाची जिका मारामारी, थंय तिच्या जिवाचेर कोण उठ्‌ठलो? तिचे पिरायेच्या ह्या मोण्णार प्रेम प्रकरणाक मात लेगीत सुवात दिसनासली. जमीन वा भाट बेंसांचें प्रकरण आशिल्लें जाल्यार ती हाच्या ताच्या दारांत

काम करपाक भोवंची नासली.

हें एकल्याचें काम न्हय, हातूंत एका परस चड लोक घुस्पल्ले आसूं येतात हें नानाचें म्हणणें जर खरें आसत जाल्यार लेगीत खुनाचो उद्देश्य स्पश्ट जायनाशिल्लो. गुरखो त्या दिसा एकलो नाशिल्लो. घरांत बायल आशिल्ली, तीन भुरगीं आशिलीं. भरिल्ल्या घराच्या लागसार असलें करतूप करपाक गुरख्याक धीर तरी कसो जातलो.? लाली ते रातीची गुरख्यागेर न्हिदिल्ली ह्या दुभावाच्या एका धाग्याचेर तो खुनी कसो थारता? खंय तरी कितें तरी चुकतालें. हे केसीचो सोद भलतेच दिकेन बी वचना मू? आमी मीसगायड बी जायनात मू? अशे शेंकड्यांनी प्रश्न म्हजे तकलेंत अक्षरश: तांडव करताले.

अजून पोलीस काळखांत सांसपितात. पोलीसांनी गुरख्याक धरला. पूण गुरखो कबूल जाय म्हणसर आनी ताका सपोर्टींग पुरावो मेळ म्हणसर तो खुनी जायना. म्हजें मन उबगलां, विटलां आनी उखल्लां. केन्ना काय ह्या जंवजाळांतल्यान सुट्टां आनी मुंबय वतां काय जालां. सब इंस्पेक्टर कदमान बुधवारा दिसूच म्हाका सांगून दवरिल्लें, "तुमी म्हाका विचारल्या बगर सानवली सोडचे नात." मनांत आसुनूय खुनी सिद्ध जाले बगर म्हाका मुंबय वचूंक मेळना. मुंबय म्हज्या घरच्यां मदीं पाविल्लों जाल्यार मातशी मनाक थाकाय मेळटली आशिल्ली.

सकाळचे नित्यनेम उलगताकच आनीक काम कांयच नाशिल्लें. मन आळसावल्लें आशिल्लें. फुडें कितें जाता ताचो विचार करीत बसपा बगर म्हज्या हातांत कांय नाशिल्लें.

गंगी खोक्यार गेल्ली. कामेऱ्यां चार दीस येवपा नाशिल्लीं. तांचो ब्रेक फाल्यां म्हणल्यार आयतारा सोंपपाचो आशिल्लो. ते खातीर बागेंतूय वचून अर्थ नाशिल्लो. पोलीस करतात ती चवकशी आनी गांवच्या लोकांचो म्हजे वयलो विश्वास पळोवन मना वयलो ताण बरोच उणो जाल्लो. पडवेर ऑल्तोर घालें आनी सुसेगाद बसलों. चित्त शांत दवरून मेळपी सुसेग वेगळोच आनंद दिता. पूण तोय सुसेग खिणाचो थारलो.

बसतां म्हणसर साडे णवाच्या सुमाराक शेजारच्या वाड्यावयलो राजाराम तेंडूलकार सामंत भाऊ, सामंत भाऊ' म्हूण उलो मारीत आयलो. हो मनीस ह्या वाठारांतलो एक मोठो जमीनदार. पिराय अंयशीं वर्सां हुपिल्ली. पूण चाल आनी वेव्हार पन्नाशींतल्या ग्हस्थाचो आनी करण्यो एकाद्र्या पंचविशींतल्या तरणाट्याक लेगीत फाटीं घालपा सारख्यो. अजून तो सगळे वेव्हार स्वता पळयता. केन्ना केन्ना गोरवां घेवन आमचे बागे कडेन येता तेन्ना म्हजे सरीं येवन चकाटां मारता. हो ब्रम्हचारी. पूण हाणें आपल्या भावाल्या भुरग्यांक वयर काडून तांचीं लग्नां बी केलीं. आशिल्ले इस्टेटींत दोब्रादीन, तिब्रादीन भर घाली. बागेंत कुस्कुटाचें लुकसान जालें जाल्यार हाचो जीव वयर सकयल जाता. मजा म्हणल्यार हाच्या फाटल्यान हाची सगळी इस्टेट हाच्या पुतणयांची. लाखांनी वेव्हार करपी ह्या मनशाची मुस्तायकी सामकी सादी. आमच्या घरा पसून बरेंच पयस आनी सकल्या वाठाराक बोरभाटांत ताचें घर. घर जरी पयस आसलें तरी ताची जमीन आमच्या घरा फुडल्या रस्त्याक तेंकल्या. आड्याक तेकल्या. दोगांयच्याय आड्या मदल्यान रस्तो गेला.

राजा, गांवांतले लोक ताका राजा म्हणटालें, तोंडान फटकळ आनी बडबडो. मनांत येता तें भीड म्हुर्वत दवरिनासतना चार चवगांत उलोवपी. चार चवगांत कितें उलोवचें आनी खाजगींत कितें उलोवचें हाचें भान ताणें केन्ना दवरलें ना. उलोवपाक लागलो जाल्यार उलयत रावतलो. आपूण कितें उलयतां ताचेर दुसऱ्यालेंय कितें मत आसूं येता वा दुसरो कितें उलयता तें आयकून घेवचें अशें ताका केन्ना दिसलें ना. पडवेर भितर सरतां सरतां ताणें उलोवपाक सुरवात केली.

"वंडारी लोकांची धरपकड चल्ल्या. तांतूल्याच एकान खून केला असो पोलिसांक दुभाव आसा. तो खंय सामंताच्या पसऱ्यार एक मंगळसूत्र घाण दवरपाक आयिल्लो. ताचे फाटल्यान एक बायल 'जांवय बापू, मंगळसूत्र घाण दवरूं नाका म्हूण बोवाळ मारीत आयिल्ली. ताणेंच खून केला जातलो ते बायलेचो असो पोलिसांक दुभाव आसा. सामंतभाऊ, तुमी हुस्को करूं नाकात."

हाणें खबर सांगल्या ती चार पांच दीस आदींची. शेळी खबर., ताचे उपरांताचो डॅवलोपमेण्ट हाका खबर ना दिसता. हांवें ताका सांगलें,

"तें प्रेत लालीचें आशिल्लें. लालीचो खून जाला."

"लाली? कोण लाली? ती आरसाटी, गोरी शी बायल? कामाक राक्षस ती?"

"हय, हय, तीच. लाली."

"लालीचो खून जाला? कितें सांगता गा? म्हणजे तें प्रेत लालीचें?"

"तिचो खूनी लेगीत पोलिसांक मेळ्ळो."

"कोण तो? तुमकां खबर आसा?"

"पोलिसांनी जाधवाल्या गुरख्याक धरून व्हेला.."

"त्या गुरख्याक ओगीच धरला. ती जर लाली आसत जाल्यार तो खून कोणें केला तें हांव सांगतां.

"कोणें केला?"

"तो खून गंप्यान आनी नरून केला."

"गंप्या आनी नरू?"

"त्या भिम्या धनगराचे दोगूय पूत."

"हय! वळखतां हांव तांकां."

"लाली आदीं भिम्यागेर रावताली. तागेल्याच पोरांची करणी आसपाक जाय ही. फाटी एकदां तिचीं आनी तांची झगडी जाल्ली."

तेंडुलकाराचीं हीं मुक्ताफळां आयकून म्हज्या काळजांत धस्स जालें. हो बडबडटा तें जर पोलिसांक कळ्ळें जाल्यार वा सामंत भाऊ अशें अशें उलयता म्हूण हाणेंच पोलिसांक सांगल्यार म्हजी धडगत ना. गंगी सारखी म्हजी गत जातली. आपलें मत आपणेंच उलोवन तें 'न्हय

गा' म्हूण दुसऱ्याच्या तोंडांत घालपांत कांय लोक हुशार आसतात.

तेंडुलकाराचो बडबडो सभाव ओगीच कित्याय कितें उलोवपी अशें पोलीस म्हणचेनात. आनी तांकां तें खबरूय आसचें ना. हांवें ताचें उलोवणें थंयचे थंय दामून दवरपाचों यत्न केलो.

"ह्या विशयाचेर अजिबात उलोवं नाकात आं. म्हाका बशिल्ले कडेन भानगडी नाकात. हेर खंयच्याय विशयाचेर उलोवया."

ताचे उपरांत मात ताणें हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी केल्यो. चड करून बागेच्यो, आंब्याच्या गार्फांच्यो खबरी केल्यो. म्हाकाय बरें दिसलें. हांवें ताका च्या करून दिलो. बरोच वेळ बसताकच तो वचपाक उठलो. पडवेचीं सोपणां देंवताकच मातसो गालांतल्या गालांत हांसून मातश्या तिरसुवादपणान म्हणलें,

"म्हजे भशेन तुमकांय बी तशेंच दिसता तर?"

"कितें तें?" म्हाका ताच्या प्रश्नाचो अर्थ कळ्ळो ना.

"गंप्या आनी नरून खून केला म्हूण."

"हें तुमी म्हणलां. हांव निखालूस उलोवंक ना." म्हाका तिडक मारिल्ली. मातसो तापुनूच उलयलों.

हें आयकुपाक तो आशिल्लो खंय! हें उलयलो आनी चलूंक लागलो. म्हज्या काळजांत धडधडूंक लागलें. मनांत आयलें, हो आनी नवें अरिश्ट हाडटा काय? आपल्या सभावा प्रमाण कोणाय कडेन तो बडबडलो जाल्यार? ताचेंय ठिकाण आमचे बागेक तेकुनूच आसा. थंय काम करपी कामगारां कडेन तो असोच बडबडलो जाल्यार? सामंत भाऊ अशें अशें म्हणटा म्हूण भिम्या वा ताच्या भुरग्यांच्या कानार पडलें जाल्यार? ताच्या भुरग्यांतलो व्हडलो पूत गूंड प्रवृत्तीचो मनीस. लागली म्हजी वाट. समाज म्हूण कसल्या कसल्या प्रवृत्तींनी भरला? विघ्नसंतोशी मनीस अशेच आसतात. फस्काची काडी पेटोवन उडयतले आनी पयस रावून मजा पळयतले.

राजाराम तेंडुलकर वताकच इकरा साडेइकरांक सुमार हांव न्हावपाक वचपाची तयारी करपाक लागलों. गॅसाचेर दवरिल्लें उदक बालदेंत ओतून घेवचें म्हूण बालदी हाडपाक हांव बाथरुमांत गेलों. बालदेंत थोडें थंड उदक घालें आनी परतो आयलों जाल्यार सोफाचेर सब इन्स्पेटर कदम बशिल्लो. आज कदम सिवील ड्रेसांत आशिल्लो. इतल्या दिसांत कालूच तो युनिफॉर्मांत आशिल्लो. हाचोच अर्थ काल गुरख्याक धरून व्हरपाचें आशिल्लें म्हूण तो युनिफॉर्मांत आयिल्लो. तो येतनाच युनिफोर्मांत आयला म्हणचे ताका गुरख्याचो दुभाव बिरेस्ताराच आयला आसूंक जाय. सब इन्स्पेटर कदम गंगीकडेन उलयतालो,

"तुवें लालीक निमाणें पळयल्ली तेन्ना ती कसली साडी न्हेशिल्ली?"

"ती पाचव्या रंगाची साडी न्हेशिल्ली." गंगीन सांगलें.

"आंगार कसल्यो वस्ती आशिल्ल्यो?"

"गळ्यांत भांगराच्या पुतळांची माळ आशिल्ली. दोनूय कानांत भांगराचीं कानांतलीं आशिल्लीं. हातांत पितुळचीं कांकणां आनी पांयांत पांयजणां,"

"पान खाताली न्हय ती? पानांचो बोटवो कसल्या रंगाचो आशिल्लो?"

"मोरपिशी रंगाचो, चवकटीचो."

"तिच्या पांयांत कितें आशिल्लें?"

"प्लास्टीकचे टणक शे स्लिपर आशिल्ले. ताचे भायर पाचवे मुठीची सत्री आशिल्ली. म्हजे सत्रे सारखीच तिची सत्री." गंगी भितर गेली आनी आपली सत्री हाडून तिणें कदमाक दाखयली.

हें सगळें उलयतासतना गंगी सब इंस्पेक्टर कदमा मुखार उकडयां बशिल्ली आशिल्ली आनी हात जोडून पांय पडपाची तिची पोझ आशिल्ली.

हाचे वयल्यान कालच्या प्रकरणा उपरांत गंगी कितली भिल्ली आशिल्ली हें दिसून येता.

"पळयात सामंत सायब, इतलें सगळें तिचे कडेन वा तिच्या आंगार आशिल्लें, पूण एक कांकणां सोडलीं जाल्यार आनीक एकूय वस्त आमकां मेळूंक ना."

"खुनी बरोच सादूर दिसता.." हांवें म्हणलें.

"तें तर आसाच. गंगी, तुवें लालीक गुरख्यागेर पळयल्या ती आयतारा काय सोमारा?" कदमान गंगीक विचारलें.

"आयतारा."

"ना,.सोमारा."

"आयतारा."

"जनी म्हणटा तुवें लालीक सोमारा पळयल्या म्हूण. पळयात हो सामंत साहेब. तिका उगडास उरना. सोमारा पळयल्या हिणें पूण आयतारूच म्हणटा. तुमी तरी सांगात तिका. तुमचें आयकतली ती."

"हांव फट उलय म्हूण कशें सांगतलों? आयतराच पळयलां तिका गंगीन."

गंगी आपल्या मताचेर थीर आशिल्ली. ती आपली जाप बदलपाक तयार नाशिल्ली. पूण सब इन्स्पेक्टर कदम गंगी कडल्यान सोमार म्हूण कित्याक वदयता हें म्हाका समजलें ना. पूण ताचेच कडल्यान फुडें ताचें स्पश्टीकरण जालें.

"गुरख्याची बायल म्हणटा लाली सोमारा तांगेर आशिल्ली. गुरखो म्हणटा ती फांतोडेर उठून गेली. बायल जरी खरें सांगता आसली तरी तिची साक्ष चलना. ते खातीर सोमारा तिका थंय पळयल्लो कोण तरी जाय."

"म्हज्या अल्पशा ज्ञाना प्रमाण बायलेची साक्ष घोवाच्या बाजून

चलना. पूण घोवा विरुद्धची बायलेची साक्ष कित्याक चलना?" हाचेर जाप कांय दिनासतना कदमान गंगीक विचारलें.

"म्हूण तुवें लालीक सोरो घालो खंय मगे?"

"हांवें? हांव कित्याक घालतलीं? हांवूच केन्ना सोऱ्याक आफूडना. हांव तिका कित्याक घालतलीं?" म्हज्या लक्षांत आयलें, सब इंस्पेक्टर कदम फट घालून खरें काडूंक सोदतालो.

"पिल्ली म्हूण गुरख्यागेर न्हिदून उरली ती?" हांवें विचारलें.

"आसूं येता. म्हाका खबर ना."

गुरख्याची बायल सोमार म्हणटाली. गंगी म्हणटाली आयतार. आनी म्हाकाय खबर आशिल्लें गंगीन लालीक आयतारा गुरख्यागेर पळयल्या म्हूण. गुरख्याचे बायलेन सोमारा म्हूण कित्याक सांगलें? सोमाराय लाली गुरख्यागेर न्हिदूंक आशिल्ली जावये. अशे तरेच्या विचारांनी गुल्ल जातां म्हणसर सब इन्स्पेक्टर कदमाच्या आवाजान म्हजे विचार मदींच तुटले.

"गगी तुजी कोरी च्या बरी जाता. कर मगे इल्ली." गंगी च्या करपाक भितर गेली. हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो खबरी करतां करतां ताणे म्हाका प्रश्न केलो,

"तुमी पार्टनरांक कळयलां काय ना?"

"ना. फोन बंद आसा. मुंबयचो संपर्क तुटला."

"फोन बंद आसा जाल्यार तळ्यागांवांत वचून करात."

हो म्हाका तांकां कळय म्हूण कित्याक सांगता कांय कळना. हाणें तें उलयतां उलयतां सहज म्हूण म्हणलां काय हाका हांवें तांकां कळयल्लें जाय. कशेंय जावं सांजे नानागेर वतकच तांकां कळोवचें अशें थारायलें. सगळ्यांक जमना जाल्यार जाचे जमनीर प्रेत मेळ्ळां त्या आरोलकाराक तरी कळयतालों म्हूण थारायलें. घरांत सगळ्याक नदर फिरोवन सब

इन्स्पेक्टर कदमान म्हणलें,

"टी. वी. बी. वी. घेवचो. टायम पास जावपाक बरें."

हांव कांय उलयलों ना. फकत मान हालयली. हाका कितें जाय आशिल्लें म्हाका कळ्ळें ना. हाका टी. वी. पळोवपाक जाय आशिल्लो काय तशें उलोवन हो म्हज्या लिवींग स्टॅंडर्डाचो अदमास काडटालो? कांय वेळान म्हणपाक लागलो,

"आर्माचें बी लायसन्स काडात. एक आर्म आपल्याकडेन आसप बरें!"

म्हजे कडेन आर्म आसा काय ना हें पळोवपाचें बी आसा काय हाका? हांगा एक खून जाला आनी त्या खुनाची पोलीस चवकशी चालू आसा ह्या संबंदान तो उलयता काय? पूण खून तर आर्माचे गुळयेन जावंक ना. एक मनीस ह्या नात्यान तो सुचयता काय? समजुपाक मार्ग नाशिल्लो. पूण ताच्या दर एका प्रश्ना फाटल्यान वा विचारा फाटल्यान म्हाका दुभाव दिसपाक लागलो आनी हांव ताचे फाटलो हेतू सोदपाक लागलों. खुनाची पोलीस चवकशी चालू आसा आनी तातूंत गरजे भायर हांव घुस्पल्लों आसां म्हूण म्हाका अशें दिसता आसुंये.

"कितले दीस मुक्काम तुमचो आतां?" ताणें विचारलें.

"तुमचें परमिशन आसत जाल्यार ह्या दोन दिसांत वतालों म्हणटां."

"दोन दिसांनी सांगता तुमकां किते तें."

"बरें!"

दुभावी खुन्याक पकडला. पूण अजून म्हाका थंय वचपाक परमिशन दिनात. म्हणजेच खुन्याक धरलोय जाल्यार हाचे फुडें गांवांतल्यान भायर सरतना पोलिसांची परवानगी घेवनूच वचचें पडटलें तर. पोलिसांचे नदरेन म्हजो दुभावीत आरोप्याचो दर्जो आसा म्हणपाक हरकत ना.

हांच्या हातांत सापडलां तर खरों हांव! पळोवया फुडें कितें जाता तें. म्हज्या मनांत आयलें.

इतल्यांत भायल्यान सामंत साहेब, आवो सामंत साहेब असो आवाज आयकूंक आयलो. हांव पडवेर गेलों आनी पड्डो कुशीक केलो. म्हाका भायर बावडेकार उबो आशिल्लो दिसलो. पडवेक पड्डो आशिल्ल्यान भितर येवचें वा ना ह्या विचारान ताणें भायल्यानच उलो केल्लो. बावडेकार हो म्हजो खासा दोस्त. आमचे पिरायेंत जरी धा वर्साचो फरक आशिल्लो तरी आमचे दोस्तीक तो केन्ना जाणवलो ना. हो हालिंसाराक लांज्याचो तहसीलदार म्हूण रिटायर जाल्लो आसा. आमी दोगूय जरी सरकारी पेन्शनरस् आसले तरी आमची दोस्ती सरकारी कामाच्या संदर्भांत जाल्ली न्हय. हांव पुण्यांत प्रशासकीय प्रशिक्षण महाविद्यालयांत ट्रेनिंगाक गेल्लों तेन्ना तो रेव्हेन्यु डिपार्टमेंटाच्या कसल्याशा ट्रेनिंगाक आयिल्लो आशिल्लो. आमचे दोगांयचे कोर्सीस वेगळे आशिल्ले. तरी पूण आमची भेट ब्रेकफास्टा वेळार आनी जेवणा वेळार जाताली. थंय आमची फ्रेंडशीप क्लीक जाली. घडये तो कोंकणांतालो आशिल्लो आनी म्हाका कोंकणाबद्दल सदांच प्रेम आशिल्ल्यान तशी ती जाल्या आसुंये. तो तेन्ना अवल कारकून आशिल्लो. आनी हांव मंत्रालयांत गॅजेटेड ऑफिसर आशिल्लों. तो जेन्ना केन्ना सरकारी कामा खातीर मुंबय येतालो तेन्ना म्हगेल्याच बॅचलर्स क्वार्टर्सांत रावतालो. हांव धा वर्सां पयलीं डेप्युटी सेक्रेटरी म्हूण रिटायर जालों, आनी तो हालिंसाराकूच तहसीलदार म्हूण रिटायर जावन राजापुराक स्थायीक जाल्लो. आमगेली ही जमीन घेवचे वेळार थळावो मनीस म्हणून ताची आमकां बरीच मदत जाल्ली. ताका अवचीत हांगां पळोवन म्हाका अजाप जालें. म्हज्या तोंडांतल्या उतरां भायर पडलीं,

"आरे! बावडेकार सायब! तुमी आनी हांगा!"

"तुमचे विशीं पेपरांत नाका नाका त्यो खबरी वाचल्यो आनी म्हणलें प्रत्यक्षांत खरें फट कितें पळोवया म्हूण लांज्याक आयलों, हांगाची बस मेळ्ळी ती पकडली. बद्द हांगां आयलों. वरा भरयान तेच बशीन परत वतालों. अशें उलयत तो भितर सरलो. आनी सब इंस्पेक्टर आनी ताची

नदरानदर जाली. दोगांकूय अजाप दिसलें. सबइंस्पेक्टर कदमान म्हणलें,

"बशी खातीर ताकीद करपाची गरज ना. हांव आसां व्हरपाक तुमकां."

"नाका रे बाबा! तुमचे गाडयेंतल्यान गेलों जाल्यार पळयतले समजतले, म्हाका तुमी धरून व्हरतात. पेपरांत फाल्यां आनीक एक विशय."

अशें बावडेकारान म्हणलें मात दोगूय खददून हांसूं लागले. तांची वळख आसा तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. हांवें कदमाक म्हणलें,

"म्हणचे तुमी वळखतात एकामेकांक! अजाप शें!"

"कितें तुमी सामंत साहेब. आमचीं, दोगांयचीं ऑफिसां एकाच कंपावडांत आसात. खबर ना तुमकां? दोन चार म्हयन्यां पयलीं हांचो सेंड ऑफ आमी सगळ्या सरकारी नोकरांनी मोठ्या दबाजान मनयल्लो. पूण तुमची आनी हांची वळख कशी?"

"आमची दोगांयची इश्टागत फाटल्या वीस पंचवीस वर्सांची. सामकी घरच्या सारखी: तें सांगतलो जाल्यार वेगळोच इतिहास जातलो."

"सामंत साहेब, तुमचे विशीं गेल्ले दोन दीस आरत्यो परत्यो बातम्यो येताल्यो.. म्हाका कळना जालें, तुमी पसरो केन्ना घालो. आनी वस्ती घाण दवरपाचो धंदो केन्ना सुरू केलो. आनी ह्या वयार तुमकां ताची गरज कित्याक लागली. कोणाखातीर हें सगळें? आनी जालें कितें ॲक्जेटली?"

"तशें कांय ना. म्हजे बागेंत एके बायलेचें प्रेत सांपडलें. आनी पेपरवाले सुतावयल्यान सर्गार वचूंक सोदतात.. हांगासरल्यान पांच किलोमिटरांचेर एक पसरो आसा आनी त्या पसराकाराचें आडनांवूय सामंत. थंय घडिल्ल्यो गजाली म्हजें नांव घालून छापतात. घडये रिपोर्टरांक फरक खबर नासुये. जाग्यार बसून रिपोर्ट करतात. हांगा केन्ना कोण रिपोर्टर आयिल्लो हांवें पळोवंक ना."

"बावडेकार साहेब, खुन्याक पकडलो आमी. ताची चवकशी चालू आसा. तेन्ना सामंत सायबा विशीं दुभाव घेवची गरज ना."

"आयकून बरें दिसलें. हुस्को जाल्लो. मनाक दिसतालें, हें तुमचेर बगलांट आयलां म्हूण. खातरी करून घेवया म्हणलें आनी आयलों."

"जावं! त्या निमतान आमी मेळ्ळे तरी. आयल्यात तशे रावात आयचो दीस. म्हाकाय मात्सो सांगात जातलो. बेजारला हांव. कितें आसा तें शिजोवन खावया.

"ना बाबा. घरा कामां आसात. त्याबगर फाल्यां कोर्टांत एक केस आसा."

"तहसिलदाराच्या फाटल्यान केसी! अजापशें."

"कोंकणांतल्या कांय जमनीच्यो केसी आसाच. जावं तें. पूण म्हाका एक सांगात कदम साहेब, बायलेच्या खुना फाटलें कारण कळ्ळें तुमकां?"

"अजून तो कबूल जायना. पूण आमची खातरी आसा बलात्काराच्या प्रकरणांतल्यान हो खून जाला. आज ना फाल्यां ताका कबूल करचेंच पडटलें."

"पूण म्हाका ते बायलेची काकुळट दिसता. कसलो आकांत आयला जातालो तिचेर! ब्रम्हांड येवजलें जातालें. कसली अवदसा सुचली ह्या गुरख्याक? बायल भुरग्यांकार, संवसारी मनीस, खीणयाळ्या सुखाचे आशे खातीर ते बायलेचो जीव घेतालो, बायल भुरग्यांक वाऱ्यार उडयलीं आनी आपलोय फुडार काबार केलो. ही सायकोलॉजी कळना म्हाका." हांव.

"मनशाची सायकोलॉजी न्हय ही. ही सोऱ्याची सायकोलॉजी. मनीस न्हय. सोरो करता तें काम. हांवें खंय तरी वाचलां सोरो पितकच मनीस सुरवेक मर्कट चेश्टा करता. मातसो सोरो चड जातकच तो राक्षस जाता आनी अती चड जातकच तो दुकरा सारखो रेब्यांत लोळटा. हांगा

गुरख्याच्या आंगांत सोरो भिनलो आनी तो राक्षस जालो. आनी फुडल्यो सगळ्यो गजाली ताणें राक्षसावरी केल्यो. आजकाल अशे तरेचे गुन्यांव सर्रास जावपाक लागल्यात. खंयचोय पेपर उगडात, सर्रास ह्योव खबरी वाचूंक मेळटात सामंत साहेब.'' बावडेकारान म्हणलें.

''वयल्यान तें चडूव वाडलां बावडेकार सायब. हो समाज खंयचे दिकेन वतलो कळना. तुमी जाणात, असल्यो केसी वाचतकच मनाक खूब क्लेश जातात. तकली सुन्न जाता. हालिंसाराकूच मुंबय एक घडणूक घडिल्ली. रातीची चर्चगेट साकून सुटपी निमाणे गाडयेंत एका बेबद्यान मतिमंद चलयेचेर गाडयेंत आशिल्ल्या धा पंदरा लोकां मुखार बलात्कार केलो. लोक ताका आडोवंक गेले तेन्ना ताणें सुरो काडलो आनी तांचे मुखार वावुडलो. लोक फाटीं सरले आनी भियेवन आपले नदरे मुखार जाता तो बलात्कार तांकां पळोवचो पडलो. गाडी स्टेशनार पावतकच बोवाळ जालो ताका धरलो, सगळें जाले. पूण त्या राक्षसान आपलें काम सादयलेंच न्हय! अशें दिसता, पिस्तोल काडचें आनी एकल्या एकल्याक शूट करून असले प्रवृत्तीक मुळा पसून हुमटावन उडोवचें. पूण वळखतलो कसो! तुमचे मुखार उबो आसा ताचे भितर लेगीत असली प्रवृत्ती खेळटा आसूं येता हें ताणें ती दाखयले बगर वळखूंक येना.''

कदमालीं हीं उतरां आयकून बावडेकाराक मातशें अजापूच जालें.

''कदम सायब, तुमच्या सारख्या शांत प्रवृत्तीच्या मनशाक लेगीत अशें दिसप म्हणल्यार आज परिस्थिती कितली हाता भायर गेल्या हें कळटा.''

''तुमी जाणटे आनी पिरायेनय म्हजे परस व्हड. अणभवांत तर हांव तुमचो हात धरूंक शकचोंना. पूण म्हाका कितें दिसता तें तुमचे कडेन उलोवचें अशें म्हाका दिसता. 'बलात्कार' ह्या विशयाचेर उलोवप लेगीत लोक टाळटात. सेक्स संभोग ह्या विशयांचेर उगती चर्चा लेगीत करप पाप समजतात. हांव हाचेर उपाय सांगतलों अशें न्हय. पूण थोडें शें उलोवपाक सोदतां.'' कदम.

"आमचे कडेन उलोवपाक तुमकां कसलीच अडचण ना. तुमचे म्हजे संबंद पळयत जाल्यार तर नाच. आमी जाणट्यां वांगडा जाणटे, तरणाट्यां वांगडा तरणाटे." बावडेकारान कदमाचो संकोच पयस करपाचो यत्न केलो.

"देखून तर बसलां न्हय हांव! कितें जाता? बायले कडेन मन उगतें करतालो म्हणल्यार, 'चूल आनी मूल' हातूंत ती इतली गुल्ल आसता, दुसरें कांयच तिचे तकलेंतच वचना. आमच्या डिपार्टमेंटांत असल्यो खबरी कोणाक पचपाच्यो नात. तांची वृत्ती 'धोडाय बडय, पांच उडय' अशी जाल्या. आज संद मेळ्ळ्या तिचो उपेग करतां."

"सांगात न्हय तुमकां कितें सांगपा आसा तें." म्हाका मातशी उत्सुकता शी जाली.

"ताचे आदीं एक प्रश्न विचारतां तुमकां. चल्यान चलयेचेर बलात्कार केलो ही खबर सर्रास आमी आयकतात, वाचतात पूण चलयेन चल्याचेर बलात्कार केलो म्हूण केन्ना आयकलां?"

"हाचें कारण म्हाका दिसता तें अशें, कारण त्यो अबला आसतात आनी विचारी आसतात. दादल्यां भशेन त्यो सबळ आनी अविचारी नासतात." हांव सांच्यांतलें मत फट करून उलोवन गेलों.

"म्हाका मातशें वेगळें दिसता. तांच्यांतली कामूकता फट्ट करून जागी जायना. ताचे विरूद्द दादल्यांची कामूकता. चलयांक पळयना फुडें क्रियाशील जाता. अश्या वेळार तांच्यांतल्या भोवतोकांतली सद्सद्विवेक बुद्दी लेगीत काम करिना." कदमाचें मत विचार करपा सारखें आशिल्लें.

"चलयो आपल्यो इत्सा दामून दवरूंक शकतात तशे दादले कित्याक दवरूंक शकनात?" हांव.

"त्यो दामून दवरिनात. तांच्या शरिराची वा म्हणुया मेंदवाची घडणच अशी आसुंये, तांच्यांतली कामूकता बेगीन जागी जायना. ताच्या उरफाटें दादल्यांचें. हांगा हांव दादल्यांक दोश दिवचे परस सैमाक दितां,

म्हणचे निसर्गाक दितां. बायलांक जो संयम निसर्गान दिला तो दादल्यांक दिवंक ना. कारण कितेंय आसूं, पूण दादल्यांचेर कांय प्रमाणांत हो अन्याय आसा. पूण एक गजाल स्पश्ट करतां, बायलांचेर बलात्कार करपी दादल्यांचे वृत्तीचें हांव अजिबात समर्थन करिना आं. कामूकता जागी जाली म्हूण फाटलो फुडलो विचार करनासतना बायलेचेर बलात्कार करप हो तांचेर अन्याय. देशाचे कायदे कानून आनी समाजाचे नियम पाळप, मनांत नासलें तरी गरजेचें.'' इन्स्पेक्टर कदम.

''पूण कदम सायब, आज चित्र वेगळेंच दिसता. कायदे कडक केले, समाजाक शिक्षीत केलें तरी सुधार कांय ना.'' बावडेकारान आपलें मत मांडलें.

''हातूंत अशिक्षीत, अन्नाडी लोग आसतात अशांतलीय गजाल न्हय आं. बऱ्या बऱ्या शिक्षीत, विचारवंत लोकांचीय तीच गत. दादल्यांची काम वासना जागी जाली म्हणटकच कायद्याची भिरांत आनी मनांतली लज हांची तो पर्वा करिना. त्या खिणाक तरी तो राक्षस जाता. तो सभोंवतणच्या जगाचीय पर्वा करिना आनी ते चलयेच्या फुडाराचीय पर्वा करिना. आनी फुडें भोगूंक लागतल्या परिणामांचीय पर्वा करिना. कायदो कडक केला. फांसीची ख्यास्त लेगीत कायद्यान दवरल्या. बलात्कार करून खून केल्ल्याक फांसार दिल्ल्याची देख लेगीत आसा. तरी पूण भिरांत कोणाक आसा? असले गुन्यांव उणे जाल्यात? आनी हाचे फुडें जातले? हो प्रस्न सासणाचो उरपाचो.''

''एक उपाय म्हज्या मनांत येता. लोकशिक्षण आनी जनजागृती. शिक्षण पद्धतींतय बी मुळावो बदल जावपाक जाय. नैतीक मुल्यां वरवीं चारित्र्यनिर्माण ल्हानपणा सावन भुरग्यांत रुजोवप गरजेचें.''

''बावडेकार सायब,, तुमचो विचार आयकुपाक सोबीत सुंदर दिसता. पूण म्हजे पोलिसी कारकिर्दीत सज्जनांतलो सज्जन मनीस कामवासनेक बळी पडिल्लो हांवें पळयला. हांव हरशीं पॅसिमिस्टीक न्हय. पूण ह्या प्रस्नाक जाप मेळप म्हाकठीण अशें म्हाका दिसता.''

"हांगा चलयेचें जिवीत, तिच्या कुटुंबाचें जिवीत पिडड्यार, चल्याचें जिवीत, ताच्या कुटुंबाचें जिवीत पिडड्यार, ही समाजाक लागिल्ली एक कीड." हांवें म्हजो हुस्को उलोवन दाखयलो..

"कितलीय चर्चा केली म्हूण हो विशय काय सोंपपाचो ना. म्हज्या मनांत जे विचार खतखताले ते उलोवन दाखेवंक जाय आशिल्ले. आतां बावडेकार साहेब मेळ्ळे आनी सामंत साहेबा सारखे जाणकार आशिल्ल्यान हांवें ते उलोवन दाखयले आनी मन ल्हव केलें. चला बावडेकार साहेब वचुंया." अशें म्हणून कदम उठलो. ताचे फाटल्यान बावडेकारय उठलो आनी म्हजो निरोप घेवन दोगूय गेले.

हांव न्हालों आनी जेवपाक गेलों. जेवण तरी कसलें? गेल्ले तीन चार दीस दनपारचें जेवण सारखें जावंक नाशिल्लें. केन्ना वडा पाव जाल्यार केन्ना पेज. आजूय गंगी कडल्यान वडा पाव हाडून घेतिल्लो तो खालो.

सांजेवळां पांच वरांचेर हांव नानागेर वचपाक भायर सरलों. ताचे आदीं गंगी धरा वचपाक गेल्ली. केन्ना काय तेंडुलकाराली खबर नानाक सांगन शी जाल्ली. म्हाका तेंडुलकाराली तिडक मारिल्ली आनी भिरांतूय दिसताली. आपलीं मतां म्हज्या तोंडांत घालून जर लोकांक सांगली जाल्यार ओगीच वितुश्ट निर्माण जातलें आनी हांव त्रासांत पडटलों. नाना रस्त्याचे पलताडीं तांचेच बागेंत गोरवां चरवाक घेवन गेल्लो. हांवूय थंयच गेलों. हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो खबरी जातकच हांवें नानाक तेंडुलकाराली गजाल सांगली आनी म्हाका ताची भिरांत कित्याक दिसता तेंय सांगलें. सगळें आयकून घेवन नानान म्हणलें.

"तुमी भिवपाची गरज ना. राजा तेंडुलकाराक अख्खो गांव वळखता. ताचेर कोण विश्वास दवरपाचो ना. ह्या समाजांत तरेतरेचीं सवंगां आसात. तातूंतलेंच हें एक सवंग."

म्हाका तितलेंच बरें दिसलें. नानान आपलीं गोरवां घरा दिकेन आमुडलीं. हांवूय ताचे वांगडा चलपाक लागलों.

घरा येताकच नानान गोरवां बांदलीं, हात पांय धुले आनी च्या घेवन जातकच आमी भायल्या सालांत खबरी मारीत बसले. म्हज्या मना वयलो ताण उणो जावपाक जाय म्हूण नाना विशय बदलीत आसतालो आनी मदीं मदीं प्रश्न विचारून चर्चेंत म्हाका भागी करून घेतालो. चर्चा लांबची आनी हांव हें सगळें विसरचों हो नानाचो हेतू. पूण म्हजे तकलेंतल्यान ती लाली, तो गुरखो, तो सब इन्स्पेक्टर कदम कशेच भायर सरनाशिल्ले. नाना कडेन उलयतालों खरों पूण ह्यो आनी ह्या पांच स दिसांत मेळिल्ल्यो व्यक्ती रेखा एकामेकांक आपटताल्यो, आनी म्हाकाय आपटताल्यो. नानाची मजा पळोवंक जाय आशिल्ली, जगा वयल्यो सगळ्यो खबरी करतालो आनी मदींच केन्ना तो लालीच्या खुनाच्या विशयाचेर पावतालो ताचें ताकाच खबर नासतालें. आनी मागीर आपुणूच याद काडून हांसतालो.

अशे तरेन खबरी चलताल्यो. इतल्यान नानागेर पोलीस पाटील आयलो. तो म्हगेर त्या दिसा काम करपी करंदवाडीच्या कामेऱ्यांक फाल्यां पोलीस ठाण्यार आपयलां म्हूण रकाद दिवन परतल्लो. वाटेर नानाचें घर लागता थंय उदक पिवंक भितर सरिल्लो..

पोलीस पाटलाक पळयतकच म्हाका त्या दिसाची याद जाली. सांजो खा म्हणल्यार तो रागान गुरगुरून गेल्लो. म्हाका तें बरें दिसूंक नाशिल्लें. मनाक लागिल्लें. ओगीच म्हजे बाबतींत ताचो वायट ग्रह जावचो न्हय म्हूण ताका हांवें सांगलें,

"त्या दिसा तुमी शिरो खायनासतना गेले तें म्हाका बरें दिसलें ना. पोलिसांक हांवें जेवण दिवंक नाशिल्लें. तें ताणींच लांज्याक मनीस धाडून हाडून घेतिल्लें. ते फकत म्हज्या घरांत जेवताले. हांव दादलो मनीस.

घरांत एकलों. बायल मनीस आसल्यार दुसरी गजाल आशिल्ली. कितें रांदतालों? बरें! रांदतलों म्हणल्यार घरांत सामान अद्वा तद्वाच. हांवूच त्या दिसा जेवंक ना. हांवें तुमकां जेवण दिवपाचो प्रश्नूच येना. तुमकां दितालों तो शिरो हांवें सकाळीं केल्लो. रातभर राखण करपी पोलिसां खातीर केल्लो. पूण ते तो खावंकूच पावले नात. तुमकां राग येवपाक कारणूच नाशिल्लें."

"म्हाका पोलिसांचो राग आयिल्लो, तुमचो न्हय." अशी कितें तरी ताणें गुळमुळीत जाप दिली. हांवें म्हजी बाजू स्पश्ट केल्ली. म्हाका ताचे कडल्यान अदीक स्पश्टिकरणाची अपेक्षा नाशिल्ली.

"त्या दिसा प्रेताचेर लक्ष दवरपाक तुमी खंय राविल्ले?" नानान ताका च्या दिलो आनी विचारलें.

"गुरख्याच्या घरांत बसून प्रेताचेर लक्ष दवरतालों. पावस इतलो पडटालो, भायर उबो रावूंक मेळनाशिल्लें. म्हूण घरांत रावलों."

"घरांतल्यान प्रेत दिसतालें?" हांवें विचारलें. गुरख्याच्या घरांत दुभावीत हालचाली बी ताका दिसल्यो काय म्हूण आमी पळयताले. पोलीस पाटला कडल्यान सुगाव लागूं येता.

"दारा भितरल्यान बसून दाराचे खांचींतल्यान प्रेताच्या जाग्यार पळयतालों."

"ते रातीं जेवले बी ना तुमी?" नानाले प्रश्न चालूच आशिल्ले.

"गुरख्याचे बायलेन तव्यार भाजून कितें तरी हाडून दिलें. थोडें खालें आनी उरिल्लें गुरख्याच्या भुरग्यांक वांटून दिलें."

"गुरखो नाशिल्लो घरांत?" नाना.

"आशिल्लो. मजगतीं हांव आनी तो प्रेता म्हऱ्यांत गेल्ले. पूण तो लागीं गेलोच ना. फाटीं फाटीं रावलो."

"कांय उलयलो ना?"

"ना."

"लालीचो खून गुरख्यानूच केला असो पोलिसांक दुभाव आसा. तुमकां अशें दिसता?"

"ना. म्हाका खरें दिसना."

"ते राती तुमका मातूय दुभाव आयलो ना ताचो?" हांवें विचारलें.

"दुभाव आयलो ना. पूण आतां विचार करीत जाल्यार ताचें ते रातीचें वागप म्हाका विचित्र शें दिसतालें.

"विचित्र शें म्हणल्यार कशें?"

"तो म्हाका भिम्यागेर या म्हूण परत परत सांगतालो. हांवें कित्याक कित्याक म्हूण आळसाय केल्ली. पूण मागीर ताचे वांगडा म्हाका वचचेंच पडलें. तुमी जाणां भिम्यागेर वचपाची वाट. तुमच्या आड्याच्या कोनशा वयल्यान वता. थंयच तें प्रेत आसा. कोनशाच्या मातशें फुडें भिम्याच्या घराच्या अर्द्रे वाटेर पावतकच आसूं तो म्हूण परतलो. आतां म्हाका हें विचित्र दिसता. पूण आतां तोच खुनी म्हूण आयकताच आंगार कांटो उबो रावता. ते राती हांव कसल्या संकटांत आशिल्लों हाची याद जातकच आंगार कांटो येता."

"ही गजाल पोलिसांक कित्याक सांगली ना तूवें?"

"कितें सांगतालों? ताचें वागप विचित्र दिसलें म्हूण? तेदी व्हडली गजाल शी दिसलिना म्हाका ती."

"गजाल केदीय आसूं. ती तुमी पोलिसांच्या कानार घालात."

"आतां घालचीच पडली." अशें म्हणून तो गेलो.

नानाचें घर गांवच्या मदेकाक आशिल्ल्यान पोलिसांचें यो वच तांगेले थंयच जातालें. पोलीस दनपारां नानागेर आयिल्ले म्हूण नाना कडल्यानूच कळ्ळें. पोलिसांक करंदवाडीच्या लोकांक म्हणल्यार म्हगेर काम करपी कामेऱ्यांक नानागेर आपोवन तांचे कडल्यान गंगीचें सांगप

कितलें फट आनी कितलें खरें तें तपासून पळोवपाक जाय आशिल्लें. पूण तातूंतली एक बायल गांवा भायर गेल्या अशें नंदून सांगिल्ल्यान पोलिसांक तो विचार सोडून दिवचो पडिल्लो. देखून त्या कामेऱ्यांक पोलीस ठाण्यार घेवन यो म्हूण तांणी पोलीस पाटलाक सांगिल्लें. येवचे पयलीं पोलिसेंत फोन करून कळय म्हणिल्लें. पोलीस येवपाचे आसत जाल्यार तांकां ठाण्यार घेवन येवपाची गरज पडची ना हो फोन करपाक सांगलां ताचे फाटलो हेतू.

हाचे वयल्यान एक गजाल स्पश्ट जाली. पोलिसांनी ह्या कामेऱ्यांची अजून मेरेन जबानी घेवंकूच नाशिल्ली. काल गंगी आनी म्हाका ताणें सांगिल्लें कामेऱ्यांनी आपले जबानींत अशें अशें सांगलां म्हूण. म्हणजेच सब इन्स्पेक्टर कदमान फट घालून खरें काडपाचो यत्न केल्लो.

पोलीस पाटील वताकच खुनाच्या प्रसंगाचेर चर्चा सुरू जाली. हो खून गुरख्यान केला हें पचवपाक म्हाका कठीण जाल्लें. खुना फाटलें कारण समजुपाक तर ताच्या परस कठीण. हांवें नानाक म्हणलें,

"पयलीं खुनी कोण हो प्रश्न म्हाका सतायतालो आतां खून जाल्ले बायलेचें नांव लाली म्हूण कळटकच खून कित्याक केलो हो प्रश्न सतायता."

"कारण मागीर कळटलें पूण खुनांत कोण कोण घुस्पल्यात हें आदीं कळपाक जाय."

"ही चर्चा आतां बंद करात पळोवया. चर्चा करून कांय जावपाचें ना." नंदू मदींच उलयलो.

म्हाका समजलें ना नंदूक ही चर्चा कित्याक नाका आशिल्ली तें. ताका कितेंय तरी खबर आसूंक जाय हातूंतलें. कोणाचोय तरी ताका दुभाव आयला जावंक जाय. नाजाल्यार तो असो रियेक्ट जावचो नाशिल्लो.

"कित्याक उलोवं नाका म्हणटा रे नंदू? तुका कितें कोणालो दुभाव बी आसा काय कितें रे?"

"ना. पूण उलयतां उलयतां दुभावान कोणाचेय नांव घेतलें आनी रस्त्या वयल्यान येतल्या वतल्यान कोणेय आयकलें जाल्यार नसती आफत."

इतल्यान पोलीस व्हॅन साटवलीचे दिकेन गेली.. हाचो अर्थ, अजून पोलीस ह्याच वाठारांत आशिल्ले.

राताच्या सुमार आठ वरांचेर हांवें मुंबय आरोलकाराक फोन केलो. तो जमनीचो एक पार्टनर. पार्टनर म्हणचे परस तो चारांतलो एक मालक म्हणप समा जातलें. 32 एकर जमीन आमी चवगांनी जरी घेतिल्ली तरी प्लॉट एक आशिल्लो. जमनी सभोंवतणी एक आडो आशिल्लो. पूण पार्टिशन दाखोवपाक शिमो नाशिल्ल्यो. समजिकायेन अंतरगत मेरो घालून चार वांटे केल्ले. इतलेय दीस पोलिसांक आनी हेरांक 'म्हजे बागेंत, म्हजे बागेंत' म्हूण हांवें सांगलें तरी तें प्रेत मेळिल्लें आरोलकाराचे बागेंत. देखून कदमान सांगिल्ल्या प्रमाण ताका पयलीं फोन केलो आनी घडिल्ली घडणूक विस्तारान सांगली. तुमकां कळयलें काय ना म्हूण पोलीसय चवकशी करतात आनी गांवचे लोकूय परत परत विचारतात म्हणूनय सांगलें.. म्हाका दिशिल्लें आरोलकाराक हें आयकून धक्कोच बसतलो. तो सामकें अजाप उगतायतलो. आनी म्हजी अवस्था कशी जाल्या जातली हाची कल्पना करून म्हाका चार धिराचीं उतरां तो सांगतलो. पूण तशें बिशें कांय जालेंच ना. जितल्या थंडपणान ताणें म्हजें आयकून घेतलें तितल्याच थंडपणान ताणें सांगलें,

"विकली सुटयेक जोडून एक रजा घेतां आनी येतां."

"म्हणचे कितें? शेनवार आयतारचे सुटयेक? आनीक एक आठवडो?"

"ना जाल्यार रजा चड घेवची पडटली म्हाका."

"हांव कसले परिस्थितींत सांपडलां हाची कल्पना ना तुमकां."

"जाणा हांव, पूण उपाय ना न्हय! ओगीच टॅन्शन घेवं नाकात. तकली शांत दवरात."

"बरें तर. बाकीच्या दोगांकूय सांगात फोन करून."

म्हजे आवतिकायेची जाणीव तांकां जालीच ना. परदुख्ख शितळ आसता म्हणटात तेंच खरें. खरें म्हणल्यार आरोलकाराचे जमनीर ही घडणूक घडल्या म्हणटकच धांवपळ ताणें करपाची. तो सुशेगाद, हांव काडटां उठाबशी. वजें कोणाचें? माथें मारता कोण?

कांय वेळान नानाचो फोन वाजलो. मुंबयच्यान आरोलकाराची घरकान्न उलयताली. आरोलकारान म्हजो फोन घेतलो तेन्ना ताची घरकान्न घरा नाशिल्ली जावंये. घरा येतकच घोवान तिका सगली खबर सांगली आसताली. म्हाका दिसता चड करून घोवान तुटकी तुटकी खबर सांगिल्ली जाताली. तिचें समाधान जालें ना जातालें. म्हूण तिणें म्हाका फोन केलो. परत म्हाका सगली रिकॉर्ड लावची पडली. करतलों कितें? घडाघड पट वाचलो. आयकून तिणें म्हाका धीर दिलो आनी सांगलें, तुमचे परिस्थितीची आमकां पुराय कल्पना आसा. हुस्को करूं नाकात. आमी जाता तितले बेगीन येतात." तिचीं उतरां आयकून म्हाका बरें दिसलें. आरोलकारालीं उतरां आयकून म्हाका जो मनस्ताप जाल्लो तो सगळो ना सो जाल्लो.

मागीर मुंबय आनी गोंयां भावांक फोन केलो. ते हुस्क्यांत पडले. एकलो आसा, कशें करतलो काय म्हूण विचारपाक लागले. आपली गरज आसा जाल्यार सांग. आमी कोणूय येतात म्हूण सांगलें. मनाक बरें दिसलें. आपल्या मनशाचीं मायेचीं उतरां धीर दिवन वतात. तितलीच उमेद मेळटा.

नानान हांतुळण बी घालून न्हिदपाची तयारी करून दवरिल्ली. . गेलों आनी आड पडलों. केन्ना न्हीद लागली कळ्ळेंच ना.

* * *

# आठ

गेल्ले दीस धाकधुकींतूच सरिल्ले. मन मातशें ल्हव जायत आयल्लें. स सवा सच्या सुमाराक नानागेर सगळे उठ्ठात. हांवूय उठलों. म्हाका कांयच काम नाशिल्लें. आज गंगी येवपाची नाशिल्ली. करंदवाडींतल्या कामेऱ्यांनी आज गंगीगेर कामाक येतां म्हूण उतर दिल्लें. पूण गंगीक फकत तांची वाट पळयत रावचें पडटलें हें म्हाका खबर आशिल्लें. आज पोलिसांनी तांकां लांज्याच्या पोलीस थाण्यार आपयल्लें.

हांव पॅण्ट चडोवन घरा वचपाचे तयारेक लागलों. पूण भायले वटेंन बायलांचो बोवाळ आयकूंक आयलो. पळयत जाल्यार कामेऱ्यां जमून बोवाळ घालतात. पोलीस पाटलान तांकां सकाळ फुडेंच आपयलीं. पोलीस ठाण्यार वचप म्हणजे तांच्या दिसवड्याचेर गदा. नानाच्या घरा कडेनूच बस स्टॉप आशिल्लो. नानाच्या खळांत येवन तीं मोठमोठ्यान उलयतानीं. दत्तारामाची बायल तर तणतणून उलयताली,

"म्हाका कित्याक म्हूण आपयला पोलिसांनी? हांवें कितें केलां तांचें? हांव त्या वेळार सामंत भाऊंच्या कामाक लेगीत नाशिल्लींच."

"आनी ठाण्यार कित्याक वचपाक जाय गे. कितें जाप विचारपाक आसा, कितें बरोवन घेवपाचें आसा हांगाच बरयात. ते कामाक ठाण्यार

कित्याक आपोवपाक जाय आशिल्लें?'' नलीन आपलें मत मांडलें.

''पूण हांव कित्याक गे? हांव तुमच्या बोवाळाक नाच. खावें ना, जेवें. म्हाका कित्याक गे बाये हें?''

''पोलिसांक कितें? कोणाक घुसपावंक मेळटा काय पळयतात ते. निमित्त्ता सोदतात.''

''पूण म्हाका कित्याक? सुक्या आंगांक ओलो बिबो. हांव तुमच्यांत आसां? वावराक तरी आसां हांव त्या दिसा?''

''आगे, तुजें आनी म्हजें नांव सारखें आसा. हांव वावराक आशिल्लें. घडये म्हज्या जाग्यार तुका आपोवंक ना मगे?''

असो काय गोंदळ जावुंना हें हांव जाणा आशिल्लों. दत्तारामाची बायल म्हज्या कामाक नाशिल्ली खरी पूण तिची जाव, जनी आशिल्ली. गंगीन सांगिल्लें गुपीत ती तिच्या कानांत फुताफुतिल्ली आनी तितल्यानूच ती ह्या अख्ख्या प्रकरणांत वांटेकार जावन बसली. घुस्पली. अशा वेळार पोलीस आपोवचेना जाल्यार कितें करताले? हो सगळो कुलकुलाट म्हज्याच मुखार चलिल्लो. ताका लागून म्हाका तांकां सांगचें पडलें.

''पोलिसांची चूक जावंये वा ना जावंये. पूण पोलिसांनी तुमकां आपयलां म्हणचे तुमकां वचुंकूच जाय.''

म्हजें हें म्हणणें आयकताकच तांणी सानवलीच्यान लांज्याक वचपाचे आनी येवपाचे बशीच्या भाड्याचो प्रश्न काडलो.

''लांज्याक वचपा येवपाक एका मनशाक चोवीस रपया पडटात.'' जनीन म्हणलें, ''सुमार अर्दो दीसवडो.'' नलीन म्हणलें.

''आमी तुमगेले बागेंत काम करतालीं म्हूण पोलिसांनी आमकां आपयलां. म्हूण आमकां येवपा वचपाचें भाडें तुमी दिवचें पडटलें. बशिल्ले कडेन आमकां हो भुर्दंड. आमकां हो ख़र्च करपाक जमचोना.''

हांव तांकां बरों सांपडलों. हांवें तांकां न्हयकार दिलो. हांवें म्हणलें,

"बशिल्ले कडेन म्हाकाय खर्च जाला. कोण खंयचे बायलमनशेचो खून करून प्रेत आमगेले बागेंत उडयलां. ना कसलें नातें, ना कसलो संबंद. पूण फुडल्यो राटावळी आनी खर्च म्हाका करचो पडला. आनी तुमी म्हणटात म्हगेर काम केल्ल्यान तुमकां भुर्दंड. म्हगेर काम केल्लें म्हूण न्हय, तर तुमी तुमचें तोंड बंद दवरनासतना हिचे तिचे कडेन फुतफुतलीं म्हूण पोलिसांनी तुमकां आपयलां. तोंड उगडूं नाशिल्लें जाल्यार सुशेगाद आसतलीं आशिल्लीं. तेन्ना हांव भाडें अजिबात दिवपाचों ना. पोलिसांनी तुमकां आपयलां. म्हाका न्हय. वचपाचें ना वचपाचें तुमी थारायात. गेलीं ना जाल्यार फुडल्या परिणामांक तयार रावात."

प्रश्न पयशांचो नाशिल्लो. ह्या राटावळींत पयसो कितें उणो खर्च जाला आनी जातलो? पूण प्रश्न तत्वाचो आशिल्लो. आतां जर मोन्यांनी ओगी रावून कितेंय दिलें तर फुडें म्हाका पावला पावलाक हीं अडचणींत घालूंक शकतात. एक खेप खंयचीय गजाल कोणेंय भोंगूं म्हूण सुरवात केली तर ती गजाल आपल्या हक्काची म्हूण दुसरे खेपे मागपाक हीं उणीं करचीं नात. तो मागीर नेम जावन बसता. रूढ जावन बसता. आनी गांवच्या सगळ्या काम करून घेतल्या लोकांक ताचो त्रास जाता. म्हज्या सारख्या भायल्यान आयिल्ल्या लोकांक ते मागीर नांवां दवरतात.

म्हजें म्हणणें आयकताच कामेऱ्यां ओगी रावलीं. फुडें उलोवपाक तांकां तोंड ना जालें. तीं वगीच रावली. पूण जनी भीत भीत उलयली,

"भाऊ, म्हजे कडेन कांयच पयशे ना. हांव कशी वतलीं?"

"बरें आसा. हांव तुका शंबर रुपया दितां. पूण तुज्या पगारांतल्यान कापून घेतलों आं. पयलींच सांगतां." अशें सांगून हांवें नाना कडल्यान शंबर रुपया घेवन तिका दिले.

पोलिसांनी पोलीस पाटलाक पयलीं फोन करून मागीर कामेऱ्या घेवन यो म्हूण सांगिल्लें खंय. ताणें फोन केला काय ना कोणाक खबर. केल्यार नानाच्या फोना वयल्यानच करूं जाय आशिल्लो. नासत जाल्यार कामेऱ्यांची पावट फुकट वतली. पोलीस पाटलाक विचारपाची माणसुकी

ना. तो पयलींच वाजेला. ताचे फाटल्यान ह्यो नसत्यो कटकटी लागल्यात अशें ताचें म्हणणें. तो तरी कितें करतालो? ताका म्हयन्याक पांचशें रुपया मेळटाले. तेय तालुक्याक बऱ्योच पावटी मारून आनी गाठीचे पयशे मोडून. हांवें मनांत म्हणलें, आसूं! म्हाका कितें लागता?

आज गंगी येवपाची नाशिल्ली. घरांत हांव एकलोंच. उलोवपाकूय कोण ना. कांय वेळान बागेंत एक पासय मारून येवुंया आनी मागीर दनपारचे पोट पुजेची वेवस्था करुंया अशें थारायलें. च्या पिता आसतना वेळ पासार करपाक हांगा पेपर बी कांय नासता. ट्रांजिस्टरा वयल्यो खबरी आयकून भायल्या जगाकडेन, चड करून मुंबय कडेन म्हजो संबंध उरतालो. सकाळीं उठ्ठकच म्हजो ट्रांजिस्टर जो सुरू जातालो तो सगळ्यो कार्यावळी सोंपतकच बंद जातालो. आकाशवाणीचें रत्नागिरी केंद्र म्हज्या घरांत क्लियर लागतालें. हातूंत थळाव्यो आनी मुंबयच्यो ऑल इंडियाच्यो कार्यावळी आयकूंक मेळटाल्यो. मुंबयत टी. वी सुरू जायत पसून लोकां कडेन रेडियो ना जाला. टि वी चेर ज्ञाना परस बेश्ट्या गजालींचेरच चड जोर दिल्लो आसता. पूण हांगा येतकच रेडियोची मजा परत घेवपाक मेळ्ळी आनी त्या खेड्यांत ताचें म्हत्व कळ्ळें. आकाशवाणीचेर एका परस एक सरस कार्यावळी आसताल्यो. कांय कपन्यो आपल्या प्रोडक्टचो प्रचार करपा खातीर पंदरा मिनटांचो कार्यक्रम सादर करताल्यो. विंगड विंगड विशयांचेर विंगड विंगड कार्यावळी आशिल्ल्यान तातूंत विविधताय आसता. असोच एका साबणाचो प्रचार करपा खातीर एक कार्यक्रम आशिल्लो. ताचें नांव चुलबुली. हो णव ते सवाय णव ह्या दरम्यान लागतालो. हो कार्यक्रम सोंपतालो आनी हांव उठ्ठोलों म्हूण आशिल्लों. इतल्यांत राजाराम तेंडूलकाराचो आवाज आयकूंक आयलो.

"सामंत भाऊ, ओ सामंत भाऊ, आसा घरांत?"

"हय हय आसां. पडवेर बसलां. येयात."

पिशव्यांचो तयार केल्लो दाराचो पड्डो कुशीक करून राजाभाऊ भितर सरलो आनी पडवेर सोपणाचेर बसलो.

"च्या घेतात?"

"हय, तुमकांय करून हाडटां आं."

"नाका नाका, हांव घेवन आयलां."

हांव जाणा हो गोरवां घेवन आयला जातलो. म्हणचेच सकाळीं सात वरांचेर भायर सरला आसतलो. नाका नाका म्हणपाची पद्दत म्हूण उलयता. हाची एक सांगपा सारखी गजाल आसा. हांवें ही जमीन घेतकच म्हाका जेन्ना हो पयलेच खेपे मेळिल्लो तेन्ना हो म्हज्या हाताचो च्या घेवपाक कसोच तयार नाशिल्लो. म्हणटालो, हांव दुसऱ्यागेर केन्नाच च्या घेना. आग्रो करून जातकच हांवें नाद सोडिल्लो. हाचे उपरांत तो मदीं मदीं येतालो. केन्ना म्हयन्यान जाल्यार केन्ना देड म्हयन्यान. तागेल्यो अशो दोन तीन खेपो जातकच परत एकदां हांवें ताका च्या घेता काय म्हूण विचारिल्लें. तेन्ना ताणें चडशे कां कूं केले ना. त्या दिसा पसून हांवें च्या दिल्यार घेवपाक लागलो. हांव उठलों आनी ताचे खातीर च्या करून च्याचें कप ताच्या हातांत दिलें आनी ऑल्तोरार बसलों. ताणें च्या बश्शयेंत ओतोवन फुर्र करून घोंट मारलो आनी म्हाका विचारलें,

"खंय पावलें?"

"कितें तें?"

"गुरख्याचें प्रकरण. कबूल जालो तो?"

"ना. अजून ना. पूण तुमी काल तो न्हयच म्हणटाले न्हय?"

"ना. आतां तोच आसा सो दिसता."

"कित्या वयल्यान?"

"म्हगेलोय आडो दोन कडेन मोडला. म्हणजेच ताणें थंय तिका मारून हाडल्या आसतली."

"खंय मोडला तुमचो आडो?"

जाधव बंगलो बांदता न्हय ताच्या शेजरा आवाळेचें झाड आसा. थंय एक आडो मोडला आनी दुसरो ह्या रस्त्याक लागून सकले वटेन मातायेचो रस्तो वता न्हय थय मोडला. थंयच्यान रस्तो हुपून तुमगेलो आडो मोडला."

"गुरख्यान जर तिका जाधवाचे बागेंत मारल्या आसत जाल्यार ताका तीन आडे मोडून प्रेत म्हगेले बागेंत हाडून उडवपाची गरज कितें? जाधवाले बागेची गेट उगडून रस्तो हुपून प्रेत हेवटेन उडोवं येतालें. तीन कडेन आडो मोडपाचो खटाटोप कित्याक केलो ताणें?"

"ना. हांव सांगतां तुमकां. ताणें तिका आड्याक तेकून आशिल्ल्या आवाळ्याच्या झाडाक तेंकून मारल्या आसतली आनी म्हज्या ठिकाणांतल्यान ओडीत ओडीत हांगा हाडून उडयल्या आसतली. तशें हांगा हाडून उओवपाक लागीं पडटा. धसघशीत बायल ती. उबारूंक जालें ना आसतालें."

हांव हाचेर आनीक कांय उलयलों ना. हे गजालीचेर कितेंय उलोवपाक मन धजलें ना. एकाक दोन करपी मनीस हो. काल एक सांगतालो आज दुसरेंच. तो थोडो वेळ हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो गजाली मारून गोरवांक परतुपाचो वेळ जातकच गेलो. तो वतकच हांव भायर आयलों आनी रस्त्या कडल्या म्हज्या आड्या कडेन वचून तो म्हणटा तें खरें काय कितें ते नियाळ्ळें. खरेंच, जाधवाच्या घरा कडेन आंवाळे शेजरा आडो मोडिल्लो आशिल्लो आनी सकले वटेन कोनशाक रस्त्या कडेन ताचो आडो मोडिल्लो आशिल्लो. आनीक एक सांगपाक विसरलों, जाधवाच्या जाग्याक तेकून तागेली जमीन आशिल्ली आनी तांकां डिवायड करपी कोमन आडो आशिल्लो. म्हज्या मनांत विचार आयलो, हो म्हणटा तें खरें आसत काय? पूण तशें आसत जाल्यार तो तें प्रेत म्हजे बागेंत

कित्याक उडयतालो? ताणें तेंडूलकाराचे जमनीर उडोवं येतालें. घडये ताका तेंडूलकाराची जमीन जाधवाच्या शेजरा आशिल्ल्यान आपल्याचेर दुभाव येत अशें दिसलां आसत. तशें आसत जाल्यारूय प्रेत म्हजे बागेंत उडोवपाची गरज नाशिल्ली. तेंडूलकाराच्या आड्या भायर रस्त्यार उडयल्यार जातालें. कोणाक खबर खरें कितें तें. तसोच हांव परतालों आनी म्हज्या कामाक लागलों.

दनपारचें जेवण जातकच खाटीर आड पडलों आनी विविध भारतीचीं पदां आयकत बसलों. चारांक सुमार च्या घेतालो आनी मनांत म्हणलें, घरा रावपाक कांय अर्थ ना. आज बेगीन नानागेर या. नाना जंय खंय काम करता थंय वचून ताचेकडेन खबरी मारूया. दाराक कुलप लायलें आनी पडवे वयलो पड्डो कुशीक करून सकल देंवलों. मुखार पळयत जाल्यार गेट उगडून बडी तेकयत भिम्या धनगर येता. आतां तो सत्तरी कडेन पाविल्लो. आडो हुपून येवपाक ताका कुस्तार जातालें. ते खातीर तो आड्या कुशींतल्यान राज मार्गान आयलो. तो येता तो पळोवन हांव थंयच उबो रावलों. परत दार बी उगडपाचे भानगडींत पडलों ना. शेजरा वडाच्या पेडार वचून बसलों. घर बांदलां तेन्ना शेजरा एक ल्हान शें वडाचें झाड आशिल्लें तें मारलें ना. हांगासरले लोक वडाचें झाड मारिनात. तांचें म्हणणें तें सुगुर्व्याचें आसता. दर एकल्याच्या दारांत तें एक झाड आसचेंच.

भिम्या ल्हवू ल्हवू करून आयलो आनी पेडार म्हज्या शेजरा सामंतभाऊ अशें म्हणत बसलो. ताच्या आवाजाचो सूर कोणूय जाप दिवंक आयिल्ल्या मनशाच्या सुरा सारखो दिसलो.

"कितें म्हणटा, कितें खबर?" हांवें ताका विचारलें.

"कांय ना. तुमकां कितें कळ्ळां?"

"कितें तें?"

"गुरख्या विशीं? कबूल जालो तो?"

"म्हाका खबर ना. म्हजे परस तुका चड खबर आसूंक जाय. हांव कितें? घराच आसतां? तुगेले भुरगे भोंवत आसतात. खंय तरी, किते तरी आयकलां आसूंक जाय ताणीं." हांव.

"आमकांय कांय खबर ना. पूण रातीं पोलिसांची गाडी आयिल्ली. बॅटरीच्या उजवाडांत कितें तरी ते बरोच वेळ सोदताले."

म्हाका याद जाली. काल नानागेर आसतना थंयच्यान पोलिसांची गाडी गेल्ली. ती ह्याच कामाक आयल्ली आसुंये. इतल्यांत भिम्यान म्हणलें,

"कसलें धाडस ह्या मनशाचें! हो आनी अशें करीत शें दिसनाशिल्लें. हाका पेत्रोल घालून जितोच लासूं जाय"

"हय, रक्षकूच भक्षक जालो." तो.

"त्या दिसा कसो उलयतालों जाणा मू? आपूण त्या गांवचोच न्हय असो. हो आनी आमगेर येतालो वतालो. जेवतालो खातालो. आमच्या भुरग्यां वांगडा तागेलीं भुरगीं खेळटालीं. बरे वाटावले बाबा आमी."

हाचेर हांव चडसो कांय उलयलो ना. ताणेंय कांय वेळान विशय बदल्लो आनी आपल्या चल्याच्या दुसऱ्या लग्नाचेर आयलो. ह्या चल्याची पयली बायल म्हज्या दोळ्यां मुखारच गेल्ली. भिम्याली ही सून कस्तुरी लग्न जावन घरा येत पसून हांव तिका पळयतालों. बरी चली आशिल्ली. हंसत मूख आशिल्ली. म्हगेले बागेंत कामाक येताली. सुर्वेक तिका करड कापपाचें काम जमनाशिल्लें. मागीर मागीर तातूंत ती तयार जाली आनी हेर कामेऱ्यां परस काम फास्ट आनी बरें करूंक लागली. गांवांत पसऱ्यार येता वता आसतना म्हाका उलो मारले बगर आनी गंगी कडेन चार खबरी केले बगर फुडें वचनाशिल्ली. निमाणचे खेपेक तिका हांवें पळयल्या ती पसऱ्या वयल्यान तांदळांच्यो दोन पोटल्यो माथ्यार मारून आयिल्ली ती. म्हजेकडल्यान उदक घेवन पिल्ली, एक पोटली म्हजे पडवेर दचलिल्ली आनी दुसरी खेप मारून घेवन वता म्हूण सांगून गेल्ली. हांव एकलोच

आशिल्लों. गंगी घरा गेल्ली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं गंगी ताकतिकेन आयली आनी तिणें म्हाका सांगलें, आपूण माताशी भिम्यागेर वचून येतां म्हूण. कित्याक काय म्हूण विचारल्यार तिणें कस्तुरी भायर पडली म्हूण सांगलें. म्हाका शॉक बशिल्लो. फाटोफाट भिम्यागेर गेलों जाल्यार कळ्ळें तिका रातीं न्हिदांत सुमार दोन वरांचेर काणेर चाबिल्लो. ते काणेर चाटटा म्हणटात, चाबता अशें म्हणनात. ती न्हिदिल्ली आशिल्ली. फांतोडेर तिगेलो चलो बरोच कित्याक रडटा आनी ती ताका कित्याक घेना हें पळोवपाक शेजारचे कुडींतल्यान तिची जाव आयली. पळयल्यार ती वणटीक तेकून बशिल्ली आसा आनी तिका उठपाचें निखालूस त्राण ना. कमरा सकल लुळीं पडिल्लेवरी जाल्ली. तिचे जावेक दुभाव मारलो. तिणें कुडींत सगळ्याक नदर मारली. कुडींतल्यो पोटल्यो एक एक करून हालयल्यो. एके पोटले फाटल्यान काणेर दिसलो. तिणें आपल्या घोवाक उठयलो. तांणी तो काणेर मारलो. घरचे लोक तिका घेवन प्रायमरी हेल्थ सेंटराचेर गेले. थंय दोतोरांनी कस्तुरीची परिस्थिती पळोवन तिका बेगोबेग सिवील हॉस्पिटलांत व्हरपाक सांगलें. रिक्षा करून ररत्नागिरी सिवील हॉस्पीटलांत पावून तिचेर उपाय सुरू जाता म्हणसर दीस उजवाडलो आनी ती गेली. हांगच्या लोकांचें म्हणणें, काणेर दिसाचो चाबलो जाल्यार दीस अस्तामचे पयलीं ताचेर उपाय जावंक जाय, आनी रातचो चाबलो जाल्यार उजवाडचे पयलीं उपाय जावंक जाय. ह्या सगळ्या बोवाळांत घोव तिच्या म्हऱ्यांत नाशिल्लो. खंय गेला तें घरच्यांकूय खबर नाशिल्लें.

काणेर इतलो विखारी आसता हें म्हाका कस्तुरी मर मेरेन खबर नाशिल्लें. हांवें म्हगेल्या घरांत फाटल्या धा बारा वर्सांनी पांच काणेर मारल्यात. एक तर चार पांच दीस सांगाताक घेवन न्हिदिल्लों. ताचें अशें जाल्लें. एक दीस वॉश बेजिनाचेर कात सोडिल्ली दिसली. म्हगेल्या घराक लांब रूंद पांच जनेलां आशिल्लीं. पूण तांकां दारां नाशिल्लीं. कात सोडिल्ली पळयताकच हांवें आनी शंकऱ्यान सगळे कडेन पळयलें. पूण खंयच कांय दिसलें ना. शंकऱ्या म्हणू लागलो, कात सोडटकच जिवाणें

लागीं रावना. पूण हें ताचें म्हणणें फट आशिल्लें. म्हाका थोड्याच दिसांनी वणटीक तेकून आशिल्ल्या साऱ्याच्या पिशव्या खाचीक तें दिसलें. तांकां तेकूनच हांव सुरवातेक जमनीर न्हिदतालों. सारें घालपी एक एक पोती करून सगळ्यो पोतयो उबारल्यो तेन्ना निमाणे पोतये फाटल्यान काणेर दिसलो. ताका मानायांनी मारलो. ही गजाल कात सोडटकच दोन चार दिसांतली. दुसरो काणेर रातचो दारांतल्यान भितर सरताना मारलो. तिसरो पुस्ताकांचे खांचीक आशिल्लो. चवथो वॉश बेजिनाचे पोंदचे पोकळींत राविल्लो. पांचवो गंगील्या देवाच्या पांयजळा फाटल्यान आशिल्लो. गंगीक रातच्या दोन वरांचेर पांयजेला फाटल्यान कसलो तरी आवाज आयकूंक आयलो. पळयत जाल्यार काणेर. कस्तुरीचें मरण पळयताकच दिसलें हांव मरणा वांगडाच रावतालों काय? आतां दिसता, जीण मरण हें थारायल्लें आसता. तो तो वेळ येताकच तें तें घडटा. आमच्या हातांत कांय नासता.

सांगपाचें म्हणल्यार, अशे हे गुणी सुनेच्या घोवाचें दुसरें लग्न करूंक भिम्या फुडें सरिल्लो. ते खातीर जमनीचो कुडको लेगीत विकपाक सोदतालो. म्हाका जाय काय म्हूण विचारतालो. नाजाल्यार कोणूय गिरायक पळय म्हूण सांगतालो. पूण म्हाका एक खबर कळिल्ली, हागेल्या पुतान बायल वताकच थोड्याच दिसांनी गंगेचे नाती कडेन सूत जमयल्लें. भिम्याक तें खबर नाशिल्लें.

थोड्या वेळान भिम्या घरा वचपाक उठलो. हांव ताच्या वांगडा गेटी मेरेन आयलों. रस्त्यार येताकच हांव नानागेर आनी तो आपल्या घरा अशे विरूद्ध दिशेन गेले.

नानागेर वचत जाल्यार नंदू भायरूच बशिल्लो दिसलो. हांवें ताका भिम्यान सांगिल्ली रातीं पोलीस आयिल्ले म्हणपाची गजाल सांगली. नंदूक हाची खबर आशिल्ली शी दिसता. ताणें सांगलें,

"हय, काल रातीं ते गुरख्याक घेवन आयिल्ले. आमी काल रातीं पोलिसांची गाडी परत वता आसतना पळयल्ली ती हीच."

"गुरख्याक सो हाडलो?"

"आपणें खून केला म्हणपाचें ताणें कबून केलां खय. लिपोवन दवरिल्ल्यो तिच्यो वस्तू आपूण दाखयतां म्हूण सांगलें म्हूण ताका घेवन आयिल्ले."

"मागीर?"

"हांगा येतकच परत ताणें न्हयकारलें. लडो पडटकच दाखयल्यो. वस्तू पूण सगळ्यो न्हय. सत्री, बोटवो बी कांय वस्तू दाखयल्यो. पूण साडी पोलको भांगरा वस्ती पांयजण बी आजून मेळूंक ना. त्यो ताणें अजून दाखोवंक ना. घडये ते जागे ताचे ताकाच मेळना जातले.."

"खंय लिपयल्ल्यो ताणे हे वस्तू?"

"ताणे त्यो टाकयांनी लिपोवन दवरिल्यो."

टांकयो म्हळ्यार जमनीवयल्या ताळपांनी पडिल्ली व्हडलीं फोणकुलां. केन्ना केन्नाय ह्या फोणकुलांत भितरल्यान आडव्यो धोली लेगीत आसतात. तातूंत भितर जाय जाल्यार कितेंय लिपोवन दवरूंक मेळटा. पावसाळ्यांत ही फोणकुलां उदकान भरिल्लीं आसतात. त्याखातीर कितेंय लिपयल्लें आसल्यार दिश्टी पडना..गुरख्यान तकली बरी लडयल्ली.

"कित्याक केलो काय खून ताणें? कितें कळ्ळां?"

"ना. पूण लोक वेगळ्यो वेगळ्यो गजाली सांगतात. कोण म्हणटात, तो रेप करपाक गेल्लो तिचेर, तिणें विरोध केलो म्हूण मारली, कोण म्हणटात, तिणे गांवच्या लोकांक ताचे बद्दल सांगतां अशें म्हणलें म्हूण मारली, कोण म्हणटात जाधवाचे बागेंतच मारून तुमगेले बागेंत हाडून उडयली. कोण म्हणटात, ती पळून भिम्यागेर वताली, ताणें फाटल्यान येवन कोयती घाली आनी ती मेली. कोण कितें आनी कोण कितें सांगता.

धा जाणांची तोंडां तीं. खरें फट पोलिसूच जाणात."

"पूण त्या वेळार ताचीं बायल भुरगीं आशिल्लीं न्हय घरा तांचे मुखार तो असलीं कर्मां करूंक कसो...."

"बायल आशिल्ली घरा. पूण तिणें विरोध करताकच तो तिकाच मारूंक गेलो. ती आपल्या भुरग्यांक घेतलीं आनी रानांत वचून बसली."

म्हळ्यारूच नदरे मुखार त्या दिसा धोग्यांनी पडपी पावस आनी त्या पावसांत ती रानांत म्हणल्यारच शेजारच्या तेंडूलकाराचे बागेंत वचून बसली आसतली. भुरग्यांक वेंगांत घेवन रातभर कुडकुडत खंयचे तरी मोठ्या रूखा पोंदा बसली आसतली. म्हाका तिची काकुळट दिसली.

* * *

# णव

**आ**यचो दीस सदां सारखोच उजवाडलो. आज सोमार. प्रेत मेळ्ळ्यार आज सात दीस जातले. गुरख्याक धरल्यार चार दीस जातले. पूण ताणें खून कित्याक केलो हाचे विशीं अजून कांयच कळूंक ना. सब इंस्पेक्टर कदमूय हांगा येवंक ना. ताचे कडल्यान कितेंय कळटलें आशिल्लें, तेंय ना. गांवच्या लोकांक कितें ना जाल्यार कितें सुलूस लागता. पूण हांव घरांतूच आशिल्ल्यान म्हाका कितें कळप म्हणल्यार नानागेर वतकच कळटा तें. आतां इल्लो इल्लो मनाचो उद्रेक कमी जालो. सुरवातीक सगळ्यांकडेन दुभावान पळोवप जातालें तें आतां बंद जालें. गुरख्याक धरलो आनी तोच खुनी आसा हें कळटकच म्हजें मन ल्हव जालें. आतां लोकांक म्हजे बद्‌दल दुभाव नासतलो ताची खात्री जाली. आतां म्हाका मुंबय वचपाक हरकत नाशिल्ली. कदमाक सांगून वचूं येतालें. पूण सुटयेक धरून आरोलकार येवपा आसा. तेन्ना म्हाका तो यो म्हणसर तरी रावचेंच पडटलें.

हांव सदां सारखो च्याचो कप हातांत घेवन पडवेर ऑल्तोरार ट्रांजिस्टर आयकत बसलों. कामेऱ्यांचो चार दिसांचो ब्रेक काल सोंपलो. आज तीं येवंक जाय. आयलीं जाल्यार तांच्या म्हऱ्यांत रावचें पडटलें. गंगी अजून येवंक ना. खरें म्हणल्यार ती सकाळ फुडेंच येता. आज कामेऱ्यां आसतलीं. म्हणटकच दनपारां खातीर आतांच कितें तरी करून दवरूंक जाय. हांव तसोच उठलों आनी मूठ देड मूठ तांदूळ वेंचून खिमट

करपाक गॅसार दवरलें. खिमट जाता म्हणसर गंगी आयली आनी फाटो फाट तिगेलो चलो आनी सुनूय आयली. तिका पळोवन हांवें म्हणलें,

"आरे वा! आज सुनेकूय हाडलां कामाक. बरें केलें."

"हय! आज करंदवाडचीं कामेऱ्यां येवचीं नात म्हूण कळ्ळें ते खातीर सुनेक आनी चल्याक घेवन आयलें. एकदांचें काम सोंपूं दी म्हणलें."

"काल तुगेर कामेऱ्यां कामाक येवपाचीं आशिल्लीं न्हय? तीं आयलीं ना मगे?"

तांकां पोलीस ठाण्यार, लांज्याक वचचें पडलें. ती कित्याक आयली ना म्हूण पळोवपाक हांवें खंडूक करंदवाडीक धाडिल्लो. तेन्ना म्हाका कळ्ळें कित्याक आयलीं ना तीं. त्याच वेळा तीं घरा पाविल्लीं. ताणें सांगलें, तीं आज येवचीं ना म्हूण.

"त्या दिसा पसून चिंचवाडीचीं कामेऱ्यां येनात. करंदवाडचींय आयलीं ना जाल्यार हांव त्रासांत पडटलों."

बेणपाचें काम जाल्लें. सावळ घालपाचें काम उरिल्लें. ती घालपाक सात आठ कामेऱ्यांक तीन चार दीस तरी लागतले आसले. कामेऱ्यां कमी आसत जाल्यार चड दीस लागतले. म्हगेल्या भागांतलें काम सोंपत आयिल्लें. पूण बाकिच्या पार्टनरांच्या भागांतलें काम अजून शिल्लक आशिल्लें. तांणी तें कर म्हूण सांगूं नाशिल्लें. ते केन्नाच सांगिनात. पूण म्हज्या सभावाक लागून हांव तें केले बगर रावनाशिल्लों. तेंयूय ते जाणा आशिल्ले. पार्टनरांचें काम दवरून म्हजें काम करप म्हाका पटनाशिल्लें. आतांय तीच गत आसली.

गंगी सुनेक आनी पुताक घेवन सावळ घालपाक गेली. हें काम जाधवाल्या ठिकाणा सकले वटेन रस्त्या कडल्या आड्या कडेन आशिल्लें. थोड्या वेळान हांवूय म्हगेले कामाचे कपडे आंगार चडोवन कोयती घेतली आनी तांच्या वांगडा कामाक लागलों. सुमार वर देड वर काम

चलिल्लें. इतल्यांत जाधवाचे गेटी कडेन पोलिसांची व्हॅन येवन रावली. ताच्या फाटोफाट अनय डोर्लेकार मोटार सायकली वयल्यान आयलो. व्हॅनांतल्यान पोलीस देंवले आनी बरोबर बेडयो घाल्ल्या गुरख्याकूय देंवयलो. गुरख्याची आनी अनयाची कितें तरी भासाभास जाली. कितें तें म्हाका आयकूंक आयलें ना. फुडें पोलीस जाधवाच्या अर्दुकुटें बांदिल्ल्या घरा फाटल्यान ताका घेवन गेले. अनय मोटार सायकल स्टार्ट मारून रस्त्यान फुडें गेलो. असोच थोडो वेळ गेलो. मागीर सब इंस्पेक्टर कदम जाधवाच्या रस्त्याकडल्या आड्याकडेन आयलो आनी म्हाका उलो मारून सांगलें, 'सामंत सायब, गंगीक मातशी धाडून दिता?' इतलें सांगून तो परतलो. म्हाका कांय कळ्ळें ना. हो आनी गंगीक कित्याक आपयता, अजून गंगी कितें लिपयता काय. हावें गंगीक धाडून दिली. आनी आमचें काम चालू दवरलें.

सुमार अर्द एका वरान गंगी जाधवाचे बागेंतल्यान सकयल आयली. आमकां उत्सुकता आशिल्ली, आमी काम सोडून तिच्या भोंवतणी जमलीं,

"कितें जालें गंगी? कित्या आपयल्ली तुका?"

"भाऊ, हांव थंय गेली जाल्यार थंय गुरखो स्टुलार बशिल्लो आशिल्लो आनी भोंवतणी दोग तीग पोलीस आशिल्लें. कदम सायब कदेलार बसून आशिल्ले."

"आगे, कित्याक आपयल्ली तें सांग, सगळें रामायण सांगूंक बसूंक नाका." कोंकणी मनशाच्या सभावा प्रमाण ती अथ पसून इति मेरेन सांगूंक वताली. म्हण तिका हावें मदींच आडायलें.

"जाधव भाऊय आयिल्ले आसात."

"मागीर?"

"पोलीस गुरख्याक थापटायतात. आनी लालीच्यो वस्तू खंय लिपयल्यात तें विचारतात. पूण तो कसोच बदना."

"पूण तुका कित्याक आपयल्ली तें सांगलें ना. ती आपली सांगपाची

पद्‌दत सोडिनाशिल्ली.''

''सांगतां सांगतां न्हय. गुरख्याक पोलीस सिगरेटचे चटके दिताले''

''तरी तो सांगनाशिल्लो?''

'ना. तें पळोवन जाधव भाऊन मदींच तोंड घालें. म्हणूं लागले, तुमी ताका ओगीच मारतात. तो तसलो मनीस न्हय. म्हाका सपनांत लेगीत खरें दिसना तो कोणाचाय खून करीत म्हूण. तुमी ओगीच ताचेर अन्याय करतात.''

''फुडें कितें जालें?''

''म्हाका पळोवन गुरखो म्हणूं लागलो, मॉजी तूं तरी सांग न्हय पोलिसांक. तूं जाणा हांव बायल भुरगीं आशिल्लो संवसारी मनीस.''

''मागीर तुवें कितें सांगलें?''

''हांवें सांगलें, तूं खरें कितें तें सांग. खरें सांगल्यार पोलीस तुका कांय करचे नात.

''पूण तुवें कित्याक आपयल्लें तें सांगलें ना.''

''कदम सायबान म्हाका तांकां मेळिल्ल्यो लालील्यो वस्तू दाखयल्यो आनी विचारलें हांकां तूं वळखता?''

''वस्तू कितें कितें आशिल्ल्यो?'' हांवें गंगीक विचारलें.

''लालीचो बोटवो, आडकित्तो, बोटव्यांत कांय कुशिल्लीं खावची पानां आनी तंबाकू आनी सुपारेचो कुडको आशिल्लो. हाचे भायर कोयती आनी पांयजणां दाखयल्लीं.''

कोयती तर पयलींच मेळिल्ली. बोटवो मेळ्ळा म्हूण काल नंदू सांगतालो. तातूंत नवी भर पांयजणांची आशिल्ली. पूण सत्री खंय गेली. हांवें गंगीक विचारलें,

"आनी सत्री नाशिल्ली?

"आशिल्ली तर! पूण ती वळखूंक येनाशिल्ली. ताच्यो सरयो सगळ्यो बागोवन बॉला सारखो गुळो केल्लो"

"मागीर, तूं वळखली त्यो वस्तू लालील्यो म्हूण?"

"हय! त्यो लालील्योच आशिल्ल्यो."

बरोच तयार दिसता हो मनीस. इतल्यो सगळ्यो राटावळी केल्यो म्हणचे हाणें पयलीं बरेच खून बीन केल्ले आसात काय कितें? हाचे फुडें आमी आनीक कांय उलयले ना. कामाचेरूच लक्ष दिलें. दीसभर आनीक कांय घडलेंय ना. सांजेवेळां सदचे सारखो नानागेर गेलों. थंय नंदू म्हाका भायरूच मेळ्ळो. ताचे बरोबर अनयूय आशिल्लो. हांवें अनयाक विचारलें,

"अनय, सकाळीं तुजेकडेन तो गुरखो कितें उलयलो?"

"पळय न्हय सामंतभाऊ ताचें डॅरींग कसलें तें! व्हॅनांतल्यान देंवतकच 'कैसा है अनय शाब? सब ठीक ठाक है ना?'अशें ताणें म्हाका पळोवन विचारलें,"

हें आयकतकच आमचें सगळ्यांचें मत जालें, हो मनीस असल्या गजालींत बरोच मुरिल्लो आसूंक जाय.

* * *

# धा

वाज आयिल्लो. बागेंत काम नाशिल्लें. हांव गंगी वांगडा आज बागेंत कामाक गेलों ना. आजूय गंगीली सून आनी पूताच कामाक आशिल्लीं. कामेऱ्यां आयजूय येवंक नाशिल्लीं. घडये, तांकां लांज्याक वचपा येवपाचे पयशे दिले ना म्हूण जायत.. तात्पर्य, दोनूय वाडींतलीं कामेऱ्यां बंद जाल्लीं. अशींच येनासतना रावत जाल्यार कठीण परिस्थिती आशिल्ली. लालीचें प्रेत म्हगेले बागेंत मेळ्ळें आनी गेल्ल्या पांच सात दिसांत जाल्लो बोवाळ हांचो परिणाम हांव भोगूं लागिल्लों.

जेवण जातकच आळसावन हांव कॉटीर पडून विविध भारती आयकतालों. विविध भारती बंद जाली आनी हांव तसोच पडून रावलों. मातसो दोळो लागपाक भायल्यान आवाज आयलो, "सामंत साहेब आसात घरांत?" पडवेचो पड्डो कुशीक करून सब इंस्पेक्टर कदम भितर सरलो. कितें चल्लां म्हूण विचारीत कदेलार येवन बसलो. ताणें चवकशी केली. "गंगी ना घरांत?" हांवें म्हणलें, ना. च्या जाय मू? हांव करून दितां. च्या करून कप कदमाच्या हातांत दिलो आनी हेवटेंतल्यो तेवटेंतल्यो खबरी जातकच हांवें ल्हवूच कदमाक विचारलें,

"आज हांगा खंय?"

"हांगाच आयिल्लों. तुमी एफ. आय. आर. केल्लो ताचें कितें जालें तें सांगपाक आयिल्लों. ती आमची.जवाबदारी."

"केस जाली सोल्व?"

"हय! तो निमाणें कबून जालो." इतल्यांत थंय नाना पावलो. नाना गोरवां घेवन लागींच आशिल्लो. सब इंस्पेक्टराची गाडी आनी सब इंस्पेक्टर म्हगेर येता तें पळोवन ताणें आपल्या गोरवांचेर नदर दवरपाक दुसऱ्या एका राखण्याक सांगून तो म्हगेर आयिल्लो.

"येयात नाना, बसात. हे आतांच आयल्यात. केस सोल्व जाली खंय."

"सोल्व जाली, बरें जालें." नाना. कदमान फुडें सांगलें,

"केस सोल्व जाली. हातूंत तुमची सगळ्यांची बरी मदत जाली. बोरकाराची तर आमकां सदांच मदत मेळटा पूण ही केस गंगीक लागून बेगीन सुटली."

"ती कशी कितें?"

"पयलीं गंगीन आमकां सांगलें ना. ती कितें तरी लिपयता हें तिचे वागणुके वयल्यान म्हाका कळटालें. म्हाका राग आयिल्लो. पूण लाली गुरख्यागेर न्हिदिल्ल्याचें तिणें दुसऱ्या एका कामेऱ्याक सांगलें आनी थंयच आमचें काम सोपें जालें. ती जर ओगीच राविल्ली तर आमकां केस सोल्व करप कठीण जातलें आशिल्लें. आमकां गुरख्याचो दुभाव मारचोच नाशिल्लो. तो आमचे भितर साव जावन वावूरतालो."

"लाली गुरख्यागेर न्हिदिल्ली ही एक खबर. अशीं कोणूय कोणागेर न्हिदपाक आसतात. पूण ताचे वयल्यान कशें सोदून काडलें तुमी?"

"आमकां इल्लोसो लेगीत क्लू पुरो आसता. तातूंत आनी कामेऱ्यांच तीं. तांच्या पोटांत कितें धरता. तीं काम करता आसतना जगा वयल्यो खबरी करप ही तांची सवंय. तातूंत आनी ही खुनाची खबर. एकामेकांक

सांगतालींच. एकल्यान गुपीत दवर म्हूण दुसऱ्याक सांगलें, दुसऱ्यान तिसऱ्याक सांगलें, तिसऱ्यान चवथ्याक सांगलें, मागीर चवथ्यान....... अशे तरेन दर एकली 'ही खबर कोणाक सांगूं नाका आं. तुज्या म्हज्या भितर! तुका म्हूण सांगतां' अशें सांगपाक विसरली ना. हाचो परिणाम जावपाचो जालोच. हें गुपीत सगळ्यांक कळ्ळें

"खरी तुमची गजाल. अशें जाता खरें. म्हाका खूब वेळा अणभव आयलो ताचो." नाना

"एकदां आमकां कळ्ळें लाली नांवाची बायलमनीस गुरख्यागेर न्हिदिल्ली आशिल्ली आनी ती गांवांत दिसना, तेन्ना खून जाल्ली बायल मनीस लालीच आसूंक जाय असो असो निश्कर्श काडपाक आमकां वेळ लागलो ना.. पूण दुभावान कांय जायना. ताची खातरी जावंक जाय आशिल्ली. ते दिकेन आमचीं चक्रां घुंवपाक लागलीं. ती बायल मनीस लाली आसूं येता हो दुभाव आनी प्रेताच्या हातांतलीं कांकणां हो पुरावो, हांचे वयल्यान फुडलीं पावलां उबारलीं."

"मागीर फुडलें पावल कशें घालें तुमी?"

"मड्याच्या हातांत कांकणां आशिल्लीं. तीं खुन्याक काडूंक आयली नात. म्हूण उरलीं. आमी विचार केलो., तीं कांकणां कोणाचीं म्हूण कळत जाल्यार ती बायल लाली काय कोण हें कळटलें. आमी अनय डोर्लेकारा कडेन तीं कांकणां दिलीं आनी ताका सांगलें, कांकणां मातशीं गांवच्या कामेऱ्यांक दाखय. तीं कोणाची आसतलीं हाचो अदमास तांचेकडल्यान तुका काडूंक येता जाल्यार पळय. कांकणां कोणाचीं हाचो सुगाव लागलो जाल्यार फुडलें काम सामकें सोपें जातलें.' आनी तुमकां सांगता सामंत साहेब, अनय डोर्लेकारान काम चोख बरें केलें." कदम

"तीं लालीचीं म्हूण कळ्ळीं तुमकां.?" म्हाका खबर आसूनय हांवें कांयच खबर नाशिल्ल्याचें सवंग घेतलें.

"हय! अनयाक दुभाव आशिल्लोच खंय. ताका तीं लालीच्या

हातांत पळयल्ल्याची याद जाताली. पूण खातरी करून घेवपाक ताणें ती बायोक दाखयलीं. बायोगेर मदीं मदीं लाली रावताली खंय. पूण हें खुनाचें प्रकरण आशिल्ल्यान बायो अनयाक हय म्हूण सांगनाशिल्ली आनी नाय˘ म्हूण सांगनाशिल्ली. अनय आमकां घेवन बायोगेर गेलो. आमकां भियोवन तरी ताका ती सांगतली म्हणपाचो अदमास. आमकां पळोवन बायो बरीच भियेली. ती कांयच उलोवपाक तयार नाशिल्ली. अनयान आमकां नुलयत ती सोऱ्याचो धंदो करता म्हणपाची खबर सांगली.''

''सारखें आसा तें. ती आसा अपंगूळ. तिका कश्टांचें काम करूंक जमना. तिणें चार बोकड्यो पोसल्यात आनी सांजचे वेळार सोरो विकता.'' नाना.

''अनयान सांगिल्ली ही खबर आमकां बऱ्याक पडली. आमी तिका सांगलें 'हें पळय, आमकां खबर आसा तूं सोऱ्याचो धंदो करता म्हूण. तूं सगळें खरें खरें सांगशी जाल्यार तुका आमी कांय करचेना. ना जाल्यार तुगेल्या घराची झडटी घेतले आनी सोरो सांपडलो जाल्यार आतांच तुका उबारतले.''

''बरी आयडिया काडली तुमी.''

''असो पोलिसी भंय दाखयले बगर असले लोक जाग्यार येनात. हें आयकतकच ती भरभरीत वदली. तिणें कांकणां लालीचीं आनी तीं तिणेच दिल्ली अशें तर सांगलेंच, ताचे भायर आनीकय एक खबर सांगली. ती आमकां बऱ्याक पडली.''

''कसली ती?''

''रातीचो साडे इकरा बाराच्या सुमाराक तिगेल्या घरा गुरख्याचो भाचो महेश सोरो व्हरपाक आयिल्लो खंय. तेन्ना ताणें तिका सांगिल्लें खंय, रामसिंग म्हणल्यार तागेलो मामा, हांगा येत जाल्यार ताका सोरो दिवं नाका. 'वह औरत को पीट रहा है.' बायोक हिंदी येनाशिल्ल्यान

तिका ताचो अर्थ सारको कळ्ळो ना. तिका दिसलें, रामसिंग आपले बायलेक बडयता."

"महेशाक रामसिंगानच हाडिल्लो. आनी शेजारच्या गांवांतल्या बर्वेगेर गोरवां राखपा खातीर आनी हेर कामा खातीर नोकरेक लायिल्लो." हांव.

"हय खंय." नानान आपल्याक खबर आसा म्हणपाचें सांगलें.

"हांचें एक बरें आसता. हांचो एक कोणूय कामाक लागलो म्हणचे एक एक करून आपल्या सोयऱ्यां धायऱ्यांक हाडटात. रामसिंगाकूय खंय तागेल्या काकान हाडिल्लो."

"तुमी जाणात? इल्लें इल्लें करून हांगां गुरखे उणे येवंक नात. आजकाल आंब्याचें रेन करपी सगले रेनकार गुरख्यांकूच दवरूंक सोदतात. म्हाका एक समजना, हाचे पयलीं गुरख्यांक कोण दवरतालो? पूण कामां जायनाशिल्लीं?" हांव.

"सारखें आसा. गुरखे चोवीस वरां कामाक मेळटात. तांकां पयलीं ॲडव्हान्स दिवचो पडना. आनी ते केन्ना बंक मारनात. हांगच्या मानायांक ॲडव्हांसूय दिवंक जाय आनी दीसपट्टे कामाक येयात म्हूण पांयां पडूंक जाय." नानान हांगची परिस्थिती सांगली.

"कदम सायब, हें मातशें विशयांतर जालें. कांकणां लालीचीं म्हूण कळटकच फुडें कितें केलें?" हांव.

"कांकणां लालीचीं म्हूण कळ्ळीं. पूण तीं लालीनूच घाल्लीं काय आनी कोणें घाल्लीं हें कळूंक जाय आशिल्लें. बायोन लालीक दिल्यांत तशीं लालीन दुसऱ्या कोणाक दिवं नये? आमी मागीर लालीच्या गांवांत गेले. आनी तिगेल्या भावाक सोदून काडलो. ताका आमी घेवन आयले. प्रेत परत उस्तून काडलें आनी तें ताका दाखयलें. ताणें तें प्रेत आपले भयणीचें म्हूण प्रेताच्या आंगलटी वयल्यान आनी दंडार आशिल्ले जल्म खुणे वयल्यान वळखलें. आमी पंचनामो केलो आनी प्रेत परत पुरलें."

"एक मिनीट आं कदम सायब. प्रेत बेवारशी आशिल्लें तेन्ना तें पुरप सारखे आशिल्लें. पूण आतां भयणीचें प्रेत म्हूण भाव वळखतकच तें ताचे सुवादीन करप न्हय?" हांव.

"बरोबर तुमचें म्हणणें. पूण तिका घोवान सोडटकच तिचेकडेन घरच्या लोकांनी कांयच संबंद दवरूं नाशिल्लो आनी कुळारचे लोक तिका लागी करनाशिल्ले. तिगेल्या घरचे आनी कुळारचे कोणूच प्रेत व्हरपाक तयार नाशिल्ले. तेन्ना आमी तें आशिल्लें तशें पुरलें.

आतां कांकणां लालीचीं आनी प्रेतूय लालीचें हें सिद्ध जालें. ताचे भायर लाली गुरख्यागेर न्हिदिल्ली आशिल्ली हेंवूय कळ्ळें.. तेन्ना गुरख्यागेर ते राती एक्झेक्टली कितें घडलें हें कळपाची गरज आशिल्ली. ते खातीर आमी अनयाक ताच्या भाच्याची मातशी चवकशी करपाक सांगलें."

"कदम सायब. विचारतां म्हूण रागार जावं नाकात आं. अनय ह्या गांवांतलो तुमचो 'खबऱ्या' बी आसा? तुमच्या उलोवण्या वयल्यान म्हाका तसो दुभाव मारलो म्हूण विचारलें." हांव

"ह्या प्रस्नाची जाप म्हज्यान तुमकां हयूय म्हूण दिवं नज आनी नाय म्हूण दिवं नज. आमच्या प्रोफेशनांत अशी म्हायती दिवपाक बंदी आसा. हातूंत खबऱ्याच्या जिवाक धोको आसता."

"बरें आसा. मागीर फुडें?"नाना

"अनयान बर्वे कडेन वचून चवकशी केली. ताचे कडल्यान राती बारांच्या सुमाराक महेश घरा आयिल्लो म्हणपाची खबर कळ्ळी. महेश बर्वेगेरूच रावतालो. बर्वे कडल्यान परत येता आसतना अनयाक रामसिंग आनी महेश बर्वे कडेन वता आसतना दिसले. ताणें तांकां कांय सुलूस लागूंक दिनासतना खंय वता म्हूण चवकशी केली. ताका कळ्ळें, ते बर्वेगेर महेशाचो पगार घेवपाक वतात. अनय थंयच्यान बद्द आमचे सरीं आयलो. आनी म्हणूं लागलो, 'रामसींग आनी महेश बर्वेगेर पगार घेवपाक गेल्यात. तांकां जर तुमी आतां उबारले नात, जाल्यार गुरखो तुमच्या

हाताक लागचो ना. ते गांवांत वचपाच्या विचारांत आसात. तांच्या हातांत हांवें पोटल्यो पळयल्यात. 'चड करून तांच्या कपड्यांच्यो आसतल्यो.' आमी तशेच गेले आनी तांकां वाटेवयल्यानूच उबारून हाडले."

"बायल भुरग्यांक हांगा दवरून वतले आशिल्ले ते?" नानान विचारलें.

"बायल घरा नाच. ती आपल्या भुरग्यांक घेवन तागेल्या काकागेर वचून रावल्या. आतां आमी तिका तिगेल्या गांवांत बापायगेर पावोवपाची वेवस्था केल्या. आमी महेशाक कुशीक घेवन ते रातीक कितें घडलें हाची चवकशी केली. मामाच्या हातांतल्यान खून जाला हें ताका खबर आशिल्लें. देखून आमी माराचो भंय दाखोवन लेगीत आपणें बायोक अशें कांय सांगूंकच ना म्हणूंक लागलो. जेन्ना आमी ताका माफीचो साक्षीदार करतां, तुका कांय शिक्षा जावची ना म्हूण सांगलें, आनी तूं खरें कांय सांगना जाल्यार ओगीच फांशी वतालो असो जेन्ना भंय घालो तेन्ना तो वदलो. ताचे कडल्यान कळ्ळें. तो त्या दिसा दनपारां रत्नागिरीक गेल्लो आनी येता आसतना मामाल्या स्टॉपार बसींतल्यान देंवलो. ताणें बरोबर सोरो, कोंबडी आनी तांतयां हाडिल्लीं. रातीं खंय कोंबडी कापली आनी कोंबडी आनी तांतयां घालून मटण केलें. आनी रातची येथेच्छ पार्टी केली. सोरो पिवपाक लालीय बशिल्ली. गुरख्यालीं भुरगीं न्हिदिल्लीं आनी बायल वाडटाली." कदम.

"बरोबर आसा. त्या दिसा रातचो वयर बरो बोवाळ चलिल्लो. भुरग्यांचो कुलकुलाट चलिल्लो. म्हाका कांय धड आयकूंक येनाशिल्लें. ते राती उटंगाराचो पावस आनी वाऱ्याचें मोड आशिल्ल्यान वयर पत्र्यांचो आनी पडवेचेर पड्डयांचो आवाज खूब जातालो. म्हजी लायट गेल्ली म्हूण णव साडे णवांकूच हांव खाटीर पडून न्हिदपाचो प्रयत्न करतालों."

"फुडें कितें जालें?" नानाची उत्सुकता वाडटाली.

"जातलें कितें? सोरो आपलें काम करूं लागलो. इल्लो इल्लो हांकां चडूं लागलो. तांतले तातूंत गुरख्याक चडूच लागलो. ताच्यो मर्कट चेश्टा सुरू जाल्यो. फकणां मारतां मारतां ताणें लालीच्या पदराक हात घालो. सुरवातेक लालीन मस्करेर व्हेलें. पूण जेन्ना तो आयकना शें दिसलें तेन्ना लालीचो सोरो सर्र करून देंवलो. गुरख्याची बायल मदीं पडली. इल्लो इल्लो करून सगळ्यांनी एकामेकांचेर गाळींचो शिवोर सुरू केलो. गुरख्यान मार बडय सुरू केलें."

"गुरखो आनी ताचो भाचो हे दोग जाण आनी लाली एकली. भाचोय तातूंत सामील आशिल्लो न्हय?" नाना

"ना. आपले मुखार मामान म्हणचे गुरख्यान लालीचे साडयेक हात घालो हें पळोवन ताचोय सोरो खिणा भितर देंवलो. जें चलता तें ताच्यान पळोवं नजो जालें. लजेन ताणें थंयच्यान कूस मारली आनी घरचो रस्तो धरलो पूण घरा वता आसतना बायोगेरच्यान बाटली भर सोरो घेवन वचपाक विसरलो ना. सोऱ्या बाटली हातांत मेळटकच ताणें बायोक सांगलें 'गुरख्याक सोरो दिवं नाका. वो औरत को पीट रहा है.' अर्थात ताका ताचो मामा लालीक जितीच मारतलो म्हणपाचें दिसूंक नाशिल्लें."

इतलें उलोवन जातकच सब इंस्पेक्टर कदम मातसो सों थांबलो. घडये ताका चड उलोवन पुरो जालां जातलें. आमीय थोडो वेळ ओगीच रावले. मातश्या वेळान नानान विचारलें,

"मागीर रामसिंग कबूल जालो काय ना?"

"खंय गा? तो कबूल जावपाकूच तयार नाशिल्लो. एके घडयेक एक सांगतालो, दुसरे घडयेक दुसरेंच सांगतालो. दोन दीस ताणें आमकां हेवटेन तेवटेन नाचयले. निमाणें जळटे सिगरेटचे चटके जेन्ना बसले तेन्ना ताणें तोंड उगडलें. आमी सुरवेक इतले कडक स्टेप्स घेनात. पूण जेन्ना आमकां खबर आसता, गुन्यांवकारी होच आसा, पूण तो कबूल जावपाक तयार ना तेन्ना असले स्टेप्स आमकां घेवचे पडटात."

"आमच्या सारख्या सामान्य लोकांचो समज आसता, पोलिसांच्या हातांत सांपडटकच तो मेलोच म्हूण समजा." हांव

"हो समज सामकोच चुकीचो न्हय तुमचो. पूण तें सामकें उण्या प्रमाणांत." कदम

"गेल्ले चार पांच दीस एक खुनी मनीस आमचे भोंवतणी वावुरतालो आनी आमकां ताचो वास लेगीत लागप ना!" हांव

"इतले दीस ताणें मात लेगीत आंग दाखयलें ना. आमी आरोपीक सोदपाक इतली धांवपळ करताले, धडपडटाले, आनी हो आपूण तातूंतलो न्हीच असो वागतालो. असले मनीस कशे आसतात जाणा तुमी? 'तुमच्या गळ्यार केंस पडला आं म्हूण सांगताले. तो केंस काडपाच्या निमित्तान हात फुडें करताले आनी त्याच केंसान तुमचो गळो कापताले. म्हज्या वावरांतलो अणभव हो." कदमान सांगलें.

"म्हज्या आंगांत शिरशिरो भरलो पळय! हो आमच्या लागसार भोंवतालो. सुरवेक जाधवान बोअर वॅल मारचे पयलीं हो बायल भुरग्यांक घेवन न्हावपाक धुवपाक आमगेर येतालो., मदीं मदीं खबरी मारपाक येतालो, केन्ना केन्नाय नाल्ल विकतो व्हरपाक येतालो. आतां याद जाता म्हाका. केन्नाय रातचो नाल्ल व्हरूंक येतालो, तेन्ना सरळ म्हज्या फाटल्यान भितरले कुडींत येतालो आनी हेवटेन तेवटेन चवकस नदरेन पळयत आसतालो. हांव घरांत एकटोच आसतालों. तेन्ना तकलेंत आयलें ना पूण आतां येवजिल्यार लेगीत भंय दिसता. भयंकर मनीस हो. केन्नाय आमचेरूय शेकूं येतालें."

"गुरख्यान कबूल करताना कितें कितें सांगलें?"नाना.

"तेंच ते. तागेल्या भाच्यान सांगिल्लें तें आनी आमी जें गुरख्या कडल्यान आतां मेरेन वदोवन घेतलां ताची जर वेवस्थीत टायमशीर वळेरी केली तर ती गजाल अशी जाता, भाच्यान थंयच्यान कूस मारतकच हाका आनी चेव आयलो. तो वताकच कांय वेळान हाणें लालीचे साडयेक

हात घालून साडी सोडोवन उडयली. लाली घरा भायर धांवपाक लागली. गंगे गे गंगे, म्हूण आड्डत सकल तुमचे बागेचे दिकेन येवंक लागली. तेन्ना हाणें फाटल्यान वचून, तिच्या केसांक धरून तिका ओडीत ओडीत परत हाडली आनी गुदावांत बंद करून दवरली."

"घरांत ताची बायल आसून लेगीत तिणें कांय विरोध केलो ना?"

"थंयच तर कळाशी आसता असल्या लोकांची. एक खेप तांच्या आंगांत सेक्साचें भूत रिगलें म्हणटकच तांकां लज बी कांय उरना. बायल आडावपाक गेली तेन्ना कोयती उबारून तिच्या फाटल्यान लागलो तिका मारपाक. भुरगीं आड्डुपाक लागलीं. तांकां कोयती दाखोवन ओग्गी केलीं. निमाणें भुरग्यांचो आनी आपलो जीव वाटावपाक बायल तांकां घेवन रानांत धांवून गेली. आनी थंयच एका रुखा सकयल भुरग्यांक वेंगांत घेवन तिच्या पदराचो शेव तांचेर पांगरून तिणे उटंगाराच्या पावसांत रात काडली. हेवटेन गुरख्यान लालीक गुदावांत बंद केली आनी बायोगेर आनीक सोरो हाडपाक गेलो."

"कापाजदाद हांची. असल्या उटांगाराच्या पावसांत लेगीत देडेक किलोमिटराचेर वचून सोरो हाडपाक कमी करनात ते." नाना.

"कदम सायब, तुमी सांगता ती गजाल आयकताकच म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो. तुमी म्हणटात ती 'गंगे, गंगे, करून म्हज्या घराकडेन येवपाक धांविल्ली. तिका जर म्हज्या घराकडेन येवपाक मेळिल्लें आनी गंगे गंगे म्हूण आड्डत आयिल्ली, जाल्यार तिच्या फाटल्यान तोय येतलो आशिल्लो. हांव आसतलों आशिल्लों निःशस्त्र. आंगार न्हिदपाचे कपडे, हाफ पिजाम आनी बानयन. आतां कल्पना करात. गुरख्यान म्हजे पडवेरूच लालीक मारिल्ली आनी अशा वेळार हांव जर दार उगडून भायर आयिल्लों, जाल्यार अवाक् जावन थंयचे थंयच वागरें पडिल्लेवरी उबो रावतलों आशिल्लों. व्हीटनेस ना करपाक म्हाकाय मारले बगर रावचो नाशिल्लो. आतां सकाळ फुडें रगताचे खातडींत आमचीं दोगांयचीं प्रेतां अस्ताव्यस्त पडल्यांत असो सीन गांवच्या लोकांक, आनी पोलिसांक

दिसतालो आशिल्लो. अशे अवस्थेंत आमकां पळयताकच कोणूय एकलो तरी सभागी आमचो दुभाव घेतले बगर रावतलो आशिल्लो? म्हज्या चारित्र्याचो आदर्श म्हज्या कुटुंबांतल्या लोकां मुखार उरचो म्हूण जिवीतभर ज्या चारित्र्याची हांवें जतनाय घेतली, ज्या चारित्र्याक इल्लो लेगीत दाग लागचो न्ही म्हूण वावुरलों मेले उपरांत तेंच चारित्र्य दागी जाल्लें लोकांक दिसतलें आसलें. म्हजे वयल्या आरोपांवें खंडन करपाक, म्हज्या चारित्र्याची सफाई दिवपाक हांव आसचों नासलों. मागीर पोलीस थारायतात आनी पेपरांचेर छापून येता तेंच लोकांक खरें दिसतलें आसलें."

"सारखें आसा तुमचें म्हणणें. असले बाबतींत लोक दिसता तें खरें मानतात. हातूंत दुसरी कसलीय गजाल आसूं शकता म्हणपाचो विचार मात लेगीत आफुडना तांकां." कदम.

"असल्यो गजाली रवंथ करपाक लोकांक सदांच जाय आसतात. ते आनीक कितेंच विचार करचें नात. वयल्यान आनीक मीठ मसालो लावन फुलोवन सांगतले. पूण मारली केन्ना तिका?" नानाची उत्सुकताय तेंगशेर पाविल्ली.

"सांगतां सांगतां. तेंच तर सांगूंक आयलां तुमकां. गुरख्यान बायोगेर वचून सोरो हाडलो. बायोन आपणें ताका सोरो दिला म्हणपाचें आमकां सांगूंक नाशिल्लें. घडये भाव्यान सांगूनय आपणें मामाक सोरो दिलो असो आरोप आपल्याचेर येत म्हूण कांय उलयली नासतली. गुरख्यान सोरो हाडलो आनी आपले कुडींत वचून बसलो. बायल भुरगीं घरा नाशिल्लींच. जें कितें मटन उरिल्लें तेंय सोन्या वांगडा सोपयलें. राताच्या दोन सवादोन वरांच्या दरम्यान ताचेर सेक्सासूर परत सवार जालो. तो उठलो आनीक ताणें गुदांवाचें दार उगडलें आनी लालीचेर परत आगळीक करूंक लागलो. आतां लाली सामकीच एकली आशिल्ली. गुरख्याची बायल भुरगींय कोण नाशिल्लीं. गुरख्याल्यो ह्यो करण्यो पळोवन लालीचेर आकांत आयलो. आपूण आतां एकली हाचे तावडींत सांपडटली हें चिंतून ताका धुकळून उडयलो आनी घरांतल्यान धांव मारली. जीव वाटोवपाक एकदांचो आपलो जीव तिणें घरा भायर काडलो आनी लागली धांवूंक.

रात आशिल्ली. पावस घोग्यांनी पडटालो. मनशाक मनीस दिसनाशिल्लो आनी हो काळ तिच्या फाटल्यान लागिल्लो. जिवाच्या आकांतान ती धांवली".

"आं! आतां कळ्ळें म्हाका. धांवताना आपूण खंयचे दिकेन धांवतां हें तिका कळ्ळें ना जातलें. संकटाक गंगी आपल्याक पावतली हे आशेन ती घडये भितर सरपाचे गेटींतल्यान येवपाक सोदताली जावंये पूण उटंगाराच्या पावसांत आनी बिण्ण काळखांत ती कोनशावयल्या आड्या कडेन पावली जातली. धडपडत आड्यार चडली जातली. तितल्यान हो राक्षस तिच्या फाटल्यान पावलो आनी ओडूंक लागलो जातलो. आनी आड्याचे फातर गडगडले जातले. कसलो आकांत आयला जातलो तिचेर! सारखें न्हय?" हांवें अदमास केलो.

"ना सारखें न्हय तुमचें. तुमच्या अदमासा प्रमाण ती आयली ना. तुमी जाणात जाधवाच्या घरा कडलो वाठार उंचायेर आशिल्ल्यान प्लॉटा वयल्यान सरळ तुमचे कडेन धांवून येवंक मेळना. ते खातीर जाधवाचे बागेंतलो रस्तो मोडणान केल्लो आसा. ताका लागून जाधवाची बाग क्रॉस करून रस्त्यार येवपाक कळाव लागता. पयले खेपे तिणें तसो प्रयत्न केल्लो. पूण तिचो तो यत्न फेल गेलो. गुरख्यान तिका केसांक धरून परती व्हेली."

"म्हजे बागेंत कशी पावली तर ती?"

"सांगतां, धीर धरात. आतां तिणें सरळ गुरख्याच्या घरा सामकार जंय राजाराम तेंडूलकाराचो आडो आसा थंय आंवाळे कडेन धांव मारली. आनी धांवता आसतना तिणें आड्डून सांगलें, 'राव तूं. तुगेल्यो ह्यो करण्यो गांवांत सांगतां. आड्याकडेन धांव घेताना घडये तिणें चिंतलें, जायत आड्या वयल्यान उडकी घेवन सकले वटेन तिरकी गेली जाल्यार भिम्याल्या घराकडेन पावतली. थंय एकाक चार मनशां आसात. ती तेंडूलकाराले दोनय आडे हुपून रस्त्यार पावली जातली. गुरख्याचे तावडींतल्यान लाली काळखांत जी धांवली ती ताका खंयच्यान धांवली

तें पयलीं कळ्ळें ना. ती ताशीच ,जर खंयचेय खांचींत लिपून राविल्ली जाल्यार वांचताली आसली. त्या बिण्ण काळखांत आनी घो घो पावसांत ती खंय आसा म्हणपाचें कळचेंच नाशिल्लें. ताचे बायलेन जशी रानांत रात काडली ताशीच तिणेंय रानांत रात काडपाची. पूण तिणें चूक केली. ती आड्डून आड्डून गंगीक उलो मारपाक लागली. 'गंगी, गंगी, धांवून यो गे, हो सैतान म्हाका मारता.' वा घडये भिग्याकूय तसो उलो मारला आसतालो.

गांवच्या लोकांक सांगतां ही तिगेलीं उतरां आयकून गुरखो चडूच चवताळ्ळो. तिच्या आवाजा वयल्यान गुरख्याक ती खंयचे दिकेन पळटा तें कळ्ळें. तो कोयती घेवन तेच दिकेन दोनूय आड्यां वयल्यान उडकी मारून तिचे सरीं पावलो. ती तेदे वेळा रस्त्याचेर तुमगेल्या आड्याच्या कोनशाचेर पाविल्ली. गुरख्यानं आवाजाचे दिकेन अदमासान कोयतेचो वार घालो तो सारखो तिचे खड्डेर फाटले वटेन पडलो. अदमासान मारिल्लो धपको अचूक खड्डेर पडलो. आनी सोमतोच खड्डेचो कपचो आयलो. तिणें आवय गे म्हूण आकांतान जी किळांच मारली ती निमाणी. ती जर कोणें आयकल्ली जाल्यार ताचें काळीज पिंजून वतलें आशिल्लें. ते किळांचेन खुनी लेगीत हादरलो. तेन्ना रातीचीं सुमार दोन सवाय दोन वरां जाल्लीं.. हें आमकां गुरख्यानूच सांगलां. ताणें घडये कितली रात जाल्या हें पळयलां आसतलें."

"हें सगळें ताणें सांगलें तुमकां?." एक लांब उस्वास सोडून हांवें विचारलें. खऱ्यानशीं म्हजें काळीज सामकें हालिल्लें. नानाय स्वास कोंडून आयकतालो.

"हें सगळें एके खेपेक खंयचोच आरोपी सांगना. मात तो मार, लडो पडटकच इल्लें इल्लें तोंड उगडटा. जळिल्ले सिगरेटचे चटके बस म्हणसर लिपोवपाचो प्रयत्न करता. हाल अपेस्टा सोंसपाची ताकद जेन्ना सोंपता तेन्नाच तो गडागड वदूंक लागता. हें लेगीत मागीर कोर्टांत न्हयकारतात ती गजाल वेगळी. ते खातीर आमी मेजिस्ट्रेटा सामकार

ताचे कडल्यान परत एक खेप वदोवन घेवन रिकॉर्ड करून घेतात. हाणेंय पयलीं दोन दीस कशेंच तोंड उगडलें ना. तिसऱ्या दिसा पासून उगडूंक लागलो आनी चवथ्या दिसा बकाबक ओंकलो.

ताणेंच खून केला हाचो पुरावो म्हूण ताणें जे कोयतेन खून केला ती कोयती जाय आशिल्ली. गुरख्याल्या घराची झडटी घेतली तेन्ना कोयती फळ्या पोंदा जमनीर लिपोवन दवरिल्ली मेळ्ळी. कोयतेचेर रगताचे दागय मेळ्ळे. मागीर तिगेलो बोटवो, सत्री, पांयजणां बी ताणें जंय लिपयल्लीं तो जागो दाखयलो. पूण अजून आमकां तिची साडी, पोलको, घागरो, गळयांतलें ताणें दाखोवंक ना. घडये त्या बिण्ण काळखांत वाडिल्ल्या तणांत खंय कितें लिपोवन दवरलां तें ताचे ताकाच धड कळनासुये. हड्डें भर वाडिल्ल्या तणांत आमकांय तें सोदून लेगीत मेळ्ळें ना. दसरो जाल्या उपरांत, सुकिल्लें तण कापतकच खंय तरी ह्यो वस्तू आमकां मेळटल्यो."

"बाबडी लाली! म्हाका तिची काकूळट दिसता. घोवान सोडल्या. कुळारचे लागीं करनात. रावपाक घर ना दार. जो काम दिता तागेर रावप. काम नासता तेन्ना आसरो दितल्यागेर फुकटांत काम करप. सदांच उपकारांच्या दबावा खाला रावप. उपकार तरी कसले ते. ती तर पिळणूक. जेवण खाण रावपाच्या निमतान पयशे कापून थोडेशे पयशे हातार दवरप. बाकी लोकांचो दिसवडो साठ रूपया तर हिच्या हातार पंचवीस रूपया. इतलेंय करून तरी सुखाचे जिणे? तकलेर सदांच हुमकळटी तलवार. दादल्यांच्यो नदरो चुकोवन तांच्याच पालवा सकल तांगेर रावप. तांतलोच एकाद्रो गुरख्या सारखो राक्षस आसत जाल्यार निमाणें ताच्या हातान मरप. निमणें बायलांचो जल्म! चुरचुरे!" हांव

"तागेली इत्सा जर भागिल्ली तर इतलें जावंक पावचें नाशिल्लें" कदमान म्हणलें.

"म्हणचे तिचेर रेप जाल्लो जाल्यार ती वांचतली आशिल्ली अशेंच म्हणपा आसा तुमकां. वांचतली आशिल्ली खरी. पूण आमचे संस्कृतींत

शिलाक जें म्हत्व दिलां तें ती वगडावन बसतली आशिल्ली. तिणें आपलें शील सांबळपाचो यत्न केलो." हांवें म्हणलें.

"तिच्या शिलाचो दुभाव घेवपी खूब जाण आशिल्ले ह्या गांवांत. पूण आपलो जीव वगडावन आपल्या चारित्र्याचें मोल राखलें तिणें. मागीर कदम साहेब, ताणें तिची वळख पटूंक जायना म्हूण जे कृत्य केलें तें केन्ना केलें? सामंत भाऊच्या आड्या भितर प्रेत कशें पावलें?" नानान प्रश्न केले.

"गुरख्यान कोयती मारपाक मारली. पूण जेन्ना ती मेली म्हूण कळटकच ह्या दादल्यांतलो राक्षस सर्र करून देंवलो. आनी उपरांत हाणें सगळे पुरावे नश्ट करपाचें काम सुरू केलें. पयली गजाल म्हणल्यार, प्रेत रस्त्यार पडिल्लें तें ताणें ओडीत ओडीत तुमच्या आड्याकडेन हाडलें. आड्याचे दोन तीन थरांचे फातर गडगडायले आनी तिका ओडीतूच तुमगेले बागेंत हाडली. तिगेलो देह उबारून वा फाटीर मारून हाडपाची ताकद ताच्यांत नाशिल्ली. तुमगेल्या बागेचो आडो ताका सामको लागीं आशिल्लो. म्हूण तुमगेली बाग. प्रेत बागेंत हाडून उडयतकच तें कड्डाच्या पुळ्याच्या आकाराचें करपा खातीर पांय पोटा कडेन घेवन न्हिदिल्ल्या सारखी तिका दवरली आनी ताचेर लागींच आशिल्लें पुळ्याचें तण अशे तरेन दाळून दवरलें, पळतल्याक तें हेर पुळ्यां भशेन दिसचें. हे खातीरच तुमगेलीं कामेऱ्यां त्या दिसा थंयच्या कलमांचीं मुळां बेणटालीं तेन्ना तांकां प्रेत आसा तें दिसलें ना. तांकां तो एक पुळोच दिसलो. पूण ताच्या दुर्दैवान उटंगाराच्या पावसांत तिच्या तोंडावयलें आनी कुल्या वयलें तण निसरून सकल पडलें. ताका लागून दनपारां तें सुण्याच्या आनी चिमणीच्या लक्षांत आयलें."

"एक मिनीट हां, कदम सायब, म्हजे बागेचो आडो प्रेत भितर हाडपा खातीर गुरख्यान मोडलो म्हणटात तुमी मागीर राजाराम तेंडुलकाराले दोनय आडे कित्याक मोडले?" हांवें विचारलें.

"ते आडे ताणें मोडूंक नात. लाली आनी तो त्या आड्यां वयल्यान

उडकी मारता आसतना आड्याचे एक दोन फातर सकल गडगडले. पावसांत ते भिजिल्ले आशिल्ल्यान सहजतायेन पडले.''

''पूण मागीर तिका विद्रूप करपाचें आनी माथ्यावयले केस बी तासून काडपाचीं कामां ताणें केन्ना केलीं?'' नाना.

''हीं सगळीं कामां ताणें तेन्नाच केलीं. प्रेत हाडून दवरतकच वळखूंक येवं नये म्हूण नाक कान भुंवयो कापून काडल्यो. हातार तिचें नांव कोरांतिल्लें आशिल्लें तें तासून उडयलें, माथ्यावयले केस चामडे सयत तासून उडयले. हीं सगळीं कामां ताणें तुमचे बागेंतूच केलीं. ह्या कामांत ताका वादळी वाऱ्यान आनी पावसान सांगात दिलो. कोणाकूच कसलोच पत्तो लागलो ना. हांवें चवकशी केली, त्या दिसा रातीं वराक अयंशीं किलोमिटरच्या स्पीडीन वारो व्हांवतालो आनी पावसूय घो घो पडटालो. ताका लागून तुमकांय कांय कळ्ळें ना.''

''म्हाका कळ्ळें ना तें बरें जालें. म्हाका कळिल्लें आनी कितें काय म्हूण भायर येवन ते दिशेक बॅटरीचो फोकस मारिल्लो जाल्यार आज हांव तुमचेकडेन उलोवपाक उरचों नाशिल्लों. तें जावं. ताणें जे तिचें नाक, कान बी कापले ते खंय उडयले? केंसा बगर त्या दिसा आनी कांयच मेळूंक ना.'' हांव

''ते ताणें हेवटेन तेवटेन मोखून मारले. ह्या वाडिल्ल्या तणांत ते खंय पडल्या आसताले कोण जाणां. आमी सोदपाचो प्रयत्न केलो. पूण आमकां थंय मेळूंक ना. आनी हाचे फुडेंय मेळत शे दिसना. हें तण कापता म्हणसर तीन–चार म्हयने वताले, तो मेरेन ते कुसून किडी बिडी खावन नाच जातले. तांकां हाडां नाशिल्ल्यान कांयच हाताक लागपाचें ना.''

''पूण उटंगाराच्या पावसांत आनी बिण्ण काळखांत कशें जमलें काय ताका हें?''हांव.

''गुरखे हे चड करून नेपाळचे वा आमचे बॉर्डरी वेले. हे वाठार

दोंगर–दोंगुल्ल्यांनी भरिल्ले आसात. तांचो विकास तर जावंकच ना आनी वीजय थंय पावूंक ना. रस्तोय चडशे नात. शारांत वचपा खातीर तांकां दिसान दीस चलचें पडटा. ते खातीर ती जमात काबाडकश्ट काडपी जाल्या. ह्याच तांच्या गुणांक लागून तांकां हांगा दोंगरांनी आशिल्ल्या आंब्यांच्या बागांनी राखणेक दवरतात. तेन्ना तांकां मैलांनी चलप वा बिण्ण काळखांत असलीं कामां करप व्हडलेंशें न्हय."

"हरामखोर बरोच बेरड दिसता. खून केलो तो केलो आनी वयल्यान ताकली सितिदांत दवरून वळख पटची न्हय म्हूण पुरावोय नश्ट केलो." नानान म्हणलें

"हें सगळें पळयताकच म्हाका दिसता तो बरोच अणभवी आसूंक जाय. हो ताचो पयलोच खून न्हय. खून करताकच तो कसो उगडकीक येता हें ताका बरें खबर आसा. देखून ताणें पुरावो नश्ट करपाचो प्रयत्न केलो." हांव.

"सारखें तुमचें म्हणणें. आमी आयकलां, तो दाबोल एनरोन कंपनींत कामाक आशिल्लो. ती कंपनी बंद जाताकच तो हांगां आयला. थंय लेगीत फाटीं एका कोणे गुरख्यान आपले मेवणेचो खून करून प्रेत एका पोत्यांत भरून रानांत उडयल्लें खंय. पेपरांत आयिल्लें. हांवें थंय मिसाळाक धाडपाचो विचार केला. सारखी चवकशी करून येवपाक. तो होच गुरखो काय तें पळोवन येवपाक."

इतल्यान कामावयलीं कामेऱ्यां, म्हणजे तिगेलो पूत आनी सून,मोडली आनी घरा आयली. गंगीक पळयतनाच सब इंस्पेक्टर कदमान म्हणलें,

"यो गंगी, बरें जालें, एक च्याचो घोट जाय आशिल्लो. तुज्या हाताचो च्या घेतल्याबगर तरतरी येना."

गंगीन आमकां च्या करून हाडून दिलो. तांचो च्या पिवन जाताकच गंगीन म्हाका म्हणलें, 'भाऊ, हांव घरा वतां. पावस येतालो सो दिसता. आसोर आसतनाच घरा पाविल्लें बरें.' अशें म्हणून, म्हजी परवानगी

घेवन, तिगेले कुडी दाराक कुलप करून घरा वचपाक भायर सरली. इतल्यांत तिका नानान सांगलें, 'गंगे, वता आसतना नंदूक मातशें सांग, हांव हांगां बसलां. तेन्ना गोरवां मातशीं परतून व्हर.' ती वतकच हांवें सबइंस्पेक्टर कदमाक म्हणलें,

"कदम सायब, तुमी म्हाका सांगिल्लें, तुमकां सांगले बगर हो गांव सोडूं नाका म्हूण. आतां सगळें जालें. खुनीय मेळ्ळो. तो कबूलय जालो, आनी जाय आशिल्ले पुरावेय मेळ्ळे. तेन्ना आतां म्हाका घरा वचपाक तुमची परवानगी मेळपाक कांयच हरकत ना. खरें म्हणचे म्हजो पार्टनर दोन तीन दिसांनी येवपा आसा. पूण तो मेरेन रावपाचो म्हाका धीर ना. "

"आतां तुमकां वचपाक कांय हरकत ना सामंत सायब. वचात तुमी. बरें तर. बरो वेळ गेलो. खरें म्हणचे, कितें जालां तें एक पांच मिनटांत सांगपाक म्हूण आयिल्लों. आमकां तशें कळोवचें पडटा. आयिल्लोंच आशिल्लों. म्हणलें कळोवया. पूण तुमचे कडेन येताकच तुमी आशिल्ल्या त्या पोझिशनचो आब राखून तुमकां सगळें सांगन शें दिसलें. बोरकारूय हांगा आयले. तेन्ना म्हणलें, सविस्तर सांगत जाल्यार गांवच्या लोकांकूय कळटलें कितें जालां म्हणपाचें. बरें तर येतां हांव. आनी सामंत भाऊ आनीक एक शिटकावणी दितां. खंयचेय परिस्थितींत ह्या घरांत एकले रावपाचें धाडस करूं नाकात. म्हातारपणांत आपल्या आंगांत प्रतिकार करपाची ताकद नासता." अशें म्हणून कदम गेलो. तो वतकच हांवें नानाक म्हणलें,

"नाना, तुमकां एक गजाल सांगतां, आतांच म्हज्या ती लक्षांत आयल्या. आतांच कदमान सांगलें, लाली 'गंगे, गगे' म्हूण आड्डत सकल येताली तेन्ना गुरख्यान तिका ओडीत परत व्हेली, आनी तिचो खून दोन सवाय दोन च्या दरम्यान जाला. खून जाला ते राती हांव हांगां एकलोंच न्हिदिल्लो. न्हीद लागनाशिल्ली पावसाच्या आवाजान. आनी मागीर जेन्ना न्हीद लागली तेन्ना दोनदां हांव जागो जालां. तेन्ना म्हाका

हांव सपनांतल्यान जागो जाल्लों काय दिशिल्लें. म्हाका एक वायट संवय आसा, जागो जातकच टॉर्च लावन हातांतली घड्याळ पळोवपाची. त्या दिसा पयले खेपे जागो जाल्लों तेन्ना रातीचीं इकरा जावन चाळीस मिनटां जाल्लीं. तेन्ना वयल्यान म्हाका 'आवय गे, आवय गे' असो आवाज आयकल्ल्याचो भास जाल्लो. तो उलो घडये 'गंगे गे, गंगे गे' असो आसूं येता. हांवें त्या आवाजा कडेन चड लक्ष दिलें ना, कित्याक तर थंयच्यान सदां रातचो भुरग्यांचो कुलकुलाट आयकूं येतालो.''

''तुमी म्हणटा तें खरें आसूं येता. कदम सायबान सांगिल्लो वेळ आनी महेशान सांगिल्लो वेळ तुमगेल्या वेळा कडेन जुळटा. बरें, मागीर दुसरे खेपे कितें जालें?''

''दुसरे खेपे हांव सपनांतल्यान जागों जालों. तेन्ना रातीचीं दोन वरां जावन वीस मिनटां जाल्लीं. म्हाका सपन पडिल्लें, कोणें तरी ऊंच दोंगराच्या पालसणा वयल्यान कोणाक तरी धुकळून उडयला. जाका धुकळ्ळा त्या मनशान एक दीर्घ अशी किळांच मारली. जुस्त सिनेमांत पळयतात आनी आयकतात तशी. ही किळांच घडये लालीचीच आसूं येता. हें हांव व्हदळ कदमा मुखार उलयलों ना. ओगीच तांचो गैर समज जायत म्हूण.''

''ताची आतां कांय गरज नाशिल्ली. तपास लागपाचो तो लागला. तुमी निश्चींत रावात.''

''हांव चिंता करना. म्हज्या मनांत आयलें तें तुमकां सांगलां. आनीक एक दुसरी गजाल आसा. हांव फाल्यां मुंबय वतां. म्हाका आतां हाचो वाज आयला. तुमी जाणात हें हांवें तुमकां खूब वेळा उलोवन दाखयलां. मोठे उमेदीन हांव हें घेवन बशिल्लों. चवग जाणालें आसा, दर एकलो इल्ली इल्ली जवाबदारी आंगार घेतलो, खेळी मेळीन हांगा रावपाक मजा येतली. घरचे लोकूय व्हॅकेशनांत येवन रावतले. पूण अशें कांय जालें ना. म्हगेले पार्टनर नांवापुरते उरले. चडशीं कामां म्हाकाच करचीं पडटात. तेंय आतां सोपें ना. पयलीं कामेऱ्यां काम जाय म्हूण

येतालीं आतां तांगेर फावटी घालून सुद्धां येनात. पंचवीस कामेऱ्यांची गरज आसल्यार पांच लेगीत मेळनात. तेन्ना म्हगेली आतां उमेद सोंपल्या. तातूंत आनी ही घडणूक. ताका लागून हांव सामकोच बेजारलां. एक तुमचेकडेन मागणें, ह्या जाग्याक आतां गिरायक सोदात.''

हें हांवें नानाक सांगलें खरें. पूण हो निर्णय सुखासुखी घेतिल्लो न्हय. खंय तरी म्हाका परिस्थिती कडेन तडजोड करची पडटाली. हो गांव सोपेपणान सोडप म्हाका जमचेंच नाशिल्लें. ह्या गांवा कडेन, गांवच्या लोकांकडेन, चड करून नाना आनी तांच्या कुटुंबा कडेन, शेजारी भिग्या, हांचेकडेन एक प्रकारच्या नात्यान हांव बांदून उरिल्लों. गंगी घरांतलीच जाल्ली. दीसपट्टे जिणेंत तिची वेगळीच सुवात आशिल्ली. अनय, नंदू सारखे अडी अडचणीक धांवून येवपी गांवचे तरणाटे, येतना वतना हटकिल्या बगर फुडें वचपी न्हय अशे गांवचे नेणटे, जाणटे.. हें नातें रगताचें नाशिल्लें. तरी रगताच्या नात्या परस ह्या नात्यान म्हाका गेल्ल्या पंदरा वर्सांत बरेंच कितें शिकयलां. रगताच्या नात्याची जिणेंत सुवात आसाच, पूण ह्या नात्यान म्हाका खूब कितें दिलां. तें मुंबय रावून म्हाका मेळचें नाशिल्लें. हातूंतल्यान म्हाका सोडोवन घेवपाक बरेच त्रास पडटले हाची म्हाका जाणीव आसा. हे जमनीकडलें म्हजें नातें तुट्टलें हाचें म्हाका सगळ्यांत चड वायट दिसतलें. हे भुयें कडेन म्हजी इश्टागत जाल्ली. ती सहजपणान तुटप कठीण. ती जिवीत भर विसरपाक जावची ना. म्हजे तकलेंत विचार चक्र घुंवतालें.

''ओगीच काडली जीब लायली ताळ्याक अशें करूं नाकात. हांवें तुमचे त्रास पळयल्यात. तुमी तुमचो वैताग हाचे पयलीं लेगीत उलोवन दाखयला. ते ते वेळार हांवें तुमकां हेय दीस वतले म्हूण धीर दिला. तशें आतांय सांगतां. धीर धरात. बरे दीस येतले.''

''ना. ना. ना. आतां आनी धीर धरून उपेग ना. हांव सामको बेजारलां. म्हाका जो अणभव घेवपा आशिल्लो तो घेतलो. मजा घेवपाची ती घेतली. काम करतना आनंदूय जालो. पूण हाचे फुडें हें सगळें करपाचें

त्राण ना. फाटल्या दिसांनी जें कितें घडलें, तें सोंसपाचे तांकी भायलें. केन्ना चिंतूंकच नाशिल्लें. सामकें कल्पने भायलें..It is simply unimagined and unpredicted. अकल्पीत आनी अघटीत शे. तेन्ना ह्या वेळार हांव तुमचें आयकुचों ना."

"पूण तुमचे पार्टनर तयार आसात? तुमचे जमनीची कायदेशीर वांटणी जावंक ना."

"पार्टनर केन्ना पसून एका पांयार तयार आसात. तांणी तर उलोवन दाखयलां, ते ग्हाका लागून अडकून पडल्यात. तांकां तांगेल्या व्यापा मुखार हाचेकडेन पळोवपाकूच वेळ मेळना. तेन्ना तुमी मातशे जाता तितले बेगीन हाका गिरायक सोदात."

"बरें आसा. तुमचो आग्रोच आसा जाल्यार हांव पळयतां गिरायक. गिरायक मेळपाक वेळ लागचोना. सगळ्या सुविधांनी भरिल्ली तुमची जमीन स्ट्रॅटेजीक पोयटार आसा. उडयो पडटल्यो गिरायकांच्यो. आसूं तें. या आमी घरा. सांजे उलोवया."

हांवें सगळ्या घराचेर मातशी व्हिस्त मारली. फाल्यां वचपा आसां. शक्य तों, परत येवचों ना हें थारावन गंगीक फाल्यांच्या कामा विशीं सगळें समजावन सांगचें पडटलें. जमीन विकतालों ग्हणपाचें सांगून उपेग ना. ना जाल्यार तिचें कामावेलें लक्ष वतालें. जमीन विकप ग्हणल्यार तिची नोकरी वचप. हांवें कुलप हातांत घेतलें आनी नानाक ग्हणलें.

"चलात नाना, वचुंया."

* * *

‘अघटीत’ हें भौमानेस्त अशोक सरालें पुस्तक वाचलें. कोंकणी वाड्मयांत एक मोलादीक भर घालपी ही कादंबरी. खंयच्याय बऱ्या रहस्यकथेक दोन गुणधर्म आसपाक जाय. एक म्हळ्यार ह्या कथानकाचो खलनायक (खुनी) कोण आसुये हाची जाणविकाय अखेरचे घटकेमेरेन जावंक फावना. आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार कादंबरी वाचता तशी तशी त्या काणयेची उत्कंठा वाडूंक जाय. ‘अघटीत’ वाचतना ह्या दोनूय गोष्टींचो अणभव आयलो, पुस्तक केन्ना वाचून सोंपलें तें कळ्ळेंच ना! सरान मोठ्या कुशळतायेन हें कथानक मांडलां. ही कादंबरी वाचतना सराचो कोंकणी साहित्यावेलो भक्कम ठसो दिसून येता. एक बरी रहस्थकथा वाचिल्ल्याचें समाधान मेळटा!

**डॉ. पद्मनाभ वा. रताबोली**

